# वेंचीक पुंडलीक

पुंडलीक नारायण नायक हांगेलें वेंचीक साहित्य
आनी साहित्याची मोलावणी

संपादक

**राजू नायक**

पालवी संपादक

**प्रा.भूषण भावे**
**ज्योती कुंकळकार**




कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय.

VENCHIK PUNDALIK -
SELECTED WORKS OF PUNDALIK NAIK
वेंचीक पुंडलीक

पयली खेप
१९९९

©
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

**मुखचित्र**
अच्युत पालव

**उजवाडावपी**
सुशांत कुंकळयेकार
सरचिटणीस, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय
कोंकणी भवन, शंकर भांडारी मार्ग,
मडगांव - गोंय. ४०३-६०१.

**संगणकी मांडावळ आनी मुद्रण**
सॉफ्टडॅस्क,
मडगांव - गोंय
फोन : ७३७८६४, ७३७६२१

**छापपी**
न्यू एज प्रिंटर्स,
सांताक्रूज, गोंय.
फोन : २२३९२४, २२२०६३

**मोल**
रु. २२५.००

ह्या पुस्तकांत छापिल्ल्या ललित साहित्याचे (नाटक, एकांकी, आनी बालनाट्य, हांचें सादरीकरण आनी अणकारा सयत) सगळे हक्क बरोवपी श्री. पुंडलीक नारायण नायक हांचे सुवादीन आसात.

## ।। अर्पण पत्रिका ।।

आमचे मायेमोगाचे काका

**सर्गेस्त तीर्थस्वरूप अनंत (बाबू) नरसिंह नायक**

(१९-८-१९२७ । ३०-४-१९९९)

हांणी कोंकणी भास, साहित्य, समाज
आनी संस्कृतीची जीणभर जी मोलादीक
सेवा केली तिचो उगडास काडून
हें पुस्तक हांव
श्रद्धेन तांकां ओंपतां.

**प्रदीप वासुदेव नायक**

श्री दामोदर साल,
मडगांव,
ता. १९ जुलै, १९९९

# मंडळाचे वतीन...

'वेंचीक पुंडलीक' हें भौ. पुंडलीक नायक हांगेल्या वेंचीक साहित्याचें संकलन आनी मोलावणी करपी पुस्तक तुमच्या हातांत दितना आमकां भोव खोस जाता. पुंडलीकबाब हांची अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या बेळगांवांत जावपी २२ व्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष म्हण निवड जाली. अशा वेळार तांचें वेंचीक अशें बरें साहित्य पुंजावन तें उजवाडावचें अशें आमकां दिसलें ताचे फाटल्यान दोन कारणां आसात. एक, आमचीं संमेलनां वा परिशदो जातात तेन्ना अध्यक्षांचें बरें, वेंचीक वा अप्रकाशीत साहित्य उजवाडावपाची नवी प्रथा पडूंक जाय. आनी दुसरें म्हळ्यार ह्या लेखकाच्या साहित्याची नव्यान विसकटावणी, नियाळणी आनी मोलावणी जावंक जाय. विद्यार्थ्यांक अभ्यासाकूय तें उपकाराक पडूंक जाय. आयज अशे तरेच्या पुस्तकांक खूब मागणी आसा आनी कोंकणीचे नदरेन तें खूब बऱ्याचें लक्षण. महाविद्यालयीन, विद्यापीठ पांवड्याचेरच आयज साहित्याचो अभ्यास जावंक लागला अशें न्हय, तर स्वतंत्रपणान साहित्याची समिक्षा, नियाळणी आनी मोलावणी करपी एक नवो वर्गूय तयार जाला. असलो अभ्यासकांचो वर्ग साहित्याच्या विकासाक हातभारच लायत आसता. कोंकणीत अशे तरेच्या साहित्याची, सृजनात्मक समिक्षेची भोव गरज आसली आनी आमचें हें मळूय आतां चंवरता ही आमकां सगळ्यांक भोव खोशयेची गजाल. पुंडलीकबाब हांच्या वेंचीक साहित्याचें हें पुस्तक नवे वाचक घडोवपावांगडाच अभ्यासकांक उर्बा दिवन समिक्षेक चालना दिवंक उपकारा पडटलें हाचो आमकां विस्वास आसा.

अशे तरेचीं हेर साहित्यिकांच्या वेंचीक साहित्याचीं पुस्तकां उजवाडा हाडपाचो वावर आतां सुरू जावंक जाय. हो वावर कोंकणी भाशा मंडळानूच करूंक जाय अशें ना. खंयचेय संस्थेन वा प्रकाशकान तो करूं येता. एका काळार कोंकणीत वेवसायीक प्रकाशक नासले तेन्ना असल्या वावराक भाशा मंडळ खांद मारतालें. भाशा मंडळान तेच नदरेंतल्यान कांय संग्रह उजवाडा हाडल्यात. आयज सातत्यान पुस्तकां उजवाडावपा इतली भाशा मंडळाची आस्पत उरूंक ना. देखून पुस्तकां उजवाडावपाची येवजण हातांत घेतना आमकां धा खेपो चिंतचें पडटा. पूण पुंडलीकबाब हांच्या पुस्तकांत भाशा

मंडळाक आस्पत मेळोवन दिवपाचीय तांक आसा हेंय तितलेंच खरें. ह्या पुस्तकांतल्यान पुस्तकां उजवाडावपाची भाशा मंडळाची खंडीत जाल्ली परंपरा परतून सुरू जातली हाचो आमकां विस्वास आसा.

भौ. पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी साहित्याक कितें दिलें आनी कोंकणी चळवळींतली तांची सुवात कितें हाची जाप हें पुस्तक नव्यान दितलें आनी पुंडलीकबाब हांचें आतांचें नवें फुडारपण कोंकणीत नवतेजाची, नवविश्वासाची घुडी रोमतलें हाचो आमकां विस्वास आसा. पुंडलीकबाब ज्या हावेसान कोंकणी साहित्यिक मळार आयले तसो तांचे आदीं कोण येवंक नासलो. तरणे पिरायेचेर साहित्य अकादमीचो पुरस्कार तांणी जोडलो. चळवळीच्या मळार तेंच. ते आयले, तांणी पळयलें आनीं तांणी जिखलें, अशे तरेचीच परिस्थिती तांणी निर्माण केली. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ही चळवळ एक इतिहास. ह्या होमखणांत आमच्या सगळ्या म्हालगड्यांच्यो समिधा पडल्यातच. पूण पुंडलीकबाब हांचें समर्थ फुडारपण चळवळीक लाबलें आनी कोंकणीक राजभाशेचो दर्जो फावो जावंक पावलो. शणै गोंयबाब खंय त्या त्या मनशांकडल्यान तें तें करून घेता. ताणे दोन व्हडलीं कामां करूंक पुंडलीकबाबांक वेंचून काडले. एक, कोंकणींत नवसाहित्याचें बीं घालूंक आनी एका फुडले एक श्रेष्ठ साहित्याचें पीक काडूंक. दुसरें, कोंकणी चळवळीच्या जैताची घुडी उबारूंक ! पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी साहित्याकच न्हय जाल्यार कोंकणी चळवळीकूय नवें तेज दिलें. तांच्या साहित्यान भारून म्हजे सारके जायते तरनाटे कोंकणी चळवळींत येवन आपलेपरीन वावरत आसात.

भाशा मंडळूय आयज एका नव्या हावेसान वावुरता. आनिकूय जायत्यो संस्था आनी नवे वावुरपी घडत आसात. तांका प्रेरणा लाबल्या. पूण वेवसायिकतेचें भान ना. कोंकणीचे जायते वावुरपी आज गांवागावांनी व्हड ध्येयान, उपाट भावनेन आनी उदात्त विचारांनी, संकल्पनानी भारावन गेल्यात. तांका वेवसायिक तज्ञतेची जोड मेळ्ळी, प्रेरणा आनी वेवसायिकताय हातांत हात घालून वचूंक पावल्यो जाल्यार प्रभावी आनी परिणामकारक रितीन वावर फुडें वचूंक पावतलो. अशे तरेचें फुडारपण दिवपाची तांक पुंडलीकबाब हांचे भितर आसा. आयचो तरणाटोय पुंडलीकबाब हांचेकडेन 'बांगर बैलाचे' तेच मोटे अपेक्षेन पळयता.

पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी सरस्पतीच्या आंगणांत पावल दवरलें तेंच 'बांगर बैला'च्या मस्तेपणान. 'शिंगां दाखोवन पुजून घेतलो' अशें नेटान सांगून. तो वेळ मेरेन कोंकणी चळवळ मराठी परंपरेंत वाडिल्ली. पूण मराठी परंपरे आड वचून नवी कोंकणी परंपरा निर्माण करूंक मुखार सरिल्ली. तशेंच ती फकत मदल्या वर्गांतल्या

तरनाट्यांमजगतीं घुम्पून उरिल्ली. पुंडलीक नायक हांच्या आगमनान ही चळवळ इतिहासांत पयलेंच फावट युगानयुगां सावन मोनो उरिल्ल्या भौसा मेरेन पावली.

कोंकणी चळवळींचो विजयरथ तरातरांच्या घुडयांनी शणै गोंयबाबांचे पिळगेन सजयल्लो. ताका देवळामेरेन व्हरपाक - 'बारा हात रूंद मार्ग' जाय आशिल्लो, तो बाकीबाब बोरकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे पिळगेन बांदून काडिल्लो. मागीर, हो रथ नाचयत व्हरपाचो वावर रवीन्द्रबाब केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय सारकेल्यांचे पिळगेन आपणाल्या भुजांचेर घेतलो. शंकरबाब भांडारी, चंद्रकांतबाब केणी, उदयबाब भेंब्रे सारकेल्यांचो हातभार ह्या वावराक लागलो तेन्ना देवळा भोंवतणी रथ मोट्या नेटान नाचपाक लागलो. थंयूच तांकां पुंडलीक नायक हांची पिळगी आपणाल्या भुजांचेर रथ घेवपाक मुखार आयिल्ली दिश्टी पडली. आनी तांचीं बळकट भुजां पळोवन तांणी तो रथ हे पिळगेचे सुवादीन केलो.

कोंकणीचो हो विजयरथ आतां नवी पिळगी हरहर करून देवळा भोंवतणीं नाचयत रावल्या. वर्सानवर्स नवे नवे तरनाटे तो नाचोवपाक मुखार येत रावल्यात.

कोंकणी चळवळींतली पुंडलीक नायक हांची आनी तांगेले पिळगेची सुवात तांकां कोणे दिवंक ना. तांणी ती आपणाल्या अधिकारान घेतल्या.

पुंडलीक नायक हांणी सरस्पतींची उपासना कवितेन सुरू केल्ली. म्हणटासर तें कथेच्या मळार तिनल्याच अधिकारान चलपाक लागलें. बावीस तेवीस वर्सांचे पिरायेमदल्यो तांगेल्यो कथा पळोवन 'हो हे पिरायेर अशेतरेच्यो कथा बरोवपाक लागलो जाल्यार म्हजे पिरायेचो जातलो तेन्ना केद्या तोला मोलाच्यो बरयतलो' अशें ह्या मळावेले लक्ष्मणरावांसारके म्हालगडे कथाकार म्हणटात थंय आसात, पुंडलीकबाब चोवीस भर जावंचे पयलींच 'अच्छेव' सारकी एक उंच पांवड्याची नवलकथा कोंकणीत घेवन आयले. कविता, कथा, नवलकथा हीं माध्यमां हाताळटा आसतनाच तांच्या हातांत अचकीत ताचें निजाचें माध्यम - नाटक लागलें. आनी ह्या माध्यमांतल्यान तांगेली प्रतिमा सोळाय कळांनी फुलून येवपाक लागली. पुंडलीक नायक हांणी आतां मेरेन अठरा नाटकां बरयल्यांत. एका फुडलीं एक. कोंकणी लोकांक पिशें लावपी नाटकां पयलेंच फावट पुंडलीकबाबानींच तांकां दिल्यांत. 'पुंडलीक नायक हांच्या हाताक पद्म आसूंक जाय... तो जाका हात लायता ताचें भांगर जाता... फाटल्या पांचशें वर्सांच्या काळांत ताचे सारको दुसरो साहित्यकारूच गोंयांत जालो ना' अशें रवीन्द्रबाबानी वेश्टें म्हणूंक ना. अश्या ह्या साहित्यकाराचें, चळवळ्या-मनशाचें वेंचीक साहित्य तुमच्या हातांत दिवपाची संद आमकां मेळटा. हें पुस्तक प्रकाशनाच्या मळार एक नवें पावल

थारतलें, अभ्यासकांक नवी नदर दितलें हाची आमकां खात्री आसा.

हें पुस्तक अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या वेळगांव अधिवेशना वेळारूच उजवाडावपाचें थारायिल्लें. पूण तंत्रीक, अर्थीक तशेंच हेर जायत्या आडखळींक लागून तें उरलें, आनी अचकीत श्री. प्रदीप वासुदेव नायक हांणी एक भांगरा संद आमकां मेळोवन दिली. भाशा मंडळाचें हें मोलादीक पुस्तक स. अनंत (वाबू) नरसिंह नायक हांकां अर्पण करचें अशें तांणी मागलें आनी पुस्तका खातीर म्हत्वाचो आशिल्लो अर्थीक पालवूय दिलो. स. वाबू नायक हांचो कोंकणी मळावयलो वावर म्हत्वपूर्ण आसाच. ते भायर कोंकणी भाशा मंडळाविशीं तांणी लागणूक बाळगिल्ली. तांणी मंडळाचे शाळे खातीर कितलींशीं वर्सां मडगांवांतल्या विद्या भुवनाची सुवात आनी हेर साधन सामुग्री विनामूल्य वापरूक दिली. तांणी कोंकणी चळवळीक दिल्ल्या योगदानाची नोंद चळवळीच्या इतिहासांत सदांच उरतली. देखून हें पुस्तक तांकां ओपूंक आमकांय भोव खोस भोगता. श्री. प्रदीप वासुदेव नायक हांचेय आमी भोव उपकारी आसात.

पुस्तकाच्या संकलनांत आनी संपादनांत कोंकणीचे प्राध्यापक आनी समिक्षक श्री. भूपण भावे आनी लेखिका श्रीमती ज्योती कुंकळकार हांचें मोलादीक सहकार्य लाबलें. तेचपरी पुंडलीक नायकांच्या साहित्याची मोलावणी करपी लेख, प्रा. भूपण भावे, प्रा. बाळकृष्ण कानोळकार आनी प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार हांणी अल्प मुजतींत दिले. तांणी हो वावर पुंडलीक नायक हांच्या आनी मंडळाच्या मोगान केला हें आमकां खबर आसा. पूण तांचे उपकार मानपाक जाय.

श्रीमती हेमा नायक हांणी पुस्तकाचे अक्षर जुळणीची जापसालदारकी स्विकारली आनी प्रा. रघुवीर शिरोडकार, कु. प्रतिमा नायक, श्री. शेखर नायक हांच्या पालवान रातदीस वावरून ती तर्डीक व्हेली. श्री. प्रसाद असोळडेकार हांणी बरीच तकालस घेवन संगणकी मांडावळ / मुद्रण केलें. देखून तांचेय उपकार मानपाक जाय.

सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार अशे तरेचें पुस्तक उजवाडावपाक श्री. पुंडलीक नायक हांणी मंडळाक परवानगी दिली तेखातीर मंडळ सदांच तांच्या उपकारांत उरतलें.

**राजू नायक**

अध्यक्ष,

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

संपादकांचे नदरेंतल्यान...

# गागर में सागर

पुंडलीक नायक हांच्या विपूल साहित्य भांडारांतल्यान कथा, कविता, नाटक, एकांकी, वालसाहित्य, नवलिका आनी निवंद ह्या साहित्यप्रकारांतल्यो आमी आमचे नदरेन म्हत्वाच्यो अश्यो साहित्यकृती वेंचून काडल्यात. त्यो काडटना एखादे साहित्यकृतीचो दर्जो, ते साहित्यकृतीच्या आशयाचें आनी घाटाचें पृथकपण, मेळिल्ले पुरस्कार, आदली उजवाडावणी, वाचकांनी घेतिल्ली तिची दखल, शिक्षणीक अभ्यासक्रमाचे नदरेन आशिल्लें तिचें म्हत्व, कोंकणी साहित्यांतलें तिचें आगळेंपण आनी सगळ्यांत निमाणे पूण म्हत्वाचें म्हळ्यार ते साहित्यकृतीची पृष्ठसंख्या हें सगळें आमी मतींत घेतलां. ताकाच लागून 'अच्छेव' सारकी कोंकणी साहित्ययात्रेंतली म्हत्वाची साहित्यकृती कुशीक दवरची पडली आनी 'कादंवरी' (नवलकथा) हो साहित्यप्रकार भायर दवरून कादंवरीक लागिंचो असो 'नवलिका' होच साहित्यप्रकार आमकां आस्पावन घेवंक मेळ्ळो. ही एक मांडली जाल्यार हेर खंयच कडेन गुणात्मक-तडजोड करूंक ना, हें वाचप्यांनी मतींत धरचें.

पानांचे संख्येचे मर्यादेखातिरूच पटकथा, नभोनाट्य आनी एकपात्री ह्या प्रकारांतलें पुंडलीकवावाचें लिखाण आसपावंक मेळूंक ना. हातूंतलें पटकथा आनी नभोनाट्य हें लिखाण निखळ साहित्याचे फास्केंत (Pure form of literature) वसना. ताची निर्मणी खंयचेतरी साहित्यकृतीचेर आदारून जाल्ली आसता आनी ती दृक वा श्राव्य कला-माध्यमांखातीर घडयिल्ली आसता.

'छप्पन थिगळी येसवंत' ही एकपात्री साहित्यकृती घेवपाक मन करतालें. 'एकपात्री' हो भौतेक सगळ्याच भारती भासांतलो दुर्लक्षीत साहित्यप्रकार. (ताका साहित्यप्रकार म्हणप काय ना हाचेर वाद आसात). ताचें प्रयोगीक मूल्य लेगीत हालीं उणे जालां. पूण एका काळार ह्या माध्यमान शाळा-कॉलेजींच्या गॅदरिंगांनी लोकांचीं मनां जिखिल्लीं. तातूंत पुंडलीकवावाचो 'यशवंत' खूब गाजिल्लो. वाचप्यांच्या मनांत एकेच फावटीं राग,

निडक, काकळूट, करूणा आनी दुख अश्यो कितल्योशोच भाव-भावना उमळावन हाडपाची तांक हे 'एकपात्री' भितर आसा. देखून ती भायर दवरतना मनाक चर्र जालें. वाचप्यांनी मुजरत ती स्वतंत्रपणान वाचची.

नवलिकेचें चिंतप करतना 'गुणाजी' ही पुंडलीकबाबाची हालींच उजवाडायिल्ली नवलिका फुडें आयली. पूण वाचप्यांनी जोरदार प्रतिसाद दिल्ली ही नवलिका पृष्ठसंख्येचो निकश लायिल्ल्यान कुशीक दवरची पडली. तिची सुवात 'दायज' हे भौरूपां (नाटक, टॅलिफिल्म, नभोनाट्य) घेतिल्ले नवलिकेक मेळ्ळी.

कथेखातीर दॆंठ, माड, खळ, काणी एका माजराची आनी भाग्योदय अश्यो कथा मुखार सरल्यो. तातुंतल्यो पयल्यो चार कथा घेतल्यो. जाल्यार ९ कविता (गीतां धरून) वेंचून काडल्यो.

बालसाहित्यांत 'रानसुंदरी' हें गाजिल्लें बालनाट्य घेतलें. कोंकणीतल्या बालसाहित्यांत रानसुंदरीक खेरीत म्हत्व आसा. पुस्तक रुपांत उजवाडा आयिल्ली ही तांची पयली साहित्यकृती.

पुंडलीकबाबाचे निबंद 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयिल्ले. हाका लागून कांय निबंदांक प्रसंगीकताय लाविल्ली. देखून निबंद वेंचून काडटना उण्यांत उणी प्रसंगीकताय आनी चडांत चड ललित मूल्य आशिल्ले अशे 'भुताची परंपरा ; परंपरेचें भूत' आनी 'सैमाची आमचेकडेन इश्टागत' अशे दोन निबंद घेतल्यात.

पुंडलीकबाबाची वळख समस्तांक आसा ती एक समर्थ नाटककार म्हण. तांच्या 'सुरींग', 'श्री विचित्राची जात्रा' आनी 'परिक्रमा' ह्या नाटकांनी आमचेकडेन अर्ज केल्ले. तशें पळोवंक गेल्यार दरेक साहित्यकृती आपापले नदरेन श्रेष्ठ आनी अनन्यसादारण (unique) आसता. तरीपूण 'श्री विचित्राची जात्रा' हें नाटक ताचो आशय, फॉर्म (continuous play / mob-play / non-stop drama), ताचो हेरां भासांनी (इंग्लीश धरून) जाल्लो अणकार आनी ताका मेळिल्ले पुरस्कार (हो असाहित्यीक आसलो तरी साहित्य प्रक्रियेंतलो एक म्हत्वाचो निकश मानून) तशेंच ह्या नाटकान पुंडलीकबाबाच्याच न्हय तर पुराय कोंकणी नाटकाच्या प्रवाहाक एक वेगळेंच मांडण दिलां तें मतींत घेवन ताचोच अर्ज स्वीकृत जालो.

'एकांकी' ह्या साहित्यप्रकारांत 'एका जुंव्यार जंय' ही एकांकी एकमतान वेंचून आयली.

हें वेंचीक साहित्य वाचप्यांक आवडटलें अशी आस्त आसा. कांय जाणांचें हे

विशीं वेगळें मत आसूंक शकता. 'रूचिनां वैचित्र्या' ह्या नात्यान त्या मतांचो आदर करीत अशें म्हणन दिसता, जेन्ना सगळ्यो भांगराच्योच वस्ती आसतात, तेन्ना तातूंतल्यान बाजूबंद काडलो वा भांगतिळो काडलो तरीय व्हडलोसो फरक पडना. निमाणें हाताक लागतलें तें शुद्ध भांगरूच. खंयचेय साहित्यकृतीची सरसताय वा श्रेष्ठताय व्यक्तीगणीक बदलता हेंय आसाच.

पुंडलीकबाबानी आतांमेरेन जें बरयलां तें आतां सागराचें रूप घेवपाक लागलां. आलतडीं राविल्ल्याक पलतड दिश्टी पडपाची ना येदें विशाळ रूप तांचे बरपावळीन घेतलां. हिन्दी भाशेंत 'गागरमें सागर' म्हण एक वाक्प्रचार आसा. ताका अनुसरून आमी ह्या पुस्तकांत पुंडलीकबाबाचें साहित्य एके 'गागरेंत' हाडपाचो यत्न केला. पुंडलीकबाबाच्या साहित्याचो पावंडो वळखुपाक हें पुस्तक वाचप्यांक उपकारा पडटलें अशी आस्त आमी बाळगितात.

**- राजू नायक**
संपादक

**- प्रा. भूषण भावे**
**- ज्योती कुंकळकार**
पालवी संपादक

मडगांव-गोंय.
जुलय, १९९९.

# विशय वळेरी

## भाग १

## वेंचीक पुंडलीक

(श्री. पुंडलीक नारायण नायक हांचें वेंचीक साहित्य)

### कथा



### नवलिका



### कविता / गीतां

### बालनाट्य



### निबंद



### एकांकी



### नाटक



## भाग २

### मोलावणी



### परिशिश्ट





१

# देंठ

आज सकाळधरयां तें म्हज्या मेजार पडून आसा. आंतेर. घरा सावन आवयन तें धाडून दिलां. हांव आंतेरांच्या तेपार घरा पावलोंना जाल्यार फटोवंक नाका म्हण मुजरत तिणे तें धाडलां.

आवयन धाडलां म्हणटकच तें आमच्या घराकुशिचे आंतेरिचेंच आसपाक जाय. म्हजी आवड तिका जुस्त कळटा. आवय ती आवय. तें आंतेर घराकुशिचे आंतेरीचें म्हण ताचेर वरयिल्लेंना. पूण तें आंतेर उलयता.

देडेंक मुठिच्या आकारापरस तें व्हड ना. मळ्याइतली वारीक न्हय पूण तशीच देठयेंपासून ताची निमुळसाण आसा. ताच्या आंगार शिंपयायेदीं फुगरट फुगीर धोंगां उदेल्यांत. तातुंतल्यान विटकर तांवूससाण तटतटून आयल्या.

हात लायल्यार ताचीं पेसां जातलीं. साकरेचो ओलो पंक कसो! तेमकार सारयिल्ल्यों वियो तोंडाक उदक काडटल्यो. जिवेर दर्वारिनाफुडें झेल कशो विरगळटल्यो आनी कपलाक धवो कुकूम कोरायिल्ल्यो काळ्योकिट्ट वियो वोंठांतल्यान भायर सळकतल्यो. ताचें पिकेंपण दाखोवन दिवपाक ताका हातूच लावन अदमासावपाची गरज ना.

हावेंय ताका हात लावंना. हाडून दिल्ल्या मनशान दवरिल्लेकडेन तें तशेंच आसा. तें खावपाची न्हय, ताका हात लेगीत लावपाची म्हाका वान्सा जायना. सांगूंक नकळो, पूण ताचो देंठ मुळापासून कोंचिल्लो म्हाका निखालस मानवूंक ना.

हें आंतेर घराकुशिचेच आंतेरीचें म्हण म्हजेबगर हेर कोणाकय कशें पटोवप? हाचे तोडयेंवेल्या घायाक तो आंतेरीचो देंठ गवाय दीत. सोड.

पूण तेखातीर हांव तें खायना अशें न्हय. दुसऱ्यान हातार दिल्लें आंतेर हांवें केन्नाच खाल्लें ना.

घराकुशिचे आंतेरीकडेन म्हजी इश्टागत पिरायेच्या खंयच्या वर्सा जाली ताचो उगडास ना. पूण ती पिराय भुरगेपणांतली. तो म्हयनो भाद्रपद आसूंक जाय. मिर्गाच्या तेंपार हेर झाडांवरीच धेंगाडी आंतेर पालेल्ली.

चवथीआदीं दोन दीस रानांतलीं वोट्टां-वुट्टां माडोवन हावें माटोळे खातीर कांगलांमाट्टां हाडिल्लीं. चवथी पयलीं तर तीं घरांत घेवंक फावनासलीं.

भायर दवरताना नदरेलागीं, कोणाचे नदरेक पडना अशीं आनी वोत वादना अशेतरेन लिपोवपाक जाय आसलीं. तेन्ना याद जाली ती आंतेरीची. एका हातांत ते घोण घेवन आंतेरिच्या खाकोळांत पावसर दोन तीन खेपे सालिवेल्या शेळ्यार निसरलेलों. पोट घश्टून सल्पल्लें.

घोंस आंतेरिचे खांदयेक वांदून दाट पानांची ताळी तांचेर धापतालों. इतल्यान नदर पडली ती खांदयेक फुटिल्ल्या फुलांचेर. असलीं फुलां .. एके वेगळेच तरेचीं .. ताचेआदीं हावें केन्नाच पळोवंक नासलीं. नाखटांनी दोन कोंचून हावें तीं तोखेलीं.

हळडुवसार दाट पांकळ्यो. पांकळ्यांची दाटसाण काजू बियेच्या दावयेइतली. नाखूट तोंपल्यार कुडके जायत इतली कंवळी. ना वास. चवथी दिसा गणपतिच्या मखराक एके हारीन उब्यो करून सजयल्यर .. पयलीं घरा व्हरून दाखयल्यार .. पानांत लिपून वशिल्लो ते नागले हांव किरमुवपाचोंच. पूण तातूंतल्यान फायचीं आंतेरां जातलीं हाची म्हाका अचकीत जाणीव जाली आनी म्हज्या शाणेपणाचेर हांवूच खोशी जालों. आंतेरिचें खांदये कणकणी नाखांतले नथीवरी आंतेरां लांवतात अशें म्हाका दिसपाक लागलें.

पूण ताका दोन तीन म्हयने गेले. मदल्या काळांत हावें आंतेरिच्या मुळांत आतरो पयरो चुकयलोना. म्हाकाच तो चुकोवंक जालोंना. त्या तेंपार आमच्या घराकुशिच्यान कोणूय तिश्टत गेल्लो म्हाका सोंसलोना.

कोणेनूय चुकून लेगीत वयर पळयिल्लें म्हाका निखालस मानवलें ना. कोणाचेंय मुद्दम लक्ष वचत म्हण आंतेरीर धेंप मारपाची कूय दामून धरली.

तश्यो कल्पना मनांत खूब आयल्यो. हीं सगळीं झाडां आंतेरांचीच कित्याक निर्माण जावंक नात.. वा हेर झाडांकूय कित्याक आंतेरां लागनात.. हीं आंतेरां कशीं खावप.. एका हातान एक.. दुसऱ्या हातान एक.. तिसऱ्या हा.. शं!

पूण एक, आंतेरां खुंट्टून घरांत दवरचीं.. आंब्यागारको तांचो मुंडो घालचो.. मागीर काळखाचे कुडींत वसून काथें सल्पुचें.. अशे तरेची कल्पना म्हाका केन्नाच

येवजलीना.

आंतेरां खावचीं.. झाडार चडून.. देंठ तोडून.. झाडपिकीं.. झाडार..

तेंगशेवयलें तांवशें आंतेर वोतांत चकचकतालें. हांव मान मोडून वयर पळयलें तेन्ना पानांनी ताका लिपोवपाचो खूब यत्न केलो. पूण रंगासयत ताणे म्हाका दोळो घातलो. म्हजे खातिरूच तें पिकलेलें. इतले वयले तेंगशेर. वगत दनपारचो आसलो. राविल्लों तेच गजालीखातीर. आनीक एक उमेद आसली. नवें फळ भुजांक बळ.

दोळे आंतेराकडेन आसले. पावलांक आनीक दोळे आशिल्ले जाल्यार हांव ते सुके खांदयेर आनीक पावल दवरचो नासलों. आनी ती खांदी म्हाका वडोवपाकूच इतलो तेप राविल्ले भशेन मोडची नासली.

पूण ती मोडली. आवाज करिनासताना. घडये म्हाका आयकूंक आयलोना जायत. आयकूंक आयलो तो जिते खांदयेचो करकर. आदार तुटनाफुडें हावें मेळटा ते खांदयेक हात धरपाक हात वावुडले. एक हात पडलो तो लेगीत एके बारकेले ताळयेक. तिका बावडेक हांव सांवरलोंना. पूण मुळांतल्यान कोंचून ती म्हजेबरावर तुटून सकयल पडली. हांव धोपटलों. कुले धाडावले - तोरंगीचे धोडे कशे!

पूण ताची दूख काळजाकडेन पावचे आदींच जिवेर दोन अमृताचे थेंब कशे विरगळ्ळे. खांदी तुटटना हावें केन्ना त्या पिक्या आंतेरार झोपय मारिल्ली. तेसरशीं तें कोंचून म्हज्या हातांत आयिल्लें. हांव झिडपताना आपशींच फुटिल्लें आनी नकळटाना दोन वियो हातावयल्यान म्हज्या तोंडांत गेल्ल्यो. आठ दिसांनी म्हजी दूख गेल्ली. पूण त्या आंतेराच्या दोनूच बियांची गोडी आजून जिबेर आसा.

सकाळधरयां म्हज्या मेजार आशिल्लें तें आंतेर खावपाक म्हाका मन ना. आवयक वायट दिसतलें पूण ताका उपाय ना. भुरगेपणांत आवय म्हाका भरयताली. पूण म्हज्या हाताचो जेन्ना म्हाका सोद लागलो तेन्नापासून हावें आवयकडल्यान भरोवन घेतलेंना. तिणे केन्नाय लाडान म्हळें जाल्यार लेगीत म्हाका तें मानवलेंना.

सवन रात म्हाका न्हीद ना. मातसो दोळो लागूंक आनी एक विपरीत सपन पडलें.

.. म्हज्या आंगावयलीं आंगाचीं कोणशीं वळयां ओडून काडटा. कोणाचे तरी अदृश्य नदरे पलतडचे हात झोंपय घालतात. एक आंगाचें.. दोन.. तीन.. चार.. धा.. वीस.. पंचवीस.. तीस.. पस्तीस.. म्हाका सामको उकतो करून वडयतात. म्हजीं भुजां उकतीं.. म्हजें हड्डें उकतें.. म्हज्या हड्ड्यावयलें पिकिल्ल्या केंसांचें चारकण उकतें.. उकतें..

आनी हांव जागो जालों. दिवो पेटयलो. पळय जाल्यार मपनापरस भयांकृत अशी गजाल. मंजावयलें तें आंतर आपणाल्या आंगार जाण्टेपणाची कात सुरकुतावन म्हाका खी खी करून हांसता. दांत वोंठ किल्लून हांव उठलों. दुस्मानाचेर उवारूक उकल्लेलो फातर कसो हावें तें उवारलें आनी सुमाराभायले वडीन जनेलाभायर मोखलें. तें वमलें भायर काळखांत आंकडो करून पडिल्ल्या सुण्याचे पोटकुळेचेर. तें केंकाटलें. पूण न्हिन्नळो हांवूच. सामको कोंचिल्ल्या देंठापासून.



# २

# माड

हो भेंड वांकडो माड.. हांगा सावन एका उल्याच्या अंतरार रावता तो खुशाली रामा. हेंच ताचें पुराय नाम. सगळ्यांच्या वळखिचें.

हो माड. म्हणटकच खुशाली रामा माडाचो सोयरो-धायरो कोण न्हय. तो मांसाचो गुळो न्हय पुण हाडांचो भोरो. माड उंच-उवार तसोच तो तेखोडयो. माडाचे फाटीचें इंद्रधणू जालां तसोच पावलाची किरंगळी आनी ताळयेचें तेमूक धरून चवळेची सांग कसो काळान ताका भेंडान वागयला. माडाचे चुडटेन-चुडटेचे व्हीर मेजूंक येतात तश्यो ताच्यो कावुळकाटक्यो बोरी मेजूंक मेळटात. चुडटेचें मूळ तसो वोरिचो आंकडो खंय गुंथला तो लेगीत.

माडावरीच वारो येता तेन्ना ताणें धोलप. कोर विट्टा तरी आपूण पाचवो आसा अशें भासोवप. कोणाक दुवाव येवंक दिवप ना. माडावयले कवळे वोंडे तशे ताच्या मनांतले गोंडे तटातट तुटून पडप. माडाच्यो पेंडी दोन वाजां लांवतात तश्यो ताच्या दोनूय दोळयांच्यो मुंडळ्यो.

माडांत आनी ताच्यांत हेंच सारकेंपण.

खुशाली रामा हाची गजाल मातशी कुशीक दवरल्यार माडान आपणाल्या दोळ्यांनी पळयलां तें फट न्हय.

त्या काळार उसगांवचो रुमड-प्लॉट गाजतालो तो हायग्रेडी खातीर. रुमड प्लॉटावेल्यान वचपी मीन आयनोर पांसश्ट ग्रेडिचो आसतालो. मालाक गिरायक खूब आसलें. साकोड्डें-गवाणें सावन ट्रकार ट्रक येवन परायेर भोंकां वरशीं करून रिते जाताले.दनपारच्या परार उदक लाशिल्ल्या सारकें मीन वतांत लिकलिकतालें. सामको आंकवार चलयांच्या कपलावयल्यो तिकल्यो कश्यो. मिनाची पराय दिसान दिस वाडत आसली. एक दीस घसरत घसरत पावली ती वद्द माडांचे देगेमेरेन. म्हळ्यार सामकी

न्हंयेकडेन. पराय सुमाराची न्हय. आतां माडांच्या कंवराक फकत दाग दिसतात, थंय मेरेन तेंकिल्ली उवारी. पूण तेन्ना माडाक कांयच दिसलेंना वा वादिकाराक गेलें ना. माडाचें मळबाक तेंकिल्लें माथें. कंवरांतल्यान धीर मेळटा अशेंच ताका दिसलें. तेन्ना चुडटी थरथरलिना. मिनाचे मोलादीक फातर चुडट्यांनीं मेजून घेवपाचें काम मात वेसवरें जालें. कवाळ्यांतले शिवडेक वाग हाडिनासतना वरोच तेंप गेल्लो.

एक दीस कंवळे पोयेंतल्यान शेलूक भायर पडलें. कचकचीत बोंड्यासकट. आनी दोन दिसांनी दुदयाचे तोरे कशे धगळून गेलें. काळोख पोसवल्ल्या झाडाच्या आंगावयल्यान गळटात कांजुले तशे झडून गेले बोंडे.

आनी तेन्नाच्यान माडाक कळ्ळें, कंवरभर तेंकिल्लया मिनाच्या फातरानी गळ्यामेरेनची शक्त खुटून घेतल्या. सर्वस्वाचें शोशण चल्लां. पाळां-मुळां शुश्क करून वडयल्यांत. कितें निर्माण करपाचें बळगेंच ना केलां.

तेन्नाच्यान चुडट्यो वावत आयल्यो. सामक्यो ल्हव्याची पाती कश्यो. तेन्ना सांवळी फांसपली. विटकळलेल्या दुदावरी.

पूण एक खरें. लग्न जाल्लें साळू जेन्ना रुमड-प्लॉटार आयिल्लें तेन्ना माडाची ही अवतिकाय नासली. तेखातीर कितल्याशाच फावटी तें माडा सांवळेंत विसावल्लें. पूण माडाक पोखरलो तो मिनान आनी दवरल्या फकत वयर दोन वांजांचे दोळे.

साळू रुपान जरी वरें आसलें तरी अडेच-तीन रुपयांचे जोडीखातीर कामेरें म्हणुनूच येतालें. रुमडावयल्या प्लॉटार तेन्ना सकाळ-सांज साडेतिनशीं टनांच्यो वार्जी सुट्टाल्यो. भोंकां वरशीं करून ट्रकांनी माल उसपुवपाक आतांचे सारकी ओरविनां नाशिल्लीं. जेटीवयल्यांन कामेऱ्यां कार्यलिंनी वार्जी भरतालीं. कोंड्याचे जेटीर पावलांचो गडगड वाडटालो. कोणाचें पावलूय निसरतालें. पूण इतल्या वोवाळांत कोणाचें नदरेंत येना आसलें. फातरांच्या गडगडान सगळें मिसळून वतालें.

वताचो खरखर कायली सारकोच उपाट भरून माथ्यार आसतालो. मदल्या वेळार सगळीं कामेऱ्यां विसव घेवंक वतालीं. साळू येतालें तें माडाचे सावळेंत. भर दनपारां ताच्या माथ्यार सांवळी सांडपूय शक्य जातालें. माडाचे सावळेंत ताका मनासारकें सुख मेळटालें. तेन्ना ताच्या वागपाक एक मेद-मर्यादा आसली.

एक दीस माडाकूच दिसलें. आपल्यांत खंय तरी कितें उणें पडटा. तेन्ना माडान आपले सावळेचो कितलो आभास केलो! पूण जमलेंना. अखेरेक एका भर दनपारां सावळेची सामकी गरज आसताना साळून मान वयर करून पळयलें आनी माडाचें निर्वळ

जिणेंची ताका कल्पना आयली. तें कांय उलयलेंना. माडाकूय उलोवंक तोंड नासलें. तें उठलें. सकयल न्हय धडेर ताणे नदर भोंवडायली. तर थंयचो पाचवोचार मेणकुंवयो दाट पानांतल्यान आपणाले मिश्शाळे घोंस लांवयत केन्नाच्यान ताका दोळे घालतालो. ताची इतली गाड सावळी. सामकी पोशांनी घोंटपाची.

साळून खरो विसव घेतलो तो थंय. माडान आपणाल्या दोळ्यांनी पळयला मान मोडून! ताणें तुवाल्याक पयलो घाम पुसलो तो थंयच. घाम कसो अरसचो त्या तुवाल्याक? पयल्या मिर्गाचे थेंब धर्तरेन घोटून घेंवचे तसो. माथ्यावयली चुंवळ ताणे थंयच देंवयली. वाऱ्याक जाय तशे केंस फापसूंक दिले. ताणे पोलक्याच्यो कुलचेती धील केल्यो तेन्ना वारो नासताना मेणकुंवयाच्यो खांदयो अचळय वागोवन आयल्यो. इतलें करुनूय तें रावलेंना. ताणे कासाटो सोडोवन घेतलो तेन्ना वारो ताच्या जांगां-पांगांत रिगलो. मागीर न्हेसण फापडून मिरयो आशिल्ल्यो तश्यो खोवपाचो ताणे खूब यत्न केलो. खरें म्हळ्यार तेन्नाच्यान माडाची मान वागोवपाची पूण सासणाची मोडत म्हण बागवली ना. तशीच नीट उरली.

आतां माडाकडल्यान स्पश्ट दिसता तें साळूलें घर. हांगासावन फकत एका उल्याच्या अंतरार. घर म्हळ्यार तशी खोंपूच. चार म्हेडींची उबारणी. माडयेचें आडवर. कडव्याची गुटलावणी आनी चुडट्यांची शाकारणी. तशें पळयल्यार माडाक खोंपीतल्यान हयन्हयशें दिसूं येता. सारकें दिसना जाल्यार सदच्या नेमाप्रमाण अदमास लावं येता.

सदच्या नेमाप्रमाण साळू रुमड प्लॉटार कामाक वता. आतां ओरविनां जाल्ल्यान वार्जी कामेऱ्यांनी भरच्यो लागनात. तेखातीर प्लॉटार कामेऱ्यां चड लागनात. आमा तीं कांय जाणा हाजिरेक. तांची कामांय सादीं. कटो करप, शँपल काडप, गाडयो कट्यार लावन घेवप. मर्दी प्लॉट-सुपरवायझराचीं कामां करप. मिनाचें काम म्हळ्यार दादल्या-बायलांनी एकठांय रावन करपाचें. बायलां दिसलीं म्हणटकच दादल्यांच्या तोंडाक सुमार उरना. आंकवार चेडवांच्या फाटीक तर सगळेच हात धुवन लागतात. लग्न जाल्ल्या बायलांचे फाटीक लेगीत.

आनी साळू दिसपांत उजवें. आंगलोटान बरें. कामांत मात्शें जड तरी सुपरवायझर केन्नाच ताचेर धेंगशेंना. पूण साळूक तसलें कांय मानवना. तें सरळ तिडकेता. मंगळसुत्रार हात दवरून आपल्या घोवाची उगडास करून दिता. आपणाचें वाटेंक वतल्यांक आवय धुवांवयल्यान स्त्राप घालता. आंगाव घालतना पालव निसरूंक दिना.

तुवालो मांडटना पोंवटो दिसूंक दिना. केन्ना पोलक्यांतल्यान चोळये दसो भायर पडूंक दिना. दादल्यांमदीं तिश्टना. सुपरवायझराचे लगाडीक चड वचना. मानायांचे भानगडीक पडना. ट्रक ड्रायव्हरांच्या फालांक भुलना. कोणाक उतर घालिना. कोणाचें उणें दुणें सोशिना. वाकिचीं कामेऱ्यां ताका म्हणटा लेंगीत :

- जांव गो, कित्याक तूं खऱ्यांनी व्हरता?

- फकाणां कसलीं? आमी रेस्पेदाचीं.

पदर खोवन साळू आपली वळख करून दिता. मागीर सगळीं ताजे हुजीर तोंडाक गुड्डं मारून वग्गी रावतात. साळू मात तणतणटा. दिसभर भरभरता. आनी सांजवेळा संचो घोंगो जांवचे आदीं सुपरवायझराक कामाचें निमित्त सांगून अर्दवर आदींच कूस मारता. पूण सामकें दिसाउजवडीं घरा पावता.

भायर सोप्यार पोटांत पांय कवळून वागाची ऊव कसो तो बशिल्लो आसता. तें येता तें पळोवन तो निमाणे वेगीन वेगीन खोंकून घेता. ताच्या धेंकश्यासरशीं खूंट कसो उबो जाता. तेसरशीं कडव्यार मोखपाचें तोंडातलें धेरकेल पोटांत गिळून घेता. तो थरथरता. ताचे अस्वर्डी दिसाभरयांत कितें घडलें ताची खबर ताका सांगता, म्हळ्यार कोणाकडल्यान कोणें नुस्तें धाडून दिलां, कोण तो आज रातचो जेवंक रावतलो काय कितें तें, मागीर कोण तो ताणें केन्ना येता म्हूण सांगून धाडलां तें, सगळें. हें सांगताना आपणें नुस्तें उजरावन अर्देअदीक काम करून दवरलां हेंवूय तो एकाच दमान सांगता. कारण दुसरें खोंकल्यांची उबळ ताच्या ताळ्यांत तेंकिल्ली आसता. साळू न्हावपाचें तयारेक लागता. उदक तापयल्लें आसता. पूण मातशें धगधगीत आसता. तें निडकता. तो मोन्यांनी चिमणी पेटोवन रांदनीन उजो घालूंक वता तेन्ना तें न्हेसण सोडटा. आनी जुनेर लायता. वरशा दोळ्यांनी तो फुंकता पुण ताची फूंक चुलीखुरार आदळटा. तशें तें हड्ड्यार हात आडवो धरून धगमोड्या उदकांत तांबयो बुडयता. न्हावंक सुरवात करता. तो थंय गणयता तें पळोवन ताका भायर वचपाक ताचेर धेंगसो घालूंक तें विसरना.

सदच्या वगतार खोंपांवयर ट्रक घरघरता. तेन्नाच खोंपीत ताचें खोंकल्यांचो वेग वाडटा. तशें तें न्हेसण बदलताना ताका स्राप घालता.

- खोंकतां खोंकतां मरयना.

तें मनापसून म्हणटा खरें. पूण तो मेल्लो ताका नाका.

सदचें थळांतलें सुवातीर वाग धा डी ट्रेडमार्क आशिल्लो टाटा मेर्सिडीज ट्रक

थांवता. वळखिचो म्हळ्यार रुमड प्लॉटावयलोच आसता. प्लॉटार ट्रकाचो ड्रायव्हर साळूक कितलेंशेच फावट मेळिल्लो आसता. पूण थंय एक उणे उतर कोणेंच कोणाकडेन उलयल्लें नासता. माकनाची हुनसाण कुडभर सारोवन ड्रायव्हर कॅवीनांतल्यान देंवता. वेस्टांच फाटीफुडें पळयता. सदचे मळिल्ले वाटेन ताचीं पावलां आपशींच खोंपीकडेन वळटात. ताचीं पावलां कशीं झिडपतात कळना. पावलवाट रोखडीच सोंपता. ड्रायव्हर काळखांत हय न्हयसो दिसना फुडें तो खोंकीत खोंकीत सोप्यावयलो उठ्टा. भितर कडव्याकडेन वता. साळू भितरल्यान तुवाल्याक उदक अरसयत आसता. तो बेगीन बेगीन म्हणटा:

- येयलो. म्हाका दी एक आठ आणे. पुलार वचोन मारून येतां.

तें फाट फुडां पळय नासताना आठ आणे काडून सोऱ्याखातीर ताज्या तायटार दवरता. खरें म्हळ्यार इतक्या वोवाळांत साळूच्या हड्ड्यावयलो तुवालो कितलो निसल्लेलो आसता. पुण आठ आण्याचे खोशयेन तें पळोवपाचें ताका भानूच उरना.

अशें सदां घडटा; म्हळ्यार ट्रक वयर थांवून ड्रायव्हर सकयल देंवता तेन्ना.

तो खोंकीत खोंकीत नेटान धेपां मारीत भायर सरता. भितर कोण सरता ताचेर सादें ध्यान लेगीत दिनासताना.

आनी मागीर ड्रायव्हर साळूच्या ओल्या आंगार येता. झुडोन. गोडाचे धेंपीर दोमळो कसो.

तो भायर खोंकीत गेल्लो, मुठींत आठ आणे गच्च आंवळून; येन्ना पुलावयल्या तावेर्नार पावतलो. तो साळूचो घोव.

म्हळ्यार खुशाली रामा.



# ३

# काणी एका माजराची

ही काणी त्या रघूल्या धव्या माजराची. एकलेंच चुलीच्या खुरार वशिल्लें आसता. धवें माजर वगता ताजें आशिकुर्शीक मिठ-मिरसांगची फोलिणां आनी साकर, च्या पावडरचे जिनस. एखाद्र्या वेळार पापड, मसाल्यासारके जिनस. माजर कित्याक तोंड लायना. ताच्यों जगपाच्यों वस्तू न्हयच जाल्यार त्यो.

चुली कुशिच्या वायलांतली धग ताका पुरो जाता. दीस आनी रात.

माजर रघूलें म्हणटकीच हो संवसार रघूलो हें फाटोफाट आयलेंच. रघूलें घर सादेंच. जोड्डय कमी. पुण दोगांक पुरो जाता इतली.

दोगां म्हळ्यार कोण?

रघू आनी ताजी बायल?

न्हय.

रघूची भावजय. कपल्लफुटकी बावडी. लग्नाउपरांत दोन-तीन म्हयन्यांनी घोव भायर पडलो.

रघू हरशीं व्हडलो. पुण लग्न जालोना. धाकल्या भावाचे दोनाचे चार केले. पूण ताजें अशें जालें.

आतां तिका तोच पोसता. जग पळयताच न्हय!

घरांत दोगांच. पुण दुवावाक तिळायेंदी गुवात ना. कारण रघू निश्कलंकी. हनुमंता सारको ब्रम्हचारी म्हुण सगळे जाणा.

म्हळ्यार रघूलो संवसार वेसवरी चलता अशें म्हणपाक हरकत ना. पूण प्रश्न ताच्या धव्या माजराचो. बावडें एकलेंच चुली खुरार. जीव वचना म्हुण जगता तसलें जिवाळें. ताचें मनांतलो खेद-खंत कोणाक कळना. ताका सांगपाकूय तोंड ना. जल्माक येत पासून मानेंच. माजरूच तें. घराचे वण्टीभायर ताणें केन्ना मान काडल्लीना. संदूच

मेळ्ळीना. ताच्या धिकेंभर पोटाक चार घांस मेळटात. तरी पूण तें मन लावन खायना. कमले तरी भिडेक लागून ताचें वर्तणुकीक खिळी पडल्या. तें खातीर असो सुखतडो.

घराच्या पाऱ्यावयल्यान दिसांतल्यान एक फावट मारप, दोन पांय फाटीं, दोन पांय मुखार ताणून पनेळाचे उळावणे सारकें आंग वळोवप. फोलिणा सारकें तोंड उगडून दोन सुस्कार सोडप आनी वांशांक दावखुलांनी चरचर वुचकावप. रागान पूण राग गिळून. आंतकड्यो पिवळटून. अश्या वेळार एकान एक वरीचो आंकडो सापळ्याक खंय गुंथता तो स्पश्ट दिसता इतलो. चांवड्याचेर धवी ल्हंव मुद्दम दसयल्ल्यासारकी. फुटिल्ले गादयेंतल्यान कापूस लांवता तशी. कोल्यान पिसुडलेले कोंबडेच्या पांखासारकी.

दोळे. तातूंत इंगळे केन्ना पेटलेच ना. गायेसारके सदासर्वकाळ शांत-शितळ. संकश्टाच्या वेळार दोळ्यांक धांपणी. दुकां लेगीत मलप्याचे कवडेंभितर.

आवाज दमाचोच. पूण आंतकड्यांक घांसून आयिल्लो. किळांच कशी! तरी पूण म्यॅव .. म्यॅव.. आनी म्यॅव.! चारी वणटी भायर पडपाक कुस्तार.

कान सोंश्यासारके. चोर-पावलांक शादूर जावपी. पूण माजराक असल्या आपल्या कानांचो कांय फायदो जालो ना. वयल्यान कान नासल्यार आषूण खिणभर तरी सुखी जातलें अशें ताका दिसतालें.

आतां ताका सूख मेळना म्हणटकीच ताज्या दुख्खाचो प्रस्न आयलांच.

माजराच्या दुख्खाक सुरवात जावन आयज सुमार आठ-णव म्हयने भरतलें. फाटल्या स म्हयन्यांत ताजे दोन बाळंटेर जाले. आता तिसरे खेपे गुरवाचार चलता.

दोन वेळा व्हियेवनूय माजर रिते होटयेचेंच. पयले खेपे तीन पेंटे जाल्ले. कापसासारखे लुसलुशीत! भितल्ले कुडीच्या कोनशाक माजरान तांकां लिपयले. वेळार लुचयतालें. पूण साडेसाती! सात दीस जावन दोळे सुटचे आदींच काळेल्या बुकल्यान तिनूय जीव चाबडायले. मोगरेंचे मोने कळे कशे आशिल्ले!

काळो बुकलो किर्मोच.

हुंवाळिल्लो.

दुसरे खेपे दोगूच पेंटे. माजर माळ्यार वियेल्लें. पूण वार पडचे आदींच काळेल्यान फुंकले.

काळेलो बुकलो राकेसूच. सगल्याच कामांत. आपणाल्या भुरग्यांकूच खावपी. माजराक ताच्याच योगान घडिल्ले हे गुरवाचार.

काळेलो राकेस कसो येतालो. माजर ताचीं पावलां वळख्तालें. पळपाचो यत्न

करतालें. पुण पळटलें खंय?

भायर?

भायर ताच्या तोंडांत सामकेंच पडपाचें. मरसर फाट सोडपी न्हय.

सगळें मोन्यानी सोंसचें पडटालें. सादें म्यॅव लेगीत करपाक ताका स्वास उरनासलो. वुकल्याक खंयचो नेट येतालो कोण जाणां! अधाशासारको आंगार झोडटालो. धोरार झोंपय धर्तिल्ल्या हिरांट्या भशेन. मागीर सगळें शांततायेन भोगतालो. भोगूय राकेशी! वरांवरां पांयांक खिळे मारून उवे केल्ल्या भशेन माजराक रावचें पडटालें.

आनी मागीर आपूण फुज्ज्यो काडटालो. ताकून-भोगून नामानिराळो. माजर मात अशें शक्त हुलपिल्यासारकें; वावून पार्थें जावन पडिल्ल्या दसणी फुलांसारकें. फाटले सुर्जीर शेंपडी घोळयत हुलप सोंशीत चुली खुरार पडून आसतालें.

काळो वुकलो भोग भोगपी! धवें माजर भोग सोंसपी.

सैमाच्या नेमाप्रमाण मागीर माजराक गुरवाचार. वाळंतपण. आनी एक दीस राकेस काळो वुकलो आपल्याच रगताच्या जिवाचें भक्षण करून फुज्ज्यो काडटालो.

परत माजर रिकाम्या तपल्यासारकें.

माजराक आतां तिसरे खेपे वाळंतपण घडचें आसा. जिवाच्या आकांतान जाता त्या जिवांक वाडोवपाचो ताणे नित्शय केला. कोणाच्या कर्मान आसना पूण आपल्या पान्याच्यो चिंवो नाजूक वोठांनी चोखच्यो अशी ताची इत्सा आसा. आपणाल्या पेट्यांक कुशीक घेवन न्हिदचें, तांच्या गुटूर.. गुटूर.. आवाजान फाटलें जिवीत विसरचें अशें ताणे चिंतलां.

एके आवयची जीण भोगपाचें माजराचें सपन आसा.

रघूची भावजय. तिजेंय ह्या वेळार माजराचेर लक्ष आसा. फाटल्या दोन खेपांची गत ती जाणा. माजराक तिजो आदार मेळिल्ल्या सारको जालो.

कांय दीस आनी राती पासार जाल्यात. आनी माजरान एक सोबीत पेटो जल्माक घातलो. आजून दोळे सुटचे आसात. माजरान देवाक आळयलो - आपल्या पेट्याक राखचो म्हूण माजर रघूचे भावजयेफाटल्यान शेंपडी हालयत आसता. तिच्या पांयांक घसटं मारता. तिका जागयता. त्या काळ्ळ्या वुकल्याक हुंवाळून वडोवपाक.

पूण तिजेरूय संकश्ट आयलां.

आयज आसांरर रघू घरा आयलो. ताणे वांतर्लीन घालून कसलें तरी वखद हाडलां. तिका पिवपाक दिलां. ती पिवपाक तयार ना. रघू तिका धपकायता. दोळे

घुंवडायता. विखाळ्या उत्तरांनी तिका म्हणटाः

'म्हाका खबर आसा तुकां दीस गेल्यात..'

'हय.'

'वखद पी.'

'ही तिसरी फावट...'

'म्हाका खबर आसा.'

'म्हाका भुरगें जाय..'

'तुका घोव ना.'

'मागीर दीस कशे वतात..?'

'चड उलोवं नाका.'

'तुमीच म्हजे...'

'चूप! हांव तुजो देर.'

'मागीर हें कर्म कित्याक करता?'

'तुका पोसतां. म्हाका मानान जगूंक जाय!'

'आनी म्हाका?'

'रांडेक मान! वखद पी.'

'म्हजो गाव असो घळघळोंव नाका..'

'उपाय ना.'

'म्हजेकडेन लग्न कर..'

'मेल्ल्या भावाचो विस्वासघात जातलो.'

'आनी हें कर्म?'

'लोकांक दिसना.'

रघू जवरदस्तीन तें वखद तिका पिवंक लायता. माजर धांवत म्यॅव.. म्यॅव.. करीत तिच्या म्हऱ्यांत येता. ताज्या पेट्याक काळ्या वुकल्यान संद सादून चावडायिल्लो आसता. रघूची भावजय माजराक उवारून हड्ड्याकडेन धरता. अजाप म्हणचे दोगांचेय दोळे दुकळ पडून ठणठणीत पडिल्ल्या आश्टयासारके दिसतात.



# ४

# खळ

आयज सकाळींच दुगेबाबाली मळणी लागली. भेडशी पोंदा दाळिल्ली कुतल्ल चार मानांय लागत इतली आशिल्ली. मानायांनी शेण सारयिल्ल्या खळ्यांत तण घातलें. तणाचेर हांतोर शेकानशेक पातळ्ळो. हांतराच्या दोनूय वटांनी म्हेडिचें तिखटें उवें केलें. म्हेडीचेर कोंड्यांचे आडवर घालें आनी मानायांनी खोमसां काडून म्हेडिच्या केवल्याक लायलीं.

'अंदू पांगो ना आमचें मळपाक न्हूं?' दुगेबावान मानायांक विचारलें

'आसतलो आनी कसल्या वावराक' एकल्यान म्हळें.

'हो पय, तेका मळटा म्हणोन वास लागलो.' दुसऱ्यान वांदावयल्यान देंवपी पांग्याक पळोवन म्हळें. वळारे मारकी लांव धेपां वडयत पांग्यान खळ लागीं केलें.

'दुगेबावाले मळणेक पांगो ना म्हटल्यार तोपलें बुडलें.' तिसऱ्यान पांग्याच्या तोंडामुखार हात उरफाटे नाचयत सांगलें.

'यो पांग्या, शंवर वर्सां आयुश्य आसा तुका.' दुगेबावान चार कणशो आडवराक बांदीत म्हळें.

'एक दीस सरना. शंबर वर्सां कितें करपाचीं आसात?' पांग्यान इडयेशेंवट वांटान पालयलें आनी कानाक खांयलें. ताज्या कपलार चिंतेच्यो घडयो पडल्यो. भेर्डाशिच्या पानातल्यान तोंडार पडिल्ल्या किरणांच्या वतानूय ताज्या तोंडावयले भाव वदल्लेनात. दोनूय वोंट दांतांपोंदा धरून ताणें इडये धुंवराची कोडसाण चोखल्ली. कुतल्लीवयलें मळणें वेंगान घेवन माड्डून-माड्डून मळूंक लागलो.

'पांग्या, ह्या दिसानीं काल्लार कसो जाता?' एकलो .

'रात-दीस उकडटा तें कळाना?' पांगो उलोवंक जाय म्हूण उलयलो.

'कपडो आंगार तरी दवरूं यता मरे? न्हूंरे पांग्या?' दुसऱ्यान जोडणी दिली.

'शी!' पांग्यान वाळू वांकडी करीत ताज्या प्रश्नाक जाप दिली.

'मागीर पांग्या, रातचो सामकोच उगडो न्हिदता काय कितें रे तूं?'

पांग्याच्या तोंडार खीणभर लेगीत बदल घडलोना. तण फापूडटना दुगेवाब मात गुक्या बिळांत कुल्ली खळखळ्ळयासारको हांसलो.

पांग्याचें आयज कितेंतरी विनसलां हाजी सुलूस मानायांक लागली. बायलांच्यो गजाली काडल्यारूय पांगो दाद दिवचोना हाजी तांका कल्पना आयली. पांग्यांचे वाटेक वचपाचे भानगडींत ते पडलेना. मळटा-मळटा शेताच्या उदका-पाणयाच्या गजालिनी ताणी अर्दो आदेस काबार केलो.

'पांग्या, तुगेल्या मळण्यांक गोटो उरता.' तण फापूडटना दुगेवाबान पांग्यांक जाणविकाय करून दिली. पांगो जाग्यार आयलो. पायांपोंदचे मळणें तो आरतें परतें मस्तूंक लागलो. मनांतल्या सगळ्या विचारांची पांयांपोंदा तूस करपाचो तो यत्न करी, पूण बळगें ताज्या मनामेरेन पावनासलें.

'पांग्या, तुजी बायल खंय पावली रे?' ताणे हेवटेन तेवटेन पळयलें. सगळ्या मानायांची बायलां घोवाक पेज घेवन भेडशीपोंदा जमिल्लीं.

'यो, इल्लो इल्लो निवळ पिंवया' एका मानायान म्हळें. आनी सगळे मानाय हांनरार मळणें दवरून भेडशीपोंदा गेले. पांग्याचो ताळो धारोळ्यो फुटिल्ल्या शेतासारको सुकिल्लो. सकाळीं-उदकाचो थेंब लेगीत तोंडात घालिनास्तना तो घरांतल्यान भायर सरिल्लो. बायल-भुरग्यांची तीच अवतिकाय जाल्ली. आयचो कुडव कांडून पेजेक घालपाचें ताणें थारायलें. देवा-दयेन दुगेवावाले मळणेर तो आपयल्ल्यावरी पाविल्लो.

'आयचें काम मेळना जाल्लें जाल्यार..'

भेडशिच्या सावळेंतल्यान ताणें भायर पळयलें. वत रखरखतालें.

'तुजे बायलेक याद ना दिसता. यो तूं.' ताका परत साद आयली.

'ना ना-यंतली' पांगो चांचरलो. ताज्या दोळ्यांमुखार घराकडलो चुलीवयलो रिकामो बुडकुलो उबो रावलो. 'आपूण हांगा पेज पिवूं? एकलोच?' पांग्यान दुगेवावान हाडिल्ल्या तांबयांतलें उदक घटाघटा घोटलें. कानाचें शेंवट फुसकायलें. परतून मळणे पांयापोंदा ओडलें.

सांजवेळचीं वोतां शेतांतल्या शिरांतल्यान गेलीं. मळणी सोंपली. भेडशीपोंदा सदचे सारको झणझणीत वारो मारलो. दुगेवावान मानायांक वारें करपाक लायलें. सूप दोनय हातांनी घेवन भुजां वळीत पांगो वारें करूंक लागलो. ताच्या पांयार भाताचे गोंटे

उदकाचे थेंबे कशे उसळूंक लागले. हातरावयले भाताचे राशीकडेन ताणें पळयलें. ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यासारकी ताका ती रास दिसली.

‘हितूंतल्या एका कुडवाचो आपूण धनी. वाकिचें दुगेवावालें.’ दीसवड्याचे यादीन तो धादोसलो. वारो करून जालें. आडवे राशिचेर ताणें सूप वावुडलें. तेवरावर पोल कुर्शीक हुवलें. कपलावयली हूम पुशीत ताणे तुवाल्यान आंगावयली धूळ फापुडली. दुगेवावान भाताचें माप करपाक पांग्याकच फर्मायलें. माकाचे गांठीर वसून पांग्यान माप केलें. दुगेवावान लाव-दोन आंकडे परते परते तोंडान घोळयत मेजलें. वाकिच्या मानांयांनी साक भरपाक सुरवात केली.

‘पांग्या, तुमचो दीसवडो फाल्यां व्हरात. खळ करूंक जायें न्हू?’

दुगेवावान साकाक वेत्याचो पास घालीत म्हळें. पांग्याक कच्च जालें. आपले गंवटेकच पास घालून दुगेवाव आंवुळटा अशें ताका खीणभर दिसलें. मेराच्या गोट्याचें क्रूस कच्च करून ताच्या बोटांत रोमिल्लेवरी तो न्हिन्नळ्ळो. एका वाऱ्याच्या झोतान ताच्या आंगार हातराकुशिचें पोल शिपडलें. घरचे चिंतेन ताचें सगळें काळीजच खोरजलें.

भाताच्यो पोटल्यो खळार दाळून दुगेवावान मुळवणाचेर तण घातलें.

‘चला रसावांक’ मानांयांक घेवन तो तावेर्नार गेलो. पांग्यान सगळी वाट मोन्यानीच माड्डयली.

‘पांग्याचें कितें जालां रे आयज?’

‘पाव मारतकूच जातलो सारको.’

पांग्याचें कोणाच्याच उलवण्याकडेन लक्ष नाशिल्लें. आपणाल्या रसावांचो पावभर सोरो घटाघटा पीवन तो तावेर्नाभायर सरलो आनी दिसाउजवाडे घरचे वाटेक लागलो. चलतां चलतां आपलीं पावलां ताका खुबूच ल्होंव लागलीं. दिसाभरयाचे कश्ट आंगांतल्यान देंविल्ल्यासारकें दिसलें. दुर्गावयल्यान ताणें आपणाले खोंपीकडेन पळयलें. खोंपींतल्या वावळ्या उजवाडाभशेन ताचें मन वावलें. आंगण घालून तो भीतर सरलो. ताची बायल धाकल्या चेडवाक मांडयेर घालून थापटिताली. तीन चार वर्सांचो व्हडलो चेडो हाथरपाट्यार आंमथो न्हिदिल्लो. पांग्यान तुवालो दांडयेर वडयलो. बायलेक कितें सांगचें ह्या विचारान तो खीणभर मोनोच उरलो. कांय वेळान ताची वाचा सुटली.

‘आज रांदूंक ना?’

‘तुका सकाळींच सांगूंक ना?’

'पूण कोणाकडले उशणे तांदूळ..'

'उशणे कोण दिना.'

'कित्याक?'

'सगळ्यांचें पिकलां म्हणटात.'

'आमकां शेत भात खंय आसा?'

'पूण दीसवडे करता न्हू?' घरकान्निच्या उतरार पांगो वग्गी रावलो.

'भुरग्यांक दनपारां उपाशींच दवरलीं?'

'वारकेल्याक विस्कूत भिजोवन दिल्ली.'

'आनी व्हडल्याक?'

'दीसभर आंव्यामुळांत आसलो.'

'आंब्यामुळांत पोट भरता?'

'चोखल्यां जायत घोटां-विटां.'

पांग्यान ओमथ्या पडिल्लया भुरग्याकडेन पळोवन एक सुस्कार सोडलो. सगळी खोंप सुस्कारान धुंगरिल्ल्या सारकी ताका दिसली.

'आज खंय आसलो कामाक?'

'दुगेवावागेर मळपाक.'

'मळून जावंना?'

'जालें.'

'मागीर दीसवडो खंय?'

'फाल्यां.'

'फाल्यां?'

'खळ जावंक ना.'

'खळ कर्माचें.' पांग्याची वायल मनांतल्या मनांत चीडकेली.

पांग्याक आपलीच तोंडक आयली. ताका दोळ्यांमुखार व्हडलीं व्हडलीं कुतल्लीं दिसपाक लागलीं. तांची मळणी! शिंपडटा तो गोंटो! हातरावयल्यो राशी! सगळेकडेन ताका हळडुव्यांच भानाच्यो राशी दिश्टी पडपाक लागल्यो. ताणे सूप घेतलें. घसाघसा वारें केलें. पूण हातरार एक गोटोय उरलो ना. सगळें पोलच जाल्लें. हातराभायर हुबोन गेलें. पांगो भानार आयलो. ताका पोलावरी पांको जाल्लेंवरी दिसलें.

'चल, किते चिंतता? न्हीद. पुरो जालां आयतल्लें!' ताचे वायलेन सारून मारपाक

सुरवात केली.

..भर पिकेर उपाशीं न्हीदप? दीसभर काम करूनय भुरग्यांक जमनीक पांटां तेकोवन न्हिदोवप?

चिंततां चिंततां पांगो चट् करून उठलो.

'खंय वयता?'

'रोकडो येतां.' पांगो काळखांतच चलपाक लागलो.

सुमार अर्दवरान पांगो कुंथत-कुंथत खोपींत भीतर सरलो. फाटीवयली साकाची पोटली कोनशाक वडयली. वायलेन दोळे वरशे केले. भंयान तोंडार हात धरलो.

'हें कितें?'

'भात.'

'कोणालें?'

'तेची वासपूस तुका नाका.'

'अधर्माचें?'

'आदीं पोट, मागीर धर्म.'

'पूण इतलें भात..'

'सगळ्यांलें पिकलां.'

'कोणाक कळत जाल्यार!'

'ना कळचें, आदी थोडें वायनार घालून कांड.'

'इतके रातचें?'

'ह्य. आयज चुलींत उजो पेटोवंक जाय. भुरग्यांक अशीं उपाशीं न्हिदोवंक भर पिकेर दुकळ पडूंक ना.' पांग्यान पोटली सोडोवन भात सुपांत कांडलें आनी वायनार घातलें. मध्यानेच्या पाराक खोपींतल्यान मुसळांच्या फारांचो आवाज काळोख कापूंक लागलो.

दुसऱ्या दिसा दुगेवावाल्या खळार भट जेवन गेलो. सांजे वडे भाजून खळ करपाचें आशिल्लें. सांजवेळा दुगेवावान दुर्गाकडेन रावन पांग्याक उलो मारलो.

'पांग्यां खळार वड्यांक यो.'

पांगो कांचवेलो. ताका खळार वचपाची इत्ला नासली. तरीपूण ताणे आपणाली जड पावलां उखल्लीं. वाटेंत दुगेवावान ताका सांगलें,

'पांग्या, तुका कळ्ळें मरे?'

'कितें?' आंगार जल्लो चडिल्ल्यामारकें ताचें आंग शिरशिरलें.

'खळावयली एक पोटली कोणे चोरली.'

'केन्ना?'

'रातीं.'

फुडें कितें विचारचें तें पांग्याक कळ्ळेंना. दुगेबाबान फुडें म्हळें, 'त्या चोराक ती पोटली पचता?'

'पचची ना.'

'खळ केलेवगर गोट्याक हात लावं येता?'

'ना!'

'त्या रामाक वळखता मरे तूं?'

'हय.'

'खळावयलें भात चोरिल्लें तो मेरेन तो पिसो जाला.'

'...' पांगो.

'खळावयलें देवस्पण खर.'

चलतां चलतां ते भेडशीपोंदा खळार पावले. वडे भाजून सुपांत दवरलेले. पाटले पोंदा कोंवडे पिलां धापून दवरलेलीं. सगळें यथासांग आसलें. ल्हवू ल्हवू लोक जमूंक लागले. जण एकलो एकूच उलयतालो.

'खळावयलें चोरतल्याक जैपत ना.'

खळावयली सगळी तयारी जाली. वडे वांटचे आदीं देवाक सोरो घालपाक सगळे एकठांय जाले.

'पांग्या, यो, वरें खर सांगणे करूया.' दुगेबाबान पांग्याक उलो मारलो. तणां कुडयेच्या आडसाक कुरंगटी करून बशिल्लो पांगो उठून देवकऱ्या म्हऱ्यान गेलो.

दुगेबाबान भेडशी पोंदा वात लायली. आपणाले शिरकोणेंत केळिच्या पानांचे चार दोणे दवरले. खोल्यार गोडाचो कुडको दवरलो. दुसऱ्या खोल्यार गंद-फूल, काजळ दवरलें. वड्यांचे कुडके मोडून दोण्यांत घातले आनी वयल्यान सोरो वोतलो. सगळ्यांनी हात जोडले आनी दुगेबाबान सांगणे केलें.

'पाव रे भेडशीपोंदच्या देवा, वरसा सारकें खळ केलां. तुजो भौमान पावोवन घे. गोरवां-वासरां, राखण-रखवाली घट्ट दवर. गोट्याक चार गोटे लावोवन दी. आनी देवा, तुजें खळ करचे आदीं रातीं ह्या खळार चोरी जाल्या. तुजो पराक्रम आसल्यार

चोवीस वरां भीतर चोराक ख्यास्त भोगय.'

दुगेवावालीं निमाणी उतरां सगळ्यांनी उवारून धरलीं. दुगेवावान वड्यांचें सूप पांग्याकडेन दिलें. पांग्यान सगळ्यांक वडे वांटले. आपणाक वडे दवरपाचें ताका भानूच उरलें ना. दुगेवावान कालच्या सगल्या मानांयांक दीसवड्याचें भात दिलें. लापयांवाच्या उजवाडान शेतांतले सगळे वयर आयले.

'आरे पांग्या, हेवटेन चल मरे.' दुगेवावान पांग्याक जागो केलो. आपूण घर फाटीं सांडून फुडें चलूंक लागलां म्हणपाचें पांग्याक कळ्ळें. मोन्यानीच तो दावे वटेन वळ्ळो आनी खोपीवटेन चलूंक लागलो. कुडवाची पोटली घेवन तो घरांत आयलो. ताचो पूत कासाची वाटलीभर पेज घेवन जेवपाक वशिल्लो.

'वडे खंय?' पुतान पांग्याक विचारलें आनी हात फुडें केलो.

'भुरग्यांक वडे हाडूंक नात?' वायलेन परत तोच प्रश्न केलो. पांगो घरकान्निच्या तोंडाक पळयत रावलो.

'अशें कितें पळयत रावता?'

पांगो हांसलो. ताची बायल काचावूल जाली.

'हांसपाक कितें जालां?'

'हां..हां..हां' पांगो हांसत रावलो.

खोंपिचो कडवो हाल्ल्या सारको जालो. आंगांत वारें आयिल्ल्या सारकें करून पांग्यान खोपींत सांसपिलंशें केलें. एक पिंजकी शेंदरी भाताचे पोटलेर घातली. लिपयलीशी केली. वायलेक 'शूत' करून वगी रावपाचें शिनाल केलें. दिवो वाडयलो. खोपींत काळोख गुपाट जालो. पांगो धांवत भायर आयलो आनी आंगणांत रावन दुगेवाबाक सादोवंक लागलो.

'दुगेवाव, दुगेवाव, हावें भाताची पोटली चोरूंक ना. म्हजे खोपींत येवन पळय. हांव पिसो जावंचो ना.'



# दायज

'सत्यमेव जयते! अखेर सत्याचोच विजय जातलो.' विद्यानंदान पाठ सोंपयलो. दोळ्यांवयलें वक्ल काडलें. दोळे विलविलायले, बोल्सांतलो लेंस काडून दोळे पुसले. वर्गाचेर शेकानशेक एक नदर मारून ताणें विचारलें,

'कसलो दुबाव आसा?'

फाटल्या बांकार सावन एक बोट वयर सरलें. शिकयता आसतना त्या भुरग्याचेर नदर मारल्यार ताका शिकयता तें कळटा काय ना हाचे विशीं विद्यानंदाक सदांच दुबाव येतालो. तोच भुरगो उबो रावलो.

'सर,'

'सांग. सत्यमेव जयते म्हळ्यार सत्याचोच विजय जातलो.'

'सर, आमचे शाळेचो हेडमास्तर कोण जातलो?'

सगळो वर्ग शांत जालो.

हरशीं जाल्यार विशया भायलो प्रश्न म्हण वर्गभर हांसोळ पिकूं येतालो. पूण वर्गांत सगळ्यांकूच ह्या प्रश्नाची गंभीरताय जाणवल्ली. विद्यानंद प्रश्नाचेर आडनदर करूंक शकलोना. ताच्या मनांत आयलें .. भुरग्यांकच विचारचें, कोण जावंचो अशें तुमकां दिसता? .. आनी भुरग्यांनी सांगलें जाल्यार, अंगडी सर! .. बेश्टे शेळ्या आंगार फुगांव काडून घेवपाचें काम. आनी म्हजें नांव तरी कशें सांगू? फाल्यां वेगळेंच कितें घडलें जाल्यार?

विद्यानंद फक्त हांसलो आनी वर्गाच्या भायर सरलो. भुरग्यांक कांयच जाप दिली ना हाची खंत मात ताका स्टाफ रूमांत पावसर अस्वस्थ करीत रावली.

तो स्टाफरुमांत पावलो. पळय जाल्यार सगळो स्टाफ अंगडीचें अभिनंदन करता.

'आतां आनीक दुबाव उरूंक ना. फकत ऑफीस ऑर्डर हातांत पडपाची उरल्या. फाल्यां मेरेन थार धर. आतां पयलीं पार्टेचें पळय.' वांगडचे ताका कोलायताले.

कोणाचे नदरेक जाणवपाक नाका म्हण विद्यानंदान वेगोवेग पानां खायत बशिल्ल्या अंगडीचो हात हातांत घेतलो आनी गरजेभायर कितलोसोच वेळ हात हालयत रावलो.

शाळा सुटली आनी नीट पावलांनी विद्यानंद घरा परतलो. नाय म्हळ्यार पावलां वांकडीं तिकडीं पडटालीं.

हरशीं पळोवपाक गेल्यार हेडमास्तर जावपाक अंगडीच लायक आसलो. कित्याक तर अंगडी सगळ्यांत सिनीयर. आदलो हेडमास्तर रिटायर्ड जातकच ताचोच नंवर लागपाचो. पूण मदीं खुब्रूच कळाव गेलो. मॅनेजमेंटान तंत्रीक गजालीखातीर दोन तीन म्हयने पोस्ट रितोंच दवरलो आनी विद्यानंदाक वेश्टीच आशा दिसपाक लागली. ताका तशी आशा दिसपाक कांय कारणांय आसलीं.

एक म्हळ्यार विद्यानंद जे शाळेंत शिकयतालो, ती शाळा, ताच्या बापायची, मुक्तिदा नरसिंहाची निर्मणी आसली. शाळेक जागोय ताणेच दिल्लो. मात कायदेशीर संस्थेची स्थापना करून लोकशाय मार्गान सगळे वेवहार चालीक लायिल्ले.

मुक्तिदा नरसिंहाच्या मर्णा उपरांत मॅनेजमेंटान खास आमसभा घेवन शाळेचें मूळ नांव वदलून मुक्तिदाचें नांव दिल्लें. मुक्तिदा हयात आसल्यार तांकां हें मानवचें नासलें. विद्यानंदाची शाळेंतली मास्तर म्हण नेमणूक ही निती नेमांक धरूनच जाल्ली. मात शाळेंत आनी गावांत ताका मान आसलो. विद्यानंदाक परत परत दिसतालें, बापायची पुण्याय आपणांक उपकारा पडली. पूण आतां तो निराश जाल्लो.

सहज ताणें फाटीं वळून पळयलें. खऱ्यानीच त्या शाळेपासून आपूण खूप पयस वतां अशें ताका दिसपाक लागलें. फाटल्यान वाकिचो स्टाफ अंगडीक कोलायत येतालो.

हेडमास्तराच्या पदान नाय म्हळ्यार वरोच वदल घडूं येतालो. त्या गावांत विद्यानंदाचो मान अर्दाक वाडटलो आसलो. शिवाय वेगळें ऑफीस. पगारांत थोडोसो वाडटो आंकडो. भुरग्यांक शिकोवपाच्या पिरियडांत मातशी कपात. तशी जापसालदारकी आसाच पूण ती भोवमानाची आनी आतां ताका त्या भोवमानाची गरज आसली.

फाटल्या म्हयन्यांत माईचें सुचोवणें वयल्यान तो एक थळ पळोवन आयिल्लो. चली ताका मानवल्ली. शिकिल्ली. विद्यानंदय चलयेकारांक पसंत पडिल्लो. विद्यानंदाचे दुबळें कुडीखातीर थोडीभोव अडचण येवं येताली. पूण मुक्तिदाची पुण्याय गांठीक आशिल्ल्यान तिवूय अडचण पयस जाल्ली. सगळीं उलोवणी उमेदी भरशीं जातालीं

आनी तेंच उमेदीन विद्यानंदान होंकलकारांक सांगून वडयिल्लें, रोकडोच आपूण हेडमास्तर जावपाचो आसा... आनी आतां अंगडी हेडमास्तर जालो जाल्यार? गोयरीक मोडचीना पूण...

चलतां चलतां तो घरा पावलो. जड पावलांनीं सोपणां चडलो. घराचें दार उकतेंच आसलें. माईचे कुडींत फकत झोंपाळ्याचो आवाज आयकूंक येतालो. आपल्याच घरांत परक्या भशेन तो भीतर सरलो.

हरशीं मुक्तिदाच्या फोट्याक नमस्कार केलेवगर विद्यानंद केन्नाच पायांत जोतें चडयनासलो. पूण आज सकाळीं बेपर्वायेन ताणे फोट्याकडेन आडनदर केली. मात माईन पळयलां जायत म्हण दुवावान हेवटेन तेवटेन पळयलें. ताका दिसलें मुक्तिदा देशा खातीर, परके शक्तिआड झुंजलो. स्वातंत्र्या उपरांत समाज सेवा केली. मात आपल्याच देशांत दुसऱ्याक धनीपद दिवन पुताक उवांतरा वडयलो. नाजाल्यार मुक्तिदान उबे केल्ले शाळेंत ताच्या पुताक कुशीक दवरून दुसऱ्याक हेडमास्तराचें पद मेळटा हाचो अर्थ कितें?

सकाळच्या पारा ताच्या कपलाचेर घाम फुटलो. तो शाळेंत गेलो. पयलो पिरियड जालो. भुरग्यांक कितें शिकयलें तें ताच्या ताकाच कळ्ळें ना. दुसरो पिरियड ऑफ आसलो. तो स्टाफरुमांत आयलो. स्टाफरुमांत पिरियड ऑफआशिल्ले दोग तीग जाण गुतकी तोंडां करून बशिल्ले. तातूंत एक अंगडीय आसलो. पयलेंच खेप पान नासून ताचें तोंड बंद आसलें. इतलो वेळ स्टाफरुमा भायर विद्यानंदाची वाट पळयत उबो राविल्लो स्टाफ मॅनेजमेंटाचो प्यून परवानगी घेवन भीतर आयलो. विद्यानंद समजलो, हो हेडमास्तराचे नेमणुकेची ऑर्डर घेवन आयला.

विद्यानंदान ताका अंगडी कडेन बोट दाखयलें. अंगडीन पळोवनाशें करून मान दुसरेकडेन घुंवडायली. प्यूनान हांसत हातांतलें पत्र विद्यानंदाच्या हातांत दिलें. विद्यानंदान दुवावान पत्र उकतें करून वाचलें. हेडमास्तर पदार मॅनेजमेंटान ताची नेमणूक केल्ली. कितलोसोच वेळ तो खोशयेचे तनरेंतूच उरलो. ताचो हात हातांत घेवन अंगडी मुद्दम ताचें अभिनंदन करतालो.

शाळा सुटनाफुडें तो सडसडीत घरा आयलो आनी व्हाणो काडून मुक्तिदाच्या फोटोमुखार नमळायेन हात जोडून उबो रावलो... अखेर सत्याचोच विजय जालो...

ताणें मनांत म्हळें आनी वयर पळयलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. मात ताका वगीच दिसलें, ... मुक्तिदान शरमेन मान सकयल घालूंना मूं?

फाटसून हांसपाचो आवाज आयलो म्हण ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. दाराचेर रणजीत, ताचो धाकलो भाव कमराक बाग घालून उबो आसलो. सदचेवरी आजूय ताचे दोळे आनी गाल तांवशे जाल्ले. तोल वचचो न्हय म्हण ताणें दाराचो आदार घेतिल्लो. तागेले हे अवस्थेंत ताका ही खबर सांगची न्हय अशें विद्यानंदान थारायलें. ताचे कडेन आडनदर करीत विद्यानंद कुशीक सरलो आनी चलपाक लागलो. मात रणजीत विद्यानंदाच्या ह्या पिशेपणाचेर हांसत रावलो.

'हेडमास्तर जाला? हेडमास्तर केला!'

रणजीताचीं उतरां कानार पडचे आदींच विद्यानंद ती खबर सांगपाक माईचे कुडींत पाविल्लो.

काल दनपारां ही खबर रणजीताक समजली तेन्ना तो गांवांतले गादयेर इश्टांवांगडा पीत बशिल्लो. तो उठलो. हातांत भरिल्लो ग्लास तसोच आसलो. ग्लास वयर उबारून ताणें इश्टांक म्हळें,

'मुक्तिदाचो सोपूत! त्या मॅनेजमेंटाच्या चेअरमनाचे बारा व्रेस्तार आनी तेरा शुक्रार करून वडयतां.'

ग्लास घटाघटा घोटून तो गादये भायर सरलो आनी चेअरमनाच्या ऑफिसाक वचून भीडलो. भगत घराच आसलो. ताच्या घराचे एके कुडींत शाळेच्या वेवस्थापनाचे सगळे वेव्हार चलताले. भगताचो हेरूय सामाजीक संस्थांकडेन संबंद आसलो. परवानगी वी घेना आसतना रणजीत भीतर सरलो. भगत आनी एकलो मनीस गजाली मारीत बशिल्ले. त्या मनशाक रणजीतान भायर वच म्हण सांगचे आदींच तो कडसरलो. भगतान रणजीताक कदेलीर बसपाक बोट दाखयलें. रणजीत दुसरेच कदेलीर बसलो. ताच्या वजनान ती कदेल करकरली आनी मोडटाशी जाली.

'कसो आसा? माई कशी आसा?'

भगतान जाणटेपणाच्या नात्यान वासपूस केली. रणजीत बांगर बैलावरी ताचेर करा करून पळयतच रावलो.

'हावें आयकलां तें खरें?'

रणजीताच्या उतरांनी धेक आसलो.

'कितें तें?'

भगताच्या कपलावयल्या आठयांनीच प्रश्न आसलो.

'शाळेचो हेडमास्तर कोणाक करपाचो थारायला?'

'थारावपाचो प्रश्नूच येना. नेमा प्रमाण जो जावपाचो आसा तो जातलो.' भगतान शांतपणान जाप दिली.

'तो पान खायरो अंगडी मूं?'

रणजीतान तुच्छतायेन विचारलें. ताच्या तोंडाक येवपी सोऱ्याच्या वासाकडेन आडनदर करीत भगत वगीच रावलो.

'म्हाका दिसता तुमी मुक्तिदाक विसरले.'

'कशें शक्य आसा? शाळेक तर तांचेंच नांव दिलां.'

'फक्त नांवान काम भागता?'

'ताणीच घालून दिल्ल्या नेमाप्रमाण तर आमी वागतां. तुका दुवाव आसा जाल्यार पळय, हातूंत मुख्याध्यापकाची नेमणूक कशी जाता हें स्पश्ट बरयलां. मुक्तिदाचे मुस्तिंतूच हे नेम थरिल्ले.'

भगतान एक फायल रणजीता मुखार धरली. फायल उकती केल्यार रणजीत पयल्या वाक्यांतूच घुस्पून पडटलो आसलो.

'म्हाका असले नेम वाचपाक इंटरेस्ट ना.' रणजीतान फयल मेजार भीरकटायत म्हळें.

'हे नेम म्हज्या बापायनूच केल्यात मूं? मागीर ते ताच्या पुतान मोडूं येतात.'

'ना.'

'कित्याक?'

'कारण ते तशे मोडूं नये म्हण आमकां तुमच्या बापायन मुक्तिदानूच सांगिल्लें आसा.'

'म्हज्या बापायक हांव चड वळखतालों काय तुमी?'

'तुजेपरस ताका शंबर वाट्यांनी हांव चड वळखतालों.'

भगतान शांतपणान जाप दिली.

रणजीताचें पीत्त खवळ्ळें. व्हदळ घोंटिल्ल्या ग्लासाची ताका आतां कीक् आयिल्ली.

'तूं कोणाक शाणेपणां सांगता? खरें म्हळ्यार चेअरमनाच्या जाग्यार हांव आम्पाचों.' रणजीतान हड्ड्यार हात मारीत सांगलें.

'बरें भशेन. आतां लेगीत तुवें जावं येता.' भगतान कदेलीवयलो उठत म्हळें.

'म्हाका गरज ना. ताचेपरस म्हत्वाचीं कामां म्हजेकडेन आसात.'

त्या उतरार भगत भुजां वावडून वगीच रावलो.

'हेडमास्तर म्हज्या भावाक विद्यानंदाक करपाक जाय.'

'आनी अंगडीचें कितें करपाचें?'

'ताचे मुखार खोंटलोभर खावचीं पानां हांव ओततां. गोरवां भशेन खुश जातलो.'

भगतान जाप केली ना.गरजेभायलो नेट हाडून रणजीत गरजलो,

'मिस्टर भगत, म्हाका परत हांगा पावट मारपाक लावं नाका आनी तुका खबर आसा, आमच्या घराण्यांत स्वताच्या मनशांची लेगीत रगतां व्हांवोवपाची परंपरा आसा. मागीर दुसऱ्यांचीं व्हांवोवपाक आमकां मोटेशें कठीण काम न्हय.'

रणजीताच्या उतरांनी भगत न्हिन्नळ्ळो. ताचेपरस, 'घरच्या मनशांचीं रगतां व्हांवोवपाचे' घटनेच्या उगडासान ताच्या काळजाक घाय जालो.

'रणजीत, स्वताचो घाम व्हांवोवपाचे पिरायेर तूं रगतां व्हांवोवपाची भास उलयता.'

भगतान ताका थातारपाचो यत्न केलो, पूण रणजीत ते अवस्थेंत नासलो.

'मागीर कितें करता?'

ताणें धेकानूच विचारलें.

'कितें करतलो? म्हाका हुतात्मो जावपाचें ना.'

'तूं कोण जाता हो प्रश्न ना. हेडमास्तर कोणाक करता हो प्रश्न आसा.'

रणजीतान भगताच्या म्हणण्याचो अर्थ समजून घेनास्तना म्हळें. ताच्या गिन्यानाक तें सोबलेंय बी.

'ऍपोयंटमेंट लेटर व्हरता?'

भगतान शांतपणान विचारलें.

'लेटर ताका दी. उतर म्हाका दी.'

'ऊं.'

भगतान मान हालोवन ताका फाट केली आनी तो हयकार मानून रणजीत भायर सरलो. व्हदळचे गादयेर गेलो आनी परत पिवपाक बसलो.

आपणाक हेडमास्तर करपा खातीर रणजीतान घेतिल्ल्या फुडाकाराची गजाल विद्यानंदाच्या कानार पावली. ताचो धाकल्या भावाविशींचो मोग वाडलो. दर फावटीं तो शक्तिचो अपव्यय करता अशें विद्यानंदाक दिसतालें. पूण हे घटने उपरांत ताका कळून आयलें, फक्त सत्यूच आसून उपकारना. सत्याचें खरेपण सिद्ध करतलो जाल्यार शक्तिचीय गरज आसा. ताणे आपली खांस रणजीताकडेन प्रगट केलीना. तोखणायेन तो शेफारचो न्हय म्हण आदर्श जाणटल्याचे भावनेन तो वगीच रावलो.

वैदीक पद्धतीन विद्यानंदाचें लग्न जालें. माईच्यान हातवोट घालपाक जायना जालें. माईन विद्यानंदाक ताचे इत्सेप्रमाण लग्न जावपाक पुराय स्वातंत्र्य दिलें. विद्यानंदान सगळे विधी संकेत वेवस्थीत पाळ्ळे, तातूंतल्या रूढींसयत. घालप सवरप, हुंडो आदी प्रथांक खंयच कातर लागलीना. गरज थंय भावना कुशीक दवरून प्रथेच्या नांवासकयल सगळें करून घेतलें. माई प्रत्यक्ष माटवांत हजर रावपाक शकलीना. खूप जाणांनी मुक्तिदा नरसिंहाचो उगडास काडून होमामुखार आपणाल्या आनी दुसऱ्यांच्याय दोळ्यांत गंगा उब्यो केल्यो. पूण मनांत आसूनय कोणे म्हळें ना, मुक्तिदा आशिल्लो जाल्यार पुताचें लग्न अशें खर्चीक आनी रूढींक वेटकाळून करचो नासलो. मुक्तिदाचें लग्न कितल्या सादेपणान जाल्लें! सगळ्यांनी धरलें, ह्यो गजाली माईनच फुडाकार घेवन केल्या आसतल्यो.

विद्यानंदाक वायल वरी सोबताली. मृदुला, तोंडावयल्यान समजूतदार आनी सालस दिसताली. भोवतणी इश्टिणिंचें कंवडाळें आसलें. मृदुला आपले जिवाभावाचे इश्टिणिंची नीलाची वाट पळयताली. अदीमदीं मेळटा ताचेकडेन वासपूस करताली.

लग्नाचो म्हूर्त लागीं पावलो आनी विद्यानंदाची नदर माटवांत भिरभिरपाक लागली. मंगलाष्टकां सुरू जालीं तशी ताच्या काळजांतली धडधड अदीक वाडपाक लागली. ताची ही अवस्था मृदुलेचेय नदरेंतल्यान सुटलीना.'शुभमंगल सावधान!' च्या गजराचेर माटवांतल्या लोकांचे हात अक्षता वडोवपाक फुरफुरले आनी ते गर्देत विद्यानंदाक डॉ. विनय आनी ताची घरकान्न दिश्टी पडलीं.

सव्यावयली गर्दी उणी जाली तसो डॉ. विनय मुखार आयलो. वरोवर वायल आसली. विद्यानंदान विनयाक वेंग मारली. ताचे वायलेन होंकलेच्या कपलाचो उमाव घेतलो. विद्यानंदान मृदुलेक तांची वळख करून दिली.

'हो म्हजो व्हडलो भाव डॉ. विनय आनी ही म्हजी भाभी.'

न्हवरो व्हंकल दोगांय तांच्या पायां पडलीं. डॉक्टरान आनी वायलेन ओठांत पुटपुटत तांकां आशिर्वाद दिले. वेंगभर येदी भेट तांणी होंवराच्या हातांत दवरली आनी आयिल्लीं तशीं गर्दैतल्यान परतलीं.

खूब जाणांक अजाप जाल्लें. मृदुलेक तर आपणाक व्हडलो देर आसत हाची कल्पनाच नासली आनी इतलो डिसेंट! डॉक्टर!

'आगो आमी समजल्लीं तुका एकूच देर म्हण.'

इश्टिणी फकाणां मारताल्यो.

'एक देर दोतोर आनी एक देर फातर, न्हय आं, फातरासारको घट.'

रणजीताच्या आडदांड देहाकडेन पळोवन सगळीं जाणा मस्कऱ्यो करतालीं.

'तुका बाये कसलोच भंय ना.'

सव्याचेर बोवाळ चलिल्लो.

अकस्मात माटवाच्या एका कोनशाक गडवड जाली. खूब जाणांनी थंयच कंवडाळें केलें. कितें घडलां म्हणटा तें कळनासलें. कांय खिणा भितर ते गर्दैतल्यान रणजीताचो सामको लागिंचो एक इश्ट आपलो दावो पोलो चोळीत कुशीक सरलो आनी माटवांतल्यान भायर चलपाक लागलो.

माटवांत वोवाळटां वोवाळटां रणजीत आपणाल्या इश्टांची खबर घेवपाक माटवाच्या कोनशाक आयिल्लो. तागेले भौतेक इश्ट निमंत्रणाक मान दिवन आयिल्ले. तांणी रणजीताक थोडो वेळ आपणा भितर वसोवन घेतलो आनी ते ताचीं फकाणां मारपाक लागले.

'विद्यानंदाचें जालें. आतां तुजो नंवर लागलो.'

'तुजी भाभी बरी सोबता.'

'विद्यानंद तुजेसारको आंगलोटान आसल्यार जोडें आनीक सोवपाचें.'

रणजीत तांच्या आग्र्याक लागून थंय वशिल्लो खरो, पूण ताची नदर माटोवभर घुंवताली. माटवांतल्यान ताकतिकेन भायर सरपी डॉ. विनयाक आनी ताचे वायलेक ताणें पळयलीं आनी व्हडल्या भावाक हडकुपाक तो उठपाक लागलो. तेसरशीं एका इश्टान ताका भुजांक धरून आपल्या म्हऱ्यांत ओडलो आनी ताच्या कानांत तोंड घालून म्हळें,

'नवी भाभी सगळे वटेन बरी आसा. आतां तुका सद्दां नवी नवी नायकीण सोदपाक

वचूंक नाका. गरजेक उपकारा पडटली.'

ताचें निमाणे उतर सोंपचे आदींच रणजीत ताड् करून ताच्या मुखार उबो रावलो आनी ताच्या गळ्याकडेन शर्टाक धरून ताच्या दाव्या कानसुलार एक थापट शेडायलें. ताका हडकुपाक गर्देतल्यान ताचेसरीं येवपी डॉ. विनयान तें पळयलें आनी मुखार वडयिल्लें पावल तशेंच फाटी घेतलें. फाटले फाटीं तो नाच्च जालो. माटवांतलें हासतें खेळटें वातावरण गंभीर जालें.

लग्न जावन होंवर घरा आयलें आनी माईच्या पांयाकडेन वसलें. माईन अपुरवायेन सुनेची तोखणाय केली. आपणाल्या पुताची व्हडवीक गायली. दोगांय मान सकयल घालून आयकत रावलीं.

'माई, विनयभाई आयिल्लो.'

विद्यानंदान माईक सांगलें.

'जाणा हांव, वतना म्हाका मेळून गेलो. दोगांय आयिल्लीं. पोर सामको भागला.'

माईन म्हळें आनी मृदुलेचे खाडकेक हात लावन विचारलें,

'तुगेल्या व्हडल्या देराक पळयलो न्हय?'

आनी माईच्या हांसत्या मुखार अचळय सांवळी कशी गंभीरताय फांकली.

'सहसा पावना तो घराक,'

माईन तीरपे नदरेन मृदुलेकडेन पळयलें आनी तिची उमळशीक वाडल्या म्हणपाचें पारखिलें.

'ताका येवपाची इत्सा आसता पूण ..'

मृदुलेचे नदरेंन तिका वगी वसपाक दिलेंना आनी मागीर माईन मृदुलेक विनयाची गजाल सांगली.

विनय नांवाप्रमाण विनयशील आसलो. दोतोरकेचें शिक्षण घेवपाक तो भायरच आसतालो. भायर म्हळ्यार शारांत. दोतोर जातकच थंयच सरकारी हॉस्पितळांत ताका नोकरी मेळ्ळी. ताचें लग्नूय भायलेभायरच जालें. प्रेमविवाह. लग्नाक मान्यताय - विरोध असल्यो आडखळी येवचे आदींच ताणे घरच्यांचे आशिर्वाद गृहीत धरून सामकें सादे आनी सुटसुटीत पद्धतीन लग्न लावन वडयलें.

पयलीं तो अदींमदीं घराक येतालो. आपूण वडील जाल्ल्यान कांय जापसालदारक्यो

आपूण जावन उखलतालो. पूण आतां वर्सांतल्यान फकत एकदां - फक्त मुक्तिदाच्या श्राद्धाक येतालो. तो असो पातळ जावपाक कारण आसलें.

मुक्तिदाचें निर्वाण जावन बरींच वर्सां जाल्लीं. संवसाराचो सगळो भार माईचेर, सुधाबायचेर पडिल्लो. विनय दोतोर जावन त्याच वर्सा सरकारी हॉस्पिटलांत नोकरेक लागिल्लो. विद्यानंद शिक्षकाचें प्रशिक्षण घेतालो. रणजीत मात शिकपापरस तवनासपणाच अदीक करतालो. माईक सगळें कळटालें, पूण धाकलो पूत म्हण ती ताचे सगळे थेर चलोवन घेताली आनी हीच गजाल विनयाक मना पासून आवडनासली. रणजीताचेर ताची सदांच वांकडी नदर आसताली, पूण माईखातीर तो ओंठ दावून वगी रावतालो. माई ताका प्रत्यक्ष समजावचे परस घाडी भगतांचेर चड पातयेवन रावताली. ताचीं मस्तेपणां उणी जावंचीं म्हण ती ना ना उपाय करताली. कोणा भगतान दिल्ले आंशे ताका खावंक दी, कोणा घाडयान दिल्ली विभूत कपलाक लाय, कोणे दिल्ली तावज गळ्यांत बांद, कोणालो दोरो दंडाक गुठलाय आनी हे सगळे उपाय करूनय रणजीताचीं मस्तेपणा दिसान दीस वाडतच आसतालीं. कोणाक तुकलाय, कोणा चलयांची मस्करी कर, कोणाची बळजबऱ्यां तोडफोड कर.

खरें म्हळ्यार मुक्तिदाचे मुस्तींत असल्या देव देवस्पणांक घरांत मातय सुवात नासलीं पूण सुधाबायचो आदीं पासून ह्या गजालींचेर खर विश्वास. ह्याच उपायांक लागून आपणाक मुक्तिदा सारख्या स्वातंत्र्यवीराची धर्मपत्नी जावपाचें भाग्य लावलें अशी तिची श्रद्धा आसली. पूण मुक्तिदा खातीर केन्ना ती असल्यो गजाली उलयनासली. कितें करपा सवरपाचें तें ताका चोरून करताली. मात मुक्तिदाच्या मर्णाउपरांत असल्यो गजाली करपाक निका रान मेकळें जाल्लें. ना म्हळ्यार व्हडल्या पुताचो, विनयाचो मातसो भंय आसलो. पूण तो सदांच घरा पासून पयस उरतालो.

एक दीस रणजीताचे शक्तिचो अदमास चुकलो. परकी गावांत गेल्लेकडेन ताणे थंयच्या एक दोग जाणांक तुकलायले आनी धा बारा तरनाट्यांनी ताका आड केलो. फाटलो फुडलो राग काडून ताका यथेश्ट पेट घालो. ताचीं रगतां काडलीं. त्या गावांतल्या चार जाणट्यांनी ताका घरा पावयलो. सगळ्यांचेर आकांत आयलो. येदो व्हडलो तो आडदांड देह रक्तबंबाळ जाल्लो. बेगोबेग गाडयेची वेवस्था केल्ली आनी रणजीताक शारांतल्या सरकारी हॉस्पिटलांत व्हेलो. बरोबर माईय गेली. त्याच हॉस्पिटलांत विनय काम करतालो पूण ह्या वेळार तो ड्युटिचेर नाशिल्लो. रणजीताचें बरेंच रक्त व्हांवल्लें. तो बेशुद्ध जाल्लो. खंय कसो मार लागला तें कळनासलें. वचना

फुडें दांतोरांनी ताका आपले सुवादीन घेतलो आनी ते आपले परीन उपाय करपाक लागले.

विनयाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना तो हातांतलें काम वडोवन सडसडीत उठलो. ड्यूटी नासतनाय ताणें डीनाक निरोप धाडून ड्यूटींत वदल करून घेतलो आनी दोतोराची मुरत्तायकी चडोवन तो ऑपरेशन थेटराकडेन धांवलो. भायरूच ताका माई मेळ्ळी. माईचें सांत्वन करपाक ताका फुरसत नासली. माईन ताका घट्ट वेंग मारली आनी कुशीक व्हेलो.

'माई, ह्या वेळार अशीं पिशेपणा सोबना.'

'म्हजें आयक.'

'पयलीं हांव भीतर वतां.'

'नाका.'

'माई,'

'तूं ताका हात लावं नाका. म्हजो सोपूत आसा तुका.'

विनय तटास जावन थंयच उरलो. माईच्या उतरांचो रोख ताका समजलो. ताका खूब वायट दिसलें. ताणे मनातूच म्हळें, .. जी आपल्या पुताक वळखूंक शकना ती एका दोतोराक कितें वळखतली?

विनय मान सकयल घालून तसोंच फाटल्या पावलांनी परतलो.

रणजीत वऱ्यान सुटिल्लो. माथ्याक आनी हातापांयाक बरेच टांके पडिल्ले. रगत घालचें पडलें तें तागेल्या इश्टांनी दिल्लें.

दुसऱ्या दिसा माई विनयाचे सोदीक गेली. हॉस्पिटलांत ताचो ड्यूटी चार्ट तिणे पळयलो. हेर दोतोरांकडेन तिणे चवकशी केली आनी तिका कळ्ळें, ताणे अकस्मात रजा काडल्या. ती तागेल्या विराडार गेली. वाचपाचें निमीत्त करून तो वसून आशिल्लो. माईन कालचे घटनेची ताका फोडणिशी करून सांगलें, तिणे विनयाक समजावन म्हळें,

'वता धंय धाडया भगतांनी म्हाका हेंच सांगलां, तुमच्या घरांत भावाचो जीव काडपाची परंपरा अशीच चलतली. व्हडल्याच्या हातान धाकल्याचें मर्ण..'

माई हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक लागली.

'दोगूय म्हज्या रगताचे. एक रक्तखेव हावें पळयला. दुसरो हांव पळोवंक सोदिना. म्हाका समजून घे रे पुता. ..'

माईन विनयाक घट्ट वेंग मारली आनी दुकांनी ताका भिजोवन वडयलो.

माईक कशें समजावचें तेंच विनयाक कळ्ळें ना.

इतली गजाल सांगून माई कांय वेळ वगी रावली. फकत झोपाळो हालत आसलो. माई खरस निवळायताली.

भायर काळोख जाल्लो. रात चडत वताली पूण सगळ्यांच्या दोळ्यांतली न्हीद खळिल्ली.

मृदुलेचे नदरेन उमळशीक वाडिल्ली. इतल्या वेळच्या गजालींनी तिची भीड बरीच उणी जाल्ली.

'चल,त्या रक्तखेवाची गजाल सांगतां. मागीर आड पडात.'

माईन झोपाळ्यावयल्यान उठत म्हळें. विद्यानंदान बेगीवेगीन तिका उठपाक हात दिलो. माईन ताका वंटिची, खिळ्याक हुमकळायिल्ली चावी काडपाक लायली. विद्यानंदान थंयचें फस्क आनी मेणवातूय घेतली. माई फुडें आनी तीं दोगांय माई फाटल्यान चलपाक लागलीं.

घराक कितल्योशोच कुडी आसल्यो. एके कुडीम्हऱ्यांत तिगांय थारलीं. विद्यानंदान कलयादाची चावी काडली. खूब दीस उक्तें करूंक नाशिल्ल्यान दार अदीक करकरलें.

'हे कुडींत मुद्दम लायट खेळोवं ना.' माईन म्हळें.

विद्यानंदान फस्काची काडी मारून मेणवात पेटयली.

कूड उजळ्ळी. पळोवपाक निवळ दिसताली. एक पोरणी आलमार. एक दोन कदेली. एक लाकडी वाज्ज. वंटीक बरोच तेंप रंग काडूंक नासलो. वयर घयरांव जाल्लो. कोनशाक कापोडियांनी जाळां विणिल्लीं. एके वंटीक एक मोटें पांयजेल लायिल्लें. मृदुलेन उजवाडाचे पसयेन तो फोटो वळखलो. मुक्तिदाचो. दुसरे वंटीक आनीक एक पांयजेल आसलें. ताचेर चड उजवाड पडला आसतनाय मृदुला त्या फोट्याक वळखूंक पावलीना.

'ह्याच फोट्याची ती काणी. हो हागेलो काका. मुक्तिदाचो धाकलो भाव, पद्मनाभ.'

मृदुलेन तो फोटो नियाळ्ळो. एका सामान्य मनशासारको तो मनीस दिसतालो. मुक्तिदाच्या दोळ्यांतलें तेज ताचेठांय नासलें. त्या मनशाफाटल्यान येदें व्हडलें कसलें गूढ आसा ह्या विचारान ती अजापली.

माईन फुडली गजाल सांगपाक सुरवात केली.

तो काळ मुक्तिदाच्या कर्तृत्वाचो आसलो. गडगंज अशे जुलमी शक्तीआड तो झुंजतालो. मुक्तिदान सुरवेक अहिंसेचो पुरस्कार केल्लो, पूण मागीर बळाचो प्रतिकार

वळान करचो पडटा हाचो तांकां साक्षात्कार जालो आनी ताणी लीपचोरयां गनिमी काव्यान दुस्मानांक पिडापीड करपाचें सत्र सुरू केलें. मुक्तिदाच्या फुडारपणाखाला तेन्ना पंचविशेक लोकांचो एक पंगड मुक्तिसंग्रामाचें काम करतालो. तांगेल्यो वसका रातिच्या वेळार लीपचोरयां मुक्तिदाले थंय भरताल्यो. दुसऱ्या भागांतल्या कार्यकर्त्यांक संदेश धाडप, स्वातंत्र्याचो पुरस्कार करपी पत्रकांचें वांटप करप असलीं कामां जातालीं. घरा फाटल्या दोंगरार आर्मां चलोवपाचें शिक्षणूय एकामेकांच्या आदारान चलतालें.

एक फावट गांवा कुशीक आशिल्ले पुलीसचौकिचेर घुरी घालपाची माण्णी एके वसकेंत जाली. तिवूय वसका सदचे प्रमाण रातिच्या मद्यानेर मुक्तिदाल्या घरांतूच जाली. पंचविशेक कार्यकर्ते, मुक्तिदा आनी मुक्तिदाचो धाकलो भाव पद्मनाभ हाजीर आसले. पद्मनाभ पंगडाचें कसलें काम करिनासलो पूण सगळ्या वसकांक तो चत्रायेन हाजीर रावतालो. मुक्तिदाचोय ताचेर पुराय विश्वास आसलो. घुरयेची सगळी येवजण वसकेंत थारायली. रातिच्या वेळार चौगां जाणांनी चार वाटांनी आर्मां घेवन ल्हवू ल्हवू चौके भोवतणी एकठांय येवपाचें. अकस्मात भीतर सरपाचें. प्रतिकार जाल्यार आर्मां वापरपाचीं. चौके वयल्या सात आठ पुलीसांक निःशस्त्र करपाचे. ते वराबर बाकिच्या सहकाऱ्यांनी धांवून येवन चौकेवयलीं सगळीं शस्त्रां आनी झुजपाचें सामान सुतलावन व्हरपाचें. सगळें थारावन त्या दिसाची वसका उलगली. सगळे आपआपल्या घरा गेले.

घुरयेचो दीस उजवाडलो. सगळे वेवहार सदचेवरी जाले. रातीकडेन क्रांतिकारकांच्यो हालचाली थरिल्लेभशेन जाल्यो. सगळे त्या खिणाची वाट पळोवंक लागले.

पूण घडलें तें मात उरफाटें. आर्मां घेवन चौगजाण चौकेचेर भीतर सरलें. भीतर सर जाल्यार दारां सताड उकतीं. भीतर कोणूच ना. चौगूय जाणांनी फाटीं वळून पळय जाल्यार आर्मां घेतिल्ले पुलीस तांच्या फाटल्यान हाजीर. क्रांतिकारकांक आर्मां सकयल दवरून हात वयर उबारपावगर दुसरो कसलोच उपाय उरलोना. चौगूय क्रांतिकारक पुलिसेचे बंदी जाले.

मुक्तिदाच्या पंगडामदें वरीच खळबळ जाली. बेगोवेग तांगेली वसका वयले दोंगुल्लेर जाली. मुक्तिदाक पयलेच खेप अपेस आयिल्लें. जे तरेन क्रांतिकारकांक धरले ताचे वयल्यान एक गजाल सिद्ध जाताली, ती म्हळ्यार ह्या कटाची आदीं कोणेतरी पुलीसांक वरे तरेन कल्पना दिल्ली. वसकेंतलें वातावरण दुवावान भरलें. कोणाचेर दुवाव घेवचो ह्या विचारान मुक्तिदाची तकली भणभणली. भगत नांवाच्या मनशान भीत भीत आपणाल्या मनांतलो दुवाव मुक्तिदा मुखार उकतो केलो. ताणें

पद्मनाभाचें नांव सांगिल्लें. मुक्तिदान शांतपणान आयकून घेतलें. पूण भगताक ताणे खर उतरांनी शीटकावणी दिली. दुबाव फट थरल्यार मुखावयल्या परीणामांक सज्ज रावपाचें. दुसऱ्या दिसा परत मुक्तिदाल्या थंय वसका भरली. पद्मनाभ हाजीर आसलो. प्रत्येक जाण ताका दुवावी नदरेन पळयतालो. मुक्तिदाक मात ताच्या साबळ्या तोंडार कसलेंच कपट दिसलेंना. ते रातीं वसकेंत एक म्हत्वाची थारावणी घेतली आनी ती म्हळ्यार ह्या लागींच्या दिसांनी पुलीस चौकी लासून वडोवपाची. नक्की दीस उपरांत थारावया अशें सांगून मुक्तिदान बसका सोंपयली.

दुसऱ्या दिसा मुक्तिदान पद्मनाभाचे हालचालिचेर नदर दवरली. पद्मनाभ सहजतायेन म्हण भायर सरलो आनी आडवाटेन पुलीसचौकेचेर पावलो. तो पुलीसचौकेचेर पावलो ही खात्री जातकच ताचे पाळटेर आशिल्लो मुक्तिदा फाटीं वळ्ळो. त्या दिसा ताणे सगळ्या भूमीगत क्रांतिकारकांक निरोप धाडलो. दुसऱ्या दिसा रातीकडेन ताणी जुस्त एकाक घराकडेन येवपाचें. घराकुशीक रावपाचें पूण आपयले बगर भीतर सरपाचें ना.

दीस सोंपून ती रात आयली. जूस्त बारा वरां पंचावन्न मिनटांचेर मुक्तिदा सुधामाईची न्हीद चाळयनासतना. कुशीक सरलो. कुशीक, विनय, विद्यानंद आनी रणजीत हीं भुरगीं सुस्त न्हिदिल्लीं. ताणे वाज्जेपोंदचें आर्म काडलें. अचळय कुडिचें दार उकतें केलें. पावलां वाजय नासतना तो भायर आयलो. पद्मनाभाचे कुडीकडेन आयलो. तेंच कुडींत तांच्यो गुपीत वसका भरताल्यो. ताणे दारार मारलें. पद्मनाभ वाज्जेर आड पडिल्लो पूण जागोच आशिल्लो आसूंक जाय. भीतरल्यान पावलांचो आवाज जालो. पद्मनाभान भीतरली खिळी काडली. दार कर्र जालें आनी आर्माचे गुळयेन पद्मनाभाच्या हड्ड्याचो वेध घेतलो. तो जमनीर कोंसळ्ळो. कूडभर रगताचो शींवर जालो.

मुक्तिदान वेगोवेग वचून भायलें दार उकतें केलें. तेसरशीं भायर तयारेन आशिल्ले वांगडी भूरभूर करून भीतर आयले. एक मुक्तिदा सोडून पयलीं कोणाकूच हे गजालिची सुलूस लेगीत लागूंक नासली. मात आर्माचो फार जातकच भायर तयार आशिल्ल्या क्रांतिकारकांनी कितें येवजुपाचें तें येवजिलें.

ते भीतर सरनाफुडें मुक्तिदान तांकां कुरवेनूच सगळ्यो गजाली दाखयल्यो. एकल्यान पद्मनाभाचें मडें खांदार मारलें. दुसऱ्यान गळटा तें रगत पुसपाचें काम केलें. कोणे खारें, कोणे कुदळ खांदार मारली. सगळे दोंगराचे वाटेक लागले.

आवाज आयकून सुधामाई गडबड्यां उठली. कुडीभायर सर जाल्यार पद्मनाभाचो

रगताळलेलो देह कोणाचें तरी फाटीवयल्यान घराभायर सरता तितलोच तिणें पळयलो.

मेणवात सोंपत आयिल्ली. गजाल सोंपोवन माई खरम थांबोवंक लागली. मृदुलेन ते कुडींत एक नदर मारली. सगळ्याक रक्तूच रक्त शिंपडिल्ले भशेन तिका दिसलें. आंगा वयली पयली शीरशिरी गेल्या उपरांत मागीर तिका ते कुडींत प्रसन्नतेचो भास जालो. ती कूड म्हळ्यार रणखेवा उपरांतची जैतिवंत भुमी कशी तिका दिसपाक लागली.

मेणवात सोपून कावार जाल्ली. तिगांय कुडीभायर सरलीं. दाराक चावी करून विद्यानंदान ती माईकडेन दिली.

'तुजेच कडेन दवर.'

माईन मृदुलेच्या हातांत चावी दीत म्हळें.

माई आपणाले कुडींत गेली.

विद्यानंद आनी मृदुला आपणाले शृंगारलेले कुडींत आयलीं. वरोच वेळ कोणूच कांयच उलयलोना.मोनेळाचो भंग जावचो म्हण विद्यानंदान म्हळे,

'आज रणजीतान केलें तें योग्यच केलें. आपणाले भावजयेविशीं वायट उलयिल्लें तो कित्याक सोसून घेतलो?'

मृदुलेन कांयच जाप काडलीना.

'माईक दिसता, रणजीताचें कितेंय वायट वरें विनयाच्या हातसून जावं येता. पूण माई जाणां, रणजीताक म्हजेपासून कसली भिरांत ना. कित्याक तर हांव असो.' विद्यानंदान आंगावयलें खोमीस देंवयत म्हळें.

.. खरेंच आपलो घोव कितलो दुवळो!

आनी तांची पयली रात रंगलीच ना.

गावांत मुक्तिदाच्या घराक मान आसलो. गावांतले लोक तांचेकडेन नमळायेन वागताले. विद्यानंद हेडमास्तर जायतपसून तर तातूंत अदीकच भर पडिल्ली.

मृदुलेक घरांतल्या वातावरणाची संवकळ जायत आसली. आतां ती गावांतल्या वातावरणाकडेन एकरूप जावपाचो यत्न करताली. अदीं मदीं भायर सरताली. घरांत खावपा जेवपाचे जीनस येताले पूण दादल्यांच्या हातचे जाल्ल्यान तातूंत वारीकसाण

नासतालो. मृदुला, वावराडेच्या आदारान गावांतल्या परसऱ्यावयलें सामान आपूण हाडपाक भायर सरूंक लागली. गावांत भाजयेच्या वारयांनी गेल्यार ताज्जी आनी जाय तसली भाजी मेळटा हें कळटकूच तिणे खासा आपणे वारयांकडेन वचपाचें थारायलें.

अशीच एके सांजवेळा ती हातांत पोती घेवन भायर सरली. घरा पासून अर्द्या किलोमिटराचे वाटेर पांचवींचार वारयीं आसलीं. दर एका कुळवाड्यान आप आपणाल्या वारयां भोवतणयां खुंटांची वंय केल्ली. प्रत्येकाच्या वारयांत एके हारीन खुंटांचेर वाल्लांचे झुपके मातिल्ले. गाड पांचव्या पानांतल्यान पोपटी वाल लांवताले. किडकिड्या मिरसांगांच्या झाडांचेर कुचकुचीत मिरसांगो लागिल्ल्यो. दाट पानांतल्यान मळवा कांराचीं वांयगीं फुगोवन राविल्लीं. ती तरतरीत भाजी पळोवन मृदुलेची जीव हुळहुळ्ळी.

एका वारयांत वंयेकडेन ती थारली आनी वारयाच्या धनयाची वाट पळयत रावली. तिणे वंये भितर मान वागोवन पळयलें, वारयाच्या मदेकाक एक बांय आसली. वांयतलें उदक काडपाक कुंवयाच्या झाडाचेर एक लाट लायिल्ली. वांय कुशिंच्या वण्ण्याचेर एक खोंप उबी आशिल्ली.

जाग जावची म्हण मृदुलेन खोंकली काडली. तेसरशीं खोप हाल्ली. आनी खोपींतल्यान एक कुळवाडी भायर सरलो. माथ्याक वालो आनी कमराचे मुंजीक खोंयिल्ली काश्टी इतलीच मुस्तायकी ताच्या आंगार आसली. मुंजींचें कोयतूल धारेन चकचकतालें.

ताणे सदचे संवयेन गिरायका खातीर, तयार जाल्ले वाल खुंटले. जून जाल्लीं वांयगीं तोडलीं आनी सगळी भाजी पोटलून धरून तो वंयेकडेन आयलो. भाजी पोतयेंत घेवपाक मृदुलेन पोती उकती केली. पशे विचारपाक तिणे तोंड उक्तें केलें, इतल्यान कुळवाड्याची नदर मृदुलेचेर पडली. मृदुलेक तो पयलेच खेप पळयतालो. आपणे केन्ना नाका पळयल्ल्यचो मृदुलेक उगडास जालोना. मृदुलेक पळयना बरोबर तो निर्विकार आशिल्लो कुळवाडी मिरसांग कसो तांबडो जालो. ताच्या दोळ्यांत उजो पेटलो. ताणे आपणालें किडयाळे दांत किल्लिल्ले. मृदुलेक ताचें तें रुप भेकडावपाक केल्ल्या खेतवावल्या सारकें विद्रूप दिसलें. इतलें करूनय तो थारलोना. पोटलून धरिल्ली भाजी ताणें दोनाय हातांनी भोंवो करशी उबारली आनी कुशींचे वांयत मोस्त्रून दिली. मृदुले कडेन नदर लेगीत मारिनासतना तो आयसो तसो खोंपीत गेल्लो.

मृदुला नटास जावन हातांत पोती घेवन तशीच उबी उरली. तिका कसलोच बोध जालोना. तिणे पोती कवळ्ळी आनी ती मोन्यानी घरचे वाटेक लागली. घडिल्ली गजाल

तिणें माईक सांगलीना.

रातीकडेन घोवाक सांगली तेन्ना घोवान म्हळें,

'त्या येदूल्या वारयांत तूं गेल्लीच कित्याक? तो एक नंबरचो हरामखोर मनीस. फक्त अशिक्षीत कुळवाडी म्हण वगी रावपाचें ताका. ताणे आमची बदनामी केल्या ती सोंसपाची न्हय.'

विद्यानंद बरोच वेळ धुमसत रावलो आनी मागीर ताणे येदूची खबर मृदूलेक सांगली.

येदूची एक पंदरा सोळा वरसांची चली आसली. सुरंगा. पोर वारयांतले भाजेसारकें धवधवीत वाडिल्लें आनी तरतरीत दिसतालें. बापूय मानायपण करपाक भायर वतालो. वारयाची सगळी उस्तवारी सुरंगाच करतालें. दिसभर वारयांत पडून आसतालें. पुरो जाता तेन्ना खोपींत विसव घेतालें. सांजचो येदू येवन ताका घरा व्हरतालो. वारयांत तें एकलेंच पळोवन, गावांतले तवनास पोर वारया भोंवतणी पासयो मारताले. सुरंगा तांचे भकीक पडलें. एकल्या एकल्याक खोपींत आपोवपाक लागलें. बापूय दीसभर जोडीफाटल्यान भायर. एक दीस ताका आपणाक दीस गेल्ल्याचें कळ्ळें, तेन्ना ताणे वारयांतले वांयत जीव दिलो. धुवेन जीव दितकच बोबाळ जालो. मागीर सगळें प्रकरण रणजीतानूच फुडाकार घेवन मिटयलें. पूण ह्या चोरांच्यो उरफाट्यो बोबो. ताणे अशो समज करून घेतलो, धुवेची वाट लावपाक कारणीभूत रणजीत आनी तेचखातीर गावांतलो तो एकलोच कुळवाडी आमचे कडेन दुस्वासान पळयता.

गजाल सोंपोवन विद्यानंदान दिवो वाडयलो आनी मृदुलेक वेंगांत काडली. आपणाल्या सांगण्यान मृदुलेचें समादान जालें अशें ताका दिसलें. विद्यानंदान तिचेकडल्यान कुडिची भूक भागोवन घेतली आनी तो पुरो जाल्लेवरी सुस्त न्हिदलो.

मृदूला मात आपणाचेर बलात्कार जाल्ल्याचे भावनेन रातभर तळमळत उरली.

दुसऱ्या दिसा आयदनां धासता थंय दुलू बावराडेन मृदूलेक विचारलें,

'काल वारयांत वचून भाजी घेनासताना परतली खंय?'

मृदूलेक तिगेल्या प्रश्नांतली खोंच समजली आनी तिचेकडसून खरी गजाल समजतली ह्या भरवंशान तिणे काल घडिल्ली गजाल दुलूक सांगली. दुलून सगळें मोन्यांनी आयकून घेतलें आनी म्हळें,

'येदुचें चुकलें खरें. तुमकां तेणे अशें करपाचें न्हूं. तुमचो कसलो गुन्यांव? पूण तो पडलो आमचेंमारकों अनाडी. राग उक्तावचो इतलेंच तेका खवर!'

आनी मृदूलेन मूळ प्रश्नाक हात घातलो. तेसरशीं दुलून हेवटेन तेवटेन पळयलें. कोण आयकना म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी खरी खवर मृदूलेच्या कानार घातली.

एके सांजे वारयांत आशिकुशीक कोण ना तशें पळोवन रणजीत येदुल्या वारयांत भितर सरलो. सुरंगाक ताचो हेतू कळिल्लो, पूण तें कांयच करूक शकलेंना. रणजीतान ताका खोपींत आपयलें. तें आयलेंना. तशें बळजबरीन ताका खोपींत व्हेलें. कांय वेळान आपूण नामा निराळो जावन भायर सरुन गेलो. सुरंगा .. त्या दळिद्री पोराकडेन अब्रू सोडून दुसरें कांयच नासलें. ताणे फाटफुडो चिंतलोना. खोपी कुशिची वांय लागीं केली. येदू येवन धुवेक सोद जाल्यार धूव पेल्ल कशी बांयत उफेता. फां फूं जातकच सगळ्यांत पयलीं रणजीत बोवाळपाक मुखार. पुलीस आयले. पंचनामो जालो. आत्महत्या म्हण नोंद जाली. प्रकरण थंयच मिटोवन रणजीतान येदुचेर व्हडले उपकार केले. मागीर फाटल्यान ते गजालीक जायते फांटे फुटले. पूण सुरंगाच्या मर्णाक रणजीत कारण जाला हाचेविशीं गावांतल्या कोणाकूच दुबाव नासलो. तेन्नासावन येदू रणजीताचो सूड घेवपाक मुंजीक कोयतूल लावन भोवपाक लागलो.

सगळी खवर सांगून जातकच दुलून म्हळें,

'आतां लोक उलयतले कशे? आनीक कोणाची खवर जाल्यार उलोवं येताली. पूण रणजीताची खवर कशी उलोवं येता? तो मुक्तिदाचो पूत न्हूं?'

उलयतां उलयतां दुलूचो आवाज ओलो जालो.

'आमी आयकल्लें, आदल्या तेंपार खंय मुक्तिदा लेगीत पुलिसांक भितालो. आतांचे पुलीस तेगेल्या पुताक - रणजीताक भितात.'

आनी मृदूलेच्या तोंडावयली नदर कुशीक वळयत ताणे म्हळें,

'सुरंगा पोर अब्रूचें म्हण तेणे आत्महत्त्या केली. आमी पोटा खातीर अब्रू घाणाक दवरल्या. ना जाल्यार आमकां धा फावटी तरी आत्महत्त्या करची पडटली आसली.'

दुलूचीं उतरां मृदूलेच्या काळजाक रोमलीं. ताचे नदरेक नदर दिवपाचें धाडस तिका जालेंना.

आपणांक आयिल्लीं यंदी व्हडली चीट पळोवन मृदूला अजापली. लखाट्यार धाडटल्याचो पत्तांय नासलो. उमळशिकेन तिणें चीट फोंडली. पळय जाल्यार चीट नीलाची. ती सामकी भुरकूटली. कितलीं पानां? एक - दोन - तीन - चार. तेभायर आनीक दोन वारकेलीं पानां. सामकी परिक्षेची उत्तरपत्रिका. तिका याद जाली, नीला परिक्षेक अशेंच पेपर वरयतालें आनी वयल्यान पुरवणी जोडटालें. चीट पळोवनच मृदूला फाटले जिणेंत गेली. नीला वांगडा सारलेले ते कॉलेजचे दीस तिच्या मनांत उडक्यो मारूंक लागले.

मृदूलेन पत्र वाचपाक सुरवात केली. अपेक्षेप्रमाण पत्राचे सुरवातेक फाटल्या दिसांच्यो यादी उजळिल्ल्यो. मृदूलेच्या लग्नाचो उगडास करून नीलान वरयिल्लें,

मनांत खूब खूब आसुनय तुज्या लग्नाक पावलेंना. कारण दुसऱ्या दिसा म्हत्वाच्या पेपराची परिक्षा आसली. तूं म्हणटलें, आतां आनी कसली परिक्षा? पूण तुका घडये खबर नासत. नासतलेंच. हांव आतां आदवोगाद जालां. आमी दोगांय वरोवर ग्रेज्यूएट जालीं आनी फापसलीं. मागीर हावें एल. एल. बी. केली. प्रॅक्टीस वरी चलता. हांव चडशो वायलांच्योच केसी घेतां. दादल्यांनी वायलांचेर केल्ल्या अन्याया आड कोर्टांत उबें रावतना बरें दिसता. वकील जाल्ल्याचें समाधान भोगता. तुका खरें सांगूं? ह्या संवसारांत वायलांचे प्रश्न समजून घेतलो जाल्यार वायलांचेच जातींत जल्माक येवंक जाय. तुका केन्नाय गरज भासल्यार म्हजो उगडास कर. आदीं पत्र वरयल्यार खूब बरें.

तूं म्हणटलें, आयज अकस्मात इतल्या तेंपान पत्र वरोवपाचें कारण कसलें? आसा एक कारण.

कशें सुरू करूं? तुज्या लग्नाक हांव पावूंना ताची खंत काल मेरेन दिसताली, पूण आतां दिसना. खूब बरें जालें. नाजाल्यार वगीच तुज्या सुखाचे आड येतलें आसलें. खरें म्हळ्यार आतांय हें पत्र वरोवन तुज्या सुखी संवसारांत हांव एक ल्हानशें वादळ निर्माण करतलें, हाची म्हाका जाणीव आसा. पूण हें पत्र तुका वेळा काळाक एक शिटकावणी कशी थरू येता देखून हो प्रपंच.

खूब घुस्पागोंदळाचें वरयलां न्हय? तुका याद आसा? आमची कॉलेजांत कशी भेट जाल्ली ती? खरें म्हळ्यार हांव फर्स्ट इयरपासून तुमचे कॉलेजची विद्यार्थिनी न्हय. हांव इंटराक तुमच्या कॉलेजींत आयलें. कित्याक म्हण जायते फावट तुमी विचारिल्लें, पूण हावें कसलें तरी कारण सांगून वेळ मारून व्हेल्ली. तूं सामकी जिवा भावाची

इश्टीण आसून लेगीत तुकाय फटयिल्लें. मात एक दीस तुज्या प्रश्नार हावें म्हणिल्लें, तें कॉलेजींत फाजीलपणां चलतात. आनी विशय थंयच सोंपयिल्लो. आज तोच विशय हांव परत सरु करतां. कित्याक तें मागीर तुका कळटलें.

तें कॉलेजींतलें म्हजें तें दुसरें वर्स. पयलें वर्स बरें गेल्लें. दुसऱ्या वर्सा वर्गांत एका तवनास पंगडाच्या विद्यार्थ्याकडेन गांठ पडली. दोन तीन वर्सां ते तेच क्लासींत ठाण मांडून बशिल्ले. आमी पांच चलयो मात लेगीत तांचे लगाडीक वचनासल्यो. तरीपूण तेच लेमलेम करताले. म्हाका तांचे थेर निखालस पसंत पडनासले. सुरक्षिततें खातीर आमी पांचूय जाणां एकठांय पंगडान भोंवतालीं. पूण तांचो पंगड सात आठ जाणांचो आसलो. दिसान दीस तो वाडटालोयवी. ते वरांडांत उबे रावल्यार आमकां तेवटेन वचपाक सामकें कुस्तार जातालें. प्रिन्सीपलाकडेन तक्रारुय करुन कांय उपेग जायनासलो. आमचीं तरातरांचीं फकाणां आनी मस्कऱ्यो मारपाची तांचेमदीं सर्त लागताली. चड करुन तांचो दोळो म्हजेरुच आसतालो. कारण हांव ताकां सहसा वदनासलें.

त्या दिसा घडलें तें तांचेमदलो सर्तिचोच एक भाग आसूंक जाय. एक पिरीयड जातकूच हांव दुसऱ्या पिरीयडा खातीर दुसऱ्या वेगळ्या क्लासरूमांत वचपाक भायर सरलें. म्हाका वयल्या माळ्याचेर वचपाचें आसलें. सोपणां चडून हांव अर्द्या जिन्यार पावलें, थंय कोनशाक वळसो घेवन दुसरीं सोपणां चडपाचीं आसलीं. जुस्त त्याच कानशाक त्या पंगडांतलो एकलो धडधाकट तवनास म्हजी वाट पळयत आसलो. हांव थंय पावलां मात ताणें म्हजेर झोपय घाली आनी म्हाका घट वेंग मारली. हांव जिवाच्या आकांतान म्हजी सुटका करून घेता आसतनाच ताणें म्हजो कीस घेतलो. तेसरशीं वयर ताणेल्या इश्टांनी ताळयो पेटून तागेल्या पराक्रमाचें कवतूक केलें. तागेलें इप्सीत साध्य जातकूच ताणें म्हाका सोडलें आनी धांवत तो आपणाल्या इश्टांमदीं भरसलो.

हांव फाटल्या फाटीं सरलें आनी म्हगेल्या इश्टिणींत मिसळ्ळें. व्हडल्यान बोबो मारुन सगळें कॉलेज माथ्यार घेवचें अशें म्हाका जालें. खीणभर कितें करचें आनी कितें ना ह्या विचारान हांव आनी म्हगेल्यो इश्टिणी घुस्पल्यो. आनी मागीर आमी नीट प्रिन्सीपलाच्या कॅबिनांत भीतर सरलीं. म्हाका उतरां फुटनासलीं. घडिल्ली गजाल म्हगेले एके इश्टिणीन प्रिन्सीपलाच्या कानार घाली. प्रिन्सीपलान सगळयांत पयलीं बाकिच्यांक कॅबिनांतल्यान भायर वचपाक सांगलें आनी म्हाका एकल्याकूच बसपाक फर्मायलें. हांव खूब रडलें. ताणीं म्हाका थापटलें आनी शांतपणान त्या भुरग्याचें नांव विचारलें. म्हाका नांव सांगपाक जमलेंना कारण म्हाका ताची फक्त तवनासपणां खबर

आसलीं. पूण हावें ताचें वर्णन केलें आनी प्रिन्सीपलाक ताका पारखुपाक वेळ लागलोना. ताणं प्युनाकडल्यान निरोप धाडलो आनी ताका आपोवन हाडलो. सामको साव जावन तो प्रिन्सीपला मुखार उबो रावलो.

'हाका वळखता?'

प्रिन्सीपलान ताका म्हजे कडेन बोट दाखयत विचारलें.

'वरो!'

ताणं सामकी लागिंची इश्टागत आशिल्लेभशेन सांगलें. म्हाका अशी तीडक आयली.

'आज तुवें कितें केलें?'

'कितें सर?'

परत सामको सावळो.

'ताचो कीस घेतलो?'

'हय सर.'

ताणे निलाजरी जाप दिली.

'कितें हय सर?'

प्रिन्सीपल ताचेर तीडकलो.

'तातूंत कितें सर? सदां घेतालों. हांव जाणां तें आजूच कम्प्लेन करतलें म्हण? सर ताका आवडना जाल्यार फाल्यांच्यान कोण घेता?'

ताणे सहजपणान सांगलें. तागेल्या त्या उलोवण्याचेर प्रिन्सीपलय थंडगार पडलो. म्हाका थंयच दिसलें, हाका आख्ख्याचें आख्खो थंयच खावन वडोवचो.

'गेट आवट !'

प्रिन्सीपलान रागान म्हळें.

'येतां सर.'

ताणे सहजतायेन म्हळें आनी सार निरोप घेतिल्ले भशेन तो कॅबिनांतल्यान भायर सरलो.

'नीला, हें प्रकरण हांगाच सोंपयल्यार बरें. कारण हें जितलें घसाक लायता तितली तुजी चड लज वतली. तो भुरगो निल्लाजरो हें खरें पूण आमी ताचेआड कांय उपाय घेवंक शकना कारण तो एका नांवाजल्या स्वातंत्र्यसैनिकाचो पूत जावन आसा. स्वातंत्र्यवीर मुक्तिदा नरसिंहाचें नांव तुवें आयकलां आसतलें, जांचे पुण्यायें स्वातंत्र

आज आमी हे कदेलीर बसपाक पावलें.'

प्रिन्सीपलान मेजावयलें वक्त काडलें आनी हातांत पेन घेवन तो दुसऱ्या कामात गुल्ल जालो. म्हजी अवस्था कितें जावंची? नशीब म्हजें, हावें तेन्नाच आत्महत्त्या केल्लीना. मात दुसऱ्या दिसाच्यान तें कॉलेज सोडलें.

मुक्तिदा नरसिंहाची तूं सून आनी तो पराक्रमी वीर रणजीत तुजो देर. धाकलो देर. धाकलो देर सदांच सुनेक पुता समान आसता खंय. तूं ताका आडवाद कशें आसतलें? तूं खूब माया करता आसतलें ताची न्हय? सद्याक ताचे कसले पराक्रम चल्ल्यात? ताचे पराक्रम चल्ल्यार ताचेर कांवरुण घालपाचें काम तुका करचें पडटा आसतलें,त्या प्रिन्सीपलासारकें.

कितें करतलें? मुक्तिदाचे पुण्याये खातीर हें सगळें करचें पडटलें न्हय? केन्ना केन्नाय म्हाका वगीच पोरकटपणान दिसता .. असले हे मुक्तिदा जावन वचुंना जाल्यार खूब वरें जावपाचें. तांच्या असल्यांच्या पुण्यायेच्या म्हालवजार कोणाचे वळी पडचे नासले.

पत्र सोपयतां. तुजे कसलेय जापेचें स्वागत करपाक रावतां.

आनी इतल्यान नीलान पत्र सोपयिल्लें.

मृदला दीसभर नीलाच्या पत्राचे घुंवळीतूच उरली. रात जाली तरीय ती निवळ्ळीना. राती कडेन विद्यानंदान विचारल्यार कितें सांगचें ह्या विचारान ती कांचवेली.

न्हिदपाक दोगांय एकठांय आयलीं तेन्ना विद्यानंद आपल्याच विचारांत गुल्ल आशिल्लो. आज शाळेंत घडिल्ली गजाल मृदुलेक सांगची काय नाका ह्या विचारान तो फाटीफुडें जातालो. मात परत परत तो प्रसंग ताच्या दोळ्यांमुखार उबो रावतालो.

हेडमास्तर जाल्ल्याक खूब तेंपान तो त्या वर्गांत गेल्लो. पिरीयड ताचो नासलो पूण एक मास्तर नाशिल्ल्यान तो पिरीयड ताणें घेवपाचें थारायलें. अमूकच अशा खास विशयाचेर न्हय पूण भुरग्यांचें सामान्य ज्ञान अजमावपाक विद्यानंदान भुरग्यांक कांय प्रश्न विचारले. त्या संदर्भांत मोटमोठ्यांच्या नावांचो उल्लेख जालो. साहित्यीक, डॉक्टर, फुडारी, संशोधक, कलाकार आदी मळावयल्या नांवाजल्या लोकांचीं नांवां आयलीं. पिरीयड सोंपपाक आनी मातसो वेळ आसलो.त्याच विशयाक मातशी वगल दीत विद्यानंदान दर एकल्याक विचारपाक सुरवात केली. .. तूं कोण जातलो?

खीणभर सगळीं तोंडां बंद जालीं आनी मागीर एक एकल्याक वाचा फुटूंक लागली. आनी आपणाक विचारचे आदींच एकलो बांकार उबो रावलो आनी म्हणूंक

लागलो,

'सर, हांव रणजीत जातलों.'

आनी ताणे नंटावरोवर कुशीक वशिल्ल्या दोगांयचेर दोन चार धुमके घातले. तेम्नरशीं दुसऱ्या वांकावयलो दुसरो उबो रावलो आनी आर्माचो तीर ताचेर जोखिल्लेवरी करून ताणे म्हळें,

'सर, हांव मुक्तिदा नरसिंह जातलों आनी ह्या रणजीताक कावार करतलों.'

कितें करचें तें थारावचे आदींच पिरीयड सोंपिल्ल्याची वेल वाजली आनी विद्यानंदाक सुटकावाट मेळ्ळी. विद्यानंद नीट ऑफिसांत गेलो आनी ताणे मेजावयली वेल वाजयली. प्यून कडकडत भितर आयलो. कारण ताणे धांदरटपणान पांच मिनटां आदींच वेल वाजयिल्ली. विद्यानंदान ताका फर्मायलें,

'एक ग्लास उदक हाड.'

वर्गांत घडिल्ली ही गजाल ताका परत परत येवजून येताली. ताणे मृदुले वटयां पळयलें. ती आपलेच तनरेंत आसली. ताणे तिचे वटयां फाट केली आनी तो न्हीदलो. मृदुलेनय ताचे वटयां फाट वळयली. दिवो वाडयलो. रातभर दोगांय हे कुशीवयल्यान ते कुशीर तळमळत उरलीं.

माईच्यान जातालें तोमेरेन माई आतऱ्या पयऱ्यान घाडी भगत, प्रसाद पाकळी हांचे खातीर भायर सरताली. पूण तिच्यान घराभायर सरप नजो जालें आनी तिच्यो इत्सा भितरले भितर कोंडून उरल्यो. तशें पळोवंक गेल्यार तिगेलो ह्या गजालींवयलो विश्वास आदल्या इतलो नासलो तरीपूण मदीं मदीं तिका चुकिल्लेवरी दिसतालें.

एक दीस तिणे घाडयाकूच घरा येवपाक निरोप धाडलो. लांब जटाधारी घाडी रातच्या वेळार आयलो आनी माईचे कुडींत पाट मांडून वसलो. माईन मृदुलेक आदींच सांगिल्लें,

'तुमी हातूंत लक्ष घालूं नाकात. हांव हें फकत म्हज्या समादानाखातीर करतां. तुमी आपलीं कामां करात.'

विद्यानंद आनी मृदुला आपले कुडींत वाज्जेर आड पडिल्लीं.

घाडी खुदतालो. आंशें काडटालो. मुखार वसून माई एक एक प्रश्न विचारताली. मदींच मनात चुकचुकपी अविश्वासाचे पालीक थातारताली. माईचो सगळो रोख रणजीताचेरूच

आसलो.

'तो आतां सुदारतलो. ताच्यो सगळ्यो गिरा आतां बदलल्यात.'

घाडयाच्या उतरांचेर माई विश्वास दवरपाचो यत्न करताली पूण इतल्या वर्सांचो अणभव तिच्या विश्वासाक चीर फोडटालो. माईन घाडयाक परत एक फावट बारीकसाणेन आनी चत्रायेन पळोवपाक सांगलें. घाडयान मांडी घट केली. मातसो आवाज चडयलो. जटा व्हींजळायल्यो आनी आशांक हात घालो.

इतल्यान भायर कोणेतरी दारार मारलें. विद्यानंद आनी मृदुला न्हीदल्यां आसतलीं अशें धरून माई उठली आनी तिणे वचून भायलें दार काडलें.

दारांत दुलू वावराडी. केंस विस्कटिल्ले. न्हेसण अस्ताव्यस्त.

'माई, त्या रणजीताक सांबाळ. तो घरांत भितर सरून म्हजेर हात घालूंक सोदता. म्हजो घोव ताका कसोच दवरिना.'

आनी दुलू वुळ्वुळू करून रडपाक लागलें.

वाज्जेर वशिल्ले मृदुलेन कुशीक आड पडिल्ल्या घोवाकडेन पळयलें. व्हदळ परयान ताचे दोळे उकते आशिल्ले.

'ताका वचून हाडल्यार बरो न्हय?'

तिणे घोवाच्या भुजाक हात लावन हालयत म्हळें.

विद्यानंदाक रणजीताचो आकांताचो राग आयलो.. न्हीद म्हळ्यार न्हीद ना. एक दीस स्वस्थताय ना. असोच उठून भायर वचचो. रणजीताक आसा थंय सावन वचकुलाक धरून भरभरीत ओडून घरांत हाडचो. तागेले कुडींत घालचो. भीतरल्यान खिळी घालची आनी यतेश्ट पेटचो.

ताणे इतलें मेरेन चीत्र दोळ्यांमुखार उबें केलें आनी मागीर मुखार ताका दिसलें .. कुडिची खिळी काडून भायर सरता तेन्ना आपूणच ताचेकडल्यान मार खावन भायर सरलां.

मृदुला ताका एक सारकी उठयत आसली. पूण ताका दिसलें, मारान आंग इतलें जड जालां .. आतां उठप कशेंच शक्य ना. तो न्हिदेचें संवंग घेवन तसोच पडून रावलो.

दुलूची गजाल आयकून माई वितरागली आनी तिणे म्हळें,

'तुमकां जाय तें करात.'

तिणे दार आड केलें. दुलू कमराक पदर खोवन भायलें भायर परतलें.

माई कुडींत आयली. घाडयाक ती इतलो वेळ विसरूनच गेल्ली. व्हदळचेंच आशे

काडून ताणे म्हळें,

'कसलीच भिरांत ना. आतां तो सुदारतलोच.'

माईक सणसणीत तीडक मारली. केन्ना न्हय तें तिका वळ आयलें. घाडया मूखावयलो पाट तिणे दोनय हातांनी उवारलो आनी घाडयाच्या कपलारूच मारपाचो पूण ताचे मांडयेरूच तिणे तो आदळ्ळो. पेटलांतल्यो चार नोटी काडून ताच्या मुखार वडयल्यो. घाडी समजुपाचें तें समजलो. तो कसली मखलाशी करपाक रावलोना. आपलें सामान कवळ्ळें. पैशे मुठींत धरले आनी वाटेक लागलो.

माई तोल वचून झोपाळ्याचेर कोंसळ्ळी आनी भायर रणजीताचे जागीकडेन कान दिवन हालत उरली.

मृदुलेच्या लग्ना उतरांत दुसऱ्या दिसा मृदुला रांदचे कुडींत येवन माईक आदार करपाक लागिल्ली तेन्ना माईन तिका सांगिल्लें,

'एक लक्षांत दवरपाचें, तुवें रांदल्यार जाता पूण रणजीताक तूं वाढूं नाका.. ताका आवय वगर दुसऱ्या कोणेनूच वाडिल्लें आवडना.'

इतलें सांगून माईन तो विशय थंयच कावार केल्लो आनी ती भाजी शिनीत वशिल्ली. नाय म्हळ्यार मृदुलेच्या मनांत मातशें लागिल्लें, पूण मांयची आज्ञा ती पाळीत आयिल्ली. ती रांदताली, विद्यानंदाक वाडटाली. माईक फोर्स करताली पूण माई फोर्सान तिकाच जेवपाक लायताली आनी आपूण फाटल्यान रावताली. रणजीताक कामधंदो नाशिल्ल्यान तो खंयच्याय वेळार जेवणाक येतालो. केन्ना केन्नाय येनाय आसलो. माई भूक सोंसून रावताली. केन्ना जेवपाचें विसरल्यारूय तिका जाणवना आसलें. तिका सोंसपाची खूप संवंय जाल्ली.

त्या दिसा सकाळच्या वेळार च्याचो घोंट घेतना तिणे मृदुलेक म्हळें,

'आयच्यान रणजीताक तूं वाड. म्हज्यान आतां नजो. हांव झोपाळ्यार पडून रावतां.'

आनी ती वचून झोपाळ्याचेर आड पडली. रातच्या प्रकरणान ती अस्वस्थ जाल्या म्हणपाचें मृदुलेन पारखिलें. तिणे च्या सारखी घेवं नासली. रातच्यान कांयच खावंक नासलें.

दनपारच्या अदमासाक मृदुला तिचे कुडींत भीतर सरली. माई झोपाळ्याचेर सुस्त

न्हिदिल्ली. झोपाळो थीर आसलो. ते थीर अवस्थेंत तिका पळोवन मृदुलेच्या काळजांत चर्र जालें. ती तिच्या म्हन्यांत गेली. माईची न्हीद खूब जागृत. जागीन तिणे दोळे उकते केले.

'माई, पेज केल्ली.'

अशा वेळार माईचे भलायकेक पेज बरी पडटा हाची मृदुलेक खबर आसली. मंद उज्यार तिणे मोव बरी पेज रांदिल्ली. माई उठून झोपाळ्याचेर बसली तशें ते कुडीक चैतन्य आयलें. झोपाळ्याचेर बसून माई सगळी पेज जेवली. वऱ्याच वर्सांउपरांत तिच्या मनांतली ती खंत भायर सरली. आपणाक धूव नाशिल्ल्याचें दुःख. मृदुलेच्या अस्तित्वान तिची खंत चड वळावली आनी मागीर मृदुलेची एक एक हालचाल पळोवन तिच्या तोंडार ल्हवपीक खोशयेचें ल्हार आयलें.

'वेळ आसा न्हय?'

माईन मृदुलेचे ताकतिकेचो अदमास घेत विचारलें. मृदुलेन हाशांतूच हयकार दिलो. माई झोपाळ्यार बसूनच रावली. तिणे मृदुलेक आलमार उक्ती करपाक लायली. आलमारींतल्या वयल्या खणांत आशिल्लें एक पेटूल काडपाक लायलें. मृदुलेक दिसलें, पेटलांतल्यान माई कसलोय मोलादीक अळंकार काडटली आनी म्हणटली,

'हो मुक्तिदाच्या घरांतले सुनेन घालपाचो अळंकार. सांबाळ.'

माईक कितें सांगून तो परतो करचो ह्या विचारांत आसतनाच मृदुलेन तें पेटूल हाडून माईमुखार दवरलें.

'हातूंत कसले अळंकार नात.'

आनी मृदुलेक सू .. जालें. तिका मनापासून कसलो सोंस नागलो.

माईन पेटूल उक्तें केलें आनी तातूंतली एक वस्त काडून तिचेमुखार धरीत विचारलें,

'हाका कितें म्हणटात जाणां?'

मृदुलेन तकली खाजयली. उत्तर चट करून तिच्या तोंडार आयलेंना. शाळेंत शिकता आसतना इतिहासाच्या पुस्तकांत तिणें वाचिल्लें आनी एक फावट पिकनिकेक गेल्लेकडेन इतिहासीक वस्तूसंग्रहालयांत पळयिल्लें.

'खंजीर!'

माईन तिची परिक्षा चड वेळ लांबय नासतना म्हळें आनी मृदुला खर्जील जाली. खंजीर वरांच पोन्नो जाल्लो. भितर उरून कळसल्लो. धार सामकी मुणल्ली. मृदुलेन तो

हातांत घेवन मांगपिल्लो. तो थंयच दवरपाक माईन सांगलें. मृदुलेन तो मुखार तसोच पेटलांत उबो करून दवरलो. पेटूल झोपाळ्यामुखार वऽऽऱ्या अंतरार दवरलें.

'यो, हांगा बस.'

माईन मृदुलेक झोपाळ्याचेर आपले वगलेक सुवात करून दिली. दोगांकय घेवन झोपाळो हालपाक लागलो. मृदुला त्या खंजीराक पळयत आसली. आनी मागीर झोपाळ्याच्या झांकाचेर माई मृदुलेक घेवन फाटल्या काळांत गेली.

तो काळ मुक्तिदाचे आनी सुधामाईचेय सत्वपरीक्षेचो आसलो. मुक्तिदाचे भुमीगत चळवळीक नेट चडिल्लो. पुलिसांचे वळी पडटाले. तशे क्रांतिकारकूय पुलिसांच्या हातसून गुण्याचे अवतिकायेन मरताले. क्रांतिकारकांच्या घरच्यांचे हाल हाल जाताले. वेळाकाळर अब्रुचेरय घालो येतालो. मुक्तिदा रातचो भायर सरतालो. माईक सांगतालो,

'येतां आं.'

पूण तो परत येतलो काय ना म्हणपाची मुक्तिदाकय खात्री नासताली आनी माईकूय.

एक दीस रातच्या वेळार भायर सरता आसतना मुक्तिदान माईच्या हातांत खंजीर दीत म्हळें,

'घे, म्हजी तुका भेट.'

त्या जड खंजीराक माई पळयतूच उरली. घोव आपणाक असली कितें भेट दीत हें तिणे येवजूंक पासून नासलें.

'गरज पडटा तेन्ना जाय तसो वापर कर.'

गंभीरतायेन सांगून मागीर ताणे हांसून म्हळें,

'आमी वेळ प्रसंगार वीख खावन मरपाची ती कल्पना तकलेंतली काडून वडय. म्हजें कितेंय जाल्यार भुरग्यांचो प्रतिपाळ कोण करतलो?'

माईच्या दोळ्यांतल्यान दुकांनी घालून घेतलें. तिका अजाप जालें. पूण असल्या अजापांची तिका आतां संवय जाल्ली. मुक्तिदाक दुसऱ्यांच्या मनांतलें जुस्त कळटालें. मात एकूच फावट तांचो अदमास चुकलो. पद्मनाभाचे बावतींत. अखेर पर्यंत तांकां ती खंत आसली. भावाक आपणे जिवानिशीं मारलो हाची खंत न्हय, आपणाल्या धाकल्या भावाक आपूण वळखूंक शकलोना ही खंत. लोक कितें म्हणटले ताचीय तांकां पर्वा नासली. मात हे बावतींत माईची एक गजाल ताणी आयकून घेतली. माईन एक दीस घोवाक म्हळें,

'लोक म्हणचेनात, सगळें वेंस आपणाकूच पडपाक जाय म्हण भावाक काबार केलो म्हण?'

मुक्तिदान मोन्यानी तें आयकून घेतलें. दुसऱ्या दिसा वकिलाकडेन गेलो आनी अवघ्या काळा भितर वेसाच्या अर्द्या वांट्याची विल्हेवाट लावन आयलो. त्या जाग्यांत शाळेखातीर जागा आंखली आनी उल्लेली जमीन विकून त्या पैशांनी शाळेची इमारत उबी जावपाक लागली.

उलयतां उलयतां माई थांबली. झोपाळोय थीर जाल्लो. मृदुला थीर नदरेन त्या झोपाळ्याक पळयत रावली.

'तर अशी गजाल ह्या खंजीराची.'

माई परत मूळ मुद्यार आयली. परत झोपाळो हालपाक लागलो.

'हो दवर तुजेकडेन. पारतंत्र्यांत म्हाका काय केन्ना ताची गरज भासलीना, घडये ह्या स्वातंत्र्यांत तुका ताची गरज भासत.'

आनी माई दोळे मेटून तशीच झोपाळ्याचेर आड जाली.

•

शाळेंतल्यान परतलो तेन्ना विद्यानंद बरोच खोशयेंत दिसतालो. पूण मृदुलेन ताचे खोशयेक खंयच साथ दिली ना. तोंड दामून विद्यानंद तसोच रावलो आनी मागीर रातचो वाज्जेर आड पडिल्लेकडेन शाळेंतली गजाल आपूण जावन सांगूंक लागलो,

'इन्स्पेक्टराक अजाप जालें. ताणे आपल्या तोंडान म्हळें न्हय .. शाळेचें इतलें वरें शीस्तवद्ध वेवस्थापन आपूण पयलेच खेप पळयतां. एक बरें जालें, त्या वेळार मॅनेजमेंटाचो चेअरमन भगत थंय आसलो. खरें म्हळ्यार ताणेच आयकून बऱ्याक पडलें. म्हाका कुशीक दवरून त्या अंगडीक सिनीअरिटिच्या नांवाखाला हेडमास्तर म्हण वसोवंक सोदिनासले? रणजीत न्हय जाल्यार..'

ताणे मृदुलेकडेन पळयलें. तिणे सामके कानार केंस काडिल्ले. ताका वायलेंचो राग आयलो. घोवाच्या कतृत्वाची तोखणाय करपाची सोड, आयकुपाची जे बायलेक वान्सा ना..

तो तिका कितेंतरी म्हणून पाडूंक सोदी इतल्यान मृदुलेन ताचे वटयां नदर हाडीत म्हळें,

'आज रणजीतान म्हजो वळजवरीन कीस घेतलो.'

कांय वेळ कोणूच कांय एक उलयलींना. मागीर तिणेच म्हळें,

'तुमी ताका विचारूक नाका. विचारल्यार सांगतलो, सदचे सारको घेतलो कीस. हांव जाणा आजूच ती तुका सांगतली म्हण! तिका आवडना जाल्यार फाल्यांच्यान..'

फुडलीं उतरां मृदुलेच्या तोंडांतल्यान भायर सरलींनात. विद्यानंदाक शीट् जालें. रणजीताच्या कॉलेजांतल्या प्रकरणाची ताका याद जाली. ताच्या कानार पाविल्लें तेदेवेळार ताका ती कोणेतरी रचिल्ली आडेची गजाल कशी दिशिल्ली. पूण आतां मृदुलेन ते गजालिची अप्रत्यक्ष याद करून दिली आनी विद्यानंदाचें पीत्त खवळ्ळें.

ताका दिसलें, ..असोच वचचो, रणजीताक भरभरीत ओडून हाडून कुडींत घालचो. भीतरल्यान खिळी घालून येतीश्ट..

आनी मुखार ताका तेंच चित्र दिश्टी पडलें. कुडींतल्यान भायर सरताना आपूणच मरसर मार खावून भायर सरलां.

विद्यानंद तोंड उक्तें करतलो म्हण मृदुला कितलोसोच वेळ रावली. तो आतां जाप काडचोना हाची खात्री पट्टकूच तिका दिसलें, आलमारींत दवरलेलो तो खंजीर काडचो, बळजबऱ्यां घोवाच्या हातांत चोंदचो आनी ताका सांगचें, .. म्हाका मारून वडय नाजाल्यार ..

तिणे मुखावयलें चिंतपूच सोडून दिलें आनी दिवो पालयलो. विद्यानंदाक सूऽऽ जालें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठून विद्यानंद भायर सरलो. त्या दिसा ताणे शाळेंत निरोप धाडून आपूण पावचोना म्हणपाचें कळयलें. खंय वता? म्हण ताका मृदुलेनय विचारलेंना आनी ताणेय सांगलेंना. माईक सांगपाक तो तिगेले कुडींत गेलो आनी ती न्हिदल्या ती पळोवन तसोच फाटीं वळ्ळो आनी घरांतल्यान तुरतुरीत भायर सरलो.

माई सामकीच हांथरुणाक तेंकिल्ली. झोपाळ्याचेरुच हांथरुण पातळायिल्लें आनी थंयच न्हिदताली. मृदुलेन फोर्सान म्हणटा तशी तिका चार कुयां खावयिल्लीं.

घरांत कोणूच नासलो. मृदुलेन पेपर काडले. पेन घेतलें आनी नीलाक चीट बरयली. ताणें बरयिल्ले चिटी परस व्हड.

सांजच्या वेळार विद्यानंद भुजां गळसणायत घरांत भितर सरलो. पयल्यान पयलीं

तो माई म्हन्यांत वचून बसलो. ताची जाग आयकून माईन कूस वळ्ळी.

'खंय गेल्लो?'

माईन नदरेनूच ताका प्रश्न केलो.

'माई दोन कडेन उतर घातलें.'

आनी मागीर ताणे रणजीताचे सोयरिके खातीर आपूण आयज भायर सरिल्ल्याची गजाल माईक सांगली.

सकाळच्या आदेसाक तो देसायागेर गेल्लो. तीं तांगेलीं पयसुल्ल्यान सोयरींय लागतालीं. विद्यानंदाक पळोवन जाण्टेलो देसाय वयर सकयल जालो. ताणें विद्यानंदाक उर्वेभरीत येवकार दिलो. तो हेडमास्तर जाला म्हणपाचें ताच्याच तोंडातल्यान आयकून ताका खोस भोगली. ताणें माईची वासपूस केली. मुक्तीदाचो उगडास काडलो. घरांतल्या सालांत मुक्तिदाचो फोटो लायिल्लो. विद्यानंदाक त्या घरांत खूब आपलेंपण दिसलें. जाण्टेल्या देसायान ताका आपणाल्या गोड गोड उलोवपान सामको आपलो केलो. देसाय आपल्यो आनी मुक्तिदाच्यो गजाली सांगतालो. ताचे वयल्यान तांचे खूब लागीचे संबंद आसा म्हणपाचे कळून येतालें.

'तेच संबंद परत घट जावचें म्हण आयलां.'

विद्यानंदान विशयाक परत आरंभ केलो आनी बडवडत राविल्लो जाण्टेलो देसाय परत शिटकावलो. अकस्मात ओगी पडलो आनी थातूर मातूर उलोवन भितर गेलो.

ताची वायल भितर आसली. वायलेन आपणालो निर्णय सांगपाक वगत केलो ना. आनी देसाय तोंड वाकडें करीत भायर आयलो. ताणें म्हळें,

'आमकां येन्ना कर्तव्य ना.'

हय, ना करीत विद्यानंद उठलो आनी ताणे देसायाचो निरोप घेतलो. देसायानूय ताका निरोप दिलो आनी असोच केन्नाय येवपाक वयल्यादारा आगरो केलो.

विद्यानंदाक अजाप दिसलें, - देसायाल्यो चलयो तिगी. पुण ताणें कोणाक सोयरीक इतलें लेगीत विचारलें ना. तितलेंच न्हय, रणजीताचो उल्लेख लेगीत केलो ना.

विद्यानंदाचो सकाळचो आदेस थंयच सरलो. सांजच्या आदेसाक तो वद्द रंगनाथाल्या थंय गेलो. रंगनाथ तागेलो एक इश्ट. चड लागिंचो न्हय पूण ताणी दोगांयनी बरोबर शिकोवपाचें ट्रेनिंग केल्लें. अदीमदीं शिक्षण खात्यांत तांची कामा निमतान वता तेन्ना गांठभेट जाताली. तोवूय एके शाळेचो हेडमास्तर आसलो. विद्यानंद तागेर पावलो तेन्ना

सांजच्या आदेसाक रंगनाथ घराच आसलो. रंगनाथ पयलीं समजलो, तो कसल्या तरी शाळेच्याच कामाक आयलो म्हूण. पूण विद्यानंदान येवपा फाटलें कारण सांगलें तेन्ना रंगनाथाक मातशें आखुडिल्लेंवरी जालें. तरी ताणें म्हळें,

'कांय हरकत ना. म्हजी भयण घरांतूच आसा. हांव तिकांच विचारतां. आतांच्या काळार एकामेकाच्या संमतेनूच जाल्लें बरें न्हय?'

इतलें म्हणून तो भितर गेलो. विद्यानंद स्वास दामून भायर बसून रावलो. रंगनाथाची भयण भायर आयलीच ना. पूण ती तोंडान फटकळ म्हणपाचें समजून आयलें. विद्यानंदाक मुद्दाम आयकूंक येवचें येद्या व्हडल्यान तिणे भितरल्यानूच म्हळें,

'गांवातल्या सगळ्या चलयांक बुडोवन जालीं खंय?'

कोणे तरी तिच्या तोंडार हात धरलो. विद्यानंद भायर रंगनाथाची वाट पळयत बसलो, ताचो निरोप धेवन कडसुपा खातीर.

कांय वेळान रंगनाथ खजील जावन भायर आयलो आनी ताणे विद्यानंदाची भुजां थापटीत म्हळें,

'माफ कर इश्टा, ताची आवय म्हणटा, अंदु आमकां कर्तव्य ना.'

विद्यानंद गरजेभायर तोंड पेचून हांसलो आनी 'कांय नजो' अशा आविर्भावांत तांणे रंगनाथाचो निरोप घेतलो.

माईक सगळी खबर सांगून विद्यानंदान एक लांब सुस्कार सोडलो. आनी माईच्या उतराची तो वाट पळयत रावलो. माईन दोळे बंद केले आनी आपणांक कांयच पडूंक ना अशे तरेन मुद्रा केली. बरोच वेळ तो वाट पळयत बसलो आनी मागीर उठून आपले कुडींत गेलो.

राती कडेन न्हिदपाच्या वेळार मृदुलेन घोवाक सांगलें,

'आयज रणजीतान म्हाका फकत भोगपाचीच बाकी दवरल्या. हांव न्हातां थंय न्हांणयेंत ताणे बळजबरी केली.'

विद्यानंद रागान घुस्मटून गेलो. पुण तो कांयच उलोवंक शकलोना. ताचें मोनेपण पळोवन मृदुलेन हातांतलीं चार कांकणां देवयलीं आनी बाज्जेर उदारो पडिल्ल्या विद्यानंदाच्या पोटार वडयलीं. विद्यानंदान अचळय कांकणां उखल्लीं आनी कुशीच्या मेजार दवरलीं. फाल्यां नव्या वळान खंय सोयरिकांक वचपाचें ताची वळेरी तो मनांत संवजूपाक लागलो.

दुसऱ्या दिसा विद्यानंदाक शाळेंत वचचोच पडलो. पयल्या दिसा तांणे फक्त एकाच दिसाची रजा काडिल्ली. आनी त्या दिसा शाळेंत परिक्षा सुरू जाताली. पयलो पेपर विद्यानंद शिकयता त्या विशयाचो आसलो. सांजेच्या आदेसाक रणजीताचे सोयरिकेक वचपाचें थारावन तो शाळेंत गेलो.

दनपारच्या वेळार तो घरा आयलो. ताणे घड्याळांत पळयलें आनी पेपराचो एक गठ्ठो सोडलो. ताका भायर सरपाक अजून कळाव आसलो.

विद्यानंद जेवणां वयलो उठल्या उपरांत रणजीत घरांत भितर सरलो. मृदुलेन ताका वाडपाची तयारी केली. तो जेवता आसताना मृदुला चड वेळ जेवणाचे कुडींत रावलीना. तरी आसताना ताज्या उल्यार तिका मदीं मदीं वचचें पडलें. दोन तीन मिनटांनी तो 'भाभी,' 'भाभी' म्हूण उलो मारतालो आनी दर खेप मृदुला विद्यानंदाच्या मुखावयल्यान ताका वाडपाक वताली. विद्यानंद भायर पेपर तपासपांत सामको गुल्ल जाल्लो.

अखेरेक रणजीत जेवन उठलो. तागेली उश्टीं आयदनां काडून माऱ्यांत दवरताना, रणजीतान तोंड धुवन येतना तिच्या पालवाक हात पुसलो. मृदुलेन पालव सोडोवन घेतलो. रणजीत तिका दोळे मोडीत आपले कुडींत गेलो आनी कुडीच्या दारार तोल सांबाळून उबो रावलो.

मृदुला माईचे कुडींत एक पासय मारून आयली. व्हदळ मुठभर पेजेचीं कुयां खाल्ले उपरांत माई आतां झोपाळ्यार शांत विसाविल्ली.

शेवण्याच्या नरान मादयेक साद घालचो तसो रणजीत दारार रावून मृदुलेक सादयत आसलो.

'भाभी.. भाभी ..'

तागेल्या सादांनी विद्यानंदाची तंदरी भंगली. ताणें घड्याळांत पळयलें. वसीचो वेळ जाल्लो. भायर सरपाक तो आंगार कपडे चडोवपाक लागलो. मृदुला थंयच वसून आसली. रणजीत सादयत आसलो. विद्यानंदाक तागेलें सादोवप असह्य जालें तेन्ना तो मृदुलेचेर धेंगसलो.

'तुकां मनशाची मात पर्वा ना? केन्नाच्यान तो तुका सादयता? ताका कितें जाय तें पळय. तो मनीस न्हय?'

वशिल्ली मृदुला फट करून उठली आनी तिणें म्हळें,

'तो मनीस हें म्हाका समजलां. मात तूं कोण तें आजून समजूना.'

तिजी उतरां खतखतलीं. पयलेच खेप तिणें घोवाचो एकेरी उल्लेख केल्लो. तिज्या उलोवपातलें वेगळेंपण जाणवलें तेन्ना विद्यानंद तिजे वटेन वळ्ळो. तिज्या दोळ्यान वेगळीच चमक आसली.

'खंय भायर सरता?'

तिणें घोवाक विचारलें,

'भायर सरपाची गरज ना.'

विद्यानंद आयकतूच उरलो.

'ताका आतां सोयरीकांची गरज ना. ताची गरज हांवे भागोवपाची थारायल्या. तुजें कितें तें तूं थाराय. म्हाका तुमची दोगांयचीय गरज भागोवप शक्य जावचें ना. हांव ताजेच बरोबर रावतां. भया विरयत.'

ती कितें उलयता ताचेर खिणभर ताचो विस्वासूच बसलो ना. कितें तरी उलोवपाक ताणें तोंड उक्तें केलें आनी कितें उलोवचें हें येवजनासून ताचें तोंड उकतेंच उरलें.

मंतरलेल्यावरी मृदुला कुडी भायर सरली. दारार सादयत राविल्ल्या रणजीतान तिका दोळो घालून आपलें कुडींत आपयली. तिणे तितकेंच धिटायेन रणजीताक दोळो घातलो आनी ताका कडेचे कुडींत आपयलो. रणजीताक कडेचे कुडींत वचपाची कल्पना मानवली. दोगांयनी तें कुडिचें दार उक्तें केलें.

विद्यानंद घामाघूम जावन भायर आयलो. तांका आडावपाक धांवत तांच्या म्हन्यांत आयलो. मृदुलेन ताचे धडपडीकडेन लक्ष दिलें ना. रणजीतान मात ताचे वटयां नदरेची करा केली आनी विद्यानंदाचें उखल्ललें पावल थंयच अडलें. दोगांय भितर सरलीं आनी घडायंच करून ताणी दार बंद केलें. विद्यानंद धांपिल्या दाराकडेन पळयतूच उरलो.

विद्यानंद धांवत धांवत भायर आयलो तेन्ना तो सामकोच सतर वितर जाल्लो. पयसुल्ल्यान दुलूच्या घोवान ताची अवतिकाय पारखिली. विद्यानंदाक बस चुकपाची पूण मेळ्ळी. बसी खातीर धांवून घामाघूम जाल्यान ताची भिरांत तांतूत भरसून गेल्ली. नाजाल्यार सहज कोणायचेय नदरेंत भरपाची. ताचे हातपांय लटपटपाक लागिल्लं. एका सिटार ताणे घालून घेतलें आनी बस चालीक लागली.

दुलुच्या घोवाची खात्री पटली घराकडेन कसलो तरी वोवाळ जाला. ताजो अदमास खरो जाल्लो.

आयज दनपारच्या वेळार तो गावांतले गादयेर सदचे संवये प्रमाण कुट्ट करपाक गेल्लो. भींतर रणजीत आनी ताची चांडाळ चौकटी पीत वशिल्ली.

'पैज? आयज हांव तें करून दाखयतां. म्हाका कायंच कठीण न्हय. आनी आतां तर खांदी सामकी लागीं आयल्या'

रणजीत पैज मारतालो, विद्यानंदाच्या लग्नादिसा भर माटवांत जाचेर ताणे थापट फुलयल्लें त्याच इश्टाकडेन.

'तुका शक्य आसा. भाव तुजो. भाभी तुजी'

आनी सगळे ख्खो करून हांशिल्ले. दुलुचो घोव भितर कान दिवन भायर उबो रावन पिवपाचें सवंग करता तें पळोवन गल्ल्यावयले दादान ताका रणजीतावटेन बोट दाखोवन शिटकायिल्लो.

'तुका जीव जाय मरे?'

आनी दुलूचो घोव थंयसून कडसल्लो. रणजीत केन्ना घरा वता ताचेर ताणे बारीक नदर दवरिल्ली. रणजीत घराकडेन गेले उपरांत तांगेल्या घरा वटयान तो लक्ष दिवन आसलो.

विद्यानंद थतर वितर अवस्थेंत भायर सरुन वसींत चडला तो ताणे पळयलो आनी मागीर वेगीन वेगीन तो येदूक सोदपाक गेलो.

येदून मुंजीक कोयतूल लायलें. दुलूच्या घोवान हातांत दांडो घेतलो आनी ते दोगूय मुक्तीदाल्या घरांतली जाग घेत भायले भायर गणोवपाक लागले.

विद्यानंद बसींतलो देंवलो आनी ताणे पुलीस स्टेशनार घालून घेतलें.

'कोण आसा? कोण आसा?'

धा बारा जाण पुलीस थंय वोवाळटाले तांका अथीर नदरेन पळयत ताणे विचारलें. ताची अवतिकाय पुलीसांच्या लक्षांत आयली. एकल्यान ताका कंप्लेन कांउंटर दाखयलो. सगळ्यांनी एकठांय येवन तागेली गजाल आयकली आनी तांणी आपणाली बरी करमणूक करून घेतली. विद्यानंद पोटतिडकीन सांगतालो आनी ते उमेदीन आयकताले.

'तुमी ताका बंदखणींत घालात ना जाल्यार म्हज्या हातसून ताचो अंत जातलो.' विद्यानंदान ताच्या मुखार मुठी आंवळीत म्हळें.

'तूं रणजीताविशीं उलयता?'

पुलीस इंस्पेक्टरान ताजेकडेन पळयत अजापान विचारलें.

'हय. म्हजो धाकलो भाव तो. हाव विद्यानंद, हेडमास्तर. मक्तिदा नरसिंहाचो पूत.'

तेसरशीं इंस्पेक्टर सडसडीत उठलो. ताणें धडाधड वाकीच्यांक आज्ञा केल्यो आनी धा वारा जाण पुलीस जिपींत बसले. पुलीस इंस्पेक्टर आनी विद्यानंद मुखावयल्या सिटार बसले. खूब तेंपान पुलीसाची गाडी मुक्तिदाल्या गावां ट्टयान धांवपाक लागली.

'म्हजे हातसून ताका मर्ण आयिल्लें म्हाका नाका.'

सबंद वाटेन विद्यानंद इतलेंच उलयलो. इंस्पेक्टरान ताच्या हाडकुळ्या देहार नदर भोंवडायली आनी कल्पनेंत रणजीताक ताचे मुखार उबो केलो. मिशांतल्या मिशांत तो मुमुरखेंच हांसलो आनी मागीर सबंद वाटभर कोणूच कोणाकडेन उलयलोना.

पुलिसांची जीप मुक्तिदाच्या घराकडेन पावली तेन्ना आशिकुशीक गणयताले ते लोक जिपीकडेन एकठांय जाले. विशेक लोक आसले. तातूंत येदू आनी दुलूचो घोवूय दिश्टी पडटाले.

विद्यानंदा फाटोफाट पुलीस इंस्पेक्टर आनी तांच्या फाटोफाट धा वारा पुलीस घरांत भितर सरले. विद्यानंदान तांकां ते कुडी म्हऱ्यांत व्हेले आनी दारा कडेन बोट दाखोवन तो थंयच उबो रावलो. इंस्पेक्टरान दाराचेर टकटक केलें. सगळे पुलीस दाराकडेन एकठांय जाले. भितरल्यान हयन्हयसो आवाज जालो आनी दार उक्तें जालें.

भितरलो देखाव पळोवन विद्यानंदान किळांच मारली आनी हात कानार धरून तो माईचे कुडींत धांवलो.

'माई, माई'

माईन कसलीच जाग केलीना. माई सुस्त न्हिदल्या अशें पळोवन झोपाळो हालयत विद्यानंदान म्हळें,

'माई, हावें रणजीताक मारुंना.'

माईन दोळे उक्ते केलेना. अर्दे जागृत अवस्तेंत ती येवजीताली, .. त्या पोराक, विनयाक वगीच फटयलो. भावाची रक्तां भाव काडटलो अशें म्हाका कोणा घाडी भगतान सांगलेंच ना. म्हज्याच मनांक दिसलें तशें आनी येवजिल्ले ताचेपरस कितलेशेंच वेगळें घडलें..

'माई, माई.'

विद्यानंद सामको गळवज्ञा आयिल्लो. सगळें खबर आशिल्लेभशेन माईन शांतपणान म्हळें,

‘म्हाका आतां कोणूच उठोंव नाका.’

माइचीं उतरां आयकून विद्यानंद पोरक्या पोरावरी उठलो आनी कुडीवटेन धांवलो.

कुडींत पुलीस पंचनामो करताले. रणजीताचें मडें रक्तांत पातळिल्लें. खंजीर पोटांत रोमून उरील्लो.

मुक्तिदा नरसिंहाच्या फोटोखाला मृदुला उबी आसली. वादळा उपरांतची शांतताय तिच्या मुखार पातळिल्ली. विद्यानंदाक दिसलें, तिचे नदरेक नदर भिडोवपाचें सामर्थ्य ह्या जल्मांत तरी आपणांक येवप शक्य ना.



वेंचीक पुंडलीक

# कविता / गीतां

१. म्हजो बांगर बैल

२. तुजें पत्र पावलें

३. आजयेची काणी

४. म्हज्या घराची वळख

५. सानसानुल्या मोगरेकळ्या

६. घुडी लागली रे घुडी लागली

७. नवचेतना येता फुलून

८. दर्याचें गीत

९. ज्या फुलाक गंध भरला.

## १

# म्हजो बांगर बैल

एका बांगर बैलान
आतांच दावें तोडलां
गवण मोडून
भल्ल्या गोठ्यांतल्यान

बैल उबी दोंड हुपून गेलो
रुखां झोपां माड्डीत गेलो
शिंगार रगत माखयलें
कपलार तिबे सोबयले
बैल शिरेर मदेल्लो
बैलान धेंकर गाजयलो
बैलान पागोच बदल्लो.

बैलान जूं शेडायलें
नांगर - गुटे माडयले
बैलान किरय किरयलें
घट थंय जिरयलें.

कासऱ्या कानयेक वदना
वैल चेंचूंक जमना
बैल विकूंक फावना.

बैलाक म्हज्या किरोवंदी
जाय तसो मिरोवंदी..

बैल फुडल्या पाडव्या येवचोना
पुजेखातीर तिश्टचोना
जाय तसो जाय तेन्ना येतलो
शिंगां दाखोवन पुजून घेतलो.

बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उद्धारी
बैल म्हज्या कुळाचो वारस.

## २

# तुजें पत्र पावलें

तुजें पत्र पावलें, तुवें बरयलां -
.. भावनांची उतरावळ आजून घडची
आसा.
उतरांकडेन आपालिपा खेळपाची
हालीं तुका संवंयूच जाल्या.
दमळविरयत मळबांत
आतां तुजीं पावलां, काळजाच्या
थेक्यार
भरवंशाचीं नक्षत्रां जावन
तूं अशें नदरे पयस आसूनय

पिश्या..
अशें रडपाचें नासता
धायदिको पेटल्यात म्हूण!
सांजभांगेंत कुकूम भरतल्या
मुर्याक लेगीत
दीस सोंसचो पडटा..

३

# आजयेची काणी

थंय आजी तेन्ना
मांडी मोडून काणी सांगताली
रानांत भोविल्ल्या सारखो
हात माथ्यांत भोवतालो.

शेता - बांदार कोले कुयेताले
आजी सांगताली - पावस पडटलो.
तेन्ना खऱ्यांनीच दडकेर
नळे वाजताले, पांखें सरसरतालें.

तेन्ना राजकुंवरीक .. काणयेंतले
भांगराचे कोंगरे केंस आसताले
तरी आसतना ती न्हाताली
व्हांवते न्हंयेर.. तिचो गळिल्लो केंस
त्या ऽ ऽ राजकुंवराचे गरयेक
लागपा खातीर
आनी अचूक फारावतालो.

तोको सदांच तिनसना
मिठाक वयतालो रडत..
आजी सांगताली,
तो मीठ हाडूंक गेल्यार
संवसार बुडटलो ह्या खिणांक; पूण
तो केन्ना पावना.
भिरांत दिसताली तेन्ना
संवसार - बुट्टेची, गळोभर उदकाची.
थंय तेन्ना ती
आजयेची काणी
हांगा आतां ह्यो उवो
केंसा कणकणी.

कोले रडना, कित्याक रडचें ताणी..
शेताबांद नासताना.
केंस नाशिल्ल्यो राजकुंवरी
न्हाता दिसा उजवाडी लज सोडून
सांठयिल्ल्या कोणांत,
गरवली नासताना.
तोको मिठाक वचना तरी
संवसार बुडटा चलता बोलताना.

४

## म्हज्या घराची वळख

गायच्या पान्यांची धार
कासांडेंत वाजताली
अशे दुदके सकाळीं
ह्यावें घर सोडलें.

आंगणांतलो चांफो
उलगवंक नाशिल्लो
पोरसांतले दंवा थेंबे
वाळगूंक नाशिल्ले.

णव्वद वर्सांचो आजो लेगीत
पोल्ल्याचो उठिल्लो
तुळशीक प्रदक्षणा घालतना
बापायच्यो बोरीन बोरी
मेजूंक येताल्यो.

घरवांसो करकरताना
पावलां धजतालीं अशें न्हय
पूण ह्या घराची वळख
कोणांक तरी
करून दिवपाकूच जाय आसली.

५

## सानसानुल्या मोगरेकळ्या

सानसानुल्या मोगरेकळ्या
फुलतलो केन्ना कसो सांग
वाटेवेल्या व्हांवत्या व्हाळाक
घालून कशी येतलो दांग

मुठींत तुजे सूख सगळें आस्पावलां
बंद कुडींत मन म्हजें धास्तावलां
केल्ले अर्थींची दिल्ले दयेची
फेडटलो कशी मायेची पांग.

दोनूय घरांचो फुलता वंशरुख
दोनूय दोळ्यांचें तूंच एक सूख
मळबाची उंचाय दर्याची खोलाय
सोदतलो कशी नदरेंत सांग

दोळ्यांहुजीर करपली म्हजी
पांचवीचार बाग
नशिबाचेर कसो म्हणून
प्रगट करूं राग
आवयची भूक सुखाची दूख
मातयें कशी रकयली सांग

सानसानुल्या मोगरेकळ्या
फुललोना तूं कित्याक सांग
वाटेवेल्या व्हांवत्या व्हाळाक
कशी अडून उल्ली दांग

## ६

## घुडी लागली रे

घुडी लागली रे घुडी लागली

घुडी कळसा माथ्यार लागली

पुर्वजांचें संचीत सगळें

देखतां तानभूक भागली

दिकादिकांतल्यान नाचत आयले
आयले रंगीत मेळे
फुलत्या मुखांचे हालत्या मानेचे
उमेदरंगी खेळे
पानां पानांतल्यान जागून उठले
उठले पांचवे मळे
पाशाणफातरा फुट्टून आयले
चैतन्याचे कळे
आयज श्रीचो उत्सव व्हडलो
रंगसभा रे रंगली

तळगाळाच्या भौसजनांची
अदृष्टाची काणी
नीज सत्वाची, अभिमानाची
तिठ्यार जाल्ली पावणी
रक्तहुमेंचें घालून शिंपणे
सृजनाची निर्मणी
खर कश्टांनी, भुंयपुत्रांनी
काडल्यो रसाळ पेणी
बारा हतयांचें पाखांत बळगें
धोलार तोणी पडली.

## ७

## नवचेतना येता फुलून

नवचेतना येता फुलून
नवकल्पना येता फळून

येतलो उदेवन भांगरा गुळो
शिंवरीत हो सगळो मळो
हो सूर्य - किरणां कळवळो
मनशाकुळा येवचो कळून

आसात हांगा वेगळी जनां
हातांत हात जुळटा मनां
नीजधर्म हो ना अर्सना
वेगळेपणा वेता गळून

धांपून आसा जीं साळकां
बंदी आजून जीं बाळकां
कोण उरचोना ह्या काळखां
मंत्र नवो येता रुजून

## ८

# दर्याचें गीत

पलतडयां उले रे
ओ ऽ ऽ तारी तारया रे
आलतडयां उले रे
ओ ऽ ऽ तारी तारया रे

आयले तडी मठी ताचे
पयले तडी दोळे रे
पयले तडी राटी ताचां
आयले तडी जीव रे
काम रे घाम रे
दोन तडी दोन रे
मदलेमदीं हुमकळटा
केन्नाच्यान कोण रे

भल्लो शिडां वाव तर
लागीं तुजो गांव रे
ना जाल्यार बसचो सांदीत
दर्याचो थाव रे
दर्या रे तारयो रे
सरये वयलो नाच रे
दिसलं तरी आंवळनात
मर्णाचें पास रे

ओडटें पाणी थीर जरी
खिणाचो थीर रे
चडटें पाणी सुस्त जरी
पावतं तडी ज्युस्त रे
येंवचे रे गांवचं रे
दर्याचें गीत रे
मुकती रे भरती रे
जिणेंची रीत रे

९

## ज्या फुलाक गंध भल्ला

ती : ज्या फुलाक गंध भल्ला
त्या फुलाचो मोग म्हाका
ज्या मनांत मोग रिगला
त्या मनाची ओड म्हाका

तो : मस्त उचंबळ खळखळ सागर
काळीज घेता जिखून
अस्तमतेच्या रंगरुपाक
जीवन दिवचें विकून

ती : झुळूझुळू व्हांवता हून रक्ताचे
शिरांत वझरे जिवे
मनमंदिरांत पेटूंक लागल्या
शांत मंगल दिवे
शितळ सावळेंत सुखावलेले
दीस जाल्या म्होंवे
घोंटेरांतल्या कालच्या सवण्यां
फुटलीं रंगीत पाखां

तो : चडटा धुंदी सुवर्ण संदी
कानांत वाजता धून
पावला-पावलाक अमृत चाखचें
हीच सुखाची खूण

ती : माया ममता पोसता काळजांत
हांगची ही सुंदर माती
खोल तळांतल्यान रुजून येता
तन्नी कंवळीं हीं नाती
उजळत बळटा जशी अस्मिता
सोबीत संथ गतीन
नीज वैभव हें मिरोवन घेवचें
परकें दुजें कांयच नाका

तो : नवें उदेता, पोरणें सरता
गतीक रावचें दसून
कंवळी पिंपरी चावून खावची
जावंचे आदीं जून.



# रानसुंदरी

(म्हातारेली खोंप. मकाळचो वेळ. म्हातारी आपल्या पुताक उठयता.)

**म्हातारी** : म्हज्या अपुरवायेच्या पुता सुर्या उदेलो आतां
सवणीं लेगीत उठलीं चारो हाडूंक धांवलीं
गोरवां गेलीं रानांत लोकूय गेले कामांक
तूंच असो एकलोसो हातुणार केलदो कसो
**पोर** : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका खावय म्हाका आनी लाय गे तूप
**म्हातारी** : नाकशिंवऱ्या आळश्या न्हिदेच्या कळशा
अपुरवायो नडल्यो म्हाका आयतें भकूंक घातलें तुका
**पोर** : म्हजे मोगाचे आवय
नाका म्हाका सतोवंक वाज येता उठूंक
तेकुनी अशीच फाट हातुणार दीस आनी रात
**म्हातारी** : खंय आसा हो देव? ह्या पुताचेर आयला खेव
करून वावर रात दीस घालतां हाका पेजे नीस
हांव आतां म्हातारी तरी चुकयना हाका भाकरी
सगळें पळोवन तोंड वळोवन हांसता कसो
नाकशिंबरो म्हणटा कसो
**पोर** : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका खावय म्हाका आनी लाय गे तूप

म्हातारी : आयक पोरा आयक पोरा
चड जाले लाड तुजे माथ्यार म्हज्या जालें वजें
कुड्डो काय न्हय तूं हें सगळें पळयता मूं
न्हय तूं राजकुंवर पलंगार लोळसर
न्हय तूं सावकार बसूंक असो बेकार
थै थै नाचूंक न्हय रे रानांतलो मोर
तूं तर सादो म्हातारेलो पोर

पोर : आवय हांव सगळें जाणां पूण हीं म्हजीं भुरगेपणां

म्हातारी : लज कशी दिसना उलोवंक असलीं शाणेपणां

पोर : शाणेपणां कोण जाणां!
तूंच तर म्हणटा कशी कड्डांतलो सोंसो कसो
हांव पिसो सामको पिसो

म्हातारी : न्हय तूं भुरगो न्हय तूं पिसो
बसला थंय तुका वरसां जालीं विसो
वीस वरसांचो घोडो आतां ओड संवसाराचो गाडो

पोर : गाडो कसलो संवसाराचो? केन्नाच हावें देखलोना सो!
कसो जोडप? कसो ओडप? आनी ताचेर कितें हाडप?

म्हातारी : सामकोच पिसो! कड्डांतलो सोंसो
नाकांत तुज्या घालून दोरी शिकोवचो पडलो बैलांवरी

पोर : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
जेवय म्हाका खावय म्हाका आनी लाय गे तूप

म्हातारी : पुरो जाले लाड तुका येवचें जालें खाड
वीस वरसां पोसलो तुका आतां जाणटेक पोस म्हाका

पोर : बसून हांव असो पोसूं तुका कसो?

म्हातारी : बसून केन्ना पोसूंक जाता?
काम पळय, घाम गळय
कश्टांचें मोल! हातांत येतकच धोल

पोर : कसलेंच काम करतना हावें केन्ना पळयलेंना
दाव्या दोळ्यान देखलेंना हांव नेणां हांव नेणां
म्हातारी : नाकांत तुज्या घालून दोरी शिकयतां तुका बैलापरी
हो घे कोयतो कमराक असो खोय तो
धर हातांत कुराड अशी वाटेर खंयूय सांडोवशी
ही घे दोरी खांदार वडय बरी
आनी ही चुंबळ जाय तेन्ना कवळ
पोर : आवयस् म्हजे! कितलें वजें!
इतलें सामान कितें करप? माथ्यार मारून खंय व्हरप?
म्हातारी : आयकून घे बेस बरें
नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
पोर : सांग आवय, आयकतां
आतां हो वावर कोणाक चुकता!
म्हातारी : पयलीं खा ही हुनहुनीत पोळी
आनी भायर सर तुरतुरीत सकाळीं
भोंव रानां माड्डीय वनां
खायशी वाटेर काण्णां-चुन्नां पावशी घरा तीनसना
खंयच लक्ष दिवं नाका कामाबगर रावं नाका
पोर : पूण आवय -
असल्या रानांत, कसलीं कामां?
म्हातारी : आयकून घे बेस बरें नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
रानांत आसा झाडां-पेडां मोल तांच्या लाकडां
झाडार चड सपासपा पावलां सारकीं दवर खापां
कुराडीन कचाकचा कुडके करून लाय माचा
कमरांचो कोयतो काडून बारीक सारीक काड वेणून
वेंगभर पुरो इतलो कर भोरो
खांदावयली दोरी आंवळून बांद बेस बरी

चुंबळ दवर ताळयेर उकल भोरो तकलेर

पोर : आवय म्हजे मांगाचे घेवचे आदीं तकलेचेर
कितलें लागलें जड म्हज्या पांयांक येत फोड

म्हातारी : आयकून घे वेस वरें नाजाल्यार आपलें तेंच करशी खरें
माथ्यावेलो भोरो विकून घेयशी सुबरो
तेन्नाच पूत म्हजो खरो माथ्यांतलो तुरो

पोर : तूं म्हजी आवय हांव अपुरबाये पूत
गळयन दुकां पळयन तुकां लागूंक दिना दुख
(पोर सगळें सामान घेवन रानावटेन वता. म्हातारी ताका
निरोप दिता.)

## देखाव दुसरो

(रान. म्हातारेलो पोर रानांत पावता. खोशयेन सुस्कार सोडटा.)

पोर : एकदांचो पावलो रानां कितलीं हीं चड्णां मोड्णां
खोस हांगा भोगता मनां सगळ्याक हीं पाचवीं पानां
तांबशीं फुलां धवशीं फुलां
हळडुव्योच कळयो सोवीत बऱ्यो ताळयो
फुलांचेर भोंवर तेंगशेचेर चंवर
तीं ऽ ऽ तर काण्णां चुन्नां पूण तोंडांत घालप ना
वेळ वगडावंक फावना पावन घरा तीनसना
माथ्यावयलो भोरो विकून घेयन सुवरो
तेन्नाच हांव खरो आवयच्या माथ्यांतलो तुरो
(हांगा थंय पागय मारून एकीकडेन थारता.)
हें उंच उवार झाड दिसता कशें माड
चडटां हाचेर सपासपा पावल्यां मारकीं दवरतां खापां

(धापेत धापेत चडटा.)
पावलों आतां ताळयेचेर घराचे कसो माळयेचेर
खांदी कशी कापप काय?
(काय वेळ चिंतता)
आं ऽ ऽ बरो सुचलो उपाय
खांदयेमुखार पातळावन पांय मुळांत अशे घालतां घाय
कट .. कट .. कट .. कितलें लाकूड घट
(अशें म्हणत म्हणत खांदी कापता.)
आरे, पूण अशी कशी? खांदी सकल देंवताशी
मातसो मातसो कापता तसो हांवूय सकल देंवता कसो?
खांदी जर तुटली पडटली जावन पोटली
(किळांचून)
तुटली रे तुटली मुळासाकून सुटली
आ ऽऽ आ ऽ ऽ आ ऽ ऽ
(खांदयेसकट कोसळून सकल पडटा. न्हिन्नळटा. पिरंगता.)
कोणूय तरी धांवारे ऽ ऽ
कोणूय तरी येयारे ऽ ऽ
हात म्हाका लाया रे ऽ ऽ
(पांयजणांचो 'छुमक् छुमक्' आवाज करीत सुंदर भेसांतली रानसुंदरी येता.)

**रानसुंदरी** : कोण हांगा आयला एकलो? काळजांतल्यान मारता उलो
अनवळखी आवाज, कोणाचे हे साद
(हांगा थंय सोदता)

**पोर** : हांव तो म्हातारेल्लो पोर! पूण तूं कोण चंद्रकोर?

**रानसुंदरी** : म्हजी वळख मागीर सांगतां आदीं तुका सावचीत करतां
कितलें तुका लागलें! दुख म्हाका भोगलें
व्हांवता रगताचे व्हाळ आंगाक वेदनांचे जाळ!

पळय, हांव मारतां फूंक पैस जातलें तुजें दुख

**पोर** : आरे! ..

कितें अजाप जालें सगळे त्रास नाच्च जाले

फूक तुवें फुंकताना थंड शीतळ भोगलें मनां

**रानसुंदरी** : घायार तुज्या हात ओडटां खिणाभीतर पेखयतां

**पोर** : नवलाची चली तूं! हाताक तुज्या जादू मूं!

सोवीत सुंदरी सर्गांतली परी हांगा रानांत कितें करी?

**रानसुंदरी** : म्हजें नांव रानसुंदरी! अशीच रावतां वनांतरी

झाडांपेडां रानांतलीं घालतात म्हाका सावळी

धवोफुल्ल वझरो घसघशांनी व्हांवता

म्हजेखातीर सूर काडून म्होंवाळ गितां गायता

सवणीं कीर कोगूळ तशीं सुरा - तालान गायता

तांच्या ताळ्यान रंगून हांव वाऱ्या वांगडा धोलतां

वालीवेलीं रंगीं फुलां म्हजे खातीर फुलतात

तेंगशेवेले पांचवे चंवर म्हजे खातीर परमळटा

म्हजी वळख जाली पुरी

अशीच रावतां वनांतरी म्हजें नांव रानसुंदरी

**पोर** : एकली रानांत भोंवतना केन्नाच कशी कांचवेना

चर्लीमनीस जावन लेगीत कोणाकच वाडगना?

**रानसुंदरी** : सर्गांतली परी तशी हांव रानसुंदरी

पैस खंयूय गेल्यार सवणीं म्हाका तेळटा

संकश्टांत मांपडल्यार खवर रोकडी काडटा

वोवाळ करून मागीर रान सगळें जागयता

वाग, शींव, हत्ती, कोले दातांचे करून भाले

दुस्मानांक धरता आडोवन

हाडटा मागीर म्हाका सोडोवन

**पोर** : तूं तर वाये रानांतली राणी

तुजी जीण म्हळ्यार परयेची काणी.

रानसुंदरी : खरें सांगू तुका? हांगा सूख ना रे म्हाका.

पोर : काम ना वावर ना तुजेवरी कोण सुखी ना

रानसुंदरी : मनशाचो ना संग देखून ही काळजाक खंत
कितल्या वर्सांनी तूं दिसलो
काळजाक आनंद भोगलो

पोर : पूण हांव न्हय राजकुंवर कीर्त म्हजी ना थोर
गावंक नाचूंक थै थै न्हय हांव रानांतलो मोर
आवय म्हाका म्हणटा पिसो सामको कड्डांतलो सोंसो
सामको पिसो, सामको पिसो

रानसुंदरी : तूं तर मळवांतलो चंद्र कसो तुजो हांसो चान्ने कसो
हांव रानसुंदरी तूं म्हजो कारभारी
हांव येतां तुजे बराबरी

पोर : खरेंच रानसुंदरी?
मन म्हजें नाचलें पळय सुकण्यापरी
पूण रानसुंदरी -
आवयन म्हाका सांगलां परी
माथ्यावेलो भोरो विकून घेयशी सुवरो
तेन्नाच पूत म्हजो खरो माथ्यांतलो तुरो

रानसुंदरी : तुका नाका चिंता हांव आतां निवारतां
हांव तुजी सांगाती तुजीं कामां म्हजेखातीर
चल आतां पावल उखल पळून आमी या सकल
किडी मुयेक नाका जाग हती शींव येतले वाग
एकदां ताणी मांडल्यार पासो मागीर ना तुजो भरवंसो
धर म्हज्या हाता बेगी वारो कशीं या बेगीं

## देखाव तिसरो

(म्हातारेली खोंप. पोर दारार मारता. ताच्या वांगडा रानसुंदरी आसा.)

**पोर** : आवय ऽ ऽ आवय ऽ ऽ
दार उकतें कर वेगीं पुताक तुज्या पळय वेगीं
पुतान हाडलां तें पळयशी अजापान दोळे वळयशी

**म्हातारी** : शाब्बास पुता, शाब्बास पुता!
माथ्यावयलो भोरो विकून घेतलो सुबरो
पूत म्हजो खरो, माथ्यांतलो तुरो!
(अजापान)
पूण पुता हात तुजे रिते? दुडवांचें नांव ना तें?
चुंबळ कुराड कोयतो हातांत खंय ना तो?
वाट तुजी पळोवन दोळे गेले वळून
तुजेर भरवंसलेलें मन आतां निर्शेलें

**पोर** : सदचेवरी उलयता खरी
मुखार मात्शी नदर मारून पळय तरी

**म्हातारी** : कसली हाडल्या नवलां! कोण वाटेर गावलां?
तुजे कुशीक कोण उबी जशी लजेची कोंवी?

**पोर** : ही सोवीत परी चंद्रीमावरी

**रानसुंदरी** : रावताल्लीं हांव वनांतरी नांव म्हजें रानसुंदरी

**म्हातारी** : तूं वायें रानसुंदरी हांव गरीब म्हातारी
हो म्हजो पूत असो कड्डांतलो सोंसो
सामको पिसो, सामको पिसो

**रानसुंदरी** : हो तर मळबांतलो चंद्र कसो हाचो हांसो चान्ने कसो
हो म्हजो कारभारी हांव आयलां ताचे बराबरी

**म्हातारी** : वायल सोर्वात आसा पुता खंय तिका दवरता आतां?

घर आमचें खोंपटी जेवंक ना ताटली वाटी
वांट्रक येना तुका भोरे वायलेक आतां पोसशी मरे?

रानसुंदरी : तुमची सगळी चिंता हांव आतां निवारतां
हांव ताची सांगाती ताचीं कामां म्हजेखातीर
खोंपीत तुजे दवरतां पांय तूं फकत पळयत राव
(रानसुंदरी खोपींत पाय दवरता तेन्नाशीं 'घसयंच' असो
आवाज जाता. घडकेंत खोंपीचो बंगलो जाता.)

पोर : पळय आवय पळय आवय हुपलो तिणे हुंबरो
खोंपीचो जालो बंगलो

म्हातारी : माथ्या वयर झुंबरां वण्टीक किरांमोरां
फुडल्या दारां मागील दारां सगळें पळय तरांतरां
चंदनाचे चौरंग बसपाक भांगराचे पेले पिवपाक
भांगराच्यो ताटल्यो चांदीच्यो वाटल्यो

म्हातारी : रानसुंदरी तुवें नवलाय केली खोंप म्हजी मंदीर जाली
पूत म्हजो राजा आनी तूं राणी
भांगराच्या पेल्यान तुमकां पाणी
पळोवन सगळी नवलाय राजाक जातली नसाय

## देखाव चवथो

(वाट. राजाचो म्हालो वाटेंतसून वता.)

म्हालो : हांव राजालो म्हालो नांव म्हजें दुलो
राजाले कापणेक हांव सदां वयतां
सकाळच्या आठांक वेळार पावतां
थरिल्ल्या वेळार सारकें पावूंक जाय
नाजाल्यार राजालीं चाबकां खावूंक जाय

ही म्हजी सदची वाट फुडें सगळें सपाट
मागीर लागता घाटी थंय आसा म्हातारेची खोंपटी
(घाटी देंवता.)
घाटी आतां देंवलों खोंपीकडेन पावलों
(अजापान)
आरे सकाळीं फुडें अजापशें
खोंपी जाग्यार घर कशें?
सपनांत हांव ना मूं पुरो
(आपणाकूच चिमटो काडटा)
आ ऽ ऽ हाय हूय ऽ ऽ हाय हूय ऽ ऽ
बेस बरो हांव जागो खोंपी जाग्यार बंगलो उबो
आरे ती ऽ ऽ तर म्हातारी जनेलांत वसल्या बरी
राजाची आवय जशी एके रातीन जाली कशी?

**म्हातारी** : ए दुल्या राजाल्या म्हाल्या कितें पळयता मोडून मान?
भितर यो करूंक काम
पुताचे केंस काप दुडवांनी भरतां माप

**म्हालो** : म्हातारे तुका कोण भेटली? एके रातीन गिरेस्त जाली

**म्हातारी** : नाका तुका चवकशी काम करून वाट धर कशी

**म्हालो** : नांव म्हजें दुलो हांव राजालो म्हालो
राजाले कापणेक हांव सद्दां वयतां
सकाळच्या वेळार सारकें पावूंक जाय
ना जाल्यार राजालीं चाबकां खावूंक जाय

**म्हातारी** : गजाली व्हडवीक सांगूं नाका
संदीचो लाव वगडावं नाका
राजा दितलो एकपटीन हांव दीन दुपेटीन

**म्हालो** : म्हातारे तुका ना म्हणपाक कठीण
तूं तर दिता राजापरस दुपेटीन

आपय पुता वेगीं कापणी करतां वेगीं
(म्हातारेलो पोर भायर येता.)

पोर : कसो आसा दुल्या राजाल्या म्हाल्या?

म्हालो : आसा वरें मागून तुमकां तुमी आतां पळयता आमकां?
पूण म्हातारेल्या पोरा एक सांगशी व्हय
तुका हें सगळें सावलें खंय?

पोर : कित्याक तुका जाणवायो? कापणेक तूं वेळार यो

म्हालो : हें पळय धापलें तोंड मदींच आतां घालीना सोंड
कचा कचा कचा चलता म्हजी कातर
खरा खरा खरा चलता म्हजो वांखोर
(कापणी करतां करतां अजापान)
आं ऽ ऽ म्हातारेच्या पोरा म्हातारेच्या पोरा
कोण रे उवी भितल्ल्या दारां भितल्ल्या दारां..?

पोर : दुल्या दुल्या राजाल्या म्हाल्या
कातर तुजी तोंपता मरे वांखोर तुजो लागता मरे

म्हालो : म्हातारेल्या पोरा भितल्ल्या दारां कोण मारता मुरको?

पोर : दुल्या दुल्या राजाल्या म्हाल्या
कानाचो काडलो कुडको

म्हालो : म्हातारेल्या पोरा सांग तरी कोण ती सोवीत परी?

पोर : रावताली ती वनांतरी नांव तिचें रानसुंदरी
हावें हाडल्या वरावरी हांव तिचो कारभारी

म्हालो : तूं म्हातारेलो पोर! तुका असली चंद्रकोर?
म्हजी बायल फावो तुका
राजाली बायल फावो म्हाका
आनी रानसुंदरी राजाक सोबतली बरी

# देखाव पांचवो

(राजाचो म्हाल. राजा एकलोच हेवटेन तेवटेन पासयो मारता.)

राजा : हांव हांगचो राजा म्हजें आयकता प्रजा
वेळार म्हजीं कामां केन्नाच कोणे चुकोवंक फावना
थरिल्ल्या वेळार सारको पावूंक जाय
नाजाल्यार म्हजीं चाबकां खावंक जाय
म्हालो म्हजो सदचो आठांक येवपाचो
नांव ताचें दुलो आज म्हज्या हातान मरतलो
(इतल्यान म्हालो धांपेत धांपेत येता.)

म्हालो : म्हाराज म्हाराज चुकलों दिमी मारून धरतां पांय

राजा : फावो तुका जूस्त ही चाबकांची ख्यास्त
एक-दोन-तीन-चार खा बरो चाबकांचो मार

म्हालो : म्हाराज जाली चूक अशी भोगवं नाका दुख
असो म्हाका मारूं नाका गुपीत गजाल सांगतां तुमकां

राजा : म्हज्या राज्या भितर कसली नवी खबर?
उलयता काय उलयना? झोड तुजो सोडिना

म्हालो : म्हाराज सांगतां मार थांवय म्हूण मागतां

राजा : सांग म्हाका उशीर नाका

म्हालो : वाटेर आमगा घाटी थंय आसली म्हातारेची खोंपटी
एकं रातीन जादू असो खोंपी जाग्यार बंगलो करसो?
आनी ती म्हातारी जनेलार बसल्या बरी
गजाली आवय जशी! एकं रातीन जाली कशी?

राजा : असली खबर नवलांची! म्हज्या राज्यांत घडपाची

म्हालो : ही खबर घराची दुसरी म्हातारेल्या पोराची
ताणें हाडल्या वगावरी जावन आपूण कारभारी

सपनांतली गोरी जशी सर्गांतली परी
रावताली ती वनांतरी नांव तिचें रानसुंदरी

राजा : म्हातारेलो पोर ताका असली चंद्रकोर?

म्हालो : म्हजी बायल फावो म्हातारेच्या पोराक
तुजी बायल फावो म्हज्या घराक
आनी रानसुंदरी तुका सोबतली बरी

राजा : चल या म्हातारेल्या घरा सोदून काडुंया पोरा
आनी ती म्हातारी सून रानसुंदरी
घेवन येवंया बरावरी

## देखाव सवो

(म्हातारेलो वंगलो. राजा आनी म्हालो थंय येतात.)

म्हालो : राजा सायब, राजा सायब
पावले आमी म्हातारेल्या दारां
आवय पूत सून बसल्या आसतली घरां

राजा : म्हातारेलें घर कितलें सरस!
सोबीत म्हज्या वाड्यापरस!

म्हालो : राजा सायब फुडें सर भितर आतां मार नदर
हांगा आसतालीं म्हातारेलीं बोंदरां
थंय आतां लांबती झुंवरां
हांगा फासूंक नासलो रंग थंय चंदनाचो चौरंग
न्हेसूंक पोराक नासलो वालो खुटयाळ्याक रेशमी शेलो

राजा : म्हातारेचो पोर गिरेस्त पुरो
ताका जाग्यार हाडल्याविणे ना म्हाका थारो
घेवन हो सुरो ताचो कापून काडटां तुरो
खंय आसा म्हातारी? आपय भायर दारासरीं

म्हातारी : राजा सायव म्हज्या घरांत पावल तुजें
काळीज धादोस जालें म्हजें
सांग कसलें काडलें काम? हांव तुका मारतां सलाम

राजा : म्हातारे गांव सांग गांवाचें नांव सांग
खंय सावन हाडलें सांग इतलें कशें जोडलें सांग

म्हातारी : हांव नकळो घडलें कशें एका खिणांत जालें अशें
हांव न्हय रचणारी हांव सादी म्हातारी

म्हालो : फट उलयता म्हातारी चोरून दवरता मनांतरी

राजा : म्हज्या राज्यांत मनशांनी सत उलोवंक जाय
ना जाल्यार म्हजीं चाबकां खावंक जाय
एक-दोन-तीन-चार फटाफट चाबकांचो मार
म्हातारेच्या पोरा आतां धांवत यो बेगीन
रानसुंदरीकडेन जुस्त करतां तुजें लगीन

पोर : राजा सायब म्हज्या घरांत पावल तुजें
काळीज धादोस जालें म्हजें
सांग कसलें काडलें काम हांव तुका करतां सलाम

राजा : म्हातारेच्या पोरा गांव सांग गांवाचें नांव सांग
खंय सावन हाडलें सांग इतलें कशें जोडलें सांग

पोर : हांव नकळो घडलें कशें एका खिणांत जालें अशें
हांव न्हय रचणार म्हाका कशी खबर?

राजा : म्हज्या राज्यांत मनशांनी सत उलोवंक जाय
ना जाल्यार म्हजीं चाबकां खावंक जाय
एक-दोन-तीन-चार फटाफट चाबकांचो मार

रानसुंदरी : राजा सायब राजा सायब
मारूं नाका ताका खबर सगळी म्हाका

राजा : कोणाचीं उतरां अमृतावरी सोबीत कोण तूं नारी?

म्हालो : हीच ती गोरी सपनसुंदरी

रानसुंदरी : रावतालीं हांव वनांतरी नांव म्हजें रानसुंदरी

म्हालो : म्हजी बायल फावो म्हातारेच्या पोराक
राजाची बायल सोबतली म्हज्या घराक
आनी तूं रानसुंदरी राजाक सोबतली बरी

रानसुंदरी : म्हज्या फुड्च्यांत सुखाच्यो खणी
खोशी हांव जावंक राजाली राणी

राजा : शाब्वास सुंदरी आतां तूं सोबतली बरी

म्हालो : पूण म्हाराज उरली एक गजाल
हांगा आसतालीं म्हातारेचीं बोंदरां
थंय आतां लांबती झुंबरां
हांगा फासूंक नासलो रंग थंय चंदनाचो चौरंग
न्हेसूंक पोराक नासलो वालो
खुटयाळ्याक आज रेशमी शेलो
सगळ्या घराक तरांतरां कोंराथिल्लीं किरांमोरां
भांगराच्यो ताटल्यो चांदिच्यो वाटल्यो

रानसुंदरी : सगळी खबर सांगतां हांव पुराय मात आयकूंक राव
नाजाल्यार रोकडीच मारशात धांव

राजा : रानसुंदरी सांग वेगीं धांवून थंय वतां वेगीं

रानसुंदरी : ही आमच्या घरामुखार वांय दिता आमकां जें जें जाय
मारून उडी काडटां दुडू मेळटा आमकां जाय तशें मोडूं
भांगरां शिंगरां आसा तळा जाय तेन्ना आमकां मेळ्ळ्यां

म्हालो : राजा सायब राजा सायब
बऱ्या कामाखातीर कित्याक आतां उशीर?

काडुंया मगळीं रोखडीं आतां हांव मारतां उडकी
एक-दोन-तीन-चार-पांच ..घब्बायंच .. घब्बायंच..
(बांयत उडी मारता.)

**रानसुंदरी** : राजा सायव आतां कितें देखता?
म्हालो तळाक पावतलो सगळ्याक वेंग मारतलो
तुका मागीर फटयतलो आपूण सगळें सुतलायतलो
तुजेपरस गिरेस्त जातलो म्हालो माथ्याक खोयतलो तुरो

**राजा** : उलयली खरी तूं रानसुंदरी
हांवूय मारतां उडी म्हाल्याक सारतां तडी
एक-दोन-तीन-चार-पांच ..घब्बायंच .. घब्बायंच..
(बांयत उडी मारता.)

**पोर** : म्हालो वुडून मेलो! राजाय तळाक गेलो!!

**म्हातारी** : दुस्वाशी राजाक असलीच फावो सजा

**रानसुंदरी** : दाळ्ळे आमच्या दुस्मानां राजाचें राज्य आतां आमकां

**म्हातारी** : म्हजो पूत राजा तूं आतां राणी
भांगराच्या पेल्यान तुमकां पाणी
(सगळीं खोस मनयतात.)



# १

# भुताची परंपरा; परंपरेचें भूत

'म्हज्या बापायगेर बारा जोतां.
हांव राणूल भीक मागून खातां.'

जाणटेल्यांचीं हीं उतरां खरीं म्हणपाचें कितल्याशाच देखींवयल्यान दिसून येता.

भूतकाळ हो एक अणभव, फुडार घडोवपाक. पूण जायते जाण त्या भूतकाळाकूच वर्तमानाचें म्हालवज मानतात. भूतकाळांतली परंपरा मुखावयली वाट चलपाक उपेगी पडपाक जाय. पूण हे परंपरेचें ओजें इतलें जड जाल्लें आसता, मनीस मुखावयले वाटेर पावल घालपाचें सोड, थंयच थपकल मारून वसता.

पुर्वजांचीं कुळागरां, भाटां आनी शेतां आमी हुमणाच्या वासाक कावार केलीं. नवो कावतो केन्ना लायलोना. पोरण्या माडाचें आळेंय उस्तिलेंना. पुर्वजांची तुस्त तोखणाय गावपाक आमचीं उतरां सरलीं. पूण कर्तृत्वाच्या वेळार हात अंदले. कित्याक उपकारली परंपरा?

आमच्या पुर्वजांनी अमकें केल्लें आनी आमच्या पुर्वजांनी तमूक केल्लें. आमच्या ऋषीमुनींनी वेद पुराणां रचलीं आनी उपरांत ब्राह्मणांच्यो कितल्योशोच पिळग्यो मिर्गाचे वेवे कशे तीं घोकीत रावल्यो. नवें कांयच निर्माण जालेंना. फकत पोटाचो घेर वाडलो. मेंदवाची वाड जालीचना.

भुतकाळाची परंपरा अभिमानान सांगची. पुर्वजांचो तो वेसवरो उगडास. पूण ते परंपरेच्या मुळांत आपलें सगळें कर्तुत्व पुरून वडोवचें हें समा न्हय. ते मानेर बशिल्लें परंपरेचें भूत. सूट म्हळ्यार सुटना.

भुताचे पांय खंय सदांच उरफाटे. मागीर तें मुखार कशें वतलें? भूत हें मुखार वचपाचें प्रतीक न्हय. फाटीं वचपाचें प्रतीक. परंपरेचें भूत कितल्याशाच जाणांचे गोमटेर बशिल्लें दिश्टी पडटा.

साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदावयल्यान एकदां कवी चा. फ्रा. डीकॉश्ता हांणी परंपरेचीं पेंपारीं वाजोवपी परंपरावाद्यांक वरो नकसूद घरचो आहेर दिल्लो.

कोंकणी भाशेंत खंय हिसपाभायर सरस्पत आशिल्ली. पूण ती पांखल्यांनी

भाणाचे रात्रींत घालून हुलपायली. खरें म्हळ्यार ही गजाल परंपरेकय हुपून दंतकथेच्या मार्गार पावता. पूण तिच्याय म्हालवजार कांय जाण हड्डें बडोवपी आसात. दंतकथेचो उल्लेख करून चा. फ्रा. सांगता, 'पुर्तुगेज न्हावपांत फाटीं म्हणपाची गजाल इतिहासीक पुराव्यावयल्यान सिद्ध जाता. म्हणटकच आमची वरपावळ हुलपावपाची तांकां गरज कितें?'

वास्तव विसरपाक कांय जाण सोरो पियेवन नशा हाडटात. आमच्यांतल्या कांय जाणांक परंपरेचीय अशी नशा चडटा.

भूतकाळ मोखून मारचो. विसरायेर घालचो अशें कोणूच म्हणचोना. भूतकाळ वायट आसलो जाल्यार फुडार तसो जावंचो न्हय म्हणून तो अणभव कसो वापरूं येता. भूतकाळ वरो आसलो जाल्यार फुडाराक तीच देख म्हणूनय वापरूं येता. मनशाच्या जिवितांत भूतकाळाची परंपरा ते काणयेंतल्या भुताभशेन आसची. काणी अशी -

एक वाटसुरो भूती घेवन पयसुल्ल्या गावांत वतालो. एका रानांत तळ्याचे देगेर तो रावलो. भूक लागल्या म्हण ताणे भुती सोडली. जेवलो. हात धुवपाक तळ्यार गेलो. तो जेवतना ताचे भुतयेंतले शिताचे चार गोटे पडले. तें उश्टें थंय आशिल्ल्या भुतान खालें. वर्सांसंकिनी उपाशीं आशिल्लें तें भूत त्या अन्नान तृप्त जालें. वाटसुऱ्या मुखार तें हात जोडून उबें रावलें आनी ताणे सांगलें, 'हांव तुजेर प्रसन्न जालां. तुजें कसलेंय काम सांग. मात एक - तूं काम सांगना जाल्यार हांव तुका खातलें.'

त्या वाटसुऱ्यान भुताक खूब कामां सांगलीं. घर वांदून घेतलें. शेत रोवन घेतलें. सगळ्यो सोयी - सुविदा ताणे सुतलायल्यो. तो सांगतालो आनी कांय खिणांर्भातर सगळें हाजीर करतालें - निर्माण करतालें. आनी एक काम जातकूच सांगतालें, 'दुसरें काम सांग नातर खातां.'

आतां वाटसुरो पेंचांत पडलो. विचार करपाक लेगीत ताका वेळ मेळना जालो. ताका एक कल्पना येवजली. ताणे एक कोंडो हाडूंक लायलो. तांचो वाटकुळोच आंटो करपाक लायलो. तो तीन म्हेडिंच्या तिकट्यार आडवो केलो आनी भुताक सांगलें, 'ह्या आंट्याचेर धुंवत राव.' भूत धुंवत रावलें. तो ताका जाय तेन्ना आंट्यावयलो देंवयतालो. जाय तें काम करून घेतालो आनी आसा तशें त्या आंट्यार सोडटालो.

परंपरेच्या भुताचोय आमी असोच वापर करूंक फाव. पयली गजाल - ताका मानेवयलें काडून आंट्यार दवरपाक जाय. गरज तेन्ना काडपाचें आनी मागीर आसा तशें दवरपाचें. म्हणटकूच परंपरेच्या भुतान आमकां खावपाची भिरांत ना.



२

# गोंयच्या सैमाची आमचेकडेन इश्टागत

गोयांत मीर्ग नखेत्राचेर पावस सुरू जाता. मीर्ग नखेत्र बेवकाचेर वसून येता. वेवूक म्हळ्यार पावसाचो आपोवणो. मागीर गोयांत पावसूच पावस.

पावस अंदरतलो. पावस मांडटलो. पावस दाट्टलो. पावस शिरशिरतलो. पावस शिडशिडटलो. पावस शेनतलो. पावस थेंबेतलो. पावस गळटलो. पावस रकतलो. दडकांनी पावस. शिरंदरांनी पावस. उटंगाराचो पावस. पावसूच पावस. हांगच्या पावसाच्यो ह्यो विंगड विंगड तरा आनी हीं विंगड विंगड रूपां.

गोयांत पावसाआदीं पुराय पावसाळ्याचो पुरूमेंत जाता. तेखातीर गोंयच्या मुखेल शारांनी खासा पुरूमेंताचीं फेस्तां भरतात. आज गावां गावांत आनी वाड्या वाड्यार पसरे आनी गाडे उकते जाल्यात. वर्सुयभर लागपी वस्तू आनी जिनस थंय मेळटात. तरी लेगीत गोंयकारांची पुरूमेंत करून दवरपाची संवंय आजून वचूंना. कांदे, सोलां, मीठ-मसालो आनी खारें ह्या वस्तुंखातीर तरी गोंयकारांक पुरूमेंतांचीं फेस्तां जायच.

जाणटेल्यांची एक म्हणणी आसा. पावसाआदीं मठी, काठी आनी मिठी सांवाळपाक जाय. मठी म्हळ्यार घर, पावसाआदीं घर सारकें करपाचें, कण्णी करपाची, शिंवपाचें. मागीर काठी, काठी म्हळ्यार लाकूडवडी. पावसाआदीं जळव पुंजावन दवरपाचो आनी निमाणे मिठी. म्हळ्यार मीठ मसालो कुटावन तयार करून दवरपाचो. जाणटेल्यांचे हें सांगणेक गोंयकार बेसबरो पाळो दितात.

गोंयकारांक पावसाचें खूब अप्रूप. आमगेल्या लोकगीतांनी पावसाचीं वर्णनां आसात.

'पावस बोगलेक पावलो म्हुजे मांय दर्या गाजोता
दर्याचे देगेक वसोन म्हुजे मांय ल्हारां मेजीता.'

आधुनीक काव्यांत कविवर्य मनोहरराय सरदेसाय पावसाक लेखून म्हणटात.

‘पावस चड पडल्यार म्हणटात
पावसान विटयलें
पावसान उडल्यार म्हणटात
पावसान फटयलें’

गोंयचो पावस रकत रावलो जाल्यार वीट हाडटा. कांय तेंप पडनासताना रावून फटयिल्लेवरी करता. पूण गोंयचो पावस गोंयकारांक बुडयना. रडयना. उबांतरा वडयना. हांगचो पावस लोकांचो इश्ट जावन येता. दुस्मान जावन न्हय.

नाजाल्यार आसाम सारकेल्या राज्यांत पावस कसलो अच्छेव मांडटा. थंयच्या ब्रह्मपुत्रा आनी तिच्या न्हंयांक हुंवार येता. उटंगारांनी पावस पडटा. गांवाचे गांव उदकाखाला वतात. दारां घरां व्हांवून वतात. शेतां-भाटां बुडटात. दोंगरांचीं देंगणां कोसळटात. सांकव तुट्टात. मार्गावयली गाडयांची येरादारी बंद जाता. रेल्वे रूळ व्हळून वतात, गोरवां - वासरां झाडांच्यो खोलयो कशो व्हांवून वतात. एका गांवाचो दुसऱ्या गांवांकडलो संवंद तुट्टा. म्हालमत्याची हानी जाता तशी जिविताचीय हानी जाता. आसामा फाटोफाट त्रिपुरांत, मेघालयांतूय हुंवारान असोच आकांत येता.

पावसाचो असो उच्छाद आमी गोंयकारांनी केन्ना पळयला? पावसान आमच्या घराची एक वणत कोंसळ्ळयार दुसऱ्या दिसा पेपरांत फोटो येता.

तिसऱ्या दिसा प्रोव्हेदोरीया थंय दुडू घेवन धांवत वता.

पावसाच्या दिसांनी आमच्या न्हंयांनी केन्ना केन्ना तारी बुडटात. व्हडीं उमथतात. पूण चड करून असल्यो घडणुको व्हडीं चलोवप्याच्या निश्काळजीपणांक लागून घडटा. सुमाराभायर लोक व्हड्यांत भरिल्ल्यान असले अपघात घडटात. तेखातीर पावसाचेर आनी उदकाचेर बोल दवरप समा न्हय.

पावस गोंयच्या मनशांकडेन इश्टागतीन वागता. फक्त पावसूच न्हय, हांगचो सगळो सैमूच आमचेकडेन इश्टागतिच्या नात्यान वागता.

आमचो गीम तरी आमकां हुल्पायता? शेतांक वेत वेत थारोल्यो फुटल्यात, गोरवां वडकां जावन उदकाखातीर मैल मैल विर्डविडटात, झाडांपेडां वोडकीं जावन गेल्यांत, उदकाचो थेंब ना अशें चित्र आमी गोयांत केन्ना पळयलां? आमचीं शेतां पडंग आसत पूण तीं आमचे आळसायेक लागून वो त्या शेतांनी कसलो आवशील ना म्हणून. धवो चांफो गिमांत पानां गळयता आनी माथेंभर फुलता. नातर भौंतेक झाडांवयलीं पाचवीं पानां केन्ना देंठ सोडिना.

उदकाखातीर गोंयकारांक वणवणचें पडटा ही गजाल खरी. पूण तो सैमाचो दोश न्हय. इतलो पावस पडटा पूण तें उदक सांठावपाची आमकां बुद्द ना. आमचेकडेन सैमीक साधन सामुग्रीची पुंजवण आनी नियोजन करपाची मांडणी ना देखून अशें घडटा. तितली एक गजाल सोडली जाल्यार आमकां गीम चड कश्ट दिना. माय चडूच तापलो जाल्यार दर्याच्यो वेळो साद घालतात. खरें म्हळ्यार आमकां गीम असो लागचना. मार्च/एप्रिलांत वसंत ऋतू लागता. सगळ्याक फुलां फुलतात. काजू, आंवे, पणसांचे वास घमघमतात आनी वसंताचें वैभव चालू आसतानाच पावस तेंकता, वर्षा ऋतू सुरू जाता. मदलो गीम बादचना.

नाजाल्यार भायर गीम कसो तापता? एकीकडेन आसामांत पावसान बुडटी येता जाल्यार राजस्थान सारक्या वाळवंटी प्रदेशांत गीम रात्रीवयली कायल जाता. थंय तापेचें आकांताचें ल्हार उसळटा. देशाच्या उत्तर आनी मध्य भागांत सोसूं नज असली ताप पडटा. राजस्थाना वरोबर उत्तर प्रदेश, पंजाब, हरियाना, चंदीगढ, दिल्ली आदी वाठारांक तापेचो विळखो पडटा. शेंकड्यांनी लोक सोंपतात. शेजारच्या महाराष्ट्र राज्यांत उदेंत विदर्भांत गर्मी वाडटा. नागपूर तापता. ही गर्मी लोकांक हुलपायता. जीव काडटा. थंय मथुरेक यज्ञयागाचेर श्रद्धा आशिल्ले संस्कृत पंडीत यज्ञ करून यज्ञावरवीं पावस घालपाचो चमत्कार करपाक बसतात आनी ताचें खरें फटीपण पारखुपाक विज्ञान युगांतले संशोधक तांच्याच शेजरा वसून परीक्षा पळयतात. सगळ्यांच्या कपलाक, माथ्यावोडाक घाम आनी आमकां हांगा कितलो सुशेग!

गोंय पाचवेंचार उरचें अशी सगळ्यांचीच इत्सा. गोंया भायर जियेतल्यांची आनी गोंय पळोवंक येतल्या लोकांचीय. पूण ते नदरेन पोटतिडकेन यत्न चल्ल्यात अशें दिसना.

गोंयचो सैम गोंयाकडेन आजवेर इश्टागतिच्या नात्यान वागला. पूण गोंयकार मात तसो वागिल्लो दिसना. गोंयकार गोंयच्या सैमाचेर आजनेरी करपाक संवकला. गोयांत पावस, वारें, वोत, शीं, गर्मी हांचो एक समतोल आसा म्हण आमी वरेंतरेन जगपाक शकतात. पूण तो समतोल इवाडपाक लागला म्हणपाचें आमकां धंगण ना.

पावसाखातीर रानांत झाडां वाडटात आनी झाडांखातीर पावस पडटा हें सैमाचें गणीत आमकां खवर आसा. पूण आमचो सुवार्थ आमकां नडटा. आमचे मंत्री लोकांक 'झाडां लायात' असो उपदेश करतात. मंत्री 'झाडां लायात' म्हण सांगतात, जाल्यार गोयांतलीं 'झाडां मारात' अशें कोण सांगतात तर? अशें कोण सांगनात जाल्यार

कोणतरी तीं मांगनामताना मारतात असोच ताचो अर्थ जालो. अशीं आडबऱ्यां रानां कापपाचेर कोणाची नदर आसा? मंत्री सांगताले, जे रानां कातरतात तांची तुमी तक्रार करात, आमी तांचेर कारवाय करता. कोण कोणाची तक्रार करतलो? हांगा वंयूच पोरसूं खाता!

सैमाच्या सौंदर्याची राखण करपाची भास आमचें सरकार करता. गोंयच्यो दर्यावेळो हें आमचें सैमीक सौंदर्य. त्या वेळांचेर सीमेंट कॉक्रीटचीं जंगलां उवारून, हॉटेलां वांदून बाजार मांडटकूच सौंदर्य कसलें कपलाचें उरतलें?

सैमान इश्टागतिच्या नात्यान आमचेमुखार हात केला. आमी तो हात हातांत धरपाचे बदला तो हात मुळासकट गिळपाक सोदतात. सैमाक हाची जाणीव जातली तेन्ना सैमाची संतुळा बिगडटली. आनी सैम आमकां फुक्यासवाय सोडचो ना. उण्या पावसान वळवळायतलो. सावळी नासून तळतलायतलो, वोतान भाजयतलो. प्रदुशणाच्या विखारान घुसमटायतलो आनी जीण जड जड करून सोडटलो.



# एका जुंव्यार जंय

(एक कल्पनेंतलो जुंवो. जुंव्यावयल्या एका शेताधडेच्या बांदाचो देखाव. माचयेचे एके कुशीक एक उबार सुवात, जाचेर 'तो' उबो आसा. जुंव्यावयल्या लोकांचो भेस खेळांतल्या वातावरणाक फाव सारको. जुंव्यार येवपी जुवान तरनाट्याचो भेस तांच्यापरस वेगळो. 'तो' चो भेस ह्या दोगांयपरस वेगळो. वगत दिसाचो. तो उबो आसा.)

**तो** : नमस्कार! परत एकदां तुमचेमुखार उबो आसां, ह्याच जुंव्याची तीच कथा घेवन. कथेंत वदल कित्याक घडूंना हाची जाप हांव काय दिवंक शकना. वदल घडटलो काय घडचोना ताचीय जाप म्हजेलागीं ना. म्हज्या हातांत आसा फकत घडिल्ल्याची गवाय. वस्स! इतलेंच. भर दर्यांत वर्फाचो खडो कसो आदलेवरीच हो जुंवो उफेता. वर्फाच्या खड्यासारकें हाचें भायल्यान दिसता ताचेपरस व्हडलें आंग उदकांत दडलां म्हणपाचें कोणाक खवर ना काय! संवसारापासून तोडून कुशीक दवरिल्लो हो जुंवो, कोणाचीच नदर मोखून घेना काय!
(सुम्कारता. पयसुल्ल्यान पावलांचो आवाज)
हीं पावलांचो आवाज! कितल्या तेंपान! कितल्या वर्सांनी! घडये इत्सेक मूळ धरत. हीं पावलां ह्या जुंव्याक नवे वाटेन व्हरत!
(एक जुवान माचयेर येता. 'तो' ताका तोखेता.)
वा! सगळें जुवानपण हाच्या भुजांर देंवलां. अळंकार कशें यौवन हाणें आपणाल्या सर्वांगार केळयलां. घडये आज ह्या जुंव्याचो इतिहास वदलून वचत. तूं ह्या जुंव्यार कसो आयलो असो प्रश्न हाका विचारप म्हळ्यार हाच्या जुवानपणाचो अवमान केल्लेवरी जातलें.
(जुवानाचें उलोवप आपलेंभितरूच.'तो' कडेन कोणाचो संवंद ना.)

**जुवान** : म्हजे जवर इत्साशक्तीन म्हाका ह्या जुंव्यार ओडलो. ह्या जुंव्यार नदर

पडनाफुडें, म्हाका दैवीशक्त आशिल्ली जाल्यार हांव ह्या ल्हारांवयल्यान चलून वतलो आसलों, असली गळीतगात्र भिजूड भावना हावें काळजांत रिगांवन घेतली ना. तीं दर्याचीं ल्हारां म्हाका कशीं ओगी वसूंक दीत? खिणां आदीं भुजां आशिल्ले म्हजे अवयव वले जाले. म्हजे कुडिचें तारुं जालें आनी हो जुंवो म्हज्या दोळयांत तीर जावन आयलो.

**तो** : आनी जुंव्यार पावल दवरिनाफुडें ताचो सगळो शीण, आळवावयल्या उदकासारको निस्तून गेलो. ही भोंवतणची पाचवीचार शेतवड ताच्या मनांत देंवतनाच, काळजांत थंडसाण पातळ्ळी. आपूण खंय आसा म्हणपाचो विसर घालो ताका ह्या प्रसन्न वातावरणान. पूण खीणभर! ('तो' च्या उलोवपावेळार जुवान विसव घेता, तेन्ना मंद सुरावट. उपरांत अकस्मात एक वाऱ्याची झोत. ते सरशीं शेतांत जोतां आमुडटात ताचो आवाज आयकूंक येता. तातूंत न्हिन्नळप- खरस. जुवान चक्रावता. आवाजाची सुलूस घेता.)

ह्या प्रसन्न वातावरणाक चिरपी हो आवाज हाका सहन जालो ना, हातूंत कसलें अजाप! हाणें हेरकडेन खूप पळयलां म्हूण हाका हें सहन जायना काय हो आपले जिणेंत पयलेच खेप हें पळयता?

**जुवान** : भल्लेल्या घरांत भीक मागपी भिकाऱ्यांचो हो आवाज, काय नजो जावन वळवळटल्या गुलामांचो हो आवाज! हो आवाज म्हजी स्वस्थताय चाळयलेबगर कसो रावत?

(जुवान बांदार चडून पळयता.)

**तो** : ताचे नदरेच्या अस्करांत आयलें तें, देंगणासकयल शेकानशेक पातळिल्लें शेत. थंय चल्ल्या वांयगणाची कमाशी. एके हारीन चल्ल्यां जोतां. नांगर ओडटात, तासां पडटात. हीं जोतां .. गोरवांचीं .. (तो आडखळटा)

**जुवान** : (कासावीस जावन) हांव कितें पळयतां! हांव जागो आसां, सपनांत आसां काय धर्तरेभायल्या खंयच्या गिऱ्यार आसां! म्हजे दोळे म्हाका फटयनात मूं! हें चललां तें जोतपण काय मनिसपणाचें पतन!

**तो** : ताचें म्हणणें लटीक न्हय. जोतां चलतात पूण तांकां पाडे नात, रेडे नात. जोतांक वांदल्यांत मनशांक. दादलो आनी वायल. तीं नांगर ओडटात. नांगर ओडपी तांकां बडयां - शिट्ट्यांनी बडयतात.

शेपलायततात. मांसू नजां जावन तें किळांचतात. हुयेली मारतात. तांचें हें न्हिन्नळप सगळो वाठार कंवचेची वस्त कशी फोडून चुरो करता. (खिणभर शांतताय)

जुवान : (निर्धारान) ना. हें म्हज्यान सोसूंक जावचें ना. ह्या सळसळपी रगताकडेन हांव बेमान कसो जावं? ह्या पेटट्या श्वासांक हांव पालोवं कशे? ही पायांत संचारलेली वीज निखळावं कशी? आतां हड्डें फुटलें तरी पर्वा ना. हो आवाज थांबोवपाकूच जाय..

तो : मागीर कळाव कित्याक?

जुवान : (आड्डून - शेतकामत्यांक) रावात. (शेतांतलो आवाज थारता)

तो : तांचे नदरेंत पळयल्यो हाणें संवकळिच्यो वेदना. खिणभर तांणी जोतपण थारायलें, पूण खांदावयलीं जुवां भिरकावपाक ते कशे राजी जायत? तीं तांणी भंयान अदीक आंवळून धरलीं. एक जाणटेलो शेतकामती वांदार येता. ताची बागवल्ली मान ह्या जुवानाक कुवाडें घालता.

(बांदावयल्यान एक शेतकामती येता. ताच्या खांदार जुंवाभशेन खोरें आडवें आसा.)

जुवान : आरे हें कितें चल्लां? (शेतकामती कांचवेता.) आंगार फातर बशिल्लेवशेन असो काचावूल जावं नाका. (शेतकामती ताका नियाळटा.) दुबावी नदरेन म्हाका असो नियाळूं नाका. सांग, ह्या मनशांक जनावरांप्रमाण वावराक जुंपपी हो जुलमी पातशाय कोण?

शेतकामती : (नमळायेन) जुंव्याचो धनी.

जुवान : धनी?

शेतकामती : हें धनयाचें शेत आनी आमी ताचे कामदार. हांव वतां. (वेगोवेग वचपाक वळटा.)

जुवान : राव. (जुवान ताका आडायता, ताच्या खांदावयलें खोरें काडून घेता आनी कुशीक शेंवटीता.) असलें काम बंद करात.

शेतकामती : धनी वगी रावचो ना. पोटाक दिवंचो ना.

जुवान : पोटाखातीर कितेंय करशात?

शेतकामती : कितें जाता?

जुवान : कितें जाता तें आजून तुमकां कळूं ना? (शेतकामती नेणारपणान ताका

पळयता.)

जुवान : (तिडकून) बंद करात हो वावर.

शेतकामती : ना - ना अशें घडचें ना. धनयान फर्मायिल्लें काम धनयानच वंद करूं येता.

जुवान : अशें? खंय आसा तो धनी?

शेतकामती : तो ऽ ऽ थंय वावराकडेन आसा. (शेतकामती कूस मारता.)

तो : धनी! ह्या वेळार हाच्या नदरेच्या अस्करांत आयल्यार जळून गोबर जायत इतलो हो इंगळो कसो रसरसता. जावं, नवे कथेक सुरवात जाल्या. ह्या जुंव्याचो इतिहास काळखाकडसून उजवाडाकडेन पावली मारता अशें आतां जायते जाण म्हणटले. आतां हांव हांगा आसलों वा नासलों सारकोच. गवाय म्हण हांव उरतलोंच. नमस्कार. (तो वता.)

(बांदावयल्यान जुंव्याचो धनी येता.)

धनी : अनामीक वाटसुऱ्या! ह्या जुंव्याचो धनी तुका येवकार दिता. हांव जाणाच आसलों, तूं येतलो म्हणून.

जुवान : अशें?

धनी : आयज दर्याच्या ल्हारांची फडफड वाडिल्ली, मोडाची सुलूस लागिल्लेभशेन. जुंव्यापलतडच्यान आयला?

जुवान : तुजेमुखार उबो रावपी जुंव्यापलतडच्यानूच आयिल्लो आसूंक जाय.

धनी : कित्याक आयिल्लो?

जुवान : आयलेबगर रावूं नजो जालें.

धनी : हांव वाट पळयतालों.

जुवान : कोणाची?

धनी : हांव वाट पळयतालों तो तूं न्हय.

जुवान : मागीर?

धनी : तूं म्हळ्यार म्हजी मावळी. पडवंरसून आंगणांत पडिल्लें म्हजें पडवींव.

जुवान : म्हाका म्हजें व्यक्तिमत्त्व आसा.

धनी : तरी लेगीत तूं म्हजी मावळी. वा अशें समज, तूं म्हळ्यार कांय वर्मां आदिंचो हांवूच.

जुवान : हांव तुजे कल्पनेंतलें राकेशी जनावर न्हय. हांव अन्यायाचो प्रतिकार

करपी.

धनी : कितलो मेरेन?

जुवान : हड्डें फुटसर. जंय अन्याय रुजवणा आयला, थंय सावन ताचीं पाळां मुळां हुमटिलेवगर म्हजीं पावलां मुखार पडना.

धनी : तुवें पळयल्यां जायत अन्यायाचीं झोपां. अन्यायाचीं रुखां पळोवं नात.

जुवान : आयज ह्या जुंव्यार पळयतां तीं सादीं रुखां न्हय, म्हारुखां.

धनी : झोपां हुमटून वडोवं येता, म्हारुखां न्हय. नसत्यो लटापटी केल्यार हड्ड्यार कोसळत.

जुवान : म्हाका म्हज्या जिवाची पर्वा ना. हावें हो जुलूम संवसारांत हेरकडेन खंयच पळोवं ना.

धनी : तुज्या नेणारपणान संवसार मोटवो करूं नाका.

जुवान : जोताक बांदतात गोरवांक. तुज्या जुंव्यार बांदतात मनशांक.

धनी : म्हज्या जुंव्यार म्हणपा बदला म्हज्या राज्यांत म्हटल्यार म्हाका अदीक बरें दिसतलें. ह्या जुंव्यार हांव एक राजा कसोच जियेतां. हांगासल्लो कारभार एखाद्र्या राज्या भशेनूच चलता.

जुवान : जुलमी पातशाया सारको.

धनी : तूं रागान रसरसता आनी तुका सारकीं उतरां फुटनात. म्हज्या वाड्यांत बसून सवकासायेन उलोवंया म्हळ्यार तूं राजी जावंचो ना.

जुवान : ना जावंचो.

धनी : तानेन तुजो ताळो सरडलो, उदक पाण्यावीण तुजो जीव वतासो जालो तरी हांगच्या थेंब्यान तूं ओंट ओले करचो ना. न्हय? (जुवान वग्गी.) तूं परती जाप दिना हाचोच अर्थ हांव तुज्या मनांतलें उलयलों.

जुवान : म्हाका तुज्या मनांतलें समजून घेवपाचें आसा.

धनी : थार धर.

जुवान : (अधिरतायेन) जमचें ना.

धनी : हांव जाणा, तुजें तरणे रगत तुका थार धरूंक दिना.

जुवान : ह्या जुंव्यावयलो अन्याय म्हाका थार धरूंक दिना.

धनी : सुण्यांत आनी हांगासल्ल्या मनशांत कितें फरक आसा जाणा? म्हाका खबर आसा, तांची सुण्या वांगडा केल्ली तुळा तुका मानवची ना.

जुवान : कित्याक मानवत?

धनी : पूण तीं खरेंपणानिशीं जनावरांचो वावर करता थंय ही तुळा कांयच न्हय.

जुवान : तांचेकडसून जनावरांचो वावर तूं करून घेता.

धनी : तीं करता म्हण करून घेतां. सुण्यांतलो आनी तांच्यांतलो फरक आयकतलो?

जुवान : सांग.

धनी : सुणो पयलीं भोंकता, पूण भाकरेचो कुडको फुड्यांत पडटकच वग्गी पडटा. पूण हे लोक भोंकिना कित्याक जाणा? मागीर मेळटलो तो भाकरेचो कुडको तोंडांतलो सुटत म्हण.

जुवान : हांव ह्या जुंव्याक जाग हाडटलों. तांचेर चलिल्ल्या अन्यायाची तांकां जाणवीक करून दितलों.

धनी : तुका सांगल्यार पटचें ना. तूं दुसरो तिसरो कोणूच न्हय. तूं म्हजेंच पंचवीस वरसां फाटलें पडबींब.

जुवान : म्हाका एक सांग, तुवें हें कित्याखातीर आडायलां? आज संवसार खंय पावला? हो अन्याय चलप म्हळ्यार मनीस जातीक केदी लज! तूं ह्या जुंव्यार गोरवांक कित्याक हाडिना? गोरवांचीं जोतां कित्याक वांदिना? तुका ह्या मनशांची काकूळट येना? तुका मनशाचें काळीज ना? मनीसपण म्हणटा ती वस्त रचणाऱ्यान तुका केन्ना दिली ना?

धनी : तुज्या एकान एका प्रश्नांच्यो जापो म्हजेकडेन आसात. तुज्या प्रश्ना भायले आनिकूय प्रश्न निर्माण जावं येतात. तांच्योय जापो हांव तुका जरूर दीन.

जुवान : कळाव नाका.

धनी : हावें ह्या जुंव्यार जें कितें आडायलां आनी तुजे नदरेंतल्यान तें म्हावायट जावन आसा, तें काम हावें त्याच लोकांच्या बऱ्याखातीर आडायलां म्हण सांगल्यार तुजो कुस्कूटभर लेगीत विश्वास बसचो ना.

जुवान : ना.

धनी : संवसार खंय पावला हें तुजेवरीं म्हाकाय एकदां कळिल्लें. पूण त्या कळपाक खूप शीम - मेरो आशिल्ल्यो. झणझणीत सत्यापरस तें कळप खूब पयस आशिल्लें. ह्या जुंव्यार गोरवां हाडपाची म्हाका गरज भासना. गोरवांत आनी मनशांत फरक पडटलो तेन्नाच ही गरज

भागतली. गोरवां ना म्हण हांव गोरवांचीं जोतां वांदिना हें आपमूक आयलेंच. जोतांची आनीक एक खबर आसा.

जुवान : कसली?

धनी : दर जोताक एक दादलो आनी एक वायल वांदतां. तीं दोगांय घोव बायलां.

जुवान : ताचे फाटलो दुश्ट हेत कितें?

धनी : दुश्ट हेत तूं म्हण, हांव कित्याक म्हणूं? घोवाक चड काम पडचें न्हय म्हण वायल वेगीन नांगर ओडटा आनी वायलेक चड त्रास जावंचे न्हय म्हण घोव चड भार आपूण घेता. परिणाम? काम खूब खूब वेगीन जाता.

जुवान : कितलें मनीसपण आसा त्या मनशांत!

धनी : तूं हुतहुतपणां करता. तुज्या तरण्या रगताचो दोश तो. फुडें आयक, वावराचीं सुट्टकच घोवाक जर भाकरी दीत आनी वायलेक उपाशीं दवरीत जाल्यार वायल हिरांट्या वशेन झुडोन वता घोवाच्या आंगार आनी झोपय मारून भाकरी खाता.

जुवान : तुवें ह्या जुंव्यार कोंवया - कुंकडांचो खेळ मांडला.

धनी : तुज्या आनीक कांय प्रश्नांच्यो जापो उरल्यात. म्हाका ह्या मनशांची काकूळट येना. येता ती तिडक. मनीसपण म्हणटा ती वस्त म्हाका रचणाऱ्यान विसरनासताना दिल्या आनी ती खंय आनी खंयच्या वेळार वापरपाची बेसबरी बुद्दय दिल्या.

जुवान : हो जुंवो न्हय. हो नरक! हांव ह्या जुंव्याक ह्या नरकांतल्यान मुक्त करतलों.

धनी : हांव तुका तशें करूं नाका म्हणना. कारण हावें नाका म्हळ्यारूय तूं तसो यत्न केले वगर रावचो ना. पूण तातूंत तुज्या हाताक कांयच लागचें ना. तूं हारतलो. सावरपाक जमना इतलो तूं हारतलो. तांचे मुक्तिचो मार्ग म्हज्या नाशांतल्यान सुरू जावंय, अशें तुका दिसप सभावीक आसा.

जुवान : वगत आयल्यार हांव ताकाय फाटीं सरचो ना.

धनी : ह्या मार्गान तूं गेल्यार तांचो मार्ग मेकळो जातलो ही आशा खरी न्हय. तुजे हे करणेन जुंव्याचो कांयच आवर्शील ना. म्हाका ना करपाचो

जाल्यार ताणी करप. तुवें म्हाका आनी हावें तुका कावार करप हातूंत तसो कांयच फरक ना आनी उपेगय ना. कारण आमी दोगूय हे भुंयेचे न्हय. कितलेय कळवळ्ळे तरी उखलापे. हांव जाची वाट पळयतां ताची वाट ते पळयनात. खरें म्हळ्यार गरज आसा ती तांकांच.

जुवान : तांकां ताची जाणवीक ना.

धनी : तांकां जाणवीक जावंची म्हण हांव म्हजे परीन यत्न करीत आसां. पयलीं रस्त्याचेर तांकां गाडे ओडूंक लायतालों. आतां जोतां बांदपाक लायल्यांत. फुडले खेप नवो यत्न. ह्या जुंव्यार मदीं एक तळें आसा. तळ्यार आनी पुलाची कसली गरज? पूण हांव पूल वांदतलों. कसलो जाणा? तळ्यांत गळोभर उदक जाता. गळोभर उदकांत आलतडच्यान पलतडीं जोडयेन शंवरेंक मनीस उवे करप. तांच्या भुजांर लाकडांच्यो पाटयो दवरप.मदीं कोंडे दाटावन माटी घालप. ह्या पुलावयल्यान लोकांनी येवप वचप. चोवीस वरां एक एकल्याक भुजांर पाटयो पेलून रावपाचें काम. तुका कशी लागली कल्पना?

जुवान : (रागान) तूं - तूं मनीस न्हय.

धनी : तुजो राग म्हाका कळटा. तो कुड्डोय आसा म्हणपाचें म्हाका लख्ख वरें समजता. (तिडकून) अविचारी मनशा, हांव मनीस न्हय अशें म्हणटना, चोवीस चोवीस वरां भुजांर पाटयो घेवन रावप्यांक मनीस म्हणटना तुजी जीव मात कशी आडखळना रे?

जुवान : हांव हें घडूंक दिवंचो ना. म्हजे कुडींत रगताचो निमाणो थेंब आसा मेरेन हांव ह्या जुंव्या खातीर झगडटलों. तांचेवयलो जुलूम ना करतलों. तांच्या स्वातंत्र्याची तांकां कल्पना दितलों.

धनी : (हांसता)

जुवान : तुवें म्हज्यां भगल्यां मारल्यो म्हण हांव मात लेगीत धील पडचो ना.

धनी : तुज्या भुरगेंपणाची काकुळट करता तितली थोडी! (उपहासान) स्वातंत्र्याची कल्पना! (कळवळून) स्वातंत्र्याची कल्पना दिवन उपेग कितें? स्वातंत्र्याचो घडूंक जाय तो दिस्टावो. दोळे झणझणटा तसलो साक्षात्कार! पिश्या, तो कसो घडोवंक जाता? काळखांत धडपडटल्याक चूड उवारून वाट दाखोवपा इतलें सोपें न्हय रे तें.

जुवान : म्हाका आत्मविश्वास आसा.

धनी : तो आत्मविश्वास न्हय. ती फकत आव्हान स्विकारपाची तरणी उमेद.

जुवान : हांव आतां स्पश्ट विचारतां, ह्या जुंव्यार चलिल्लो जुलूम तूं बंद करता काय ना?

धनी : तूं प्रश्नूच विचारतना चुकता.

जुवान : कसो?

धनी : पयली गजाल म्हळ्यार तांचेर चल्ला तो जुलूम न्हय.

जुवान : जुलूम न्हय? मागीर कितें?

धनी : तो एक प्रयोग.

जुवान : प्रयोग? गरीब धाकट्यांचें रगत घोटपाचो प्रयोग. तांचें स्वातंत्र्य झोपून घेवपाचो प्रयोग?

धनी : तांकां स्वातंत्र्यूच ना. मागीर झोपून घेवपाचो प्रश्नूच येना.

जुवान : म्हाका दिसता तांच्या स्वातंत्र्याची सुरवात हांगासूनच जातली. (हांगा थंय सोदता. ताच्या हाताक खोरें मेळटा.) ह्या दोळ्यांच्यो मुंडळ्यो भायर पडचे आदीं .. हे म्हजे हात .. शिवशिंवपी विखाळे नाग ..

धनी : पिश्या, तुज्या रागाक दोळे नात.

जुवान : तुजें दुसरें कांयच आयकून घेवपाक हांव तयार ना.

धनी : तुका पस्तावचें पडटलें. काळखांत रखडचें पडटलें.

जुवान : म्हजे नदरे मुखार दिसता. लख्ख उजवाडांत ह्या जुंव्याचें स्वातंत्र्य!

धनी : तुका कसो समजावं?

जुवान : म्हाका हय काय ना इतलेंच सांग. हो जुलूम बंद जातलो काय ना?

धनी : ना. तूं म्हणटा तो जुलूम बंद करपाचें काम म्हजें न्हय. हांव तें करचो ना.

जुवान : मागीर तें काम हांव करतलों.
(जुवान दोनय हातांनी ताचेर खोरें उबारता. काळोख. धनयाची किलांट. रोकडोच उजवाड. धनी सकल पडिल्लो दिसता. रगताळ्ळा. खोरें कुशीक वडोवन जुवान उबो.)

धनी : (न्हिन्नळत) तूं - तूं म्हजेच जातीर गेलो.

जुवान : तुजे जातीर? थू. तुका जात आसा? तुजे करणेचें पानवळ भोगयलें तुका. हाचेपरस सादी ख्यास्त तुका फावनासलो. हांव तुजे जातीर गेलों ना. निस्वालस गेलों ना. हांव म्हज्या धर्मान वागलों. काळखांतल्यान

उजवाडाकडेन ओडपाचो म्हजो धर्म. उजवाडाक उजवाड लेखपाचो म्हजो धर्म. हावें ताका पाळो दिलो. जिवाच्या आकांतान हावें ताका पाळो दिलो. (नव्या आवेशान वांदार धांवून वता. आड्डता.) रावात. (आवाज थारता. तो भाशणाच्या सुरान उलयता.) भावांनो, ह्या खिणाक तुमी ह्या जुलमांतल्यान मेकळे जाले. वरसांचीं वरसां चलत आयिल्लो तुमचे वयलो अन्याय आज सासणाचो शिमे - भायरो जालो. जुंव्यार जियेवपी ह्या जुंव्याच्या बाळकांनो, तुमी जनावरां न्हय. मनां काळजां आशिल्लीं हाडामासाचीं जितींजागतीं मनशां तुमी. ह्या फुडें तुमचेलागीं अधर्मीपणान आनी अनितीन वागपाचें वळगें कोणाकूच जावचें ना. (कांय वेळ थारून) भिरकावून वडयात तीं मानेवयलीं जुंवां. तुमचे मानेर गुलामकायेचीं जुंवां दवरपी तुमच्या धनयाक हावें हांगा धर्तरेर पातळ्ळा. हांगा रगताच्या कोणांत तो निमाणे खिण वेंचीत पडला. (वांदावयल्यान व्हदळचो शेतकामती भिये भियेत येता. धनी न्हिन्नळटा तें पळोवनं काचाबूल जाता.)

**शेतकामती** : तुवें धनयाक खऱ्यांनीच मारलो?

**जुवान** : ताचे करणेन ताका हें फावो केलें.

**शेतकामती** : आतां कितें करप?

**जुवान** : पयले सुवातेर, तीं मानेवयलीं जुंवां शेंवटून वडयात.

**शेतकामती** : पूण कित्याक? आमी तीं तशींच दवरतात.

**जुवान** : ना, म्हाका सोसचें ना.

**शेतकामती** : पूण तांचेवगर आमचें जमचें ना.

**जुवान** : कशें चलचें ना?चलूंक जाय. हावें ह्या जुलमी पातशायाक धर्तरेर आड केलो म्हण तुका खोस दिसना?

**शेतकामती** : तशी खोस दिसून घेवं जाल्यार तूं सांग. घेतां.

**जुवान** : (अजापान) हांव सांगूं?

**शेतकामती** : हय. ह्या धनयाक तुवें सोंपयलो. आतां तूं आमचो धनी. आतां तुजे मर्जेर आमचीं पावलां पडपाचीं. तुजे आज्ञेर आमच्यो मानां वागवपाच्यो.

**जुवान** : ना, ना. हें सगळें हावें घडोवन हाडलां तें हे खातीर न्हय.

**शेतकामती** : आतां आमकां काम दी आनी पोटाक पोटभर भाकरी. आमी तुजो जयजयकार करतां.

**जुवान** : अशीं पिशेपणा करूं नाकात. हांव तुमचो धनी न्हय. एका काळार आशिल्लो तुमचो धनी इतिहासांत जमा जालो. तुमचो तसो धनी आसूंकच शकना. तुमचे धनी तुमी. तुमचें काम तुमी सोदपाचें आनी तुमची भाकर तुमी जोडपाची.

**शेतकामती** : अशें कशें! धनी नासतना हो जुंवो चलूंकच शकना. आमचे फाटीचो कणोच मोडिल्लेवरी जातलो. आमकां धनी जायच. तूंच आमचो धनी. तुवें तुज्या वळग्यान धनीपद मेळयलां. आदल्या धनयानूय तें अशेंच जोडिल्लें. तुज्या पराक्रमाचीं आमी तुस्तगीतां गायतात. (घोशणा दिता.) नव्या धनयाचो जयजयकार जावं! नव्या धनयाचो जयजयकार जावं! ! (घोशणा दीत भितर वता. भितर घोशणांचो व्हडलो बोवाळ जाता. जुवान चक्रावता. सगळो जुंवो आपणा भोंवतणी घुंवता अशें ताका दिसता. तो गळीतगात्र जाता. धनी न्हिन्नळत, धडपडत उठून बसता. जुवानाकडेन आपुलकायेन पळयता. जुवान लजेन मान वागयता. धनी ताका आपयता.)

**धनी** : हांगा यो. (जुवान सवकासायेन ताच्या म्हऱ्यांत येता.) म्हजो पूत तो. (ताका वेंगांत घेता.) अणभवान कळटा ती गजाल वायट न्हय. म्हज्या माथ्यावयलें वजें तुवें आपूण जावन आपणाल्या माथ्यार घेतलें.

**जुवान** : जुंव्याच्या धनया, हांव चुकलों.

**धनी** : आतां धनी तूं.

**जुवान** : अशें म्हणू नाका.

**धनी** : तशें ना म्हणून कांयच फरक पडना.

**जुवान** : हावें अशें करूंक फावनासलें.

**धनी** : तुका आडावपाक हांव असमर्थ आसलों. हावें सांगिल्लें तें तुजे वावतींत कुसान कूस खरें उतरलें. जशें काय तें सगळें घडपाकूच हावें तुका आदीं सांगिल्लें. दुस्मानांचो वध करून प्रश्न सुटूं येतात, पूण वरें मागत्यांची हत्त्या करून प्रश्न सुटनात. तशेच उरतात वा वाडटात तरी. (कासावीस जाता.)

**जुवान** : तूं प्राण सोडचे आदीं म्हाका सांग, हांव आतां कितें करूं?

**धनी** : हांव सांगतां म्हण न्हय. तुका तें करचेंच पडटलें. आतां म्हजे सारकोच हांगा वाट पळयत बस, पूण मेल्ले वारी सारको हात पांय

गळमणावन न्हय. येतलो, आज ना फाल्यां, फाल्यां ना परवां तो येतलोच येतलो. पूण मतींत धर, तो येवपाचो आसा तो तुजे म्हजेसारको हो दर्या पंवून येवचोना. तो हे मातयेच्या वोंबलेंतल्यान रुजवणा येतलो. स्वतंत्रतायेची घुडी घेवन ह्या जुंव्यार था थै नाचतलो. आनी त्या वेळार मानेवयलीं जुंवां, वावक्यो पाकळ्यो कशीं आपसूक झडून पडटलीं. पूण हें सगळें घडपाक .. (धांप लागता) म्हज्यान आनीक उलोवं नजो. म्हजी निमाणी इत्सा! तो येवपाचो आसा - ताचे खातीर म्हजें दायज फुडें चल्लें हें म्हज्या दोळयां म्हाका देखचें आसा. (जुवान ल्हवू ल्हवू उठ्टा. संगीताची लय वाडटा. शेतांतल्या घोशणांचो आवाज व्हड जाता. जुवानांत आतां धनयाचो अवतार संचारूक लागता. धांवत तो वांदार वता आनी व्हडल्यान आड्डून उलयता - )

**जुवान** : वंद करात हो आवाज. तुमचो धनी तुमकां फर्मायता. (अकस्मात आवाज थारता.) आजपासून, हे घटकेपासून हो जुंवो म्हजे आज्ञेन चलतलो. म्हजे आज्ञेन धोलतलो. एका आंगळाचे चुकीक वांवभर ख्यास्त भोगतली. पोटच्या पोरावरी म्हजे आज्ञेचें पालन हांगा घडूंक जाय. म्हजी पयली आज्ञा - ह्या, मुखार दिसता त्या तळ्यांत, आलतडच्यान पलतडीं, एके हारीन उवे रावन, खांदार पाटयो घेवन पूल तयार करूंक जाय, आयचे आयज. (जुवान राजाच्या झेतान उवो रावता. धनयाचेर नदर मारता. धनी समादानान प्राण सोडटा. जुवान वांदार थीर. वेगीवेगीन 'तो' धांवत येता. आपणाले आदले सुवातेर उवो रावन उलयता.)

**तो** : सॉरी! ह्या जुंव्याचो इतिहास परत एकदां त्याच साच्यांत रिगलो. हो खेळ हांगा सोंपपाचो. पूण सोंपना. सुरू जाता. म्हजो नाइलाज आसा. तो येयमर म्हाका हांगा मान सकयल घालून वाट पळयत रावूंकच जाय. (तो मान बागयता. काळोख.)



# श्री विचित्राची जात्रा

(एके न्हंयचे देगेर चिऱ्या फातरांनी बांदून काडिल्लो घाट. घाटाचे वयले दोंगुल्लेर आसा श्री विचित्राचें देवूळ. हांगाच जात्रा भरता. आतां हयन्हयश्या उजवाडांत घाटांचेर अस्तावेस्त पडिल्ले फातर कशे दिसतात वो हेर कसलेंय सैमीक रूप. कांय वेळान रचनाकार भायर येता आनी प्रेक्षकांक उद्देशून उलयता.)

**रचनाकार** : खरें म्हळ्यार खंयचीय कलाकृती सादर करताना रचनाकारान भायर येवपाची गरज नासता. पूण हे कलाकृतीचे बाबतींत ती गरज उप्रासल्या देखून कलाकृती आनी तुमी हांचेमदी हांव रचनाकार उबो रावलां. तुमी घडये म्हणटले, आमचेमदीं तूं पडिल्लो दांत कसो कित्याक? दातांची ओंपार इतलेच खातीर दिली, आतां तुमचे मुखार सादर करतां ती एक दंतकथा. म्हाकां दांतोळ्यो घालचे आदीं सावन हांव ती आयकत आयलां. वास्तवाचे साणीर घांसल्यार ही कथा आयज तुमच्या दातांक लागपाची ना. ही दंतकथा एके जात्रेची. श्री विचित्राची जात्रा. ही मुखार दिसता ती न्हंय. हांगा फाटल्यान आसा दोंगुल्ली. थंय आसा श्री विचित्राचें देवूळ. न्हंयचे देगेर हो आसा घाट. जात्रा ह्या घाटारूच भरता. जात्रेक येवपी लोक एक तर दोंगर बलांडून येतात वो दर्यांतल्यान तारवांनी येतात. तारवांनी येवपी चडशे पसरकार आसतात. ते फेरयेंत मांड घालपाखातीर येतात. ही घाटार भल्या ती श्री विचित्राची निमाणी जात्रा. हो देखाव दिसता तो जात्रा उलगता आसतानाचो. तुमी मातशे बुचकळ्यांत पडल्या आसतले.

घांटावयल्यो ह्यो आकृत्यो तुमकां फातरांच्यो कश्यो दिसल्या आसतल्यो. तुमकां एक मांडणी सांगतां - मळबांत कुपां पळोवपाचो तुमकां नाद आसा? मळबांतल्या कापशी कुपांत जर पळयत रावशात जाल्यार तुमका कितें दिसता? तरांतरांच्यो आकृत्यो. घोडे, हत्ती, मोर, वांस्वेल, हरण आनी मागीर पळयतां पळयतां मजा दिसता. कसली मजा? तुमच्या मनांत जी आकृती येता ती तुमकां मळबाच्या खयंच्या तरी कुपांत अचूक दिश्टी पडटा. होच प्रयोग तुमी हांगा करून पळयात. ह्यो घांटाचेर तुमकां ज्यो आकृत्यो दिश्टी पडटात त्यो मनशांच्यो आकृत्यो. पयलीं त्यो मनांत मानून घेयात आनी मागीर दोळ्यांत थीर करात. त्या आकृत्यांकडेन एकदां तुमी एकरूप जाले म्हणटकच मुखावयली जात्रा तुमचे नदरेमुखार आपशींच फुलपाक लागतली. (रचनाकार कुशीक सरता. घांटाचेर ल्हवू ल्हवू उजवाड फांकपाक लागता. त्या उजवाडांत मनशांच्यो आकृत्यो दिसपाक लागतात. त्या मनशांच्यो हालचाली वाडटात आनी त्या हालचालींक जात्रेचें स्वरूप येता. तारवांतल्यान लोक येतात. कोणाच्या माथ्यार, खांद्यार पोटल्यो, साक आदी. दोंगुल्लेवयल्यानूय आयिल्लो लोक घांटार एक जाल्यात. लोकांचे गर्देत ठळकपणान दिसपी कांय व्यक्ती अश्यो - आंगार अडेचे पिंजके कपडे घातिल्लो थोंटो भिकारी, गळ्यांत धोलकें घालून हांगाथंय खेत्याक सोदपी दोंवारी, माथ्यार उशिकाण्याचो भोरो घेवन आयिल्लो भुरगो आनी ताका ताकतीक करपी ताजो धनी, एक सर्वसामान्य बापूय - ताची वातावरणाक भुल्लुसलेली सोळा-सतरा वर्सांची धूव. ते चलयेच पाळटेर आशिल्लो एक आंबट शौकीन, एक शालीन दिसपी बायलमनीस आनी तिच्या पावलां पावलांचेर दुवाव घेवपी तिगेलो घोव, शेणिल्ल्याक सोदपी एक जाणटेलो. आंगार समाजसेवकाची वस्त्रां घातिल्लो, खांदाक वोटवो लायिल्लो एक समाजसेवक सगळे गर्देंत प्रतिष्ठीत सोबुंये अशी एक व्यक्ती आनी सगळ्या लोकां मजगतीं वेगळो दिसपी आनी सगळे गर्देत भिरभिरपी 'कोणतरी', आदी.)

(गर्देतले सर्वसादारण संवाद अशे..)

- आरे हे भावडी, एका वर्सान तुजी भेट घडली.
- श्री विचित्राची कृपा!
- अंदू खाजें सवाय जातलें!
- सवाय कर्माचें!
- चणे कशे पड?
- आदीं दांत तपासून पळय.
- वाव, मातसो कडेक सर आं. हांव एका पांयान थोंटो.
- तुमकां थोंट्यांक कित्याक रे जात्रा?
- तुवें म्हजें खेतें पळयलां?
- हांव तुका पयलेच खेप पळयता.
- हांव तुका सांगतां, समाजसेवेसारकें दुसरें व्रत ना.
- ह्या धंद्यान कितें सुट्टा?
- हो भोरो म्हाका जड लागता!
- कसलो जड? भुरगो आसून भातें बरें मारता!
- दाद, म्हाका रेवड्यो खुब आवडटात!
- तूं खावपीच जा.
- ह्या लोकांत वावरप म्हळ्यार आपलो मान उणो करून घेवप!
- पूण कितें करतलो? प्रथेप्रमाण तुजें काम तुका करपाकूच जाय.
- अंदू वर्सा म्हजो पोर म्हाका गावतलोच.
- श्री विचित्राची कृपा!

(अशे तरेन संवाद एकमेकांत घुस्पत वतात. बोवाळ वाडत वता. कुशीक दोग जाण उलयतात.)

पयलो : ही जात्रा म्हणजे मजेचीच न्हय?

दुसरो : कसली मजा?

पयलो : ही जात्रा अशी दर्यादेगेर भरता.

दुसरो : तूं नवोच काय कितें?

पयलो : हय अंदूच आयलां.

दुसरो : तूं वयर पावला?

पयलो : वयर? खंय?

दुसरा : वयर दोंगुल्लेर. थंय देवूळ आसा. ती एक मजा.

पयलो : तशीं दोंगुल्लेवयलीं देवळां पळयल्यांत हांवें. आमचो मारूती - ताचीं देवळां दोंगराचेरूच आसतात. तातूंत कसली मजा?

दुसरो : मजा देवळाची न्हय, देवाची!

पयलो : कसली मजा?

दुसरो : हो देव बाकींच्या देवांसारको न्हय, हाचे पांय अश्शे, (मान घुंवडावन) तकली अशी.

पयलो : अशें?

दुसरो : आनी पालखी पळयल्या?

पयलो : ना.

दुसरो : ती एक मजा.

पयलो : कशी?

दुसरो : (तिसऱ्याक) ए, देवाची पालखी घांटार येवन गेली?

तिसरो : ना.

दुसरो : आतां पालखेंत वसून देव न्हावपाक दर्यार येतलो तेन्ना मजा पळय. हांगाच राव. हांगच्यान बरें दिसतलें.

पयलो : तुवें सांगून बरें केलें.

दुसरो : तुजेकडेन मोड आसा न्हय?

पयलो : आं? हय आसा कित्याक?

दुसरो : देवाक घालपाक. म्हजेकडेन साप्प ना.

पयलो : हांव दितां. (कांय मोड ताज्या हातार दवरता)

दुसरो : तूं नवोच आयला न्हय? तुका इतले गर्देंत दर्शनाक वचपाक जमतलें?

पयलो : कित्याक म्हणटा तूं?

दुसरो : ना जाल्यार (पैशे) म्हजेकडेन दी, हांव तुजे वतीन देवाक घालतां.

पयलो : आं? वरें, म्हजी हरकत ना. (ताजेकडेन पैशें दिता. तो पैशे घेवन

कडसता. इतलो वेळ तांचो संवाद चोरयां आयकुपी 'कोणतरी' ताचेलागीं येता. ताका हटकिता.)

कोणतरी : तुका समजलें न्हय?

पयलो : कितें?

कोणतरी : ताणे तुका चक्रायलो.

पयलो : कसो?

कोणतरी : ह्या देवाच्या दर्शनाक वतना पैशे घालीना. फुलां, फळां,उजवाती चलता.

पयलो : पयशे कित्याक घालीना?

कोणतरी : ती आख्यायिका तुका खबर ना?

पयलो : कसली आख्यायिका?

कोणतरी : ह्या देवाचे मानेची.

पयलो : ना.

कोणतरी : खूब वर्साआदीं ह्या देवाची मान अशी वांकडी नासली.बाकिच्या देवांसारकी आनी मनशांसारकी सरळ आसली. पूण ह्या देवाक एक वायट खोड आसली. हो देव लोकांच्या सपनांत वतालो आनी आपणाक जाय तें मागतालो.

पयलो : जाय तें मागतालो?

कोणतरी : जाय तें म्हळ्यार त्या मनशाकडेन आसा तें. कपडे जाल्यार कपडे. भुरगें आसल्यार भुरगें.

पयलो : देव मागतालो ती वस्त ताका केन्ना हाडून दिवपाची?

कोणतरी : जात्रेदिसा.

पयलो : म्हणजे आयच्या दिसा.

कोणतरी : अं, पूण ह्या देवाचें एक वरें आसलें, हो देव सपनांत वतना जात, पात, धर्म वी कांय मानी नासलो. भट मात हेर धर्मियांची वस्तू देवाखातीर घेतना धुवन घेतालो.

पयलो : सगळ्यो वस्तू धुतालो?

कोणतरी : हय. कपडे आसल्यार कपडे. मनशां जाल्यार मनशां. एका वर्सा

भटान बस्तोभर साखर सगळी धुवन घेतली.

पयलो : मानेची गजाल?

कोणतरी : एक दीस देव एके गरीब जाणटेलेगेर पावलो.

पयलो : न्हिदेंत?

कोणतरी : अर्थांत. गरीबांक सदांच बरी न्हीद पडटा. म्हणटकूच देवाक बरी संद मेळ्ळी तिच्या सपनांत रिगपाक. देवान मागचे मागून कितें मागचें?

पयलो : कितें?

कोणतरी : तिचेकडेन एक तांब्याचो ढब्बू पैसो आसलो. खोटो. चलना असलो, पूण केन्नातरी चलतलो म्हण तिणे तो सांबाळून दवरलेलो. तर देवान नेमको तोच मागलो. आनी जाणटेलेचें पीत्त खवळ्ळें.

पयलो : तिणे पैसो दिलोना?

कोणतरी : दिलो पूण सोंपेपणी न्हय. ती जात्रेदिसा आयली आनी तिणे रागान तो पैसो ठण्ण् करून देवाच्या पांयार आदळ्ळो. आनी कितें अजाप? तो पैसो चलपाक लागलो.

पयलो : म्हणजे?

कोणतरी : म्हणजे असो वाटकुळोच चक्र कसो घुंवून चलपाक लागलो. पांयावयल्यान पोटार, पोटावयल्यान हड्ड्यार, हड्ड्यावयल्यान गळ्याकडेन, खाडकेर, मागीर ओंठार, मिशांवयल्यान नाकाच्या पुडार, नाकाचे शिरेवयल्यान कपलार, कपलावयल्यान माथ्यार, माथ्यावयल्या माग्यांतल्यान फाटल्यान आनी मागीर ढब्ब करून सकयल पडलो. तेसरशीं देवान कच्च करून फाटीं वळून पळयलें. पैसो देवाच्या फाटल्यान पडलो आनी चलत रावलो. दुसऱ्याचे आशेचो पैसो तसो एकीकडेन उरता?

पयलो : आनी देवाची मान?

कोणतरी : देव पैसो दिसता काय म्हण तशेच मानेन पळयत उरला हेवटेन लोक, देव मान सारकी करतलो म्हण तिश्टत रावले आनी वाजेवन परत गेले. इतल्या वोवाळान तिनसांज जाली. सूर्य अस्तमलो आनी जावपाचें तेंच जालें.

पयलो : कितें?

कोणतरी : सुर्या अस्तमतकच हांगा कितें जाता तें खबर ना?

पयलो : ना.

कोणतरी : सुर्या अस्तमतकच हांगा जी वस्त जे स्थितींत आसता, तशीच थीर उरता. देवाची मान तशीच उरली. तुवें वयर वचून देवूळ पळयलां?

पयलो : ना. हांव पयलेच खेप आयलां.

कोणतरी : देवळाक मदीं गर्भकूड. गर्भकुडींत असो देव. दोशींवशीं दारां. एका दारांतल्यान गेल्यार पांयाचें दर्शन घडटा. दुसरे वटेन गेल्यार मुखाचें दर्शन घडटा. पूण प्रथेप्रमाण लोक, एकतर पांयांचें वो एकतर मुखाचें दर्शन घेता. दोनाचेंय घेना.

पयलो : कित्याचें घेवप बरें?

कोणतरी : खरो भक्त दोनांचेंय दर्शन घेना. तो बुचकळ्यांत पडटा. पायाचें दर्शन घेवं काय मुखाचें? हय नाका करतां करतां सांज जाता आनी दर्शन घेना आसतनाच तो परतता.

पयलो : म्हजेंय तशेंच जालां.

कोणतरी : तूं खऱ्या भक्ताचे कसोटेक उतरला. आनीक एक गजाल तुका खबर आसा न्हय?

पयलो : कसली?

कोणतरी : ही जात्रा फकत एका दिसाची. सुर्या अस्तमचे आदीं हांगच्यान वचपाक जाय. नाजाल्यार ..

पयलो : सगळे आसा ते अवस्थेंत थीर उरतात.

कोणतरी : मातसो फरक आसा. सगळ्याचे सगळे उरल्यार थीर उरतात आनी सैमा येवन पाशाण जातात. मात एकलोच कोणय उरल्यार तो पाशाण जायना.

पयलो : मागीर?

कोणतरी : पिसो जाता. म्हजेसारको. (हांसता.)

पयलो : सगळें विचित्रूच!

कोणतरी : श्री विचित्राची कृपा.

पयलो : तूं कोण?

कोणतरी : कोणतरी.

(लोकांचो बोवाळ)

- पालखी आयली.

- देवाची पालखी आयली.

(दोंगुल्ले वयल्यान देवाची पालखी वाजत गाजत येता.'जय श्री विचित्रा विजयोत्सु!' असो गजर जाता. पालखेचे चोंयखांबे उरफाटे चलतात. म्हळ्यार फाटसून फाटसून ल्हवू ल्हवू पांय वडयता, मानो तशोच वळोवन धरल्यात. पालखेंतली म्हूर्तय तशीच उरफाटी आसा. पालखी घांटार पावनाफुडें लोकसगळ्यांच्या तोंडार घोळटी देवाची आरत गावपाक सुरवात करतात. खांबी पालखी सकयल दवरता. भटजी देवाक सकयल काडून देवाच्या न्हाणाचो विधी करता. लोकांचे गर्देतल्यान विधी चलता इतलेंच कळटा. स्पश्ट दिसना मात आरत नेटान चलता. समस्त लोकांक आरतिचें पयलेंच द्रुपद येता. इतल्यान कोणतरी गर्देतल्यान मुखार येता. एका भक्ताच्या हातांतली झांज अचळय घेता. तोवूय सहजतायेन दिता. कोणतरी झांज घेवन मुखावयलीं कडवीं गावपाक लागता आनी लोक द्रुपद कोरसान म्हणटात.)

देवा चित्रविचित्रा,
महाभुतांच्या पुत्रा
मानून घेवपी धनयां
एका दिसाची जात्रा - देवा एका दिसाची जात्रा ।। धृ ।।

वर्साक एकदां न्हाता
नितळ कसो रे जाता?
सदांच न्हावपी हांगा,
वुर्शे वुर्शे उरता - देवा वुर्शे वुर्शे उरता ।। १ ।।

मान तुजी रे घुंवल्या
फाट करूनशी रावल्या
मुखार पळोवंक धजना

देखून मांडणी काडल्या
- देवा देखून मांडणी काडल्या ।। २।।

दर्याक सुकती भर्ती
मन्शाकूय ती लाग्ती
कुंड्यार शिजता तुजें
देवा तुका ती कशी बाद्ती
- देवा तुका ती कशी बाद्ती ।। ३ ।।

काळ कोणाकूच थांबना
मुखार वचपाचो रावना
तुजी उरफाट्याची जात्रा
कशी जैताक पावतली कळना
- देवा कशी जैताक पावतली कळना ।। ४।।

(आरत चालू जावन सोंपता सोंपता लोकांच्या लक्षांत येता, हो कोणतरी एक एक कडवें म्हणटा तो देवाचे करणेचें विडंवन करून. लोक ताचेर रागान नदर घुंवडावन आपणालो निशेध प्रगटायतात पूण आरत चालूच उरता. शेवटाक आरत सोंपता. एकलो मनीस कोणतरीच्या हातांतली आपली झांज झोंवून घेता आनी तेच वेळार देवाच्या न्हाणाचे विधी सोंपतात. 'जय श्री विचित्रा विजयोत्सु!' म्हणत पालखी उवी जाता. पालखी व्हदळचे सारकीच उरफाट्यांनी परत वता. कोणतरी धांवत वता आनी पालखेक खांद दिता. तोवूय हेर खांवी सारखेच पांय धरता,मात ते उरफाट्यांनी चलता. हो आसा तसो सरळ. म्हळ्यार सरळ पांय, सरळ मान. पालखेक आडखळ जाता. सगळे उरफाट्यांनी ओडटा जाल्यार हो एकलोच सरळ ओडटा. पालखी दोंगरा वटयां वचपाची ती सकयल येता. लोक कोणतरी भोंवतणी एकठांय जातात. कोणतरी पालखेच्या दांड्याक घट्ट धरून रावता.)
- आरे, तुजेर कसलो सांवार आयला?

- तूं पालखी उरफाटी ओडटां मरे.

कोणतरी : ना. हांव सारको आसां.

- कोण सांगता तूं सारको आसा म्हण? तूं उरफाटो आसा.

- तूं सारको नां.

- तूं उरफाटो आसां.

कोणतरी : हांव सांगतां न्हय, हांव सारको आसा म्हण. तुमी उरफाटे आसात.

- तुवें सांगलें म्हण? आमी इतले जाण सांगता तें फट? आनी तूं एकलो म्हणटा तें खरें?

कोणतरी : खरें तें खरें, फट तें फट.

- चल हट्.

कोणतरी : ना, हांव पालखी सोडचोना.

- तूं जात्रेंत विघ्न निर्माण करपाक आयला?

- (बारीकसाणेन पळयत) व्हदळ देवाची आरत चल्ल्या आसतना तूंच न्हय तो देवाचीं फकाणां मारी? देवाची विडंबना करता?

कोणतरी : करची न्हय?

- आज देवाचीं फकाणां मारपी मनीस फाल्यां तुमचीं आमचीं फकाणां मारपाक फाटीं आसा?

- हाका येन्नादर निवळावपाक जाय. पोराचीं लक्षणां बरीं दिसना.

- तकलेन सारको आसा मरे तूं?

कोणतरी : तुमच्यो तकल्यो पळयल्यार तुमकां कळटलें हांव तकलेन सारको आसा काय ना तें.

- पालखेचो खांद सोड.

- श्री विचित्राची पालखी अशीच वचपाक जाय.

कोणतरी : कित्याक?

- अव्वा! कित्याक म्हण विचारता? तुमकां मरे हो धर्म खूब सवाय पडला. मात कितेंय वांकडें दिसलें, रोकडोच तुमचो प्रश्न - हें अशेंच कित्याक? तुमकां खबर ना दिसता - हेर धर्मांत असो पिशेंपणाचो

प्रश्न विचारपाक मेकळीक ना.

**कोणतरी** : म्हजो प्रश्न शाणेपणाचो.

- कसलीं शाणेपणां कर्मांचीं? देवाच्या कार्याकडेन प्रश्न विचारता!

*(एकलो मुखार येता.)*

- हो कसलो प्रश्न विचारता?

- ही पालखी खंय अशीच कित्याक? अशी कित्याक न्हय?

- आनी ह्या प्रश्नाची जाप तुमकांय खबर ना? (कोणतरीक) हांव सांगतां. ही पालखी अशीच वचपाक जाय. कारण पोरूं वर्सा ती अशीच गेल्ली. ताच्या आदल्याय वर्सा ती अशीच गेल्ली. ताच्या आदल्या आदल्या आदल्या वर्साय अशीच गेल्ली. मागीर अंदू वर्साच कित्याक अशी वतली? चलात रे व्हरात पालखी 'जय श्री विचित्रा उदयोत्सु' (सगळे म्हणटात पूण पालखी हालना कारण कोणतरी घट्ट धरून आसा. इतल्यान भटमाम मुखार येता.)

**भटमाम** : कितें घडलां?

- भटमाम हो जाप नाशिल्लो प्रश्न विचारता.

**भटमाम** : जाप नाशिल्लो प्रश्न विचारपाक ताका परवानगी कोणे दिली?

(सगळे एकामेकांक विचारतात आनी वगी रावतात.)

- भटमाम, जाप नाशिल्लो प्रश्न विचारप्याक आमच्या धर्मशास्त्रांत कसली ख्यास्त फर्मायल्या?

**भटमाम** : आतां धर्मशास्त्र घेवन हांव पाण्ट्यार आयलां? वारीकसाणेन वाचून पळोवचें पडटलें.

- मागीर हो खट तर पालखी कशीच सोडीना. आतां कितें करप?

**कोणतरी** : म्हज्या प्रश्नाची सारकी जाप दिवप.

- परतीं परतीं तींच पिशेपणां. पालखी अशीच कित्याक? सुर्या उदेंतेकूच कित्याक उदेता? दर्याचें उदक खार कित्याक? उजवाड धवो कित्याक? आसा जाप तुजेकडेन?

**कोणतरी** : (पालखेचो खांद सोडून) हय आसा. हावें तुज्या प्रश्नांच्यो जापो दिल्यार तुमी म्हज्या प्रश्नाची जाप दिशात?

- आरे पळयता कितें? ताणे खांद सोडलो. व्हरात पालखी.

(कोणतरी आसा तसो दांड्याक खांद मारून रावता.)

कोणतरी : म्हाका असली जाप नाका.

भटमाम : म्हाका एक मांडणी येवजल्या.

- कसली?

भटमाम : जेन्ना मत (वुद्ध) चलना तेन्ना मतां चलतात. मतीन घडना तें मतांनी घडटा.

- कशें?

भटमाम : पालखी अशी वचपाक जाय म्हणपी कोण?

कोणतरी : हांव.

भटमाम : पालखी अशी वचपाक जाय म्हणपी कोण?

सगळे : आमी.

भटमाम : चलात धा जाणांचें उतर खरें. पालखी ओडात.

(सगळे लोक उरफाट्यांनी वळां मारतात. पालखी मुखार वता. कोणतरी ओडून वता. वाटेर पडटा. लोक ताका माड्डून उरफाट्यांनीच मुखार वता. पालखी वता. कोणतरी उठ्टा. दुखिल्ल्याची ताका पर्वा ना.)

कोणतरी : मतांच्या म्हालवजार म्हाका माड्डून गेले. म्हजो प्रश्नूय माड्डून गेले. तुमच्या पायांतळा जर हांव मस्तून मरूंक शकना जाल्यार म्हजो प्रश्न तरी कित्याक मरतलो?तो तसोच उरतलो. पालखी मुखार वतली. पालखी कशी मुखार वतली? आरे, ती तर फाटी फाटी वता! हांव मात असो मुखार मुखार वतलों.

(मुखार वता आनी गर्दैत भरसता.)

(आतां जात्रा भरल्या. एकीकडेन भिकारी कट्टी घेवन वसला आनी भीक मागता. कोणाक वाय, वावा, मामा, काका म्हणत गळवन्ना येता. कोणाच्या हाता पांयाक हात लावन लक्ष ओडून घेता. भिकारी एका पांयान थोंटो आसा अशें दिसता, कारण कुशीक एक खाक्यांतली कुवडी आसा. भिकाऱ्याक कोण कोण भीक घालता. इतल्यान एक

समाजसेवक दिसपी मनीस तेवटंन येता. भिकारी ताका पळोवन कांचवेता. वळखनासो करता. तो मनीस ताका बारीकसाणेन पळयत रावता.)

समाजसेवक : तुजें नांव कितें रे?

भिकारी : म्हाका कितेंय वडय.

समाजसेवक : पयलीं नांव सांग.

भिकारी : नांव सांगल्यार वडयतलो?

समाजसेवक : नांव सांग.

भिकारी : नांव भिकारी.

समाजसेवक : फट.

भिकारी : हे कट्टेचो सोपूत. भिकाऱ्याक आनीक कसलें नांव आसतलें?

समाजसेवक : कितल्या वर्सांसावन भीक मागता?

भिकारी : जल्माक येत सावन. आमच्या आज्या पणज्याचो धंदो हो.

समाजसेवक : तूं खंयच्या पांयान थोंटो?

भिकारी : (विचार करून) उजव्या.

समाजसेवक : आदीं खंयच्या पांयान आसलो?

भिकारी : दाव्या.

समाजसेवक : चलून दाखय.

(भिकारी खाकेंत कुवडी घेवन चलून दाखयता. इतल्यान येदोवेळ कुशीक रावून हो देखाव पळोवपी कांयजाण मुखार येतात.)

- ए (समाजसेवकाक) तुवें हें कितें चलयलां?

- त्या भिकाऱ्याचे फाटीक कित्याक लागला?

- कपड्यांवयल्यान तूं सभ्य मनीस कसो दिसता पूण वागणुकेवयल्यान तसो दिसना. त्या गरीव भिकाऱ्याक वगीच कित्याक पिडापीड भोगयता?

समाजसेवक : हो भिकारी खरो, पूण गरीव न्हय.

- गरीव न्हय जाल्यार तो अशी भीड सोडून भीक मागतलो आसलो?

भिकारी : (लोकांक) तुमी तरी सांगात हाका. म्हज्या ऐन जोडीच्या वेळार हो म्हाका गरजे भायर सतायता.

- फक्त भिकारीच न्हय, तातूंत हो थोंटो.

**भिकारी** : दाव्या पांयान .. न्हय, उजव्या पांयान

**समाजसेवक** : कोण थोंटो? हाका तुमी चड वळखता काय हांव वळखतां?

**भिकारी** : तूं वरो वळखुशी, पूण हांव तुका खंय वळखतां?

**समाजसेवक** : तूं म्हाका वळखना?

**भिकारी** : ना. म्हाका तूं बाकिच्या मनशांसारकोच एक मनीस. आनी हांव कितें एकाच जाग्यार नासतां. चडसो असो फिरतेरूच आसतां. हांव म्हज्या बापायक लेगीत वळखना. तुका कसो वळखतलों?

**समाजसेवक** : तशें जाल्यार तुका म्हजी वळख दाखोवचीच पडली.

(तो ताच्या खाक्यांतली कुवडी काडून घेता आनी कुशीक सरता. लोक त्या मनशाच्या फाटल्यान लागतात. भिकारी हुयेल मारीत एका पांयान लंगडटा आनी त्या मनशाफाटल्यान धांवपाक लागता. धांवतां धांवतां आपूण थोंटो म्हणपाचें विसरून दोनूय पांयांचेर उबो रावता. लोकांच्या हें लक्षांत येतकच लोक अजापान त्या भिकाऱ्याकडेन पळयतात. भिकारी खजील जाता. समाजसेवक लोकांक उद्देशून उलयता -) इश्टांनो, एक जादुचो खेळ कसो तुमी पळयलो. हो जादू कसो घडलो असो प्रश्न तुमकां पडटलो. सांगतां. सगळ्यान पयलीं म्हजी वळख करून दितां. हांव 'भिनीस' चो संचालक. 'भिनीस' म्हळ्यार भिकारी निर्मुलन समिती. समितीतर्फे आमी समाजांतल्या भिकाऱ्यांखातीर वावर करतां. भिकाऱ्यांक सोदून काडप आनी तांकां रीण कर्ज दिवन उद्देग धंदो करूंक लावप वो शक्य थंय नोकरे चाकरेक लावप हो आमचो वावर. असोच एके जात्रेंत ह्या भिकाऱ्याक हावें पळयलो. तेन्ना तो दाव्या पांयान कुट्टून दाखयतालो. ताचें कट्टेंत जें कितें जमिल्लें तातूंत ताका भिकारी निर्मुलन समितीचो वांगडी केलो. संस्थेकडल्यान हाका रीण दिलें आनी स्वतःचो उद्देग करपाक मुखार काडलो. आनी आज?

**भिकारी** : तुमचे संग्थेच्या रिणाचें कळंतर फारीक करपाक म्हाका हें करचें पडलें.

**समाजसेवक** : पूण तें फारीक करपाक ज्या रेव्यांतल्यान तुका वयर काडलो, त्या रेव्यांत तुवें परत येवपाचो न्हय.

**भिकारी** : तुका कितें खबर! ह्याच रेव्यांत आमचीं साळकां फुलतात!

**समाजसेवक** : आतां तुमीच सांगात इश्टांनो, चूक कोणाची? आमी समाजांतलें भिकाड्डेपण ना करपाक सोदतात, जाल्यार हे भिकारी आमकां सहकार्य करिना. कसो चलपाचो आमचो भिकारी निर्मुलन समितीचो वावर? किडी मुयो लेगीत कश्ट करून जोडून खातात आनी हे असले हातपांय धडदाकट आशिल्ले मनीस, तोंड पेंचून लोकांमुखार गळवज्ञा येतात. हातांत कट्टी घेवन. हे कट्टेंतल्यान देश कसो वयर सरतलो? पूण इश्टांनो, आमी निराश जावंक ना. समाजसेवा हें आमी व्रत म्हण आपणायलां. आमच्या वावरांत कितल्योय जरी आडी आडखळी आयल्यो तरी आमकां त्यो पयस सारपाकूच जाय. असल्या भिकाऱ्यांचें भिकाड्डेपण ना करपाक आमकां अदीक नेटान वावुरपाची गरज आसा. आनी आमचो वावर हो तुमचे दानतीचेर अवलंबून आसा. सद्याक आमचे भिकारी निर्मुलन समितीक दुडवांची खूब गरज आसा. संस्थेची स्वतःची नवी इमारत, स्वतःची गाडी, म्हजेसारख्या स्वयंसेवी आपवावुरप्यांचो मुशायरो हाचेखातीर आमकां मेळटा तितलो पैसो उणोच. हांव तुमकां विनंती करतां - तुमी 'भिनीस' क म्हळ्यार आमचे भिकारी निर्मुलन समितीक समाजकार्याखातीर सदळ हातांनी मदत करची. (समाजसेवक हातांतली पिशवी उकती करून सगळ्यांच्या म्हऱ्यांत वता. लोक पिशवेंत पैशे वडयतात. इतल्यांत गर्देंत कोणतरी उप्रासता. पिशवी ताचेकडेन येतकच तो पिशवेंत तोंड घालून 'खो, खो' करून हांसता.)

- ए, तूं ताचे झोळयेंत ..

- झोळी न्हय, पिशवी.

- कट्टी, झोळी, पिशवी सगळें एकूच तर तूं ताचे पिशवेंत एक फुटकी कवडी वडयना आनी वयल्यान ताचीं फकाणां करता?

**समाजसेवक** : पुता, समाजसेवेच्यो अशो बकच्छायो करता?

कोणतरी : म्हजेकडेन तुजे पिशवेंत घालपाक कांयच ना, पूण हांव तेबदली तुका एक ज्योक सांगता.

समाजसेवक : तुजो ज्योक आयकुपाक कोणाक वेळ आसा?

कोणतरी : कित्याक ना? व्हदळ तुजें भाशण सगळ्यांनी आयकलेंना? - सांगूनी ताका ज्योक.

- सांग रे ज्योक.

(समाजसेवकाची इत्सा ना पूण तो बळजबऱ्यां आयकता.)

कोणतरी : एक आसलो हांव. हांव म्हळ्यार कोणतरी. तर एक दीस कोणतरी एका बार्रांत सोरो पिवपाक गेलो. कसलो सोरो? बीयर. एक बीयर पिलो. भायर आयलो. मुतलो. दुसरी बीयर पिलो. भायर आयलो. मुतलो. तिसरी पिलो. भायर आयलो. मुतलो. चवथी पिलो. भायर आयलो.मुतलो. पांचवे बीयरीची गुड्डी काडली. भायर आयलो आनी ताणे ती बीयर अशी भसाभस ओतली आनी बीयरीक अपुरबायेन म्हळें, अशी आडवाटेन कित्याक रकता? अशी सरळ रक. (सगळे लोक हांसतात. समाजसेवक वग्गी.)

कोणतरी : (समाजसेवकाक) तूं हांसलोना कित्याक?

समाजसेवक : म्हाका तुजो ज्योक कळूंना.

कोणतरी : पूण हावें आदीं सांगिल्लें न्हय ज्योक म्हण. सोपनाफुडें हासपाचें. हे बाकिचे हांसलेना?

समाजसेवक : म्हाका ज्योकूच कळूंना जाल्यार हांव हांसतलो कित्याक?

कोणतरी : ज्योक ना कळूं, ज्योकाचो अर्थ तरी कळ्ळा?

समाजसेवक : सांगलें न्हय, मुदलाक ज्योकूच कळूंना म्हण.

(भिकारी मुखार येता.)

भिकारी : तुजो ज्योक आनी ज्योकाचो अर्थ म्हाका वेसवरो कळ्ळा. (समाजसेवकाक) तूं म्हजेमदीं पडूं नाका. (भिकारी समाजसेवकाक कडेक सारता आनी कट्टी घेवन भीक मागपाक लागता. समाजसेवक ल्हवूच कडसरता. लोक समाजसेवकाक आनी भिकाऱ्याक हांसतात आनीक कडेक सरतात.)

कोणतरी : आतां हांव तुका एक बरी भीक घालतां.

भिकारी : तूं उलयता ताचे वयल्यान तुजी दानत भीक घालप्याची कशी दिसना.

कोणतरी : तशें जाल्यार पळयशी तर. हातच्या कांकणांक हारसो नाका. दवर तुजी कट्टी सकयल.

भिकारी : कट्टी सकयल कित्याक दवरूं? अशीच वयल्या वयर घाल.

कोणतरी : त्या तुगेल्या पुर्वजांची गजाल तूं नकळो?

भिकारी : कसली गजाल? आनी कोण पूर्वज?

कोणतरी : एक भिकारी आसलो. एक दीस भीक मागतां मागतां ताका देव प्रसन्न जालो, आनी म्हणपाक लागलो, झोळी मुखार कर. हांव तुजे झोळयेंत भांगर ओततां. मात एक - झोळयेंत जाता तितलेंच घे. झोळी फुटून मातयेंत रकल्यार सगळ्याची माती जातली. देव झोळयेंत भांगर ओतीत रावलो. भिकाऱ्याची आस वाडत रावली. भिकाऱ्याची झोळी ती...पोरनी झिरझिरीत.. सामकी कावलाक आयिल्ली. सामकी नवीताल्ल आनी गडगंज आसपाक कोणा गिरेस्ताची झोळी नासली ती. शेवटाक जावपाचें तेंच जालें.

भिकारी : झोळी फुटली. भांगर मातयेंत रकलें. ताची माती जाली आनी देव नाच्च जालो.

कोणतरी : तुजे कट्टेक बुराक पडून तशें कितें घडचें न्हय म्हण तुका सांगतां, कट्टी सकयल दवर.

भिकारी : (सकयल दवरता.) आतां घाल तुजीं वज्रां काय माणकां!
(कोणतरी उडकी मारून, कट्टेंत जाता तितलो पांय घालता.)

भिकारी : हीं कसलीं आडांगीपणां?

कोणतरी : हांव अख्ख्याचे अख्खो तुका भिकेक पडलां.

भिकारी : तूं म्हजी जात्रा इबाडून वडयतलो. कट्टी सोड. (कोणतरी कसोंच वाडगना.) तूं कितें समजलो. तुका हांव भितलों म्हण. भिकारी जालों म्हण दुबळो ना हांव. (बळजबरीन ताका धुकलता आनी कडेक वडयता. कट्टी सुतलायता.) पाड पडूं हे भिकेक. तेपरस रेगण काडून केल्लो तो उद्देग परवडलो!

**कोणतरी** : (पडला थंयच सावन) ए भिकाऱ्या, राव, राव, हे पळय तुजे कट्टेंतले पैशे हांगा उरल्यात. व्हर, व्हर. (भिकारी पैशे घेना आसतना वता.) तीन पैशे! तीन पैशांचें नाणे सांडून गेलो. तीन पैशे व्हरपाचे आनी ती कट्टी सांडपाची. पूण ना. कट्टी व्हेली. ताच्या वाडवडिलांची मिरास ती. जल्माचो दळडिरो. ती घेवन गेलो. दळडिरो! कट्टे वृत्तीचो दळडिरो! मेलो तरी आपणाली कट्टेची वृत्ती सोडपाक ना. सांवाळून दवरतलो. आतां हे तीन पैशे म्हाका सांबाळचे पडटले (पैशे जतनायेन बोल्सांत घालून दवरता.) (एक दोंबारी गळ्यांत धोलकें घालून तें बडयत नाचत येता. लोक ल्हवू ल्हवू ताचे भोंवतणी जमपाक लागतात. )

**दोंबारी** : खेळ पळयात, खेळ. म्हज्या खेत्याचो खेळ. येयात. लागीं येयात. भुरगीं बाळां, जाणटे नेणटे, म्हातारे कोतारे, वांकडे तिकडे, तिरशे पालशे येयात, वेगीन येयात. खेळ पळयात, खे ळ. म्हज्या खेत्याचो खेळ. पैशे वडयात, गरिबांचेर दया करात. हात बोल्सांत घालात, पैशे काडात. मामाचो हात वयल्या बोल्सांत, मामीचो हात बोटव्यांत, काकीचो हात पोलक्यांत, पैसो आडको, फुटकी कवडी. गरिबांचेर दया करात. खेळ पळयात, खेळ. म्हज्या खेत्याचो खेळ. (आशी कुशीचे लोक पैशे वडयतात, ते तो बेगीबेगीन पुंजायता. दोंबारी धोलकें बडयत आड्डता. लोक ताका विचारतात)

- आरे, केन्नाच्यान आड्डता तूं, खेळ पळयात खेळ म्हण. तुजें खेतें खंय?
- खेतें नासतना कसलो खेळ?
- खेत्याक भायर काड.

**दोंबारी** : खेत्याक काडपाक तें हावें कितें लिपोवन दवरलां तर?

- मागीर खंय आसा तर खेतें?

**दोंबारी** : (रडकुऱ्यां) जात्रेक आयिल्लेक डेन म्हजें खेतें शेणलां.

- खेतें शेणलां जाल्यार वाजयता आनी नाचता कित्याक तर?

**दोंबारी** : धोलक्याचो आवाज आयकून तें येतलें देखून वाजयतां.

- आनी आयलेंना जाल्यार?

दोंवारी : अशें म्हणू नाकात. म्हजें खेतें म्हाका आयिल्लें जाय. म्हज्या पोटाचो प्रश्न सोडोवपी प्राणी तो.

- तशें जाल्यार आनीक नेटान धोलकें वाजय तर. पळोवया येता जाल्यार.

दोंवारी : येतलें म्हजें खेतें. हांव म्हजें वाजोवपाचें काम करतां. तुमी तुमचें काम करात.

- कसलें काम?

दोंबारी : (वाजयत) पैसो आडको, फुटकी कवडी.

- ए, आतां कोण कांय वडोवं नाकात रे. पयलीं हाच्या खेत्याक येवं दी. मागीर पळोवया.

- चल, वाजय.

(सगळे लोक ताका वाजय वाजय म्हण कोलायतात. तो वाजयता, पूण भिला. गर्देच्या कंवडाळ्यांतल्यान भायर सरपाक पळयता पूण लोक ताका भायर वचपाक दिना. धुकलून परत परत भितर वडयता. तो सामको वावडो जाला. इतल्यान ताच्या वाजपाच्या तालार खेत्यासारको नाचत कोणतरी कंवडाळ्यांत भितर सरता. लोक कवतुकान ताचो नाच पळयता. कोणतरी नाचता आनी गायता.)

खर्र खर्र म्हजें खरपता माथें
म्हजें खरपता माथें ।।

हांव बाबा शेणलां
भल्लेले जात्रेंत
वोडापासून पांयामेरेन
बुडून गेला साखरेंत
माथ्यार म्हज्या फुलांराशी
तरी हांव खेतें? ।। १ ।।

शेणिल्लें गोरू
करमळेच्या तळ्यार
तशें हांव हांगा
उक्त्या उक्त्या मळार
असलें सुख भोगलां हावें
जावन हांव खेतें ।। २ ।।

तासून तासून कुले म्हजे
लाल लाल जाले
गोऱ्या गोऱ्या सुंदऱ्याचे
गाल कशे जाले
तरी लेगीत तुमचे लेखीं
आजून हांव खेतें? ।। ३ ।।

(लोक कोणतरीच्या खेत्याचो नाच पळोवन पैशे वडयता. कोणतरी चडानचड पैशे एकठांय करता. नाच सोंपता आनी लोक कडेक सरतात. दोंवारी आनी कोणतरी उरलेले पैश जमयतात. पैशे जमोवन जातकच -)

दोंवारी : तुजे व्हड उपकार जाले. नाजाल्यार हे लोक म्हाका तुकलावन खातले आसले.

कोणतरी : कसले उपकार?

दोंवारी : तूं योग्य वेळार म्हजें खेतें जावन आयलो.

कोणतरी : म्हळ्यार?

दोंवारी : म्हळ्यार म्हजें खेतें जो नाच करून दाखयतलें आसलें तो तुवें मनशान करून दाखयलो.

कोणतरी : तातूंत कितें? आनी हांव मनीस खंय तर? हांव खरेंच खेतें. खेतो!

दोंवारी : म्हजीं फकाणां मारता? दी म्हजे पैशे दी.

कोणतरी : तुजे पैशे? कसले?

दोंवारी : लोकांनी खेत्याक वडयिल्ले.

कोणतरी : खेत्याक वडयिल्ले खेत्याक (म्हाका) पावलें.

दोंबारी : म्हज्या गरिवाच्या पोटार आड कित्याक येता? चल, पैशे दी. देव तुजें कल्याण करतलो.

कोणतरी : म्हाका तुजे पैशे नाकात.

दोंबारी : (लाळेगोळे करीत) तें तुज्या तोंडावयल्यानूच कळटा.

कोणतरी : लाळेगोळे नाका.

दोंबारी : कितें जाय?

कोणतरी : म्हज्या प्रश्नाची जाप. खरी खरी जाप. म्हज्या प्रश्नाची जाप दिल्यार तुजो पैशान पैसो तुका. फट मारशी जाल्यार तुगेले म्हजेकडेन आशिल्ले आनी तुजेकडेन आशिल्ले नाशिल्ले सगळे पैशे एकठांय करून ह्या मुखावयल्या दर्यांत मोखतलों. खरें खरें सांगतलो?

दोंबारी : हय.

कोणतरी : तुगेल्या प्रिय प्राण्याचो सोपूत घेवन सांग, खरें खरें सांगतलो?

दोंबारी : म्हगेल्या प्रिय प्राण्याचो सोपूत घेवन सांगतां, [illegible] खरें सांगतलो.

कोणतरी : खंयचो प्रिय प्राणी?

दोंबारी : म्हज्या खेत्याचो सोपूत घेवन सांगतां खरें खरें.

कोणतरी : (तिडकून) फट! हाड तुजेकडले पैशे.

दोंबारी : ना, ना. सांगतां. म्हज्या जिवाचो सोपूत घेवन सांगतां. खरें खरें सांगतलो.

कोणतरी : तुजें खेतें खंय शेणलां?

दोंबारी : (रडटा)

कोणतरी : रडपाचीं संवगां करूं नाका. खरें सांग. खेतें खंय शेणलां?

दोंबारी : ना.

कोणतरी : कितें ना?

दोंबारी : म्हजें खेतें शेणूंक ना.

कोणतरी : मागीर तूं लोकांक कित्याक फटयता?

दोंबारी : (पोटार हात मारता)

कोणतरी : आतां तरी खेतें घेतलो?

दोंबारी : ना वावा. ताचो सांबाळ करपाक जमचोना. तेपरस होच फटींगपणाचो धंदो बरो. खेतें शेणलां म्हणप, धोलकें वाजोवप. लोक काकूळट करता, कितेंय झडटा तेंच वरें. म्हजे पैशे. हांव वतां. नाजाल्यार जात्रा सोंपतली.

कोणतरी : (ताका तागेले सगळे पैशे दिता.)
तुजो भोवमान करपाक म्हजेकडेन कांय ना.

दोंबारी : कसलो भोवमान?

कोणतरी : इतल्या लोकांक चक्रावपी मनीस तूं!

दोंबारी : (माठेपणाचो आव हाडून) हे, कसलें कितें? एकेकल्याचें कर्तृत्व! खेळ पळयात खेळ, म्हज्या खेत्याचो खेळ (धोलकें वाजयत गर्देंत रीगता.)

कोणतरी : कितलें भाग्यवान हें खेतें! ताचेखातीर कितले लोक चुरचुरतात! तें येतलें म्हण वाट पळयतात तें शेणूंकच ना कारण ताचो जल्मूच जावंक ना. पूण ताचें अस्तित्व मात आसा. जल्माक आयिल्लीं कितलीं खेतीं दोंबाऱ्यांच्या हातानी मरणाच्यो वेदना भोगता आसतलीं आनी हें आमचें जल्माक येंव नाशिल्लें खेतें कितलें सुखी! भाग्यवान! खऱ्यांनिशी भाग्यवान! (कोणतरी भोंवतणीं अचळय गर्दी जाता आनी तो गर्देंत शेणटा.)

(एक भुरगो गर्देंतल्यान बोमाड्यान खेळत येता. बोमाडो वयर वडयता आनी हातान ताका धुकलता. ताच्या एका हाताचे मुठींत चणे आसा. खेळटा आसताना तो मदीं मदीं थारता. आनी एक चणो खाता आनी परत खेळटा. कोणतरी गर्देंतल्यान मुखार येता, ताचो खेळ लक्षुवायेन पळयत रावता. मदीं मदीं ताका बोमाडो लागीं हाडपाक मदत करता. भुरगो विश्वासान ताचेकडेन आपणाले मुठींतले चणे दवरपाक दिता आनी खेळटा खेळटा ताचे मुठींतलो एक एक चणो काडून खाता. ताचो खेळ रंगार येता. इतल्यान गर्देंतल्यान एकलो त्या भुरग्याक सोदीत येता. तो उगाच्या माकनाचो धनी. ताच्या हातांत एक उशीकाणो आसा - तो ताणें वडी कसो धल्ला. येनाफुडें भुरग्याच्या वचकुलाक

धरून ताका व्हिंजळटा.)

धनी : हांव आख्खे जात्रेंत तुका सोदतां जाल्यार तूं हांगा खेळटा? हांगा तुका खेळपाक हाडला? चल,

कोणतरी : (मदीं पडून) आरे, भुरगो भुरगेपणांत खेळचो ना जाल्यार जाणटेपणांत खेळटलो? आनी तुजो भुरगो म्हूण तूं ताका असो धपकायता?

धनी : तो म्हजो भुरगो न्हय.

कोणतरी : म्हणून धपकायता?

धनी : तो म्हजो न्हय आनी आनीक कोणाचो म्हण ताका धपकायना तो म्हजो मानाय म्हण धपकायतां.

कोणतरी : हो भुरगो तुजो मानाय?

धनी : मानायपण करपी कामदार.

कोणतरी : इतलो ल्हान भुरगो?

धनी : तुवें ताका खातना पळोंवना.

कोणतरी : पूण हांवें ताका खेळटना पळयला. तो खऱ्यांनीच भुरगो.

धनी : आसूं भुरगो.

कोणतरी : पूण असल्या भुरग्याक कामांक लावप वरोबर न्हय.

धनी : कित्याक वरोवर न्हय?असल्या भुरग्यान चोरयो केल्यार जाता?

कोणतरी : कसल्यो चोरयो?

धनी : तो तागेल्या घरांतली एक वस्त दवरिना आसलो. देखून बापायन म्हजेकडेन कामांक दवरलो. पेज, भाकरी, बिस्कीट कितें म्हण हाणे सोडप ना. कांयच मेळना तेन्ना मडकेंतले तांदूळ पसून खातालो खंय!

कोणतरी : हें इतलेंय चोरून खातालो? धंय-तुप खायना आसलो?

धनी : धंय-तुप चोरून खावपाक तो गोकुळांतलो बाळकृष्ण न्हय. दयडिऱ्यालो पोर!

कोणतरी : म्हणून तुवें गाड्याक बांदला?

धनी : गाड्याक? कसल्या गाड्याक? उसाचो रोस काडपाच्या माकनाचें फकत चक्र धुंवडायता तो.

कोणतरी : हो पोर चक्र धुंवडायता? म्हणजे श्रीकृष्णाचो अवतार!

धनी : तुज्यो पुराण कथा आयकल्यार हांगाच फाल्यां जातलें. (पोराक) खंय रे तो?

कोणतरी : राव, आज ताज्या वाट्याचें हांव तुज्या माकनाचें चक्र घुंवडायतां.

धनी : तूं सो कित्याक?

कोणतरी : आज त्या भुरग्याक जात्रेंत खेळूं दी. तूं त्या भुरग्याक जो दिसवडो दिता तो म्हाका दी. हांव तुजें काम करतां. वयल्यान त्या भुरग्या परस चड.

धनी : वाबा रे, हांव पसरकार. समाजसेवक न्हय. हाका एकदां खेळाची चक लागल्यार हो मागीर हाताकडेन मेळटा? तूं ताचे बदली काम करतलो पूण वेळ प्रसंगार हांव ताचेर तापय काडटां. ताका पेट्टां, तशें म्हाका तुजे वावतींत कशें करपाक मेळटलें?

कोणतरी : पुण तापय काडपाचो आनी पेट घालपाचो प्रसंगच हांव येवपाक दिना न्हय?

धनी : हांव कितें ताका ताचो गुन्यांव जाता म्हणूनच पेट्टां अशें न्हय. म्हजी संवंय म्हणून म्हाका ताका मदीं मदीं मारचो पडटा वा केन्नाय वड्याचें तेल वांयग्यार तसो गिरायकाचो राग ताचेर काडचो पडटा तितलीच मनाक थाकाय मेळटा आनी हांव ताका दितां त्या दिसवड्यान तूं समादानी जातलो?

कोणतरी : वरेभशेन.

धनी : आतां म्हणटा. मागीर तुज्या श्रमाची आनी मोलाची तुळा करतलो. त्या पोराक हिशोव खंय कळटा? तात्पर्य.. तूं म्हाका नाका. म्हाका हो पोरूच जाय.

कोणतरी : (आडावन) ना. हांव तुका ताका व्हरपाक दिवंचोना.

धनी : व्हरपाक दिवंचोना? कित्याक?

कोणतरी : ताचो खेळ अर्दकुटो उरला आनी फक्त ताचोच न्हय, म्हजोय वी.

धनी : वा! म्हज्या पोटाक थंय उजो लागला आनी तुमचो हांगा खेळ रंगला?

कोणतरी : आमचो खेळ कित्याक मोडटा?

धनी : खेळ म्हणून मोडटां. असल्या खेळानी पोटां भरनात.

कोणतरी : जीण भरता!

धनी : जीण भरता! पोटाक फोण घालून कसल्यो जीण भरपाच्यों गजाली करता? चल, म्हजी वाट सोड.

कोणतरी : ना. हांव ह्या भुरग्याक व्हरपाक दिवंचोना.

धनी : व्हरपाक दिवंचोना? आनी थंय चरक्याचें चक्र कोण म्हजो वापूय काय श्रीकृष्ण घुंवडायतलो?

केणतरी : दोगां भितल्लो जो कोण खरो आसा तो घुंवडायतलो.

धनी : दिसपाक आलमपेड्ड्यार, पूण तुका बुद्द वरी आसा. कोण तूं?

कोणतरी : कोणतरी.

धनी : कोणतरी?

कोणतरी : जात्रेंत जायत्यो वस्ती शेणटात तशें म्हजें नांव हे जात्रेंत शेणलां.

धनी : पूण हे जात्रेची म्हयमा तुका खबर ना दिसता. हे जात्रेंत शेणिल्ली वस्त परत मेळटा.

कोणतरी : दिसता ती मेळटा. दिसनाशिल्लीय मेळटा?

धनी : म्हज्या चरख्याच्या चक्रापरस तुजी तकली फांस घुंवता.

कोणतरी : भगवान श्रीकृष्णाची कृपा!

धनी : तूं तकलेन हुशार म्हण तुका एक गजाल सांगतां. म्हज्या चरख्याचेर काम करपाइतलो आनंद दुसरो ना. चरख्याच्या चाखांक घुंगरां बांदल्यांत. चक्र घुंवता तशीं घुंगरां वाजता. चक्राची गती जितली फांस तितलो घुंगराचो नाद गोड. सकल गळपी उसाच्या रोसापरस गोड! कितें वर्णुची ह्या चक्राची म्हयमा! चक्र सुदर्शन घुंवता घुंवता, रोस गळटा, रोस गळटा. भगवान श्रीकृष्ण म्हाराज कीं जय! (भुरग्याक बचकुलाक धरून ओडटा. भुरगो रडकुन्यां येता. कोणतरी कडेन आपणाले चणे मागता.)

भुरगो : चणे! चणे!

कोणतरी : चणे! (मुठींत पळोवन) हो पळय एकूच चणो उरला. चरख्याच्या धनया, हो निमाणो चणो ताका खावं दी. (धांवून वचून) घे. भुरग्या तुजो चणो घे. (भुरगो हात मुखार करता. चणो हातांतलो पडटा.

धनी भुरग्याक एके वटेन भरभरीत ओडीत व्हरता. चणो दुसरे वटेन पडटा. जमनी वयल्यान घरगळटा. कोणतरी चण्याचे फाटोफाट जमनीचेरच सरपटत धांवता. बारीकसाणेन नियाळटा. भितरसून ताच्या कानांत चरख्यावयल्या घुंगरांचो आवाज सादता. कांय वेळ आयकत रावता. त्या आवाजान न्हिन्नळटा आनी मागीर उलोवपाक लागता.)

कोणतरी : कोणा भुरग्याचो चणो शेणला! भर जात्रेंत कोणा भुरग्याचो चणो शेणला! भगवान श्रीकृष्णा, तुज्या भुरगेपणांत जर तुजे मुठींतल्यान हो चणो शेणिल्लो जाल्यार संवसारांत कितें आकांत जावपाचो न्हय. तुगेले संवगडी गवळी सगळें गोकूळ आड्डून माड्डून आर्त्याचें परतें करून वडयतले आसले. काम धाम विसरून गवळणी चण्याच्या सोदाक लागतल्यो आसल्यो. यशोदेच्या कपलाक शंबर आठयो! चणो मेळना आनी कोणाक अन्न रूचना. आनी आज? त्या चरख्यावयल्या पोराचो हो आख्खो चणो शेणला जाल्यार हे भर जात्रेंत कोणाक चिंता हुस्को ना. भगवान चक्रधारी, तुगेल्या सुदर्शनान शिशुपालाचीं रगतां काडलीं. हें चक्र घुंगरां वांदून कोणाचें भुरगेपण चिड्डीता? तुगेल्या त्या चक्राचो धर्म कितें आसलो? घुंवप? काय रगतां काडप? काय घुवतां घुवतां रगतां काडप? कोण दितलो जाप? हे जात्रेंतलो लोक? ह्या भुरग्याचो जल्म आडावपाचें तंत्र सोदून काडलां आनी भुरग्याचें भुरगेपण जपपाचो मंत्र मोखून मारला. पोराचो चणो शेणला! पोराचो चणो शेणला!

(इतल्यान गर्देतल्यान एकलो भायर येता. सादारण आडसाटो तरनाटो. पूण भेस केला ल्हान भुरग्याभशेन. हातांत खूब बोमाडे आसात. तो एके कडेक रावन भुरग्याभशेन कुरवो करून कोणतरीक आपणावटेन आपयता. कोणतरी ल्हवू ल्हवू ताचे वटेन वता. )

तरनाटो : घे.

कोणतरी : कितें?

तरनाटो : पैशे.

कोणतरी : कसले पैशे?

तरनाटो : पयलीं घे. मागीर सांगतां. (कोणतरी पैशे घेता.) आतां म्हाका शिकय.

कोणतरी : कितें शिकोवं?

तरनाटो : बोमाड्यांनी खेळपाक.

कोणतरी : बोमाड्यांनी खेळपाक तुका शिकोवं?

तरनाटो : व्हदळ तूं त्या भुरग्यावरोबर खेळनासलो?

कोणतरी : तो भुरगो!

तरनाटा : आनी हांवूय भुरगोच.

कोणतरी : तुजी पिराय कितली?

तरनाटो : फक्त पस्तीस वर्सां!

कोणतरी : तुज्या सारक्या भुरग्याची पिराय इतलींच वर्सां? हे जात्रेंत साठ वर्सांचे सुद्दां भुरगे आसतले. तूं इतले वेगीनसो बोमाड्यांनी खेळपाक लागलो? (त्या मनशाक कोणतरीच्या प्रश्नांतली खोंच समजता. तो वावडो जाता.)

तरनाटा : म्हज्या भुरगेपणाचेर तूं असो धपको कित्याक घालता?

कोणतरी : तुजें कितें घडलां?

तरनाटो : भुरगेपणांत म्हाका बोमाड्यांनी खेळपाची खूब उमेद आसली. पुण तेन्ना बोमाडे घेवपाची तांक नासली. आतां तांक आयल्या. पुण खेळपाक कळना.

कोणतरी : त्या मनशाची खबर तूं जाणा?

तरनाटो : कोणाची?

कोणतरी : एक खंय मनीस आसलो, तो दर जात्रेक येतालो. ताचें बोल्स खुळखुळटालें आनी दांत शिंवशिंवताले.

तरनाटो : म्हणजे?

कोणतरी : म्हणजे ताका चणे खायन दिसताले.

तरनाटो : मागीर तो खायनासलो?

कोणतरी : ते जात्रेंत चणेच नासताले.

तरनाटो : अशें?

कोणतरी : मागीर एक वर्स जात्रेंत खूब चणे आयले. राशिनी.

तरनाटो : तेन्ना ताणे आपली इत्सा भागयली आसतली.

कोणतरी : ना. तेन्ना ताचें वोल्स पिनिल्लें आनी दांत झडिल्ले.

तरनाटो : आरे !

कोणतरी : घे, तुजे पैशे घे. (परत दिता.)

तरनाटो : तूं म्हाका खेळपाक शिकयना?

कोणतरी : हाड एक बोमाडो दी.

(ताचेकडसून एक बोमाडो घेता आनी फोडटा.)

तरनाटो : तुवें म्हजो वोमाडो फोडलो? म्हज्या चार आण्याची तुवें वाट लायली.

कोणतरी : आतां कसलो कर्माचो खेळटा? तुजें भुरगेपण सोंपून वेवहारपण सुरू जालां. चल, हे वोमाडे कोणाय भुरग्यांक वांटून वडय.

तरनाटो : वा! वेश्टे फुक्या सवाय वांटून वडोवं? पैशे पडूना तर तांकां? आतां ना कळूं. केन्नातरी कळटलेंच म्हाका खेळपाक. (तसोच अडेचीं भुरगेपणां करीत वता.)

(जात्रेक आयिल्लो एक वापूय आनी ताची आडसाठी चली उलयता.)

बापूय : तूं हांगाच राव. हांव रोकडो येतां.

चली : दाद, हांव कित्याक येवं नाका?

बापूय : वयर खूप गर्दी जाता. सामकी चिरंगट.

चली : जांव चिरंगट जाल्यार. तूं वचचोना चिरंगटींत?

बापूय : चलीमनीस चिरंगटींत वरें न्हय. आनी मागीर बायलां दिसलीं म्हणटकच दादले चड चिरंगट करतात.

चली : कित्याक?

बापूय : कित्याक म्हणजे? तुका इतलेंय कळना? कळना तेंच वरें आसा.

चली : हांव हांगाच रावूं?

बापूय : हय. हांगाच राव. हांव देवाचें दर्शन घेतां आनी रोखडो येतां.

चली : दाद, हावें कितें सांगलां ताची याद आसा न्हय?

बापूय : तुका जाय तें सगळें घेवंया.

चली : दाद, म्हजेकडेन एक्कूय पैसोना.

बापूय : हांव आसतना तुजेकडेन पैशे कित्याक? कोणेय मुतलायल्यार नसतें पिकसांव.

चली : रोकडो येतलो न्हय?

बापूय : रोकडो येतां. (वचपाक वता. परतता.) आनी हें पळय, मातसो कळाव जावं येता. हांगचें हालूं नाका. (बापूय वता. चली अजापान आनी खोशयेन जात्रा पळयता. व्हदळच्यान तिचेर दोळो दवरून आशिल्लो एक संदीसादू मुखार येता.)

संदीसादू : आवडली?

चली : (कांचवेता.)

संदीसादू : कांचवेना कित्याक गो? पयलेच खेप आयलां जात्रेक?

चली : (मानेनूच हयकार दिता.)

संदीसादू : देखून कांचवेना. मवंय जानकूच मागीर भीड वतली. कशी लागली?

चली : (किर्तें?)

संदीसादू : जात्रा!

चली : (आस्लेंभितर.. तुज्या बापायची काय किर्तें?)

संदीसादू : तूं मोने काय किर्तें गो?

चली : न्हय.

संदीसादू : मागीर?

चली : (व्हडल्यान) भेरें!

संदीसादू : वा, बरें हुशार आसा मगो तूं!

चली : आसपाक जायना?

संदीसादू : ओ! जायना कित्याक? हुशार आसपाकूच जाय, नाजाल्यार हे जात्रेंत तग लागता?

चली : म्हणजे?

संदीसादू : शेणपाचें!

चली : हांव किर्तें गोम्‍ तर?

संदीसादू : पूण गोम्वांपरस मनशांच चड शेणटात.

चली : म्हाका खबर ना.

संदीसादू : तूं एकलेंच?

चली : आं? तूं कितें समजलो, हांव शेणलां म्हणून? वाट पळय.

संदीसादू : म्हणजे?

चली : म्हज्या शेणपाची वाट पळय.

संदीसादू : कितलो वेळ पळोवं?

चली : (बेपर्वायेन) चल.

संदीसादू : (संदीसादू ताका पळयत रावता.)

चली : असो पळयता कितें?

संदीसादू : तुज्या हातांक पळयतां. खरें म्हळ्यार चलयांचे हात अशे उक्ते पळोवं नजो.

चली : पळोवं नाका.

संदीसादू : तुका तीं कांकणां बरीं सोबतलीं. थंय एक कांकणकार बसला. ताचेकडेन तीं आसा. तुवें पळयला?

चली : हांव आजून फेरयेंत भोंवकूच ना. आयलां तशें हांगा उबें आसा.

संदीसादू : येवचे येवन हांगाच उबें आसा?

चली : म्हजो दाद वयर देवळांत गेला. तो येतकच मागीर आमी फेरयेंत भोंवतलीं.

संदीसादू : तो म्हणसर फेरी सोंपतली.

चली : आंवय! इतलो कितलोसो वेळ लागतलो ताका? येवपाचो जालो.

संदीसादू : वाय गो, ही विचित्राची जात्रा. थंय दर्शनाक लायनी लागता लायनी. येन्रा तो झुंडींतल्यान लायनीत तरी उबो रावला काय म्हण देवाक खबर!

चली : जांव मातसो कळाव जाल्यार.

संदीसादू : कळाव जाल्यार मुख्य फेरी उलगतली. ही जात्रा एका दिसाची. सूर्य अस्तमच्या आदीं सगळें कवळपाक जाय. पसरकारांक ताकतीक आसा. मेळटा तशी वस्तू लाटूटा. गिरायकांचे फाटीक वाग लागिल्लो आसता.

चली : त्या कांकणकाराकडेन वरीं आसा कांकणां?

संदीसादू : म्हाका आवडलीं.

चली : तुवें घेतल्यां?

संदीसादू : हांव कोणाक घेतलों? पूण म्हाका आवडलीं. तुज्या मनगटाक तीं बरीं सोबतलीं. उरल्यार पुरो. व्हदळ ताका बायलांचो गराडो पडिल्लो. नवे मोदिचीं म्हण बायलांच्यो घिट्टी. तशीं तुका जायच जाल्यार पोरणे मोदिचीं मेळटलीं. पूण तेपरस तुवें तीं ना घेतिल्लीं बरीं. तुजे मेकळे हात आसा तेच बरे दिसता. बरें गो (वचपाक सोदता.)

चली : ए, म्हजें एक काम करता?

संदीसादू : (थारून) कसलें काम?

चली : तूं मातसो हांगा रावता?

संदीसादू : कित्याक?

चली : हांव रोखडें कांकणकाराकडेन वचून येतां.

संदीसादू : हांव हांगा रावून कितें करूं?

चली : म्हजो दा आयल्यार ताका सांग, हांव रोकडें येतलें म्हण.

संदीसादू : हांव सांगतां न्हय, तो इतले बेगीन कसोच येना. एकदां लायनीत सांपडलो म्हणटकच वरांचीं वरां थंय उरलोच.

चली : वरांचीं वरां?

संदीसादू : आनीक कितें तर? इतले म्हणसर तूं धा फावटीं तरी त्या कांकणकाराकडेन वचून येतलें. तरी आसतना तुका जाय जाल्यार तुज्या उतराखातीर हांव हांगा रावतां. पूण हांव तरी हांगा रावून कितें करतलों? हांव तुज्या दाक खंय वळखतां? म्हाका तुजो दादूय सारको आनी कांकणकारूय सारको. तुका जाय जाल्यार हांव तुज्या वांगडा येतां. हे जात्रेंत तोंडाक येता तशी गाळ तें प्रमाण तोंडाक येता तशी दर आसता. खऱ्या परस फटींगपणा चड! सगळीं संदीसादूपणां! तुजेपरस भुरग्यांक चड फटयतात. तुका जाय जाल्यार हांव तुज्या वांगडा येतां. ताचे कडेन वांटपणां करपाक न्हय. म्हाका तें जमचना. फक्त एक दादलो मनीस तुजे वांगडा आसा म्हटल्यार ताचे दरेक कितें तरी ताळतंत्र उरतलो. हांव येवं?

चली : खूब वरें जातलें. यो. (वचपाक वळटा . संदीसादू तिचो हात धरून म्हणटा .. )

संदीसादू : तेवटेन न्हय. हे आडवाटेन. (तिचो हात धरून गर्देत भरसता.)

(जात्रेंत एक बायल मनीस आनी तिचो घोव. बायल उमेदी. घोव आळसाय करता.)

बायल : तुमकां पुरो जालें काय कितें?

घोव : तुज्याय लक्षांत आयलें?

बायल : व्हदळच्यान पळयतां तुमचे पांयच उखलना.

घोव : व्हदळ व्हड्यांतल्यान देवन पांय तळाक लायल्या मात, जडशे जाले. पांय धर्तरेक तेकयना फुडें तुका मात पाखां फुटलीं.

बायल : म्हाका हे जात्रेची खूप ओड! आनी नासपाक कितें जालां? वर्सांतल्यान एकदां तर येता.

घोव : भेटेक वचचीना?

बायल : कोणाचे?

घोव : देवाचे. एका वर्सान आयल्या.

बायल : म्हणजे तुमी यवंचेना? हांव एकलीच वचूं?

घोव : तोंडावयल्यान तशी तुजी इत्सा दिसता खरी.

बायल : अशें कितें उलयता तुमी?

घोव : म्हाका पुरो जालां हें तुकाय पटलां. हांव हांगा विसव घेतां आनी फेरयेंत थोडीभोव खरेदी करतां. परत हांगाच मेळचीं.

बायल : आनी चुकामूक जाल्यार?

घोव : मोटे उमेदीन विचारताशी?

बायल : सांगलें न्हय, उमेद जात्रेची.

घोव : आनी दर्शनाची.

बायल : हय, तें तातूंत आयलेंच न्हय.

घोव : फक्त दोनूच न्हय, तुका उमेदिचीं खूब पांखां फुटल्यांत.

बायल : वचूं?

घोव : आतां म्हण तुका आडावं येता? हांव हांगासरूच आसतलों. ह्याच

अस्करांत. हांव दिसचोना. दिसता तेन्ना हेवटेन यो. वेळ लायल्यार जाता. वर्साची जात्रा! सगळी उमेद भागोवन घे.

(वायल उमेदीन देवळाकडेन वचपाक जात्रेंत भरसता. घोव चोरयां तिचे फाटोफाट तिचो माग घेत वता.)

(एका जाग्यार संदीसादू ते चलयेच्या हातांक कांकणा चडयता.)

**संदीसादू** : हावें सांगूंक नासलें, कांकणां खूब सुंदर! तुका आवडलीं ना?

**चली** : आवडलीं, पूण..

**संदीसादू** : हांव नासल्यार तुका तो कांकणकार चक्रयतलो आसलो. ताच्या उलोवण्यावयल्यान तशें दिसना आसलें?

**चली** : दिसतालें, पूण..

**संदीसादू** : थंयच चडयल्यार तो बोवाळान चडयतलो आसलो आनी ताचेकडल्यान फुटलेल्या कांकणांचे पैशे तुजेकडल्यान काडटलो आसलो. आनी अपराध्या वशेन ताचे हात कितले कडकडटाले ते पळयलें ना तुवें?

**चली** : पळयले.

**संदीसादू** : नाजाल्यार म्हाका पळय, कांकणकार नासून लेगीत कितलो सराव आशिल्ले वशेन हांव तुज्या हातार कांकणा चडयतां. तुका दुखता?

**चली** : ना.

**संदीसादू** : दुखपासारकें तातूंत कितें आसा? म्हाका चड वेळ लागता?

**चली** : ना. (काचाबूल जाता.)

**संदीसादू** : कंवचेचीं न्हय, देखून सवकासायेन चडोवचीं पडटा. एकदां फुटलें जाल्यार गेलें. पैशे उदकांत. तूं इतलें काचाबूल कित्याक?

**चली** : पूण कांकणांचे पैशे तुवेंच दिले.

**संदीसादू** : तातूंत कितें जालें! तुजेकडेन सद्याक पैशे ना. जात्रेंत कोण पसरकार उदार पातयेता? आनी तूं, तुजो दाद येसर रावल्यार हीं कांकणां सोपतलीं आसलीं. (कांकणां चडोवन जालीं तरी संदीसादूच्या हातांत चलयेचो हात तसोच आसा.)

**चली** : तेंवूय खरेंच. दाद येना फुडें तुजे पैशे दितां. तूं खंय वचूं नाका.

**संदीसादू** : च्ये! आतां तुका सोडून कसोच वचना. (चली आपलो हात सोडून

घेता.) खरें म्हळ्यार कांकणांपरस तुजीं मनगटांच सोबून दिसतात.

चली : कितले पैशे जाले?

संदीसादू : पैशांचें कसलें घेवन बसलां? पैशे दिना सुद्धां जाल्यार जाता.

चली : शे, अशें कशें? पैशे दिवपाकूच जाय, नाजाल्यार हीं कांकणां म्हजीं कशीं जातलीं? वगीच दुसऱ्याचे म्हण पैशे घेवं येता?

संदीसादू : वगीच कशे तर? आनी हांव तशे पैशे सोडटां?

चली : दाद उलयना जाल्यार पुरो.

संदीसादू : कित्याक? कांकणां घेतल्यां म्हण?

चली : ना. तुजेकडल्यान पैशांचीं घेतल्यां म्हण.

संदीसादू : हांव समजायतां तुज्या दादाक.

चली : नाका. हांव वतां.

संदीसादू : आनी हांव?

चली : आं, विसरलेंच. चल आमी या.

संदीसादू : येन्ना तुज्या दादाक लायन तरी सांपडल्या काय म्हण देवाक खबर! ए, तुका पान आवडटा?

चली : ना.

संदीसादू : कसलें तें तरी विचार.

चली : म्हाका कसलेंच पान आवडना.

संदीसादू : हांव जाणा, पैशांखातीर तूं फाटिफुडें जाता. पूण पानाक कितें लाख पडना. तुज्या जिवाक लागता जाल्यार म्हज्या पानाचेय पैशे तूंच फारीक कर.

चली : करतलेंच.

संदीसादू : म्हणटकूच पान खावया तर.

चली : कसलें पान?

संदीसादू : सार्दे न्हय, रंगीत!

चली : रंगीत?

संदीसादू : अं, आनी तें हे गर्देंत खावपाचें न्हय.

चली : मागीर?

संदीसादू : थंय दोंगराचे आड झिलीनी वसून खावप तें.

चली : झिलीनी?

संदीसादू : अं. थंय पान बरें रंगता.

(तो चलयेक घेवन गर्देत रीगता.)

(जात्रेंत एके सुवातेर ती बायल मनीस आनी कोणतरी हांसत दिसतात.)

बायल : तुजो सभाव म्हाका खूब आवडलो! हांव कोणाक तरी सोदतालीं आनी जुस्त तूं मेळ्ळो. जशी काय हांव तुकाच सोदतालीं.

कोणतरी : म्हाका तुजे नदरेंतूच दिसलें, तूं कोणाक तरी सोदता. देखून हावें विचारलें, तूं कोणाक सोदता?

बायल : आनी हावें मात वाडगनासतना म्हळें, तुका.

कोणतरी : म्हाका खूब खोस जाली!

बायल : म्हाकाय! म्हजें कुळारचें गाविल्ले भशेन जालें म्हाका. आवय - बापूय, भाव - भयण, गाय - पाडकां, पोरसूं - कुळागर.

कोणतरी : तूं शकूक वळखता?

बायल : कोण शकू?

कोणतरी : कण्वालें शकू.

बायल : कोण कण्व?

कोणतरी : कण्व ऋषी! तागेली शकुंतला.

बायल : शकुंतला? तिचें कितें जालें?

कोणतरी : तिचें तूं जालें.

बायल : म्हणजे?

कोणतरी : कण्व ऋषीच्या आश्रमांत शकुंतला ल्हानाची व्हड जाली. कुळागरांत कावथी वाडची तशी! आनी एक दीस कावथी मुळासकट हुमटावपाचो प्रसंग कण्व ऋषीचेर आयलो.

बायल : म्हळ्यार?

कोणतरी : म्हळ्यार शकुंतलेक राजा दुष्यंतागेर धाडची पडली. काळीज तोडप सोपें पूण माया न्हय अशी कण्वाची स्थिती जाली. वाऱ्यान माड करकरचो तसो त्या आकांतान कण्व करकरलो. शकुंतला घांवा घरा

वचपाक भायर सरली आनी शिंयान गात्रां आंवळून येवचीं तसो सगळो आश्रम शकुंतले भोंवतणी एकटावलो. दवाच्या थेंव्यांनी पानांवयल्यान धडाधड धर्तरेचेर घालून घेतलें. फुलांचो देठाकडलो संवंद हाललो आनी आश्रमांत फुलांचो शितोडो पडलो. कान फुलारून उबीं राविल्ल्या गोरवांच्या दोळ्यांतल्यान धगमोड्या उदकाचे पाट खळखळ्ळे आनी काल परयान आवयचें दूद लुचूंक शिकूंक नाशिल्ल्या त्या हरणाच्या गुवगुबीत पाडकान 'तूं वचूं नाका' म्हण शकुंतलेचें वस्त्र तोंडान ओडून धरलें . ही अवतिकाय जर सगळ्या आश्रमाची जाल्यार ते शकुंतलेची मनस्थिती कितें?

**बायल** : (आवेगान) नाका, म्हाका सांगू नाका ती गजाल. म्हाका खबर आसा.

**कोणतरी** : तुका खबर आसा?

**बायल** : हय, ती शकुंतला वी कोण न्हय. ही म्हजीच गजाल. तुका कोणें सांगलें तें सांग.

**कोणतरी** : ही शकुंतलेची गजाल. ती तुजीय जांव येता.

**बायल** : ना, ही म्हजीच गजाल. म्हाका आशिल्लो दुवाव खरो जालो. तूं म्हगेल्या कुळारचो. तुका सगळें खबर आसा.

**कोणतरी** : खऱ्यांनीच म्हाका कांय खबर ना. म्हाका फक्त शकुंतलेची गजाल खबर आसा. आनी तातूंत मुखार कितें घडटा तें जाणा तूं? शकुंतलेक आश्रम सोडचो पडटा हें दुःख न्हय तर तिचो घोव राजा दुष्यंत तिचो स्वीकार करीना ही खंत.

**बायल** : म्हजीच गजाल म्हाका सांगून तुवें म्हज्या घायावयली खवळी निखळ्ळी. कसलें समाधान भोगलें तुका?

**कोणतरी** : परत एक फावट एके शकुंतलेक पळोवपाचें समाधान.

**बायल** : पळोवपाचें न्हय, रडोवपाचें समाधान.

**कोणतरी** : शकुंतलेची फुडली गजाल तुका सांगू? मुखार तिच्या दुखांची फुलां जातात.

**बायल** : फुलां-बिलां कांय जायना. ती गजाल तितल्यारूच सोंपता.

**कोणतरी** : खंय?

बायल : ती कुळार सोडून येता तरी तो तिचो स्वीकार करीना.

कोणतरी : स्वीकार करीना म्हळ्यार ..

बायल : हांव सांगता. म्हजी कथा तुका वरी खबर आसा काय म्हाका?

कोणतरी : सांग.

बायल : वायल म्हळ्यार ताका - रानांतलें सवणें धरून पांजऱ्यांत घालचें तशी म्हजी अवस्था! तो बायल म्हण म्हजेकडेन पळयता. मनीस म्हण पळयना. लग्न जायत सावन म्हाका कुळार बंद. सगळें बंद. वर्सातल्यान एक जात्रा! वर्सांत एक जात्रा भोगप आनी मागीर त्या म्हालवजार एक वर्स सारप! दुवावी, सामको दुबावी! ताच्या काळजाक दुवावाच्या गुंगुल्यांनी इतले बुराक माल्ल्यात तातूंत म्हजेवयलो ताचो विश्वास पारज कसो गळसणून वता. भोंगू ताचें. खूप तेंपान, एका वर्सान तूं मेळ्ळो. जिवाक वरें दिसलें. पयलीं हांव तुका वळखलेंना मागीर वळखलें. इतल्या बऱ्या सभावाचो मनीस म्हज्या कुळाराबगर आनी खंयचो आसूं येता! त्या प्रेमाचें लग्न जालें? आजून जावंना जाल्यार ताका सांग, लग्नूच जांव नाका म्हण. आनी त्या पोरसांतलो तो चांफो फुलपाक लागलो? त्या मुखावयल्या तळ्यांत आजुनूय तीं तांवडीं साळकां फुलतात? मांजरान माळ्यार कितले पेंटे काडले? कपिल वियेली? (ताका हालयत) तूं उलयना कित्याक? सांग, कितें घडलां म्हज्या कुळारा? म्हाका भायर सोडीना. म्हगेर कोण येना! कसलो महारोग जाला म्हजे जिणेक म्हण म्हाका सगळ्यांनी अशें सगळ्यांपासून पयस दवरलां ? सांग, सांग (ताका घट धरून हालायता. इतलो वगत तिचो घोव आडसून पळयता तो मुखार येता.)

घोव : जालें दर्शन? घे, वरे तरेन दर्शन घे. (ती कोणतरी पासून कडेक सरता.)

बायल : हो .. हो म्हज्या कुळारचो.

घोव : संबंदावयल्यान कळ्ळें.

बायल : म्हाका कुळारचो हुस्को जाला. तो कांयच सांगना.

घोव : सगळे उतरांनी उलयना, थोडे करण्यांनी. (कोणतरीक) आतां हिका

घेवन वता न्हय?

बायल : खंय?

घोव : तुज्या कुळारा.

बायल : खऱ्यांनीच?

घोव : भुल्लुसता पळय कशी! कुळार जाय तुका? हो कुळारी मेळ्ळो तो पुरो जालोना? हाचेच खातीर जाय तुका ही विचित्राची जात्रा? हाच्या दर्शनाखातीर? लग्नाच्या दिसापासून दुबाव आसलो म्हाका. चित्त थाऱ्यार नासतालें तुजें. नदर खंयतरी पयस! ती कोणाक सोदताली तें आतां कळ्ळें. दुबाव आयलो तेन्नाच्यान कुळार बंद केलें तुजें. तरी तुजी नदर भिरभिरत रावली. ती आज थाऱ्यार पडली. नांव कितें हाचें?

बायल : हांव ताका तसो वळखना.

घोव : तसो वळखना मागीर कसो वळखता?

बायल : खऱ्यांनीच सांगता, जिवाचो सोपूत घेवन - हांव हाका...

घोव : पुरो कर फटींगपणा! अखेर पांजऱ्यांतल्या किराक पांजरोच योग्य. चल.

कोणतरी : (ताका आडायता) इश्टा, इतल्या वोवाळान हांव कांयच उलयलोना.

घोव : तुवें आनीक कित्याक उलोवपाक जाय? आनी हांव तुजो इश्ट? आनी अशे तरेची आमची इश्टागत?

कोणतरी : तिजो कसलो गुन्यांव ना.

घोव : मागीर गुन्यांव कोणाचो? तुजो?

बायल : ना, ताचोय कसलो गुन्यांव ना.

घोव : मागीर गुन्यांव कोणाचो? म्हजो? तुमकां हांगा पळयता तो?

कोणतरी : तिणें फक्त आपलें दुःख म्हजेमुखार ल्हव केलां.

घोव : तूं कोण म्हणून? तिचो भाव? इश्ट, सोयरो-धायरो,दायजी-गोत्री? हांतूंतलो तूं कोण?

कोणतरी : हांतूंतलो हांव कोणूच न्हय. असोच कोणतरी!

घोव : कोणतरी हें नातें न्हय. आनी एके लग्न जाल्ले बायलेचो कोणतरी

आसूंक शकना.

**कोणतरी** : (आड्डून) कित्याक आसूंक शकना? जेन्ना सगळी नातीं सोंपतात तेन्ना मनशाचो कोण उरता? कोणाकडेन सुखदुखाच्यो चार गजाली करपाक कोणाचो कोणतरी लागपाकूच जाय? जे आंकवार मातेन संवसारांतल्या अनाथ पोरांक आपल्या पदरापोंदा धापलीं, ती बायल मनीस त्या पोराची कोण लागता? ज्या कबुतरांनी आलतडचे संदेश पलतडी पावयले तीं कबुतरां आमचीं कोण लागता? हांव हिजो कोणूच न्हय. न्हय प्रेमी, न्हय सोयरो-धायरो, न्हय दायजी-गोत्री, हय गांव भाव. हांवे हाजे आदीं हिका केन्ना पळोवंक ना, हिजेकडेन केन्ना उलोवंक ना. तरी लेगीत हांव तिजो आनी ती म्हजी कोणतरी लागता आनी तें नातें वळखुपाक तुका आनी तुज्या सारक्या समस्त कपलफुटक्यांक शंबर तरी जल्म घेंवचे पडटले.

**घोव** : तुगेलें सगळें अर्थ नाशिल्ले बडवडीन म्हाका एकूच कळ्ळें, तूं तिजो कोणतरी लागता. म्हजें काम जालें. आतां मुखावयलें हांव पळोवन घेतां आतां वाटेवयलो कडेक सर.

**कोणतरी** : माड्डून चल.

**घोव** : माड्डून न्हय, खोंट मारून वतलों. (ताका धुकलून वडयता. कोणतरी शेंवटून पडटा. बायल हुंडक्यानी रडटा. घोव तिका तसोच भरभरीत ओडीत व्हरता. कोणतरी जमनीर कितें तरी सोदीत रावता. चिमटेंत एक ल्हानसो फातर धरीत-)

**कोणतरी** : मेळ्ळें. पापणीचें दुक मेळ्ळें. बाकिचीं सगळीं दुकां मातयेंत भरसलीं पूण हें एकूच मेळ्ळें. ह्या फातराचेर दुक अरसता आसताना फातराच्या काळजांत कितें भगभग पेटला आसतलो! पूण मनशाची काळजां हाचेपरस कितलीं निबर! पापणीचें दुक शेणलां! दुकांत कुळार शेणलां! (ताका गर्दी घेर करता.)

(बापूय चलयेक गर्देतल्यान भरभरीत ओडीत हाडटा.)

**बापूय** : खंय गेल्लें?

**चली** : दोंगराचे तेवटेन, झिलीनी.

बापूय : कित्याक?
चली : शेण खावपाक.
बापूय : खाल्लें?
चली : हय. खाल्लें. पोटभर खाल्लें. फुडल्या आयुष्याक पुरो इतलें खाल्लें.
बापूय : कोणा बरोबर गेल्लें?
चली : एका जनावरा बरोबर.
बापूय : जनावरा बरोबर?
चली : दोन पायांच्या जनावरा बरोबर.
बापूय : हांगा रावपाक सांगिल्लें तुका.
चली : गुन्यांव तुजो.
बापूय : म्हजो कसलो गुन्यांव?
चली : चलयांक सांबाळपाक कळना जाल्यार तुमी तांकां जात्रांक कित्याक हाडटात? जनावराचे भकीक घालपाक? म्हाका तुवें फट कित्याक मारली?
बाप : कसली फट?
चली : ही देवाची जात्रा म्हण.
बापूय : मागीर ही कसली जात्रा तर?
चली : कुंकडांक-बकडांक बळी दिता तसली देंवचाराची जात्रा!
बापूय : तुका हांगा एकलें सोडलें तें चुकलें म्हजें.
चली : आनी म्हाका तूं पातयेलोना.
बापूय : कित्याक?
चली : पैशांक.
बापूय : हांव येसर थार धरपाक तुका कितें जातालें?
चली : तुका मातसो वेगीन येवपाक कितें जातालें?
बापूय : हांव वेगीनूच आयिल्लों. तुका सगळे जात्रेंत सोद सोद सोदलें आनी मागीर दुवावान हांव दोंगराचे तेवटेन गेलों.
चली : हे जात्रेंत अशें घडटा म्हण तुका खवर आशिल्लें?
बापूय : थोडेंभोव आयकल्लें हांवें.

चली : तशें जाल्यार हे जात्रेक तुवें म्हाका हाडलेंच कित्याक? (हुंडकेता)

बापूय : चल, जाल्लें जावन गेलें. तुका जाय तें घेवया.

चली : म्हाका जाय तें मेळचें आदींच नाका तें मेळ्ळें. आतां म्हजी जिणेवयली वान्सा गेली. हांव-हांव म्हाका हे भर जात्रेंत फोण काडून पुरून घेवपी.

बापूय : (सावरीत) अशें थतर वितर जांव नाका.

चली : हात लांव नाका म्हाका. दादल्यांचो स्पर्श म्हळ्यार ओंकारी येतां.

(इतल्यान कोणतरी येता. ताच्या हातांत फुटकें कांकण आसा.)

कोणतरी : बाय गो. हें फुटकें कांकण तुजें? जात्रेंत म्हाकां तें मेळ्ळें. हांवें सगळे जात्रेंत भोवून सगळ्यांची मनगटां पळयली. हें कोणाच्या मनगटाचें न्हय पूण हें तुज्याच मनगटाचें. कारण तुज्या मनगटाचें आजून रक्त व्हांवता. आनी ह्या फुटिल्ल्या काकणांचेर आजून रक्ताचो थेंब चकचकता! रक्तावयल्यान तुजें कांकण वाडवलां अशें दिसता. तें तर फुटलां!

(चली तोंड पोशांत लिपयता आनी गर्देत धांवता. फाटोफाट ताचो बापूय वता. कोणतरी फुटकें कांकण घेवन -)

कोणतरी : एके आंकवार चलयेचें फुटकें कांकण शेणलां, ताच्या वयल्या रक्ताच्या थेंब्यासकट! फुटिल्ली कवंचेची वस्त आनी फुटकें नशीब सादपाक जाता काय! वांटकुळें कांकण म्हळ्यार वाटकुळोच संवसार! कांकण भंगलें तसो कोणाचोय संवसार भंगतलो काय!

(एक फुलकार फुलां विकपाक भोंवता.)

फुलकार : फुलां जाय? इतलींच उल्ल्यांत.

कोणतरी : कळो आसा?

फुलकार : (एक कळो काडून दिता.) धा पैशे.

कोणतरी : (कळो हातांत घेवन) म्हज्या प्रश्नाची जाप दी. मागीर पैशे. हो कळो कित्याक फुलूं ना जाणां? (फुलकार बावडो वग्गी.) हो कळो फुलता आसतनाच ताची एक पाकळी कोणेतरी अशी तोडली. (पाकळी तोडटा) आनी ताका म्हळ्ळे, आतां फुल. कळ्यान मनांत म्हळ्ळें, फुलचें आदींच जर तुमी म्हाका अशीं किस्मुरता जाल्यार हांव

फुलचना. आनी तो फुलनास्तनाच रावलो. आतां ह्या कळयाच्या भोंवतणचो संवसार काळखांत बुडला. कसो? आमी दोळे धांपतकच जसो आमचो संवसार काळखांत बुडटा तसो!

(फुलकार कळो झोमून घेता आनी वाटेक लागता. जात्रा उलगत आयल्या. लोक परतुपाचे तयारेक लागतात.)

(एके तरेचें लक्ष ओडून घेवपी वाजप सुरू जाता. त्या वाजपा भोंवतणी लोक गर्दी करतात. गर्देतल्यान थंयच्या एका चौथऱ्याचेर एकलो म्हाजनसो प्रतिष्ठित सोबूंये असो मनीस उबो रावता आनी वाजप थारतकूच उलोवपाक लागता)

**म्हाजन** : श्री विचित्राचे कृपेन जात्रा वर्सा सारकी निर्विघ्नपणी जाली आनी आतां जात्रा उलगत आयल्या. अंदू वर्सा जे जात्रेक नवीनूच आयल्यात तांका कळपाखातीर हांव सांगतां - श्री विचित्राचे जात्रेचे परंपरा आनी प्रथेप्रमाण सूर्या अस्तमचे आदीं हांगच्यान सगळ्यांनी वचपाक जाय. वचना जाल्यार कितें जातलें ताचो उच्चार हांव म्हज्या तोंडातल्यान करीना. फक्त इतलेंच शिटकायतां की, विखाची परिक्षा कोणे घेवंची न्हय. आतां जात्रेच्या नेमाप्रमाण ह्या निमण्या भागाक हांव सुरवात करतां - शेणिल्या सांपडिल्ल्या वस्तूंची चवकशी. तुमकां सगळ्यांक खबर आसतलीच हे जात्रेची एक म्हयमा आसा - ती म्हळ्यार हे जात्रेंत शेणील्ली वस्त परती मेळटा. जांव पैसो - भांगर, जांव कपडो लत्तो, जांव भुरगें - बाळ. शेणिल्ल्यो वस्तू जांकां मेळटा त्यो ते देवळांत एकठांय करतात आनी मागीर हांगा चौथऱ्यार त्या वस्तूंची जाहीर चौकशी जाता. अंदूचे जात्रेक जांच्यो वस्तू शेणल्यात ताणी मातशी लागीं येवचें. शेणिल्ल्यो वस्तू जांका मेळ्ळ्या आनी जाणी त्यो आजून देवळांत दिवंकना ताणी त्यो आतां हांगा जमा करच्यो. श्री विंचित्राच्या आशिर्वादान हांव म्हज्या कामाक सुरवात करतां. तुमी, देवळाच्या सगळ्या भक्तांनी म्हाका सहकार्य करचें. सगळ्यांचे माहिती खातीर एक गजाल सांगतां - पावणे भशेन दर एके वस्तूचो पयली खेप आनी दुसरी खेप असो दोन फावटी पुकारो जातलो. वस्तूचो धनी

गावता जाल्यार ती वस्त दोन पुकारे करून तिसऱ्या पुकाऱ्यार देवाच्या नांवार सा जातली. वस्त जिनसाच्या रूपान आसल्यार देवाची दौलत जातली. आनी मनशाच्या रूपान आसल्यार .. हांव म्हज्या पवित्र कार्याक आरंभ करतां. पयले सुवातेर - एक शेणिल्लो जाणटो मनीस मेळ्ळा. जाणट्याची पिराय णव्वद ते पंचाण्णव वर्सांची आसतली. ताचे सगळे दांत    पडिल्ल्यान तो कितें उलयता आनी खंयची भास उलयता तें समजना. ताचें कमरावयलें धोतीर सुतलेन बांदलां. (लोक ल्हवू ल्हवू पयस सरतात. कुशीक दोग जाण  उलयतात.)

पयला : जाणटो मनीस म्हळ्यार अणभवाची खण.

दुसरो : बरोबर.

पयलो : जाणटो मनीस शेणोवपाक फावना.

दुसरो : बरोबर.

पयलो : जाणटेल्यांचो आमकां कितलो आदार जाता?

दुसरो : बरोबर.

पयलो : जाणटेल्यांक घरा दवरून जाय थंय भोंवपाक मेळटा.

दुसरो : बरोबर.

(पयल्याच्या वाक्या वाक्यार दुसरो बरोबर, हय,सारकें म्हणून मान हालयता.)

- आमच्यां भुरग्यांक कोण सांबाळटा?
- आमच्या पोरण्या कपड्यांनी तांचें भागता!
- आमी घरांत रावन, जाणटेल्यांक भायर दवरून, नाका तांकां भायलेभायर कटोवपाक मेळटा.

(चौथ्यार - )

म्हाजन : एक जाणटेलो शेणला. जाचो ताणे घेवन वचचो - पयली खेप! जाणटेल्याचें उलोवणें थोडें थोडें कळपाक लागलां. ताज्या म्हणण्याप्रमाण, ताच्या पुतान, सुनेच्या आगऱ्यान मुद्दम ताका जात्रेक धाडिल्लो. जाणटेल्याक जाचो ताणें घेवन वचचो. - दुसरी खेप. जाणट्याल्याविशीं आनीक थोडीशी म्हायती म्हळ्यार तो उंचेल्या घराण्याच्यो दिसता -

कारण ताच्या कमराक एक गडगंज अशें चांदीचें काण आसा.

**लोक** : चांदीचें काण!

(लोक लागीं वतात.)

(दोग जाण उलयतात थंय - )

**दुसरो** : कसली धंगण नाशिल्ली वायल मनीस ही! धोतराक सुतली वांदताना कमराचें काण काडपाचें न्हय?

**पयलो** : जाणटेलो तुगेलो तर?

(चौथऱ्यार)

**म्हाजन** : चांदीच्या काणाचो जाणटेलो जाचो ताणे घेवन वचचो - तिसरी खेप - सारे ..

**दुसरो** : (व्हडल्यान) राव रे राव तो म्हजो बापूय! गर्देंत रीगता. दुसरे वस्तूची चवकशी जाता.

**म्हाजन** : तुवाल्याच्या आकाराचो एक शेणील्लो कुडको मेळ्ळा. तुवाल्याचो मुदलचो रंग कसलो म्हणपाचें वळखुपाक कळना, इतलो तो म्हेळो जाला. कुडक्यार तरांतरांचे दाग आसात. दागूय कसले ते कळना. कुडको - पयली खेप -

(गर्देंत एकलो मुखार येता आनी कपडो आपलो म्हूण घेवन वता. लोक मातशे मातशे कडेक सरतात. एक जाणटेलो म्हाजना म्हऱ्यांत येता.)

**जाणटेलो** : म्हजी एक म्हत्वाची वस्त शेणल्या.

**म्हाजन** : कसली?

**जाणटेलो** : म्हजो पांच वर्सांचो एक भुरगो शेणला.

**म्हाजन** : तुका पांच वर्सांचो भुरगो आसा?

**जाणटेलो** : हय.

**म्हाजन** : पुण तुजो भुरगो कोणाक मेळूंक ना.

**जाणटेलो** : मेळूंना कसो तर? शेणल्या म्हणटकच मेळपाकूच जाय.

**म्हाजन** : पुण शेणूकूच ना जाल्यार मेळटलो कसो?

**जाणटेलो** : हांव प्रत्यक्ष ताचो बापूय सांगता न्हय म्हजो भुरगो हे जात्रेंत शेणला

म्हण?

म्हाजन : हें पळय, तुजो भुरगो शेणल्यार तो कोणाक तरी मेळपाचो आनी ताणे तो हें जात्रेचे प्रथेप्रमाण हांगा हाडून दिवपाचो. जे अर्थी तो कोणेंच हाडून दिवना ते अर्थी तो शेणूना.

जाणटेलो : आरे, पुण..

म्हाजन : हाका कडेक काडात रे. नसतो वेळ खाता. म्हज्या उतराचेर विश्वास ना म्हणचे कितें?

(जाणटेल्याक लोक कडेक काडटात. म्हाजन परत चवकशी सुरू करता.)

म्हाजन : एक शेणील्लें गंगावन मेळ्ळां. गंगावनाचें केंस बरेच राकट आसात. मनशाचे कशे हाताक लागना. गंगावन जाचें ताणें घेवन वचचें - पयली खेप. अदीक म्हयती म्हळ्यार गंगावनांत उवो आनी लिको भुसभुसतात. आतां तरी वळख पट्टली - दुसरी खेप. (गर्देंत एकली मुखार येवन गंगावन घेवन वता.)

म्हाजन : आतां एक नकसूद वस्त तुमचे मुखार येता. एके चलयेची भेंडावयली एक सोबित साय शेणल्या. (सगळे लोक धांवत दाटी करतात.)

म्हाजन : एके चलयेची साय शेणल्या - पयली खेप! हाचेविशीं अदीक म्हायती म्हळ्यार सायेच्या घेरावयल्यान ती सुमार दोन तीन वर्सांच्या भुरग्याची आसूंये. (लोक कपलार हात मारीत निरशेवन कडेक सरतात. गर्देंत कोणतरी रीगता. एकल्याक ओडून कडेक काडटा आनी विचारता)

कोणतरी : शेणल्या ती वस्त तुजी?

पयलो : (काचाबुल जावन) ना.

कोणतरी : (आनी एकल्याक) तुजी?

दुसरो : ना.

कोणतरी : (आनी एकल्याक) तुजी शेणल्या?

तिसरो : ना.

कोणतरी : मागीर सुण्याभाशेन धांवून कित्याक गेले तर थंय?

तिगूय : आमकां दिसलें ..

कोणतरी : कितें दिसलें? (पयल्याक) तुका तुजे आवयची कशी दिसली? (दुसऱ्याक) तुका तुजे भयणीची कशी दिसली?(तिसऱ्याक) तुका तुजे धुवेची कशी दिसली? काय कोणा परकी बायलेची कशी दिसली?

(त्या तिगाजाणांक आनीक कांय जाण मेळटात. ते सगळे कोणतरीच्या आंगार धांवन येवन ताका धुकलून धूकलून वडयतात.)

लोक : तूं, तूं कितें उलयता?

- तुका सभ्यताय ना?
- चारचौगांत कितें उलोवचें तें खवर ना?
- लजभीड कांय ना?
- तोंडाक कितें सुवाद?
- बुरसो मरे सामको! बुरूथ!
- पोजडो!
- सूज!

कोणतरी : तुमी कोणाक सभ्यताय शिकयतात? म्हाका? तुमी विकृतीच्या म्हारोगान भितल्ल्यान सडल्यात. तुमच्यो धुवो सोवुये अशा चलयांकडेन तुमी अधाशी नदरेन पळयना? गर्देत तुमचे पांय खंय ओडटात? नदर खंय आसता? कोंपर कितें करतात? ओंठावयल्यान कसली लाळ गळटा? परके बायलमनशेच्या हड्ड्यार भुरगें दुद पितना तुमची नदर कोणाचे कवतुकान वागवता? भुरग्याच्या? पावसांत भिजतल्या बायलांक तुमी खंयचे सहानुभूतीन पळयतात?ओणव घालून काम करतल्या कामेऱ्यां मुखावयल्यान वतना तुमचीं पावलां जड जायनात? घोव मेल्ले जुवान वायलेची तुमकां कितली काकळूट? वायलांचेर वलात्कार जाल्ल्यो खवरी तुमी कशे कान दिवन आयकतात आनी तीख-मीठ लावन सांगतात?

लोक : तूं कोणाचीं वर्मा वयर काडटा?

- पाडापडिल्लो.
- हळशिकावणो!
- ओरदीनार!

- तुकलयात रे ताका.
- खोंटायात.

(सगळे ताचेर झुझून वतात. गर्देंत कोणतरी पडटा. धोपट्टा. कडेक शेंवटता. बोवाळ जाता.)

**म्हाजन** : (लोकांक शांत करीत) उपकार करून बोवाळ करूं नाकात. हांगा थोड्योच वस्तू उरल्यात तांची चवकशी सुर्या पडचे आदीं करूया. एक जोत्याची व्हाण शेणल्या. दाव्या पायांची खूब झरल्या. चड करून धुवो वाडिल्ल्या बापायची आसूंये. आखाण्डो तुटला. तो आल्फनेतीन जोडला. उबे राविल्ले कडेन जांचो पांय सकल लागूं नासून जांचो तोल गेला ताणी आपणाल्या पायांकडेन पळोवचें. व्हाण शेणल्या - पयली खेप! (कोण एकलो मुखार येवन व्हरता.) हांगासर हाडून दिल्ल्या सगळ्या वस्तुंची चवकशी जाली. जर आजून कोणायकडेन सांपडिल्ली वस्त आसत जाल्यार ताणी बेगोबेग हाडून दिवंची. वेळ सामको उणो आसा. सगळ्यांकूच ताकतीक आसा. सुर्या अस्तमतेकडेन लकला. (कांय वेळ वाट पळयता.) म्हाका दिसता, सगळ्या वस्तुंची बरेतरेन चवकशी जाली. श्री देवा विचित्रानूच ती बरे भशेन घडोवन हाडली. आतां हांव तुमचो निरोप घेतां. (चौथऱ्यावयलो देंवपाक सोदता. इतल्यान गर्देंतल्यान कोणतरी आड्डता.)

**कोणतरी** : राव, राव, म्हाका कांय वस्तू गावल्यात. (गर्देंतल्यान वाट काडीत वता. आपणाल्या तायटार घेवन दाखयता.) ह्यो इतल्योच न्हय, ह्यो फकत दोळ्यांनी दिसपी. दोळ्यांक दिसनाशिल्ल्योय कांय वस्तू हे जात्रेंत शेणिल्ल्यो म्हका मेळ्ळ्यात.

**म्हाजन** : (दुवावान पळयत) हो वेळ फकाणां मारपाचो न्हय. थंय अस्तमते कडेन त्या सुर्याक पळय. तो कोणाखातीर रावचोना.

**कोणतरी** : पूण ह्या वस्तुंची चवकशी जावपाक जाय.

**म्हाजन** : ह्यो कसल्यो वस्तू? हांकां कसलें मोल आसा? हे जात्रेंत असल्यो शेंकड्यांनी वस्तू शेणल्या आसतल्यो. पायांपोंदा मस्तून गेल्या आसतल्यो.

**कोणतरी** : पायांपोंदा मस्तिता त्या वस्तूंक मोल नासता?

म्हाजन : नासता कित्याक? कोणायल्या नाकांतलें शेणल्यार ताका अवश्य मोल आसता. पूण तें भांगराचें आसचें पडटा. तेन्नाच.

कोणतरी : आनी नाकांतल्या भांगरापरस प्रत्यक्ष नाकूच शेणल्यार त्या नाकाक मोल नासता?

म्हाजन : तुजेकडेन वाद घालपाचो हो वेळ न्हय. कारण मुदलाक हांगा वेळूचना. (लोकांक) चलात, अधिकृतपणान शेणिल्ल्या सांपडिल्ल्या वस्तुंची चवकशी जाली. आतां पावलां उखलपाचे तयारेक लागात. (चौथऱ्यावयलो देंवता. कोणतरी त्याच चौथऱ्यार बेगीबेगीन उबो रावता.)

कोणतरी : रावात, खंय वतात? जात्रेच्या नेमा प्रमाण शेणिल्ल्या वस्तुंची चवकशी जावपाकूच जाय. आनी म्हाका जात्रेंत मेळिल्ल्यो ह्यो कांय वस्तू आसात. पयले सुवातेर ..

म्हाजन : (ताका ओडून सकयल काडटा आनी आपूण उबो रावता.) ह्या जात्रेच्या नेमा प्रमाण शेणिल्ल्या वस्तुंची चवकशी अधिकृतपणान जाली. हें आतां कितें चल्लां तें अधिकृत न्हय. कारण जात्रेचे परंपरे आनी प्रथेप्रमाण ह्या चौथऱ्यार उबो रावपाचो मान, हक्क म्हजो. म्हाका म्हज्या घराण्यांतल्या मनशांशिवाय देवाच्या ह्या पवित्र चौथऱ्यार उबो रावपाचो हक्क दुसऱ्या कोणाक ना. (देंवता. कोणतरी परत चडटा.)

कोणतरी : हांव कोणाचो हक्क झोमून घेवपाक हांगा उबो रावंक ना. जाचें जें शेणलां तें ताका मेळचें हे इत्सेन हांव हांगा उबो रावलां.

म्हाजन : (ताका ओडून आपूण उबो रावता.) मेळपाचें ताका मेळ्ळें. आतां आनी वेळ काडूं नाकात. नाजाल्यार आयुश्यांत तुमी जें केन्ना मागूंक नाशिल्लें आनी कल्पनेन येवजूंक नाशिल्लें तें तुमच्या वांट्याक येतलें. सासणाचे फातर जावन हांगा पडून रावपाचें. सुर्या पळयात खंय पावला. (देंवून तुरतुरीत चलपाक लागता. कोणतरी त्याच आवेशान परत चौथऱ्यार चडटा.)

कोणतरी : ह्या वस्तुंची चवकशी जाले वगर हांगचे हालूं नाकात. ना जाल्यार

तुमची जात्रा निर्विघ्नपणान उलगुची ना. तुमी देवाक केल्ल्यो आंगवणी, प्रार्थना सगळ्यो फुकट वतल्यो. वयल्यान पापाचे धनी जातले.

(लोक काचाबूल जातात.)

**लोक** : - आरे, भाशणां कसलीं कपलाचीं करता?

- कसल्यो वस्तू मेळ्ळ्यात ताचो पुकारो कर.

- गरजे भायर वेळ कित्याक काडटा?

- प्रसंग कसलो पळय मरे!

**कोणतरी** : पयले सुवातेर - कट्टेंतले तीन पैशे शेणल्या. ह्या तीन पैशांचेर तीन तोंडांच्या एका प्राण्याचें चित्र आसा. तिनूय तोंडां एकठांय आसूनय तिगांयच्यो नदरो तीनकडेन आसात. एक नाचपी खेतें शेणलां. ह्या खेत्याविशीं सांगपाचें म्हळ्यार ह्या खेत्याचो जल्म आजून जावचो आसा. एका भुरग्याच्या मुठींतलो एक आख्खो चणो शेणला. त्या चण्यांत ताचें भुरगेपण लिपलां. पळयात चणो कसो मस्तखोरपणा करता तो. (चणो तायटार घेवन तो चणो हालयता तसो भितरल्यान भुरग्याचो मुक्तपणी हांसपाचो आवाज) जात्रेंत फातराचेर अरसल्लें एक दूक शेणलां. त्या दुकांत एक आख्खें कुळार बुडलां! (वायलेचे हुंडके आयकूंक येतात) जात्रेंत तांबड्या रगताचो थेंब सुकिल्लें फुटकें कांकण शेणलां! (कांकणाचो कुडको दोनूय हातांनी मोडटा ते सरशीं चलयेची आर्त किळांच) (लोक काचाबूल जावन हळूहळू कडसरतात.)

**कोणतरी** : खबरदार! अर्दकुटी चवकशी सोडून पळशात जाल्यार! हे जात्रेंत ह्यो वस्तू म्हाका गावल्यात. हाचोच अर्थ त्यो शेणल्यात. तांची जाहीर चवकशी जावपाक जाय. नाजाल्यार ही जात्रा पूर्ण जावचीना. अपूर्ण उरतली आनी अपूर्ण जात्रेचें पाप तुमच्या माथ्यार कवदो कशें भगभगतलें. (नेटान) जात्रेंत कोणाचें भुरगेपण शेणलां, जात्रेंत कोणाचें भावडेपण शेणलां, कोणाची स्वावलंबी वृत्ती शेणल्या, कोणाचो विश्वास शेणला, कोणाचें सूख शेणलां, कोणाचें शाणेपण, कोणाचें नेणारपण, कोणाचो स्वाभिमान, कोणाचो पुरूशार्थ.. अधिक म्हायती

दिवपाची म्हळ्यार श्री विचित्राचे हे जात्रेंत .. माकड हाडावयली शेंपडी गळत पासूनचें तो आजवेर मेरेनचें मनशाचें मनीसपण शेणलां! (लोक आपलेमदीं उलयतात.)

**लोक** : - हीं लक्षणां धडाचीं न्हय!
- हें प्रकरण हाताभायर गेलें!
- जात्रेचो आनी मनीसपणाचो संबंद कितें?
- नाक खंय, आनी आदोळी खंय? कायचे काय.
- हो त्या चौथऱ्याचो अपमान.
- श्री विचित्राचे जात्रेचो गैरवापर!

**कोणतरी** : मनशाचें मनीसपण शेणलां..पयली खेप. जाचें ताणे घेवन वचचें.

**लोक** : - आमकां गरज ना.
- तुजेकडेन दवर.
- तुकाच तें लखलाभ जांव!
(सगळे लोक कडसरतात. एकलोच जाणटेलो उरता. तो कोणतरीच्या म्हऱ्यांत वता.)

**जाणटेलो** : हे जात्रेंत म्हजी एक म्हत्वाची वस्त शेणल्या.

**कोणतरी** : सांग,

**जाणटेलो** : म्हजो पांच वर्सांचो भुरगो शेणला.

**कोणतरी** : कसलोसो?

**जाणटेलो** : पळोवपाक वरो, उलोवपाक हुशार! वागपांत चतूर!

**कोणतरी** : आनी तरी आसतना शेणलो?

**जाणटेलो** : घडये असो आशिल्लो म्हणूनच शेणला जांवये. सामको लोलो आशिल्लो जाल्यार शेणचो नासलो.

**कोणतरी** : आनी लोलो आशिल्लो जाल्यार तूं ताका सोदचोय नासलो.

**जाणटेलो** : शे! अशें कशें? लोलो आनी शाणो.. काळजाचो गोणो.

**कोणतरी** : एकलोच पूत?

**जाणटेलो** : हय. एकलोच. तें खातीर जीव चड तुट्टा. दोग तीग जाण आशिल्ले जाल्यार मनाची समज घालूं येताली. तो हांगा शेणला आनी म्हाका

थंय अन्न गोड लागना. कितलो उपकारा पडटालो म्हाका! आतां राखणों नासून दिसांचे दीस गोरवां वांदून उरतात. गरजेक हळद, मीरसांग जाय पडली जाल्यार कोणाल्याय पोरसांत वचून म्हाका चोरून हाडची पडटा. हे जाणटे पिरायेर सोबना तें म्हाका. लोकांले येदे येदे गांजुड्डे दर्यार वचून नुस्तें गरोवन हाडटात जाल्यार म्हाका चार आण्याच्या करवटाच्या वांट्याखातीर नुस्तेकान्नीकडेन वरांचीं वरां वांटपणां करचीं पडटात. खूब याद जाता .. पोराची पोटांतल्यान याद येता. (येदो वेळ दुवावान आयकुपी कोणतरी ताका विचारता..)

**कोणतरी** : तुजो पूत हे जात्रेंत केन्ना शेणला? आज? काय..

**जाणटेलो** : हेच जात्रेंत शेणला, पूण आज न्हय. वीस वर्सां जालीं.

**कोणतरी** : आजून मेळूंना?

**जाणटेलो** : ना. दर वर्सा हांव हे जात्रेक येतां आनी ताका सोदतां. ही विसावी फावट. दर खेपे म्हाका दिसता, म्हाका म्हजो पूत मेळटलोच आजूय तशेंच दिसता, जात्रा उलगत आयली तरीय दिसता, म्हजो पूत म्हाका मेळटलो.

**कोणतरी** : तशें जाल्यार तुजे वीस वर्सांचे कश्ट फळाक आयले.

**जाणटेलो** : खरेंच?

**कोणतरी** : हय. तुजो पूत तुका गावलो!

**जाणटेलो** : श्री विचित्राची कृपा! खंय म्हजो पूत? दाखय म्हाका. केन्ना काय पळयनसो जाला.

**कोणतरी** : हो, तुजेमुखार उबो आसा.

**जाणटेलो** : (जळपेत) मागीर म्हाका कसो दिसना?

**कोणतरी** : हांगा पळय, म्हज्या दोळ्यांत पळय कोण दिसता?

**जाणटेलो** : कांय दिसना .. फकत काळोख दिसता.

**कोणतरी** : काळोख पळोवं नाका .. पुताक पळय.

**जाणटेलो** : दिसना.

**कोणतरी** : दोळे धांपून पळयतल्याक कसो दिसतलो? हांवूच तुजो पूत.

**जाणटेलो** : तूं?

**कोणतरी** : हय. हांवूच. वीस वर्साआदीं हांवूच शेणिल्लों हे जात्रेंत. म्हाका आतां घरा व्हर. सकाळसांज हांव तुज्या गोरवांचो सांबाळ करतां. नुस्त्याखातीर शितारी घेवन वरांचीं वरां दया देगेर हेडटां. संवसाराखातीर लागता तो मीठ मसालो, दुसऱ्यांलो सुतलावन हाडटां. आनी तूं मरतकच म्हगेलो कर्तव्यदक्ष आदर्श बापूय मेलो म्हण हड्डें पेटून वारा दीस तुज्या फोंडार बसून सेगीत रडटां.

**जाणटेलो** : ना, उलोवण्यावेल्यान तरी तूं म्हगेलो पूत कसो दिसना.

**कोणतरी** : वीस वर्सां शेणिल्लो पूत हाचेपरस वेगळें कितें उलयतलो?

**जाणटेलो** : उलोवण्याचें एक सोड, पूण तूं तर एरंड कसो वाडला. म्हजो पूत येदो न्हय. तो ल्हान पांच वर्सांचो.

**कोणतरी** : वीस आनी पांच पंचवीस. सादो हिशोब.

**जाणटेलो** : तें कशें शक्य आसा? तूं लवाडपणां करता. बगलांटपण करून मुद्दम पूत जावन म्हज्या आंगार पडूंक सोदता. मुदलाक तूं म्हजो पूतच न्हय. ताची पिराय फकत पांच वर्सां.

**कोणतरी** : एक सांग, हे धर्तरेच्या पोंदाक कितें आसा?

**जाणटेलो** : पाताळ.

**कोणतरी** : वयर?

**जाणटेलो** : सर्ग.

**कोणतरी** : ह्या दर्याक सुकती भरती कशी येता?

**जाणटेलो** : श्री विचित्राचे कृपेन.

**कोणतरी** : तुजी वाडूच जावूंना. तरी लेगीत तुजो सोपूत घेवन सांगतां, आवशीझवऱ्या, हांव तुजो पूत.

**जाणटेलो** : तुवें म्हाका गाळ मारली?

**कोणतरी** : हय, म्हज्या बापायक गाळ मारली. आनी वेश्टी तोंडार आयली ती न्हय. अर्थपुराय गाळ मारली.

**जाणटेलो** : तूं म्हजो पूत न्हय हाची आनीक एक गवाय. म्हज्या पुताक असल्यो आवय वयल्यान गाळी मारपाक जमनासल्यो. तो मुणी माजरां आनी गोरवां वासरांवयल्यानूच गाळी मारतालो. कांय हरकत ना. वीस वर्सा

अंत पळयलो थंय आनी कांय वर्सां. पूण म्हजो पूत म्हाका मेळटलोच. फुडल्या वर्सा जात्रा आसाच. श्री विचित्राची कृपा. (वचपाक वळटा.)

**कोणतरी** : फुडल्या वर्सा वी कांय ना. हीच तुजी निमाणी जात्रा. तुजी, त्या दोंवाऱ्याची, भिकाड्ड्याची, संदीसाद्रूची, फटींगांची, पाड्यांची, नश्ट्यांची, भश्ट्यांची ही जात्रा परतून हांगा भरचीना. ताची हांव सासणाची वेवस्था करतां. जय श्री विचित्रा अस्तोस्तु ऽ ऽ (देवळा वटेन धांवपाक लागता. लोक एकामेकांक वचपाची ताकतीक करतात. अस्तमतेकडेन सुर्या बुडपाक कांय आंगळां उरल्यांत. पयसुल्ल्यान भट आड्डत येता.)

**भट** : आरे भक्तांनो धांवत येयात रे, कोणेतरी देवाची मूर्त गर्भकुडींतल्यान उखलून व्हेली रे ऽ ऽ चोर चोर. (सगळेवटेन आड्डत भोंवून लोकांक एकठांय करता. कोणतरी येवन चौथऱ्यार उबो रावता. ताणे विचित्राची मूर्ती दोनूय हातांनी उबारून धरलेली आसा.)

**कोणतरी** : आतां म्हाका बारा हतयांचें बळ आयलां. ह्या उरफाट्या श्री विचित्राक हांव बारा कोस पेंस दर्यांत मोखून मारतां. मागीर सोंपली तुमची जात्रा आनी मनशाच्या मनिसपणाच्या अध:पतनाची यात्रा.

**भट** : आरे, ताच्या हातांतली मूर्ती काडून घेयात. देवाच्या आंगार सगळे अळंकार आसात! (सगळे लोक धांवून येतात आनी कोणतरीक गराडो घालतात. कोणतरी मूर्ती कशीच सोडिना. गराड्या भोंवतणी भट हुयेली मारीत नाचता. खूब लटापटी उपरांत कोणतरीच्या हातांतली मूर्ती गर्देत सकल देंवता आनी तेन्राच एकलो रड मारीत येता..) - सुर्या बुडलो रे ऽ ऽ.

(लोक आसा तेच अवस्थेंत फातर कशे थीर उरतात. ल्हवू ल्हवू काळोख फांकता आनी लोक फक्त आकृतायो कश्यो दिसपाक लागता. एक सुवात उजळटा आनी थंय आरंभाचो रचनाकार दिश्टी पडटा.)

**रचनाकार** : हांव जाणा, हे कलाकृतिच्या संदर्भांत .. म्हळ्यार तिच्या खऱ्या फटी संवंदांत तुमच्या मनांत एक आनी दोन न्हय, घडये असंख्य प्रश्न उप्रासल्या आसतले, पूण हांव कसली मखलाशी करपाक बसचोना.

कारण हावें तुमकां आदींच सांगलां .. ही एक दंतकथा. ही श्री विचित्राची जात्रा हांगा सासणाची सैमा आयल्या हें जरी खरें मानलें तरी हेच जात्रेंतल्यो ह्यो सगळ्यो वृत्ती प्रवृत्ती हांवें आमच्या हेर जात्रांनी पळयल्यात. जांव पणजेंतली गडावयली मारूतिची जात्रा, शिरगांवची जात्रा, सावयवेरेंची अनंताची जात्रा, फातर्पेची जात्रा, वोडगेश्वराची जात्रा, नार्वेची जात्रा, सांखळेची चैत्री, जांवावलेचो गुलाल! इतलेंच न्हय तर पंढरपूरची आशाढी एकादस, अयोध्येची रामनम, मथुरेची कृष्ण जल्माप्टमी, जगन्नाथपूरची रथयात्रा, हरीद्वार आनी प्रयागचे कुंभमेळ. जात्रांचो आकार ल्हान व्हड, मनशाचीं रंगरूपां वेगळीं. भेसभास विंगड. पूण वृत्ती आनी प्रवृत्ती एक! तुमच्या मनांत कसले प्रश्न उप्रासल्या हांव नकळो पुण म्हज्या मनांत मात एक प्रश्न म्हाका संमंद कसो सतायता. आनी तो म्हळ्यार जर हे सगळे वायट बरे लोक वेगवेगळ्या रूपान आसा जायत जाल्यार म्हजो तो ‘कोणतरी’ ह्या जात्रांनी कित्याक दिसना? खरें म्हळ्यार आज गरज ताची, त्या ‘कोणतरी’ ची. ह्या प्रश्नान म्हजी न्हीद खळ्ळया. हांव मागतां.. तुमचीय न्हीद खळूं!

(काळोख.)



# पुंडलीक नारायण नायक : अश्टतासांचो साहित्ययात्री

## प्रा. भूषण भावे

कोंकणी भाशेंतल्या साहित्यिकांमदीं जाच्या साहित्यांत सगळ्यांत पयलीं चिड्डिल्ल्या समाजाच्यो वेदना, तांचे उमाळे, गोंयच्या समाजीक परिस्थितींतलीं स्थित्यंतरां, गोंयचे लोकसंस्कृतायेचें यथार्थ दर्शन आनी अस्सल कोंकणी भाशेची उतरावळ हें सगळें एकठांय आनी ठळकपणान दिश्टी पडटा, तो साहित्यिक म्हळ्यार पुंडलीक नारायण नायक. एका भुंयपुताचें रूप तांच्या साहित्यांत पळोवंक मेळटा, तें गोंयचें समाजीक-संस्कृतीक दायजाच्या राखणदाराचें. तांच्या साहित्याक गोंयचे मातयेचो वास येता, हाचें कारण ताणी हांगाचे मातयेचें दर्शन प्रामाणीकपणान आनी इमान राखून तिचो वारसदार वा प्रतिनिधी जावन केलां. तांचें लिखाण सगळ्याच साहित्य प्रकारांभितर आसा, आनी तांचें दरेका प्रकारांतलें अस्तित्व दखल घेवपासारकें आसा. पूण तांच्या सगळ्या साहित्यप्रकारांमदीं नाट्य मात दोळ्यांत भरपासारकें आसा. समाजीक वांधिलकी मानपी हो साहित्यीक, देखून समाजीक आशय चडांत चड तांच्या साहित्यांतल्यान आयला. पूण कांय किरकोळ आडवाद सोडले जाल्यार खंयच तांच्या साहित्याक प्रचारकी - रूप येवंक ना, हें म्हत्वाचें.

अन्यायाआड झूज आनी प्रस्थापितांआड बंड हें तांच्या साहित्याचें मुखेल आंग जावन आसा, पूण खंयच व्यक्तीचो द्वेस वा तिरस्कार पळोवंक मेळना. पुंडलीकबाव हे सैम-मोगी. सैमाच्या दरेका रूपांत ते आपलें रूप पळयतात. सैमीक-संपदेची तांची जाण परिपूर्ण. देखूनच अधिकारवाणीन ते झाडां-पेडां, फुलां-फळां, न्हंयो-वझरे, तळयो-वांयो, दोंगर, न्हंयो, रूतु वी हांचीं वर्णनां खोलायेन आनी वारीकसाणेन करतात. अशीं हीं वर्णनां दरेकलो साहित्यीक आपल्या साहित्यांत करता. पूण पुंडलीक नायक हांच्या साहित्यांत तीं कपयाळ्यांभशेन (Patches) येनात तर आशयाचो एक अभिन्न आनी अविभाज्य वांटो जावनच येतात, तशीं तीं हेरांच्या साहित्यांत क्वचीत पळोवपाक

मेळटात. पात्रांच्या मनांतल्यो भावभावना उक्तावपाखातीर भाशेचो इतलो सूचक वापर पुंडलीकवाव हांणी केला तोय कोंकणी साहित्यांत नवखोच.

गोंयचे ग्रामजिणेची विशिश्ट अशी वेवस्था आनी रचना आसा. उद्येगीकरणाक लागून ते वेवस्थेची घडी म्होडटा, चुरता तें पळोवन पुंडलीकबाब हांकां दूख जाता. श्रम-मूल्य दिसानदीस नश्ट जायत चल्लां, गांवपण शेणटा तें पळोवन अस्वस्थ जाल्लो पुंडलीक साहित्यांतल्यान आपली अस्वस्थताय परगटायता. गोंयच्या समाजीक आनी संस्कृतीक स्थित्यंतरांचो जितोजिवो आलेख तशेंच गोंयच्या गिरेस्त दायजाचें मनभुलोवणे दर्शन तांच्या साहित्यांतल्यान घडटा. गोंयच्यो चाली-रिती, वृत्ती-प्रवृत्ती, परंपरा, गोंयकारांचे हावेस, तांचे गूण-अवगूण, सबाव-रूची, अडी-नडी हांचें पडबींब लोकसंस्कृतायेच्या हारशाभशेन तांच्या साहित्यांत पडलां.

पुंडलीक नायक हांचे साहित्यनिर्मणेचें आनीक एक वैशिश्ट्य म्हळ्यार तांणी आपल्या साहित्यकृतीचें केल्लें साहित्य - प्रकारांतर. कथेची नवलिका, नवलिकेचें नाटक, कथेचें नाटक अशें कितलेशेंच साहित्य - प्रकारांतर तांणी केलां.

| मूळ साहित्यकृती | | प्रकारांतरीत साहित्यकृती | |
|---|---|---|---|
| १. खाटकागेर एक रात | (कथा) | खाटकागेर एक रात | (एकांकी) |
| २. दायज | (नवलिका) | दायज | (नाटक) |
| ३. वसंतोत्सव | (नवलिका) | पिंपळ पेटला | (नाटक) |
| ४. पाज्ज | (कथा) | अच्छेव | (बीज-विस्तार नवलिका) |

हाचेभायर 'भोंवर' (कथा - कादंबरिका - नभोनाट्य), 'वावराडेलो कुंवर' (नभोनाट्य -एकपात्री), 'जैत' (कथा - पटकथा), 'दायज' (नाटक) हे साहित्यकृतीचो 'वधचक्र' (चित्रपट) अशें कला प्रकारांतर लेगीत तांच्या नांवार आसा. आपणाक एखाद्र्या अणभवाचीं जीं तासां-कुसां, जे आयाम आनी जे पैलू वाचप्यांमुखार मांडपाचे आसात ते एकाद्रे साहित्यकृतींतल्यान जर वेवस्थीत उक्तावंक मेळ्ळे नात जाल्यार लेखक अतृप्त आनी अस्वस्थ जाता. तीच अस्वस्थताय ताका त्या साहित्यकृतीचें प्रकारांतरण करपाक फोर्सार करता. प्रकारांतरीत साहित्यकृतीं भितर आशयाची व्यामिश्रताय (complexity) कशी आनी कितली वाडटा तें पुंडलीक नायक हांच्या प्रकारांतरीत साहित्यकृतींतल्यान पळोवचें.

अशे रितीन प्रादेशीक साहित्यांत म्हत्वपूर्ण योगदान करपी ह्या अशटपैलू लेखकाच्या दरेका तासाची वळख करून घेवप गरजेचें.



## कथाकार पुंडलीक : प्रादेशिकतायेंत विश्वात्मकतायेच्या सुत्राचो सोद

पुंडलीकवावाचें कथा साहित्य तीन झेल्यांत आस्पावलां. 'पिशांतर' (६ कथा ), 'मुठय' (१९ कथा) आनी 'अर्दूक' (११) मेळून सुमार ३४ कथा तशेंच समकालीन 'कोंकणी लघु कथा' ह्या नॅशनल बुक ट्रस्टान उजवाडायिल्या झेल्यांत उजवाडाक आयिल्ली 'प्रेमजागर' ही कथा अशा सुमार ३५ कथांचो विचार हांगा करपाचो आसा. सगल्यांत पयलीं पुंडलीकवाव हांचो साहित्यीक पींड सुरवेक नाटककाराचो आनी उपरांत कवीचो हें तांच्यो कथा वाचतकीच सहजतायेन ध्यानांत येता. तांच्या कथांनी उपजत अशें जिणेंतलें नाट्य आनी काव्य आपसूकपणान आयिल्लें पळोवंक मेळटा. पुंडलीकवावाक स्वताक हें नाट्य विकसीत जाल्लें जाय आसता. आनी तें ताच्या मनासारकें जेन्ना जायना तेन्ना तो निर्मीक ह्या नात्यान अस्वस्थताय भोगता. तो ते कथेचेर ( वा हेर खंयचेय साहित्यकृतीचेर ) परतून खटपट करता आनी निमणे ते कृतीतलें नाट्य पुरायरीतीन विकसीत जातकीच धादोशी जाता. हे सर्जनशील-निर्मीक-अस्वस्थतायेक लागून तांच्या जायत्या कथांचे साहित्यप्रकारांतर जालां. (हे विशीं उपरांत खोलायेन वाचचें.)

संख्यात्मक नदरेन पळयलें जाल्यार हातूंतल्यो सुमार पंदरा कथा समाजीक आशयाच्यो आसात. तातूंतल्यो तीन कथा मीन वेवसायाक लागून जाल्ल्या समाजीक, संस्कृतीक, अर्थीक आनी हेर प्रदुशणाविशींच्यो आसात. आधुनिकीकरण, शारीकरण, उद्येगीकरण, वेकारी हांचेर आदारिल्ल्यो कथाय आसात, तेचप्रमाण भाटकारशाय, जातीभेद अशे गोंयचे विशय हाताळपी कथाय आसात. पुंडलीकवावाच्या पयल्या पिशान्तर ह्या झेल्यांत समाजीक आशय उणो आसा. गोंयच्या भाटकार - मुंडकार प्रश्नाचेर वरयिल्ली एक भागेलपण काणी सोडीन जाल्यार हातूंतल्यो चडशो काणयो

प्रेम वा काम - विशयाचेर आदारिल्ल्यो आसात. 'मुठय' ह्या उपरांतच्या झेल्यांत मात 'पिशान्तर' ह्या झेल्यांतली उच्छृंखलताय, पयल्या - वयल्या मोगांतली उथळताय वी उणी जाल्या आनी चड गंभीरतायेन कथाकाराची नदर मूळ प्रश्नाकडेन वळिल्ली दिश्टी पडटा. हांगा शरीरापरस कथाकार मनस्थिती चेर चड भर दितना दिश्टी पडटा. देख म्हणून उचंवळ ही काणी पळोवंची. 'पारज' ही मोगाचे आंतरीक उन्माद दाखोवपी काणी लेगीत सुक्ष्म आनी पातळ पापुद्र्याभशेन आशय वाचप्यांमुखार मांडपाक जैतिवंत जाल्या. 'मुठय' ह्या झेल्यांत कथाकार गांवगिऱ्या शेतकाराचे वा सामान्य मनशाचे जिणे भोंवतणी रावन आपलें कथाविश्व सोदताना दिश्टी पडटा.

एके वटेन परंपरा आनी दुसरे वटेन वास्तव जिणेंतलो वेवहार हांचे कातरेंतलो, समाजीक स्थित्यंतराचे शिमेचेर आशिल्लो शेतकार वा गांवगाड्यांतलो सामान्य मनीस कथाकाराक ह्या झेल्यांत दिश्टी पडटा. हो चड करून पिरायेन जाणटो, तो परंपरेन गांवचे जिणे - चक्राक बांदिल्लो आसता. आनी देखून मनांत येवन लेगीत तो नवे दिकेन, नवे वटेन, नव्या मार्गान वचपाचो यत्न वा धाडस करिना. तशें ताणें केलेंच जाल्यार एक तर तो पिसो जाता (देखीक 'खळ' कथेंतलो पांगो) वा तो स्वताक गुन्यांवकारी समजता (देखीक 'कासय' आनी 'खाटीक' कथेंतले नायक)

पुंडलीकबाव हांणी गांवगिरे जिणेचो फकत अणभवच घेवंक ना तर ती जीण तांणी पचयल्या. देखून गांवचे जिणेंतले दिसपाक बारीक सारीक पूण म्हत्वाचे अशे प्रवाह तांणी विवक्षीतपणान कथांनी मांडल्यात. गावांतलीं मनशां, तांचे सभाव, तांच्यो वृत्ती - प्रवृत्ती, तांचे विश्वास आनी श्रद्धा, तांच्या कल्पनांच्यो मर्यादा आनी हावेसांच्यो शीम - मेरो, तांचें विचारधन आनीक संस्कृतीक दायज (जें तांचे भाशेंतल्यान व्यक्त जाता) तांचेमदले ताण - तणाव हें सगळें आमकां ह्या कथांनी पळोवपाक मेळटात. हें सगळें तांचेच भाशेंतल्यान व्यक्त जाता आशिल्ल्यान तें निसर्गीक दिसता. ताका कृत्रीमतायेचो वास लेगीत येना.

पुंडलीकबावांचे भाशेंतल्यो प्रतिमा, प्रतिकां, उपमा, अळंकार, रुपकां सगल्यो तेच गांवगिरे जीणेकडेन संवंदीत अश्यो आसात. देखीक हीं वाक्यां पळयात :-

'आवयच्या प्रस्नान फाटीर जळार वशिल्लेसारकें ताका जालें.'

'भिकू दंवातल्या कोंड्यावरी सकाळींच शिरशिरलो.'

'गाय मदींच वजऱ्यावरी पानेवंक लागली.'

'तोंडाचें फोलीण उगडीत भिकून पळयलें'

'तुको कोंव्याच्यो गंवट्यो पिळ्ळ्यावरी अनसां मोडून भिकूकडेन दिवंक लागलो.'

'भिकूच्या काळजार अनशिचें पातें चरचरलें.'

एकेच कथेंत हे इतलें उतराचें धन एकठावलां, जाल्यार पुराय साहित्यांत तें कितलें आसतलें ताचो अदमासच केल्यार पुरो. पुंडलीक नायक हांचें साहित्य दर्जेदार जावपाक ताच्या आशयाप्रमाणच तांचे हे ज्युस्ताज्युस्त, काटेकोर, चित्रमय पूण निसर्गीक भाशेचो व्हड वांटो आसा.

जायते फावटी पुंडलीक नायक हांचें कथा-साहित्य वाचतना, तांचें साहित्य प्रदेशीक संस्कृतायेचेर उवें जावन लेगीत तें आशयाचे नदरेन विश्वात्मकतायेचो ध्यास घेतना दिश्टी पडटा. देखिक 'कासय' ही कथा पळोवंची. 'कासय' कथेंतलो खारवाडो, थंयची लोकजीण आनी नुस्त्याचेर जगपी समाज हें सगलें प्रदेशीक आसा. कथेक ते नदरेन कोकणाचें अस्तेंत देगेवयले मातयेचो वास मारता. पुण तातुंतलें कथानक मात फकत प्रदेशिक उरना. ममेस्त कश्टजीवी वर्गाचें प्रतिनिधी जावन तें दुःख येतना पळोवंक मेळटा. समाजीक कथांनी हें जितलें खरें तितलेंच पुंडलीकबावाच्या हेर कथांनी लेगीत. देखीक 'पारज' ही कथा पळयात. हे कथेचो आशय पारजा भशेनच हाताक लागना. हयन्हयशा, अंधुकशा, आनी ल्हवू-ल्हवू निर्माण जावपी मोगाच्या नाजूक संवंदाची ही काणी. ती निर्माण जाल्या प्रादेशिकतेच्याच वातावरणांत. पूण आशय मात तितलेपुरतोच उरना. हाचें कारण खंयच्याय विशयाच्या वा समस्येच्या मुळाक हात घालपाची कथाकाराची कला. खूब फावटीं एखाद्या प्रश्नाचो भायलो मुखवटो वा तोंडावळो एक आसता. पूण त्या प्रश्नाक एक आंतरीक, भितरलो तोंडावळो आसता. हो भितरलो पदर खुबूच नाजूक, पातळ, झिळझिळीत आनी हातांत मेळना असो आसता. कांय कथाकार फकत भायलेंच रुप आमकां दाखयतात. ताका लागून त्यो कथा वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेनात. पूण पुंडलीकबाव त्या प्रश्नाच्या ह्या भितरल्या पालवाक धरपाचो यत्न करतात. देखीक 'पारज' ही कथाच पळयात. हे कथेंतल्या शामलाच्या दुखाक कितलींशींच कारणां आसात. पिराय वाडल्या, आवय - बापायच्या माथ्यार वजें वाडलां, तरणेपणाच्यो भावना कुडींत उफाळून आयल्यात, बुध्याविशीं एकेवटेन राग जाल्यार मनाच्या कोनशांत उबी जावपी मोगाची पालवी आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळयार बुधो हो एक राखणो आसा. तो सकयले हलके जातींतलो आसा ही कडवटपणाची भावना - इतलींय कारणां एका एका वाक्यांतल्यान कथाकारान दाखयल्यांत. ताका लागून कथेच्या

आशयांत जबरदस्त भर पडटा.

पुंडलीकबाबान गोंयच्या समाजाच्यो वेदना वळखल्यात. हो समाज आजूनय परंपरीक आसा. उद्येगीकरण जालें, यंत्रयूग आयलें तरी हो समाज बदलूंक ना. तो श्रद्धाळू आसा, सोंशीक आसा आनी मुखेलपणान तो पाप-पूण्य मानता, देवाक आनी परंपरेक भिता. एखाद्या वेळार खंयचेंय पाप करपाचें वांट्याक आयलें जाल्यार तो जीवनांतल्यान उध्वस्त जाता. पाप करून पचोवपाची वृत्ती ताका लाबिल्ली ना. देखून 'खळ' कथेंतलो पांगो वा 'कासय' कथेंतलो वासू वा 'खाटीक' कथेंतलो कुश्टा वा 'पाज्ज' कथेंतली विठाबाय हीं सगळीं पात्रां समाजीक नदरेन पाप आशिल्ली एखाद्री गजाल करतात आनी निमणे ताचो तांकां पश्चाताप जाता. पिशान्तर आनी 'मुठय' ह्या झेल्यांतल्यो कथा गोंयचे गांवगिरे जिणेंतले अंतःप्रवाह - जे आतांमेरेन दुर्लक्षित आशिल्ले ते समर्थपणान लोकांमुखार मांडटा. ज्या समाजाचें दूख ह्या कथांतल्यान मांडलां तो गोंयचो समाज एके संक्रमण अवस्थेंतलो (Transition state) आसा. ताणें धड शेत - वेवसाय लागीं करूंक ना वा धड उद्येगीक जीण लागीं करूंक ना. तो मदलेमदीं हुमकळटा. देखून आपल्या कर्तुबांतल्यान जायते फावटीं तो आपल्याच पांयार फातर मारून घेता. (हे नदरेन बळार ही कथा पळोवंची) हे कथेंतल्या नायकाक दिसता, आपणे वळारीक मारून व्हड कार्य केलें म्हण. पूण प्रत्यक्षांत मात ताणें आपलोच घात करून घेतिल्लो आसता. हांगा बंदूक हें यंत्रयुगाचें प्रतीक जावन आसा.

गोंयची ही परिस्थिती जी पुंडलीकबाब हांणी पयल्या दोन कथाझेल्यांतल्यान चित्रीत केल्या ती १९५०-७० ह्या कालखंडांतली. जेन्ना खऱ्या अर्थान गोयांत गरिबी आशिल्ली, भाटकारशाय आशिल्ली, मीन वेवसायाक लागून गोंयचें रूप बदलतालें, त्या काळांतल्यो ह्यो काणयो. पूण आपल्या तिसऱ्या 'अर्दूक' ह्या कथाझेल्यांत मात पुंडलीकबाब हांणी आपलेच कथेक वेगळें मोड दिलां. ह्या झेल्यांतल्या कथांचें कथाविश्व आदल्या कथांपरस वेगळें. आतां गोंय स्वतंत्र जालां. कूळकायदो आयला, सामान्य मनीस जागो जाला, भाटकाराक ताच्या घराकडेन वचून जाप विचारपा इतलो तो धीट जाला, गावांत वीज पावल्या, पेन्ट - शर्ट कल्चर गावांत पावलां, शाळा सुरू जाल्यात, बाजार भरपाक लागल्यात आनी गांवच्या मालाक दर आयला. कुटुंबांतले दोग - तीग भाव आसत जाल्यार ते स्वतंत्रपणान शिर्वीस वा धंदो करून एकाच घरांत वा वेगवेगळ्या घरांनी पूण वेगळो संवसार मांडून रावंक लागल्यात अशे तरेच्या बदलत्या

वातावरणांतले जिणेचो वेध पुंडलीकबाब हांणी 'अर्दूक' ह्या झेल्यांतल्यान घेतला. ह्यो कथा पळोवंक गेल्यार आदलेभशेन समाजिकूच. पूण हो समाजीक आशय आदलेभशेन आतां शेतां भाटांकडेन संबंदीत ना तर तो आतां राजकी आनी वेवहारीक आशय जाला. देखून 'भाग्योदय' सारखे कथेंत गांवच्या आनी गोंयच्या राजकारणाक आनी राजकारण्यांक लागून खोपींत वीज पावता आनी ताच्या उजवाडांत थंयचें दळीद्र उकताडार येता. 'भोंवर' आनी 'भाग्योदय' वा 'बाजार' वा 'वळी' सारक्या कथांतल्यान बेकारी, फटवण, भ्रश्टाचार अशे आधुनीक समाजीक प्रश्न मुखार येतात. गोंयची बदलती जीण यथार्थपणान चितारपी कथा म्हळ्यार घर. हे कथेंत एकेवटेन जाणटेली आवय मोडिल्ली कुटूंबवेवस्था जाग्यार घालपाचो यत्न करता जाल्यार तिचीं तीन भुरगीं मात तीन माकडांभशेन वेगळे संवसार मांडपाचें चिंततात. अशे रितीन एका अर्थान गोंयच्या समाजीक स्थित्यंतरांची जिती - जिवी गवाय पुंडलीकबाब हांच्या कथांतल्यान मेळटा. तातूंतल्यान घडटा तें दर्शन फकत मनशांचें वा बदलते परिस्थितीचें न्हय तर पुराय संस्कृतायेचें आनी मानवी मनाचें. ते नदरेन तांच्या कथांचेर एक उडटी नदर मारप गरजेचें.

'पिशान्तर' ही यादींच्या जंत्रीनी आनी पत्ररूपान बरयिल्ली काणी. तरणेपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरचे आदिंची जी पौंगडावस्था आसता ते अवस्थेचेर ही काणी आटापल्या. ते पिरायेचेर दोन मोगी एकठांय येतात, पयलीं फकत उतरां, मागीर हयन्हयसो चुकून माकून जाल्लो स्पर्श, मागीर मुद्दाम कारणां सोदून केल्लो स्पर्श, आनी तातूंतल्यान मेळयल्लें सर्ग-सुख, लटके राग, फुगार जावप, एकल्यान दुसऱ्याक मानवना तें मुजरत करप ह्या सगल्या प्रेमलिलांचें वर्णन अत्यंत संयमान हे कथेंत वाचूंक मेळटा. हे कथेचो नायक मनमेकळेपणान प्रेमसंबंदाचेर उलयता. पूण तातूंत विकार नाशिल्ल्यान ती विकृती कशी दिसना हें म्हत्वाचें. चडशे फावटीं संवादा वरवीं आनी कांय फावटीं निवेदनावरवीं पुंडलीकबाब शृंगाराचेर सूचकतायेन भाश्य करता. हो एक संवाद पळयात : -

तुजो कोणाचेर मोग बी आसा?

आसा ...

सांग, कोणाचेर?

तुजेर.

खऱ्यानीच?

खऱ्यांनीच.

सोप्पं घे.

कसो घेवं?

हड्डयार हात दवरून.

तुज्या काय म्हज्या?

हं घे ...

तुज्यान तर.

पुंडलीकबाबाचे भाशेंत फकत सुचकताय ना. ताचे भाशेंत Reading between the lines आसा. ताची उतरांच उलयतात. जायते फावटीं ताचे कथेंतले वातावरणांचे संदर्भूच प्रणयाची कितलीशींच रूपां दाखयतात. भाशेकडेन खेळप पुंडलीकबाब हांकां खूब मानवता. हेच कथेंतलें एक उदाहरण पळयात.. आपली प्रेयसी आपल्याक मेळची म्हण प्रियकर तिका इश्टागेर गणिताचे प्रश्न सोडोवंक आफयता. तिकाय फकत निमित्तूच जाय आसता. तेन्ना लेखक म्हणटा:

'शोभा, तूं कित्याक येना? इतलेंच विचारपाचें बाकी उरलेंलें आनी तशें विचारचे आदीच शोभाचो गणित विशय एक दीस अकस्मात कच्चो जालो.. उपरांत आमचे आंकडे जुळूंक लागले.'

'भागेलपण' ही कथा म्हळ्यार समाजीक अन्यायाआड एके व्यक्तीचें बंड. भागेली म्हळ्यार Partner. पूण कोण जाणा केन्ना त्या उतराचो अर्थ बदलून भागेली म्हळ्यार मानायच न्हय तर गुलाम जालो. आदीं अर्थ बदल्लो काय आदीं मनीस तेंय कळना. भाटकारशायेच्या बंदनातल्यान आपल्या शिकपी चल्याक आनी कुटूंबाक मुक्त करपा खातीर भागेली भागेलपणाचेर खोंट मारता. 'शिका-संघटीत व्हा व लढा' हो डॉ. आंबेडकराचो संदेश खरो करून दाखोवपा खातीर..

'आडवण' हे कथेंत एका प्रतिष्ठाप्राप्त लेखकाची काणी मांगल्या. पुंडलीकबाब हांच्यो चडशो कथा प्रतिकात्मक वा रूपकात्मक आसतात. कांय फावटी ह्या रूपकांत संकेतीकपण येता. पूण ताच्या कांय मेजक्याच कथांनी रुपकां संकेतीकपण मोखून मारून ताचे भायर पावतना दिश्टी पडटात. आडवण ही तशीच लोकश्रध्देचो आदार घेवन रचिल्ली काणी. कोणंतरी कोणाखातीर स्वताक गाडून घेवचें पडटा-स्वताचें जिवीत काबार करचें पडटा - मार्गीरूच येता प्रतिभेक चंवर - फुटटात कल्पना विश्वाक अनंत पाखां. एक शालून आपली जीण आडवणात घालून एक निळकंठ कसो घडयलो

ताची ही काणी. अजाप दिसता, तरणे पिरायेचेर लौकिक नदरेन अशिक्षीत-अडाणी आशिल्लें शालू निळकंठाक जिणेचो अर्क पिवून पचयल्ले भशेन जिणेचें तत्त्व कशें सांगूक शकता? जीण कोळून पिल्ल्या जाणट्या मनशांक लेगीत सुचचेंना अशें शाणपण तें निळकंठाक सांगता आनी ताचेखातीर स्वता मात आडवणात रावप पसंत करता. तिणें ते भुल्लूमपाचे पिरायेर संयमान जिणेचो तो अर्क निळकंठाक सांगूक नाशिल्लो जाल्यार निळकंठ घडचोच नाशिल्लो. Behind every successful man there is a woman. अशी म्हणणी आसा. तिका जोडून अशें म्हणचें दिसता : Behind .. there is a hidden woman. तें म्हणणेचो साक्षात्कार घडोवपी ही कथा.

'एक पोर' ही आवय नाशिल्ले अनाथ चलयेची कथा. वापूय आसून नासून सारखोच देखून अनाथ. बालमनाचीं स्पंदनां, आवयच्यो उमाळून येवपी यादी, काळजांतलो तिचेविशींचो मोग, आवयचें नांव वापरून वापायन केल्ली फटवण, शकुचीं करपल्लीं सपनां आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार शकुच्या वापायन शेजारणी कडेन दवरिल्ले संबंद. हांचें शकुचे नदरेंतल्यान केल्लें कारूण्यमय दर्शन हे कथेंत घडटा.

'गोदू' ही ल्हानपणांसावनूच उच्छृंखल आनी चंचल आशिल्ले एके चलयेची काणी. ताची वृती शरीरसुखाक चटावल्ली आशिल्ल्यान निमाणें घोवाक सोडून तें घरा येता आनी वापायच्या हातसून रागाच्या भारांत ताका मरण येता. गावांतले जिणेतल्यांनच हे कथचें कथानक तटस्थपणान कथाकारान उबें केलां. गोदूविशींची सुरवेची तिरस्काराची प्रतिक्रिया उणी जावन निमाणें वाचपी ताचेखातीर चुरचुरता. गोदू जें आपणाक जाय तें मेळयता. तें अधिकाऱ्यांच्या मनशावरी मेळ्ळेंना जाल्यार तें वावतींत तें आपलो आधिकार वापरता. ताचे वृत्तींतच स्वच्छंदीपण आसा, पूण ताचें मरण मात वाचप्यांच्या मनांत ताचेविशीं काकळूट निर्माण करता.

'देंठ' ही लघू-लघूकथा (लघूत्तम कथा) म्हणची अशी काणी. (वळार, घर, मांड अश्यो हेर कांय लघूत्तमकथा पुंडलीकबाव हांचे लिखणेंतसून भायर सरल्यात.) पूण आशयाचे नदरेन मात दीर्घतम असो आवांठ (canvas) हे कथेक लावला. चड कांयच सांगनास्तना लेगीत खूब कितें सांगपाची काव्याची कळाशी हे कथेक लावल्या. जाका Evocativeness - आशयसुचकताय म्हणटात ती हे कथिकेंत उप्पाट भरल्या. हें कथेंतलें एक एक वाक्य म्हळ्यार सुचकतायेचो परिपाक. हे कथेचो नायक म्हळ्यार एक स्वावलंबी, स्वतंत्र व्यक्तिमत्त्वाचो आनी स्वताचें वेगळें अस्तित्व मानपी तरनाटो. तो परधिगेपणांचो तिरस्कार करता. ह्या स्वभावाक लागूनूच तो घराभायर

सरला. घरच्यो यादी ताका Nostalgic करतात. घराकडलें आवयन धाडिल्लें आंतेर जेन्ना तो पळयता तेन्ना ताका भुरगेंपण याद जाता. तातूंतले कडवट-गोड प्रसंग ताका येवजतात. पूण त्याचवराबर आपल्या स्वाभिमानाची जाणविकाय लेगीत ताका जाता. आनी आंतेर खावपापसून तो परावृत्त जाता. भुरगेपणांत झाडपिकें आंतेर खातना आपूण पाडिल्ल्याची याद ताका जाता. आनी तेच राती आपलें स्वातंत्र्य कोणतरी घेवन बळयां ओडून व्हरता, आपली Identity च कोणतरी नश्ट करूंक पळयता असो सपनांत ताका भास जाता. जागो जावन सपनाचे भिरकींतच तो तें देंठ तुटिल्लें आंतेर काडून भायर मोखता. तें आंतेर भायर एका सुण्यांचेर बसता. पूण वेदना मात निवेदकाकूच जातात. जिणेचें काव्यच हें कथेंत चितारलां. तें आंतेर फकत आंतेर उरना जाल्यार निवेदकाच्या भुरगेपणांत तांचे मेकळिकेआड येवपी तमाम अधिकारांचे आनी नातेसंबंदांचें रूपक जाता. देंठ म्हळ्यार फळाचें झाडाकडलें नातें. एकेवटेन कोंचिल्ल्या देंठाचें आंतेर आनी दुसरेवटेन आपलीं मुळां शेणयल्लो, घराकडलें नातें तोडिल्लो मनीस अशो दोन समांतर प्रवृत्ती हे कथेंत बेसबऱ्यो उब्यो केल्यात. आपल्या अस्तित्वाचो, आपल्या जिविताचो, आपल्या राबित्याचो, आपल्या पुराय व्यक्तित्वाचो आनी व्यक्तिमत्वाचो अर्थ सोदपी आनी निमाणें कांयच हाताक लागना तेन्ना न्हिन्नळपी आधुनिक, संस्कृतीक संचीत शेणयल्ल्या, अधांतरी जीण जगपी, अश्वत्थाम्या भशेन हजारांनी घाये आंगार घेत जगपी, त्रिशंकू, दिशाहीन मनशांचें हें चित्रण, अस्तित्ववादी (Existentialist) विचारसरणेचें सूत घेवन येता. जिणेच्या रुखावयल्यान कोंसळटना कुले धोडावतात पूण त्या वेळार चुकून तोंडांत पडिल्ल्या दोन सुखाच्या गोड-वियांखातीर जगपाची उमळशीक वाडटा. पूण फुडें कळटा, जिणेक सुवादूच ना. जिणेची परिपक्वताय आनी आंतेराचें पिकप, कपलाक धवो कुकूम कोरायिल्ल्यो पूण काळ्योकिट्ट अणभवाच्यो वियो अशे संदर्भ जिविताचो अर्क सार- रूपांत वाचप्यांमुखार मांडपात जैतिवंत जाल्यात.

'वळख' :- जायतेफावटीं भौशीक माजावयल्यान उलयतना गोंयांत जातीपातीचो वेगळाचार ना. आसलोय जाल्यार तो हेर राज्यां इतलो खर ना. वी अशीं विधानां आयकूंक मेळटात. हें विधान अर्धसत्य आसा अशें ग्रामीण जिणेचो अणभव घेतकीच कळटा. गोंयच्या जातिभेदाक एक नाजूक अशें भावनीक आंग आसा. हेर राज्यांतलो जातिभेद हो भौशीक आनी राजकी स्वरुपाचो. गोंयात मात तो व्यक्तीगत स्वरुपाचो आसा. तो जातिभेद दलीत व्यक्तीच्या मर्माचेर आघात करपी आसता. तथाकथीत

मकयल्ले जातिच्या मनशांक वेगळे पंगतीत जेवपाक बसोवप, तांचेखातीर वेगळीं आयदनां वापरप, हेरांक केळीच्या पानार वाडलें जाल्यार तांकां पत्रावळीचेर वाडप, तें बसता ते सुवातेर शेणाचो सडो घालप, तांच्यो वस्ती धुवून - शुद्ध (?) करून घेवप अशा बारीक-मारीक पूण मर्मभेदी चाली रितींतल्यान जातीभेद दिश्टी पडटा. वळख हे कथेंत असोच अणभव निरागस भुरग्याच्या मनांतल्यान मांडला. एका ल्हान भुरग्याक जे पिरायेचेर जावंची न्हय अशी एक वळख जाता आनी ताका सगलें जग फटकिरें दिसूंक लागता. 'आपण सारे भाऊ - भाऊ' म्हणून शिकोवपी मास्तर, ड्रायव्हराची जात कळचे आदीं ताका आपल्या भावा भशेन विचारपूस करून वाडपी आवय, सगळें फट आसात अशें दिसून प्रस्नांचो जाप मेळनाशिल्ल्या कारणान ताका हुंडक्यांनी रडपाक येता. हे कथेंतलो आशय परंपरीक, चलपाचेंच तें अशी नदर वा आधुनिक आक्रस्ताळेंपण हांतूतलें कांयच घेवन येनासताना, फकत परिस्थितीचें दर्शन आनी विवेक-वुध्दीचो आक्रोश वाचप्यांमुखार मांडटा. देखून ही कथा प्रचारकी जायनास्तना कलात्मकतायेच्या पांवड्यारूच वावुरता. कथेंत ड्रायव्हराची दिसपटी मातशी लांवण लावन सांगिल्ल्यान कथेचो तोल गेला. अशें आसून लेगीत योग्य तो संदेश वाचप्यांमेरेन पावता हातूंत दुबाव ना.

'हार' ही लेखकाचे व्यक्तिचित्रणाचे कलेची जवरदस्त तांक दाखोवपी कथा. जेमतेम तीन पानांभितर एकच न्हय तर दोन मनीस तंतोतंत, तांच्या सभाव-वैशिश्ट्यांसकट हे कथेंत उबे केल्यात. विशय सादो, पूण फकत पात्रचित्रण आनी वातावरण हांकां लागून कथा उंचेल्या पांवड्यार पावल्या. भिवा नांवाचो एक शक्तिशाली शेतकार, उव्या गांवाचेर ताचो शेक चलता. जाल्यार कथेचो निवेदक एक तरणाटो, भिवाकडेन झगडपाची तरणेपणाची खुमखुमी आशिल्लो तो भिवाक आव्हान दिता. ताका भिवाक हारोवपाचो आसता. पूण भिवा तें आव्हान स्विकारच्या बदला मवाळपणान ताका शरण वता. भिवाच्या अनपेक्षित अश्या ह्या मवाळपणाक लागून तरणाटो अजापभरीत जाता आनी स्वताच हार खाता. दोनूय परस्पर विरोधी पात्रां ठळकपणान पूण मेजक्याच उतरांनी उबीं जाल्यांत. कथेंत बाह्य तसोच आंतरीक संघर्श नेमकेपणान उबो जाला. वाचतना वाचपी एक ताण अणभवता आनी निमाणेकडेन निसरगांठ सुटिल्ले भशेन अजापान सुखावता. हे कथेंतलें भिवाचें व्यक्तिचित्रण कशें केलां ताचो हो नमुनो पळयात : -

'भिवा. एक शेतकार. सुमार पाव तक्षिमेचो धनी. शिश्याच्या लाकडाची काळसाण.

तशीच घटसाण. झाडाचें गूंज कशें सुटिल्लें पोट. जुवांच्या खड्यासारकी बावळ्यावयलीं धोंगा. दिमपाक सादो. वोंठार गाळीनी विणिल्लें उतर. आपले शक्तीचो प्रयोग वाड्यार जायत्या जाणार केल्लो मनीस. ताचे वाटेक कोण वचना. ताचेकडेन वांकडे नदरेन पळयना. ताणें लायिल्लें उदक कोण मोडिना. भिवा खासा शेत कसपी. उदकाखातीर जागरणां सोंसपी.

'पाज्ज' ही कथा म्हळ्यार उपरांत वरयिल्ल्या 'अच्छेव' कादंबरीचें सूतोवाच जावन आसा. 'अच्छेव' हे कादंवरीत हेच कथेचो गुणात्मक आयामांचे नदरेन विकास आनी विस्तार जाल्लो पळोवंक मेळटा. मीन वेवसायाक लागून गोंयचे गांवगिरे जिणेंतली मुल्यां कशीं अकस्मात आनी कळनासताना बदलून गेलीं तांचें चित्रण न्हय तर दर्शन हे काणयेंतल्यान घडटा. हो प्रस्न फकत अर्थीक प्रस्न न्हय हें मतींत दवरप गरजेचें. फकत गरिबी, दारिद्र्य, वेकारी हांकां लागून हे बदल घडूंक नात. मीन संकृताय ही यंत्रयुगाची संकृताय. यंत्रयुग मनशाचो जिणेकडेन पळोवपाचो दृश्टीकोनच बदलून उडयता. तें बायलेकडेन भोगवस्तू म्हणून वा कामगार म्हूण पळयता. तें पर्यावर्णाकडेन वुड्डून घेवपाची वस्त म्हूण पळयता. मीन-वेवसायाक लागून एकेक करून इमारतीचे फातर कोसळचे तशे ग्रामवेवस्थेंतल्या कुटूंव-रचनेचेर फातर कोसळूंक लागले. एखादऱ्या घराचो वासो भितरल्यान बरगुंचो तशी एकेक जिवीत मुल्यां बरगूंक लागलीं. मुल्यांची समाजावयली पकड धील जाली आनी समाजातली अस्थीरताय, फुटीरताय, स्वच्छंदीपण वाडीक लागलें. समाज कुडीनच न्हय तर मनान लेगीत दुभंगलो. देखुनूच आपल्या घोवाक आनी भुरग्यांक सोडून वतना विठाबाय मनाक समजणी घालूंक शकली. हे कथेंत विठावायच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास जाल्लो पळोवंक मेळना. तिचे आदले जिणेविशीं एक दोन वाक्यांनी सांगून सोपयलां. सादीक ड्रायव्हराकडेन पळून वचपा मेरेन तिच्या मनाची तयारी कशी जाली ताचें मनोदिग्दर्शन जावंक नाशिल्ल्यान तिचें पळून वचप अकस्मात आनी नाटकी कशें दिसता. जिणेचे चडणेचेर एकें संवसारी वायलमनशेक आयिल्ली खरस पाज्ज ह्या प्रतिकांतल्यान यथार्थपणान दाखयल्या.

'वळ' ही भुरगेपणांतल्या आडांगीवृत्तीचेर आदारिल्ली काणी. राखणो भिकू आनी ताचे सांगाती अनसां चोरतात, हो काणयेंतलो एकूच प्रसंग. ह्या प्रसंगाक सांवसारकी पावळो ह्या चोरबैलाच्या कर्तुबांची फाटभूंय. भिकूय अनसां चोरता आनी पावळोय अनसां. केळंबें वी खाता. निमणें पावळ्यान हेरांच्या भाटांनी-कुळागरांनी

चोरी केली म्हण ताका मारता. ताचे फाटीर वळ काडटा, तेन्नाच जाच्या भाटांतलीं अनसां भिकून चोरिल्लीं, तो पार्टाल येवन भिकू सामकार उवो रावता. नाट्यमय अशी अखेर हे काणयेक लावल्या. वातावरणाच्या तपशिलासकट वारिकसाणेन केल्लें वर्णन आनी जिणेंतल्या नाट्यासकट उखलिल्ले प्रसंग हांकां लागून ही काणी उजवी थरता.

'काणी एका माजराची' ही आशयान ओतप्रोत आनी आकंठ भरिल्ल्या पुंडलीकबाब हांच्या कांय काणयांमदली एक. ज्या कथांक थळ, वाठार, काळ, वेळ हांचीं खंयचींच बंदनां लागनात, जी काणी सहजतायेन खंयचेय भाशेंत आनी संस्कृतीक परिवेशांत अणकारीत करूं येता अशी. निव्वळ वजन्यावरी फकत मानवी प्रस्न, संवेदना आनी भावना हांचेर आदारिल्ली ही काणी. तटस्थ निवेदन, पात्रांविशीं तीच तटस्थताय आनी अलिप्तताय, जें कितें घडटा तें तितलेंच निसर्गीक रितीन वाचप्यांमुखार उबें करपाची हातोटी, आशयाच्या गाभ्याक हात घालपाची कळाशी, हाका लागून वाचप्यांच्या मनात ही काणी अन्नवंर घर करून रावता. हे काणयेंत काळो वुकलो आनी रघू तशेंच मांजर आनी रघूची भावजय अश्यो परस्पर-विरोधी भूमिका उब्यो केल्यात. मांजराचेर काळ्या वुकल्यान हाडिल्लें अरिश्ट आनी रघूचे भावजयेचेर रघून हाडिल्लें अरिश्ट हांची तुळा करीत तें मेजक्याच उतरांनी आनी एकाच संवादांतल्यान चित्रीत केलां. हे काणयेची भास चित्र आनी काव्य हांच्या मिश्रणांतल्यान कशी घडल्या तें पळयात : -

'दोळे. तातूंत इंगळे केन्ना पेटलेच ना. गायेसारके सदासर्वकाळ शांत-शितळ. संकश्टाच्या वेळार दोळ्यांक धांपणीं. दुकां लेगीत मलप्यांचे कवडेभितर.'

'परत मांजर रिकाम्या तपल्या सारकें'

'अजाप म्हणचे दोगांचेय दोळे दुकळ पडून ठणठणींत पडिल्ल्या आश्ट्यासारके दिसतात.'

'वळार' : - मनशाच्या जिवितांत जैत आनी हार हांकां खुबूच मोल आस्ता. जायते फावटी एखादले घडणुकेंतल्यान आमकां जैत मेळ्ळें अशें आमकां दिसता, पूण प्रत्यक्षांत मात ती आमची हारच आसता. एक आळशी, कामचुकार शेतकामती, शेतकाम सोडून बंदूक हातांत घेता आनी शेतांतल्याच आपलें वरेंमागपी एके वळारेक मारता, तेन्ना वळार ताका सांगता. तुजो तीर चुकला . बळार हें सद्सद्विवेकाचें वा निसर्गाचें जाल्यार वंदूक हें क्षणीक-सुख मेळोवपाचें वा यंत्रयुगाचें प्रतीक जावन

काणयेच्या आशयाक पुश्टी दिता.

'भिकारो' : - व्यक्तिचित्रण म्हळ्यार फकत कुडीचें आनी तिच्या हालचालींचे चित्रण न्हय तर कुडी वांगडाच मन-वृत्ती-प्रवृत्ती, सभाव, अंगप्रत्यंगाचें परिस्थितीसकट घडयल्लें दर्शन हाचो प्रत्यय 'भिकारो' ही कथा वाचताना येता. एका भिकाऱ्याची, सतरा वर्सांची, ताचे दुर्दैवी जिणेची आनी मर्णाची ही करूण काणी. बरोवप्यान ताच्यो हालचाली, हावभाव, ताचे उत्फर्के, ताची लाचारी सगळें प्रत्ययकारी चित्रिकाचे नदरेन उबें केलां. त्या भिकाऱ्याक जितो-जिवो करपाखातीर ताचे भोंवतणी सावयवेरेंचो सगळो वाठार अचळय उवो केला. वातावरणा बगर व्याक्तिचित्रणाक मोल ना हें खरें.

'हांव हारलों, हांव जिखलों' :- ही शालेय जिणेचेर आदारिल्ली काणी. मोगाचो तारूण्यसुलभ असो अणभव हे कथेंत चितारला. रूपा नावाचें एके चलयेविशीं निवेदकाच्या मनांत ल्हान-सान योगायोगांतल्यान निर्माण जाल्लें आकर्शण, तातुंतल्यान दोगांयच्या मनांत रूजून आयिल्ल्या मोगाची आंकरी आनी निमाणें ताचेर जाल्लें शिक्कामोर्तव अशा अवस्थांतल्यान ही कथा वता. रूपाच्या दोळ्यांतलो धाक, इश्ट इश्टिणीनी मारिल्ले थोमणे, वर्गप्रतिनिधी म्हण निवेदक वेंचून येवपाचो आसतना, आपलें निर्णायक मत ताच्याआड दिवन रूपान ताका हारोवप आनी उपरांत वर्गांत हार खावंची पडून लेगीत, रूपान आपल्याक कित्याक मत दिवंक ना हाचें खरें कारण कळटकीच आपूण हारलों-पूण जिखलोय अशी मळवायेदी खोशी मनोवपी निवेदक हे कथंत रंगयला. आपलो निवेदकाविशींचो मोग हेरांपासून लिपोवन आपल्याच काळजांत धांपून दवरपी रूपाचें चित्रण लेगीत नकसूदपणान केलां.

'खळ' ही एक समाजीक आशयाची कथा. ह्यासारख्या कथांतल्यान ग्रामीण जिणेंतलो, परंपरा आनी वास्तव हांचेमदलो दारूण संघर्श पुंडलीकबाव हांणी चित्रीत केला. काळीज पिवळटून वडोवपी असो करूणेंन भरिल्लो आशय हे कथेक लावला. सगळेकडेन मळणी चल्ल्या. नवें पीक, नव्यो उमेदी, नवे हावेस आनी नवी खोशी. पूण हें सगळें हेरांक. पांग्याच्या घरांत मात आयदनां खडखडटात. दीसभर वावर करून लेगीत खळ जावंक नाशिल्ल्यान दिसवडो हातार पडना. वायल भुरगीं उपाशीं हें पळोवन आंतड्यंक पीळ घालून पांगो इल्लेशें लुविल्लें भात चोरून हाडटा आनी वायल भुरग्यांक वाडटा. सकाळीं खळाची पुजा जातकीच गाराणें जाता तेन्ना सगळ्यांक चोरी जाल्ल्याचें कळटा. निमाणें गांवच्या देवस्पणांक लागून पांगो पिसो जाता अशें दाखोवन ही कथा श्रद्धेच्या प्रांगणांत हाडून सोंपयल्या.

'उचंवळ' ही नावांभशेनूच नव्यानच जुवानपणांत पावल दवरिल्ल्या तरणाट्याची कथा. ताची लैंगीक अस्वस्थताय आनी ताका लागून जाल्ल्यो शारिरीक आनी मानसीक हालचाली, ताचे चाळे ह्या सगळ्यांचें सुक्ष्म चित्रण हे कथेंत केलां.

'म्हज्या जल्माची गजाल' हें कथेंत श्रद्धा आनी समाजीकता हांच्या मिश्रणांतल्यान काल्पनीक रितीन एका भुरग्याच्या जल्माची गजाल सांगल्या. जल्मांक येतनाच तीन दोळे घेवन जल्माक आयिल्लो व्यंग भुरगो, ताचे आवयन परिस्थितीक लागून ताच्या व्यंगाचो पैशांखातीर केल्लो दुरूपेग आनी लोकांच्या कुड्ड्या श्रद्धांक लागून जाल्ली गर्दी आनी निमाणें त्या भुरग्याच्या वेवद्या वापायन, आवयन व्यंग-भुरग्याचो देव करून मेळयिल्ले पैशे हातासताना 'चेडये, मीण करून हो देव जाला तुगेर' अशी केल्ली फोडणिशी हातूंतल्यान बटवटीत वास्तव दोळ्यांमुखार येता.

'कासय' ही लेगीत खळ हे कथेभशेनूच श्रद्धेचेर आदारिल्ली काणी. दर एका समाजाचे कांय संकेत आसतात, लिखीत न्हय तर मान्यतायप्राप्त, रूढीन घालून दिल्ले नेम, कायदे आनी do's and don'ts आसतात. खारवी समाजाचे नदरेन 'कासय' हो पूजनीय जीव. वासूक हीच पूजनीय कासय जेन्ना परिस्थितीक लागून विकची पडटा तेन्ना हतबल वासू पोल्यार व्हाण वशिल्लेवरी जाता. चिरप्यांचें चिरप थांवलां आसतनाय एके व्हडले खरवतीन चिरप चिरिल्ल्याचो आवाज ताच्या कानात रिगूंक लागता. पूण तो चिरप्यांनी कासयेच्या बदलाक दिल्ली नोट घेवन तांदूळ हाडूंक पसऱ्याचे वाटेक लागता.

पुंडलीकवाव हांणी मनशाची ही हतबलताय (helplessness) आनी परिस्थिती-शरणता अचूकपणान वळखूनच 'कासय', 'खळ' हे सारख्यो कथा रचल्यात. हे कथेंतले वासू आनी बायल तशेंच वासू आनी ताचें मन हांचे मदले ताण-तणाव पळोवपासारके आसात. नुस्त्याचें जाळ विणटा तेप्रमाण तांच्या मनांत to be or not to be चे धर्तिचेर कासय विकप काय ना हाचेविशींचें विचारांचें जाळ विणटना पळोवंक मेळटात. वासूच्या रुपांतल्यान समाजमानसांत चलपी परंपरा आनी वास्तव हांचे मदलो संघर्श बरोवप्यान चित्रीत केला.

'मोगाची धूव' ही कथा अशीच ग्रामीण जिणेंतली. आपले चलयेन वायट मार्गान वचचें न्हय म्हणून ताची आवय ताका शाळेंत धाडिना, नोकरेक लायना. पूण वयांत येवपी चलयेच्या आंगांत पिरायेक अनुकूल अशे प्रेमभाव जागे जातात. आनी आवयचे गांगणेवेल्यान वग्गी रावपी. उणें उलोवपी ही चली एका ट्रक ड्रायवराचे वासनेक बळी

पडटा. आपले चलयेच्या चारित्र्याविशीं फुशारक्यो आनी बडायो मारपी आवय, निमणें आपलें चली गुरवार आसा हें कळटकीर मात 'म्हाकाय आंकवारपणांत एकदां अशेंच भोगलेलें' अशें सांगून एक नागडें सत्य उक्तायता. गांवातल्या घडणुकांपोंदचो एक वेगळोच स्तर जो सामान्यतायेन साहित्यांत दुर्लक्षीत उरला तो हे कथेंतल्यान लेखकान विस्कटावन मांडला.

'माड' हे कथेंत मीन-वेवसायाक लागून गोंयच्या संस्कृतीक आनी पर्यावरणीय चक्रांत कसो फरक पडला तें दाखयलां. माड हें सैमाचें जाल्यार ते माडाभशेनूच शक्तिहीण जाल्लो, माडाच्या वांज बोंड्याभशेनूच सपनां करपेल्लो आनी जाचे हावेस गळून पडिल्ल्या त्या बोंड्यावरी आसात असो खुशाली हो गांवपुरसाचें प्रतीक. मीनाक लगून पर्यावरणाचें शोशण जाता. ताची निर्मणेची शक्तच ना जाता. तेंचतरेन गावांतले मनीस निर्वळ आनी गात्रहीण जातात. खुशालीची बायल, जी वयल्यान दिसपाक शीलवंत दिसता तीच रातची ट्रक ड्रायवराक लागीं करता. आनी खुशाली मात आपलें दुःख ग्लासभर सोऱ्यांत लिपयता. एका संस्कृतीक अधःपतनाची ही काणी. हें स्खलन फकत एके बायलमनशेचें न्हय तर पुराय गांवचे परंपरीक जिणेचें. पोत्रे वेवसाय नश्ट जाले, मनीस पैशांफाटल्यान धांवपाक लागलो, विकासाच्यो संकल्पना वदलल्यो, पर्यावरणाक बुड्डुन तो जगपाक लागलो, समादानापरस खिणयाळ्या, क्षणभंगूर सुखाखातीर पिळग्यान पिळग्यांच्या मुल्यांचो ऱ्हास जावंक लागलो आनी हें पतन फकत शारिरीक उरनासताना तें मानसीक आनी बुद्धीक पांवड्यार केन्ना पावलें तें ताका कळ्ळेंच ना. हे अवस्थेंतल्यान भायर सरपाचो मार्गच नासता तेन्नाच तेंच जिवीत म्हण जगपी खुशालीचें चित्रण हे कथेंत वास्तवाक धरून केलां.

'मरण इतलें सुंदर आसता' ही एक तात्वीक आशयाची काणी. ते काणयेच्या नांवाभशेनच तिच्या आशयांत लेंगीत एक विरोधाभास भरला. आमोरेचेर गाळी घालून आपल्या मांवाचो उद्धार करपी शेजान्न तां मरतकीच मात हांवेर मारता तें पळोवन मर्णाविशींचो एक वेगळोच दृश्टीकोन निवेदकाच्या मनांत निर्माण जाता. आनी मागीर तेंच नदरेंतल्यान निवेदक दरेके घडणुकेकडेन पळयता. आपली वयनी आपल्याक सकाळीफुडें उठून च्या करून दिता तांयवी फटिच्या मोगान अशें ताका दिसता. जिणेकडेन एके अश्रद्ध (cynic) नदरेंतल्यान तो पळयता. मर्णाउपरांतच मनशाचे जिणेक मोल येता तें ताका हांलमता आनी मागीर मर्ण आयिल्ल्या त्या शेजारणीच्या नांवाची ताका नगाय जाता. जिवीत जगपाची सक्ती जाल्लेभशेन विचार

कर्गत शाळेंत वतना ताका वाटेंत एक पेटो मरून पडिल्लो दिसता. त्या पेट्याक पळयतकच ताच्या मनांत करूणा जागी जावंच्या वाट्याक तो मेल्लो सुणो ताका सुंदर दिसूंक लागता. तें मरण न्हय तर तो एक सुवाळो अशें ताका दिसता. 'आपुले मरण पाहिले म्यां डोळां' ह्या वचना भशेन मरण हो एक आनंद-सुवाळो अशें ताका दिसता. ही काणी एका शून्य तत्वगिन्यानाची. दिसता तें सगळें फट आनी आभासमय. तातूंत सत्य ना. सत्य आग्गा तें मर्णाभीतर. पूण मनशाक मर्णाची सक्ती आसा तशी जगपाचीय वी. देखून जगप असह्य जातकीच मर्ण लेगीत सुंदर दिसूंक लागता अशें वास्तवाचें जळजळीत अंजन वाचप्यांच्या दोळ्यांत घालपी ही कथा, कोंकणीत आगळीच सुवात मेळयता. हे कथेंत सुण्याच्या मर्णाचें जें वर्णन बरोवप्यान केलां ताका लागून वाचप्यांच्या दोळ्यांमुखार प्रत्यक्ष मेल्लें सुणें उवें जालेवगर रावना.

'पारज' हे कथेंत दोन भिन्न जातींतल्या मोग्यांमदीं निर्माण जावपी नाजूक मोग-संवंद चित्रीत केल्यात. बुधो हो राखणो आनी श्यामल हें भटालें चली. बुध्याच्या मनांत श्यामलाविशीं मोग आसा. श्यामल पिरायेन वाडिल्लें चली. वाडटे पिरायेखातीर आयिल्ल्यो सोयरिको मोडटात. आनी निमाणें ताच्या मनाच्या कोनशांतलो बुध्याविशींचो मोगाचो आंकूर किल्लता. हे काणयेच्या वातावरणांतल्यानच श्यामलाचे जुवानपणाचीं लक्षणां आनी दोगांयचीय ताटातूट प्रदर्शीत जाल्या. देखीक हीं वाक्यां : -

'श्यामल वझऱ्यार न्हाता. भोवतणयां कुळागराचो वाठार गच्च जावन आयला. दवांत भिजिल्ल्यो माडयो धोलतात. केळीची वागयी चारवटां निस्ततात. धवेफुल्ल तिकतिकीत गवे .... तांचेर दवां-थेंब अचळय देंवतात.' हे कथेचो शेवट बुधो श्यामलाल्या हातांतल्यान पारजाभशेन कसो निसटून वता तें दाखोवपाखातीर कितलो सूचक आनी भावगर्भ केला पळयात : -

'श्यामल ताका पळयत रावता.... तो दिसना तेन्ना ताच्या पावलांवयल्यान नदर फाटीं घेता. लख्ख चान्न्यांत .... शेण मारयिल्ल्या आंगणांत बुध्याच्या विर्याचे शिंपडलेले दोन थेंब अरग्गत आसतात. हातांतल्यान सुटिल्ल्या पारजावरी तें तांकां तेळीत रावता.'

शृंगाराचें आनी प्रेमसंवंदांचें हे कथेंत जितल्या संयमान आनी सुचकतायेन तशेंच अर्थपुराय चित्रण जालां. तशें चित्रण पुंडलीकबाबाल्याच न्हय तर पुराय कोंकणी साहित्यांत दुर्मीळ.

खाटीक हे कथेंत एका जाणटेल्याची शोकांतिका सांगल्या. हो जाणटेलो

आपल्या पुतापरस आपल्या वैलांक जपता. तांका खावड वी घालून व्हड करता. पूण फुडें पुताच्या लग्नावेळार दुडवांखातीर तेंच बैल काळजाचेर फातर दवरून ताका विकचे पडटात आनी दुर्दैवान सून लेगीत ताचो छळ करपाक लागता. निमाणें जाणटे जाल्ल्या वैलांक विकून उडोवंचे तशें चलो आपल्या जाणट्या बापायक काडून घराभायर उडयता. कुश्टाचे मानसिकतायेचें वर्णन हे कथेंत अचूकपणान केलां.

'भाग्योदय' हे कथेंत आधुनीक विकासाच्यो संकल्पना आनी राजकारण हांचेर वडी मारल्या. गांवचें राजकारण, राजकारणी, तांच्यो वेगळ्यो-वेगळ्यो वृत्ती, गावांतली गरिवी, सरकाराच्यो येवजण्यो, गांवच्या विकासांतली तांची भुमिका आनी त्या दोगांयमदीं आशिल्लो प्रचंड अंतर्विरोध ह्या सगळ्यांचेर हे कथेंत उजवाड घातला. एका घरांतलो भुरगो शिर्विसेखातीर धायदिको माड्डयता. सगलेकडेन आपटी खातकीच घराकडेन येतना, पेपरार आपल्या घरांतलें दळिद्र नव्यानच घातिल्ल्या विजेच्या दिव्याक लागून कशें उक्ताडाक आयलां तें पळयता. हेवटेन सरकाराचे नदरेन गांवच्या विकासाची एक मोख आनी सोपस्कार पुराय जाता. खंय तरी कितें तरी चुकता, विकासाची नाडी आमी वळखूंच ना असो संदेश दीत ही करूणामय काणी सोंपता.

'घर' ही कथा म्हळ्यार कुटूंबवेवस्थेच्या शोकांतिकेची काणी. तिका भाटकार शायेच्या अन्यायाची एक देग आसा. तेचप्रमाण निमाण्या स्वासामेरेन आपली परंपरा आनी दायज सांवाळपाखातीर आकांताचें झुज दिवपी आवो चे जिणेचो पालव आसा. एका साद्या घर शिंवपाच्या प्रसंगांतल्यान हो येदो व्हडलो दीर्घ-कथेचो आवांठ आशिल्लो विशय वरोवप्यान आटोवन मांडला. तिनूय पुतांचो एकामेकांचो दुस्वास, जावांचो आपूण आनी घोव सोडून सगळ्याविशींचो द्वेस, धाकल्या शिवाचें शिक्षण आनी तातूंतल्यान ताका येवपी परिस्थितीची समज, आवोची आपलो संवसार सांवाळपाची विफल धडपड आनी मुखेल म्हळ्यार विभक्त-कुटूंव पद्धतींतली जीण हांचे हृदय द्रावक अशें दर्शन हे कथेंत घडयलां.

'अर्द्क' हे कथेंत एका एकत्र कुटूंवात एके चलयेचो जाल्लो घुस्मटमार, तिच्यो व्यथा आनी वेदना आनी निमाणें तिचो दुखद अंत हांचें चित्रण आसा. हे कथेंतलें उर्मिलाचें रूप, माथ्यार वजें घेतिल्लें अशें दाखयलां तें योग्यच आसा. सुरवेक वापायच्या घरचें आनी मागीर घोवाघरचें वजें सांवाळीत तिचें व्यक्तीत्व खुरटून वता. घरांत स्वातंत्र्याचो उणाव, घोवान आवयची आनी भयणीचीच बाजू घेवप, मनांत आसूनूय रात्रीकडेन वचूंक मेळप ना, दर एके गजालीक भयणीन सांगलां म्हणून

केलें.  ही घोवाची जाप, सगळ्यांसामकार घोवान तिका  पिसाय  म्हणप आनी निमणें भुरगें जातनाच मरप ह्या सगळ्या भोगांतल्यान सुटकेचो आनीक कांयच मार्ग नाशिल्ल्यान उर्मिलेन केल्ली आत्महत्या अशे रितीन एके वायलेच्या जिविताचो जाल्लो गोबोर हे कथेंत वाचूंक मेळटा.

'भोंवर' ही समाजीक आशयाची काणी. अनिल ह्या अर्धशिक्षीत भुरग्याची, नोकरी नाशिल्ल्यान जाल्ली मानसीक अवस्था, शेतकाम, जाणटे आवय-वापूय, कश्ट करप ह्या गजाली विशीं ताच्या मनांत निर्माण जाल्लो तीव्र तिरस्कार. आनी आपल्याच मनाच्या फटवणेखातीर ताणे दिसभर मारिल्ली अथशून्य भोंवडी, सोयऱ्यांकडेन वंडलां मारून मेळयल्ले पैशे आनी निमाणें वापायन  मनशान चार पैशे जायना, जोडचे, पूण स्वकश्टाचे....  हीं उतरां उलयतकीच ताका जाल्लो पश्चताप हे कथेंत मार्मीक रितीन दाखयला. ही कथा म्हळ्यार एका अर्थान आयजचे समाजवेवस्थेवयलें भाश्य. अनिलासारखें कर्तृत्वहीण, कश्टांची लज दिसपी तरनाटे तयार करपी शिक्षण पद्दत, आनी फकत White collar job सोदपाक भाग पाडपी समाज मानस हातूंतल्यान मातयेचोच दुस्वास करपी पिळग्यांच्यो पिळग्यो तयार जातात, जांच्या वांट्याक फकत अशीच एक अर्थशून्य भोंवडी  भोंवर येता, हें हे कथेंतल्यान वरोवप्यान सांगलां.

'बुकलो'  ही सैमीक चक्राची याद करून दिवपी कथा.  'जीवो जीवस्य जीवनम्' वा Survival of the fittest ह्या विचाराची तात्वीक बसका हे कथेंत आसा. हे कथेचो निवेदक एका मांजराच्या पिल्याक बुकल्यापसून वांटोवपा खातीर यत्नांची शिकस्त करता. एक पिलो त्या बुकल्यान खाला, दुसरो दिवंचोना म्हण दोळ्यांत तेल घालून ताची राखण करता. ताका भरपूर खावंक-जेवंक घालून ताची राखण करता. तोच पिलो फुडें व्हड बुकलो जाता आनी शेजारच्या मांजराचो पिलो खावन उडयता. आपणें जाका बुकल्यांपसून वाटायलो तोच पिलो आतां दुसऱ्यांची पिलां खाता ते पळोवन रागाभरशी निवेदक ताका मारून उडयता आनी मागीर आपले करणेचो अर्थ सोदता.

'वाजार' हे कथेंत एका मध्यमवर्गीय मनशाची जाल्ली सपशेल फटवण चित्रीत केल्या. खंयचेकडेन कांयच खरें ना.  जीवन मिथ्या ,  अवघाची संसार-मायेचा वाजार असो अणभव मध्यमवर्गियांच्या वांट्याक येत आसता. देखून आपणें ज्या भिकाऱ्याक दोन रूपया दिले, ताणें ते वेश्येक व्हरून दिले आनी आपणाक फटयलो, दुकानदारान आपणाक वायट माल दिवन फटयलो, जे वायलेची आपणें काकळूट केली ती वायल

मोरो पियेवन भर बाजारांत नाचता म्हणपाचें कळून ताची परती फटवण जाली आनी निमाणें ते वायलेच्या घोवाची काकळूट करून तरी आपल्या मनाचें समादान करचें जाल्यार त्या घांवानूच तिका पयलीं धंद्याक लायिल्ली, हें ताका कळटकीच ताचो कित्याचेरूच विस्वास ना जावन तो अस्वस्थ जाता. हे कथेंत मध्यमवर्गीयांचें भिजूडपण, पोकळ-कानांची वृत्ती, अल्पसंतूश्टी वृत्ती, आपल्याच मनाचें समादान करून घेवपाची वृत्ती आनी संवसारांत जगता आसतना करची पडटा ती केविलवाणी धडपड तशेंच उच्चवर्गीय समाजाची वडेजाव आनी फुशारक्यो मारपाची वृत्ती आनी दळिद्री समाजाची लाचारी पुंडलीकबाब हांणी विनचूकपणान दाखयल्या.

'वळी' हे कथेंत अडेचे गिरेस्तकायेचो आव हाडिल्ल्यान वांट्याक आयिल्लें दूख दाखयलां. एका मध्यमवर्गीय कुटूंबांत जल्माक आयिल्ल्या चल्याक बँकेंत नोकरी लागतकीच ताच्या बापायची वृत्ती बदलता, तो आपल्या चल्याविशींच्यो वडायो मारपाक लागता आनी तेंच खरेलें जिवीत मानून जगूंक सोदता. बापायची निमाणी इत्सा म्हणून पूत बँकेंत ५०, ००० रूपयांची अफरातफर करून भाट विकतें घेता. ताचो बापूय अडेचो भाटकार म्हण मिरयता आसतनाच पूतान केल्ली अफरातफर उक्ताडाक येता आनी ताका पुलीस धरून व्हरतात. मनशान हांतरूण पळोवन पांय पसरचे हे म्हणणेची सत्यताय दाखयतनाच बापायच्या सभावांतल्या बदलांचें सूक्ष्म चित्रण हे कथेंतल्यान घडयलां.

'खाटकागेर एक रात' : - हेर कथांपरस वेगळोंच विशय घेवन बरयिल्ली ही कथा वाचप्यांच्या मनाचेर भयानक परिणाम करता. एक वाट चुकिल्लो वाटसुरो एका मनशागेर गावांपसून पयस ताचे खोंपीत रातीपुरतो मुक्कामांक येता. येतकीच तो खाटीक आशिल्ल्याचें ताका समजतकीच ताचो भंयान गुळो जाता. उपरांत तांचेमदल्या संवादांतल्यान तो मनीस खाटीक कसो जालो, बायलेन ताका कित्याक सोडलो हाची कारणां कळटा. पूण खाटीक जें कितें उलयता तातूंतल्यान वाटसुऱ्याच्या मनांत फकत भंयच निर्माण जाता. खाटकाच्या दर एका प्रसंगावयल्या उलोवपांत ताच्या धंद्याचो संदर्भ आशिल्ल्यान गर्भगळीत जाल्लो वाटसुरो रातभर जागून निमाणें फांतोडेर पळून वता. हेवटेन गांवान भंयानूच बहिश्कृत केल्लो खाटीक, हे वाटसुऱ्यान मात आपल्याचेर विस्वास दवरलो म्हण ताका च्यायेक दवरीन ताची वाट पळयत बसता. हे कथेंतलें गंभीर वातावरण आनी खाटकाचीं एकेक वाक्यां हांकां लागून वाटसुऱ्याचें कितें जातलें काय? असो प्रस्न वाचप्याक भंसडायता आनी निमाणें वाटसुरो पळून

वतर्कीच मात वाचप्यांक मृ ऽऽ जाता. कथेक आवश्यक मानिल्लो एकांगी परिणाम (Unity of impression) मात हे कथेंतल्यान जायना. खाटकाचीं विस्वास न बसपासारकीं (Unbelievable) रूपां वाचप्यांच्या मनांत येतात आनी ते ताच्या वृत्ती विशीं संभ्रमात पडटात (घडयं देखूनूच ही कथा एकांकीत रूपांतरीत करपाची गरज बरोवप्याक दिसली आसुंये.)

'वळजवरी' ही गांवगिऱ्या गजालींचेर (मराठींत जांका किस्सा म्हणटात) आदारिल्ली कथा. पूण तातूंत लेगीत समाजीक वास्तवाचें नागडें रूप पळोवंक मेळटा. गांवच्या चिरेकाऱ्यान सांबाळिल्लें एक गाढव एक दीस गायेफाटल्यान लागता तें पळोवन गांवचें गांवपण जागें जाता. चिरेकाऱ्याचेर सूड उगोवपाक संद सोदपी कांय मनीस हे घडणूकेचें भांडवल करून ग्रामपंचायत आपयतात. दादी हो पंचायतीचो मुखेल. तो चिरेकाऱ्याक अशी घडणूक परतून घडची ना अशी ताकीद दिवन ह्या व्हड गुन्यावां तल्यान ताची सुटका करता. चिरेकार आनी ताची लंगडी तरणी चली जनी दादीच्या पांयार घालून घेतात. तोच दादी उपरांत ते राती चिरेकाऱ्यागेर येवन जनीचेर बलात्कार करता. हे कथेचो शेवट काळीज हालोवपी असो आसा. दादी जेन्ना रातचो चिरेकाऱ्यागेर येता तेन्ना चिरेकार गाढवाक मारीत आसता. पाडपडलेल्या! तुज्याखातीर हें घडोंक पावलें. गाढव बांदिल्लेकडेन काळीज फोडपी हुयेली मारपाक लागलें ...... आनी मागीर अदीं-मदीं आत्र्यापयऱ्यान चिरेकार असोच असाह्य जावन गाढवाक पेटपाक लागलो. अशे रितीन एकेच वळींतल्यान चिरेकाराची असहाय्यताय, ताची हतवलताय आनी धगधगीत अशें वास्तव सूचक, मार्मिक आनी हृदयभेदी रितीन बरोवप्यान मांडलां.

'जैत' ही कथा म्हळयार अन्यायाआड केल्ल्या जोरदार उठावाची काणी. भाटकारशायेआड झूज दिवपी गांवचे नागरीक आनी तांचें नेतृत्व करपी विजय आनी ताचे वांगडी हांच्या धाडसाची आनी चिवटपणाची ही कथा. भाटकारान जानूक - आपल्या भागेल्याक मरसर मारलो म्हण गांव भाटकाराचेर बहिश्कार घालपाचो निर्णय घेता. भाटकारान जाहीर माफी मागूंक विजय आनी ताचे सांगाती भाग पाडटात. पूण हातावयल्या पोटाची आशिल्ली जनता, कांयच काम नाशिल्ल्यान उरफाटें मुरफाटें उलोवपाक लागता. जीण जगप असह्य जाल्ल्यान जानू परत भाटकारागेर कामाक वता. ती खबर कळटकच आख्खो गांव ताचेर तुटून पडटा. गांवची एकी आनी एक चिवट संघर्श तशेंच विजयाचें परिपक्व फुडारपण हांचें

उमळशीक वाडोवपी चित्रण हे काणयेंत पळोवंक मेळटा.

'अग्निदिव्य' ही कथा श्रद्धेच्या मळावयली. गावांत अग्निदिव्य करून आयिल्लो एक तरनाटो खवरी सांगता त्यो आयकतां आयकतां भान विसरून गेल्ले एके जाणटेलेचे खोंपीक उजो लागता. तें पळोवन अग्निभक्ताक पांयां पडपाक आयिल्ले सगळे लोक थटाक जावन पळयत उरतात. जाल्यार अग्निदिव्य केल्लो तरनाटो, आनीक एक फावट तें करपाक मेळचें म्हण उज्यांतल्यान इंगळे तयार जावपाची वाट पळयता. निमाणे जाणटेलेचो नातू भितर लासून मरता. श्रद्धेंतलीं फोलपणां कितले सहजतायेन वरोवप्यान मांडल्यात.

'प्रेमजागर' ही लेखकाची स्वतंत्रपणान उजवाडाक आयिल्ली हालींचीच काणी. लोकजिणेकडेन इतलो भरसून गेल्ल्या, एकरूप जाल्ल्या पुंडलीकवाब हांणी आजून मेरेन लोकसाहित्याचो उपेग आपल्या कथांनी कित्याक करूंना? (नाटकांनी तो खूब फावटीं केला. देखीक शवै शवै भौजनसमाज, श्री विचित्राची जात्रा, चैतन्याक मठ ना आदी) असो प्रस्न म्हाका सदांच पडटालो. प्रेमजागर ही कथा पुराय रितीन लोकसंस्कृतायेचेर आनी लोकसाहित्याचेर आदारून आसा. मोगा आनी वावुराय हांच्या अमर प्रेमाची ही काणी. मोगा आनी वावुराय हांच्यामदीं मोगाचे ल्हवपीक संवंद निर्माण जातात. तांच्या लग्नाक बापायकडल्यान मोगान मान्यताय लेगीत मेळोवन घेतिल्ली आसता. पूण मोगाचे बापायचे नदरेन वावुरायाक माडयेर चडपाक लेगीत येना देखून ताचें जिवीत फुकट. वापायचीं हीं उतरां मोगा वावुरायाच्या कानार घालता तेन्ना वावुराय तें शिकपाचें उतर दिता. आनी थंयच ताचें दुर्दैव आड येता. माडयेवेल्यान कोंसळून तो एका पांयान लंगडो जाता. वावुराय लंगडो जातकीच मोगाचो वापूय परतून दोन वर्सां आदीं आयिल्ले सोयरीगतीक हयकार दिता. तें मोगाक कळटकच मोगा धांवत वचून वावुरायाचे वेंगेंत घालून घेता. हे काणयेंत लोकसाहित्याचो सुंदर आनी कलात्मक उपेग वरोवप्यान करून घेतला. वावुराय हें जागरांतलें एका पांयार नाचपी पात्र. पूण पांय मोडटकीच तो खऱ्यांनीच लंगडो जाता आनी ताका जागरांत नाचपाक मेळना, अशी सुंदर कलात्मक जुळवाजुळव करून

'थोटो पैया - भिंग रे लैया'

ह्या जागराच्या गिताची समर्पक साथ ताका दिल्या. पुंडलीकवावाकडल्यान असले तरेच्या आनीक सुरस कथांची अपेक्षा आसा.

अशे रितीन कथासाहित्यांतल्यान गोंयचे गांवांगेरे जिणेची नस वळखून, गांवांगच्या

समाजाचे प्रश्न, तांच्यो वेदना, तांचे हावेस, तांचीं सपनां हांकां आपले कथेंत म्हत्वाची गुवात दिवन तांकां वाचा फोडपाचो यत्न पुंडलीकबाब हांणी केला. लोकजिणेचेर अभ्यास करूंक सोदपी दरेका अभ्यासकाक ह्यो कथा तर मार्गदर्शक थरतल्योच पूण तेचवांगडा गोंयचीं समाजीक स्थित्यंतरां लेगीत पिशान्तर ते अर्दूक ह्या पुंडलीकबाब हांचे कथाभोंवडेंतल्यान समजून घेवं येतात. एकेवटेन प्रदेशीक आसून लेगीत आशयाचे विश्वात्मकतायेक लागून प्रदेशीकतायेच्यो शीम-मेरो तांच्या कथासाहित्याक पडनात हें म्हत्वाचें.



# कादंबरीकार पुंडलीक : समाज-स्थित्यंतरांचो दस्तावेज

पुंडलीक नारायण नायक हाणी १९७६ वर्सा वांवर , १९७७ वर्सा अच्छेव जाल्यार १९८५ वर्सा वसंतोत्सव आनी दायज ह्यो दोन आनी ह्या वर्सा उजवाडाक आयिल्ली गुणाजी अशो ५ कादंबऱ्यो बरयल्यात. हातुंतली 'अच्छेव' सोडल्यार हेर सगळ्यो नवलिकेक लागीं वचपी दीर्घकथेच्या स्वरूपांतल्यो आसात. तांची पयली वांवर ही नवलिका जिणेंतल्या हळशिकावण्या वास्तवाचें दर्शन घडयता. 'सत्य' हें सदांच 'शीव' आसना आनी 'सुंदर' आसताच अशें ना हें हे नवलिकेंतल्यान दाखयलां. गोंयची खेडेगांवांतली संयमी जीण सोडून एक भुरगो शारांतली अनिर्वंध आनी विकृतीन सडिल्ली जीण पळयता आनी ते जिणेवांगडा कसो व्हांवत वता तें हे नवलिकेंत दाखयलां. पुराय रितीन लैंगिकतायेचेर भर आशिल्ले हे नवलिकेक दोन आंगां आसात. एक शारांतली उगडी-नागडी, धरबंद नाशिल्ली निलादरी जीण आनी दुसरें जे पिरायेर हें सगळें पळोवचें न्हय ते पिरायेंत तें सगळें पळोवपी आनी अणभवपी भुरगो. शारांतल्यो नितळसाणेच्यो कल्पना, लज-मर्यादा-शरम हांचेविशींचे धरबंद, नीतीच्यो संकल्पना आनी एकुणच जिणेकडेन पळोवपाची नदर खेड्यांपरस कितली वेगळी आसता तें हे नवलिकेंत दाखयलां. खेडेगांवांत लेगीत वायलो उक्त्यार न्हानात. कुडिचे विधी उक्त्यार करतात पूण थंयचे विशिश्ट वेवस्थेक लागून आनी

मर्यादेक लागून थंयचे जिणेक भौशीक रुप येना. शारांत मात ज़ागो नाशिल्ल्यान, फावो त्यों सांयी सुविधा नाशिल्ल्यान त्या गजालींक अनिर्वंद रुप येता आनी ल्हवू-ल्हवू मन मरता. हेंच निसर्गीक अशें दिसपाक लागता. पूण गावांतल्यान आयिल्ल्या मनशाक मात हें दर्शन भयानक आनी मुळांतल्यान हालोवपी अशें जाता. गोयांत झोपडपट्टी ना अशें न्हय. पूण आतांमेरेन तांचेकडेन गोंयकारांचो संबंद येवंक नाशिल्लो.

शाराचे कुशीक निर्माण जाल्ल्या वाठारांनी खांतोंड-जीण जगपी गोंयकार कमी नात. पूण हें चित्रण साहित्यांत नवें आशिल्लें. 'वांबर' म्हळ्यार चिखोल. हे नवलिकेंत मनशाचें संस्कृतीहीण अशें दर्शन घडटा. घांटीण, पार्वती, चेडूं आनी फिगरेदीली वायल हीं विशिश्ट परिस्थितीक लागून लैंगीक विकृतीन सडिल्लीं वायलां, शारिरीक आनी मानसिक व्यंगाक लागून हतबल जाल्लो शंकर आनी फिगरेद, लाचार येसलो, ल्हान पिरायेचेरच व्हड जाल्लो पका, हीं सगळीं पात्रां आनी थंयचो वांद, सांकव हे वा र हांच्या दर्शनांतल्यान फकत सडिल्ले जिणेचेंच दर्शन घडटा. हे नवलिकेचेर अश्लिलतायेचे आरोप जाल्यात. ते खरेंय आसात. पूण समाजांतलें हें नागडें-उगडें सत्य स्पश्टवक्तेपणान वाचप्यांमुखार हाडून तांच्या दोळ्यांत वास्तविकतेचें अंजन घातिल्लेखातीर तिची योग्य दखल मात कोणेच घेवंक ना. 'धर्मू' थंयचो जीण पळयतां-पळयतां तातूंत रममाण जाता, गुल्ल जाता तें पळोवन वाचप्याक वायट दिसता. थंयच हे नवलिकेचेर आशिल्लो अश्लिलतायेचो आरोप खरो जाता. पूण शारीकरणाचे संस्कृतीक, अर्थीक प्रश्न, मुल्यांचो न्हास, जिणेंतलो सुवार्थ हे परिणाम 'वांवर' हे नवलिकेंत यथार्थपणान चितारल्यात हेंय खरें. जिणेंतलीं एकेक मुल्यां भरण्याआकाचे रोगी जिणेभशेन कशीं उणी जायत चल्ल्यांत आनी विकृती मात भरण्याआकाचे जोरगतीक येवपी खरशीभशेन कशी समाजाचे कुडींत वाडत चल्ल्यांत ताचें वास्तव-चित्रण म्हळ्यार बांबर .

### अच्छेव

'अच्छेव' ही कदंबरी १९७७ वर्सा उजवाडाक आयली. ज्या काळांत कोंकणी ही गंभीर साहित्याची भास जावंक शकना, असो अपसमज आशिल्लो त्याच काळांत वर्सयिल्ली ही कादंबरी. तिच्यांतल्यान फकत गंभीर आशय व्यक्त जायना तर ती काळाचें हुंवरें हुपून भविश्यकालीन परिस्थितीचेर भाश्य करता. समग्र जिणेचें तिच्या सगळ्या तागांकुरांसयत दर्शन घडटा. यंत्रयुग, उद्येगीकरण, शारीकरण, प्रदुशण हांकां लागून जावपी एका गांवाचें समाजीक, संस्कृतीक, नीतीक, अर्थीक,

शारिरीक, पर्यावरणीय अधःपतन हे कादंवरींत चित्रीत जालां. विकास म्हळ्यार कितें? फकत यंत्रां? माकनां? अविल्ल्यो सोयी सुविधा? हातांत घोळपी पैशे? अशे प्रश्न वाचप्यांच्या दोळ्यांमुखार उबे रावतात. जल, जमीन, जंगल, जनावरां आनी जन ह्या पर्यावरणाच्या पांचूय घटकांचो ऱ्हास जावन केल्ल्या वदलाक विकास जाल्ल्याचें चिन्न म्हणपाचें काय भकासपणाचें? कोळंव ह्या गांवचें हेवावतींतलें पतन आतांमेरेनच्या विकासाविशीं साशंकता (दुवाव) आनी भंय उत्पन्न करता, तो खरोच आसा. कोळंवांतलें तळें जें नितळसाणीचें आनी पावित्र्याचें प्रतीक आसलें, तें वुरशेपणाचें कोंड जावन पडटा. तें मनशांचीं मनां तर कुशिकच, तांच्यो कुडी लेगीत स्वच्छ करुंक शकना. ताचें पावित्र्य खंयचें खंय ना जावन वता (जल प्रदुषण). जीं शेतां आदीं कुतल्ल भरून धान्य दितालीं तींच शेतां वंजर आनी वांज जावन पडटात (जमीन प्रदुषण). कोळंवचो प्रसन्न आनी ताजो-टवटवीत शितळ सैम कावार जावन त्या वाट्याचें रखरखीत रुक्षपण ताच्या वांट्याक आयलें. झाडां पेडां कावार जावन त्या जाग्यार मिनाचे प्लॉट आयले (जंगल - प्रदूषण आनी नाश). जे बैल शेतांच्या वावराखातीर आशिल्ले ते मीन ओडपाच्या कामाक रावयिल्ल्यान ते मरतात वा एकलेपण भोगतात (जनावर - नाश). सगळ्यांत म्हत्वाचें, मनीस मनशाक वळखना. शेजारधर्म, ग्रामधर्म, मित्रधर्म, पुत्रधर्म, पितृधर्म वी धर्म तो विसरला. ताचे कुडीक हजारांनी दुयेंसांनी आनी वेसनांनी पोखरल्या. ताचें मन विकृतींनीं सडलां. ताची वुद्ध आनी विवेकशक्त आवू मेले उपरांत सोंपल्या. ताणे नीतीमुल्यां पांयातळा माड्डयल्यांत. हातांत पैशे घोळटात पूण मनांत समादान ना, तृप्ती ना अशी अवस्था ताच्या वांट्याक आयल्या (जन-पतन). ह्या पांचूय घटकांच्या पतनाच्यो कादंवरींतल्यो देखी कितल्यो समर्पक आनी परिस्थिती निदर्शक आसात तें पळोवप गरजेचें.

जल आनी जमीन प्रदुशणाचें हें दर्शन पळयात :-

'हें पळयना? पावसांत हो ऽऽ उदकाचो लोट येता तळ्यांत. तो मिनाचो रस्तो शेनोरेर वता. पावसांत रस्त्यावयलें उदक व्हांवोन तळ्यांत येता. धुल्लाचें आनी मिनाच्या फातरांचें उदक. हांगा तूं बसला थंय कंवरावयर उदक जाता. तळ्यांतसून मागीर तशेंच व्हांवता शेतांत. मातयेसकट. हे मातयेन शेतां जाता निसू. मागीर शेण लागना. सारेंय लागना. सुर्ला गांवचे भोंवतणी अशे मातयेन शेतांक पडली पाड. आतां एक दीस कोळंवाच्या शेतांक पाड पडपाची आसा.'

जंगल प्रदुशणाच्यो दोन देखी पळयात :-

'केंसर मिनाच्या रस्त्यार पावलें. धुल्लार दंव पडून माती कालयल्ल्यासारकी जाल्ली. धुल्लांत पावल रोमतालें...रस्त्याकुशीक हुस्केंचीं, काजुचीं, कुंवयाचीं कितलीशींच झाडां आशिल्लीं. अनवळख्यांक वळखूंक येवंची ना अशे तरेन तांचेर धुल्ल माखिल्लो. तांच्या पांचव्या आंगार धुल्ल शिंपडलेलो आनी दवाचे ओलसाणेन सगळ्या पानांक ओली तांवसाण मारताली.'

'धांवत्या ट्रकाफाटसून माड्डयिल्लो धुल्ल भूत कसो फाटलाग करुंक लागलो आनी खरशेवन खरशेवन जमनीर थपकण मारुंक लागलो. कडेचीं झाडां-पेडां थरथरलीं. भंयान आनीक एक धुल्लाचो थर ताणी आंगार माखोवन घेतलो. वोतांत लासत रावलीं...'

जनावर नाशाची ही देख पळयात :-

'पंडरील्या घरांतलो दिवो वाडवलो तेन्ना कोळंवार शेकानशेक काळोख भरलो. घराचीं पाखीं आनी झाडांचे शेंडे एक जाले. गाड पांचवो कोर काळखांत भरसून सगळो वांटार काळोकीट्ट जालो. गोठ्यांनी गोठोभर गोरवां नाशिल्लीं पूण आशिल्लीं तीं एकलेपणान बुजून वगी रावलीं. तांचो रवंथ लेगीत वंद जालो. सुणीं कोनशाक आंकडे करून पडलीं.'

ह्या उद्येगीकरणाक लागून गांवची दिनचर्याच वदलता. कोंवे सादोवपाचे वंद जातात वा केन्नाय सादयतात. ताचें वर्णन वाचतकीच वा. सी. मर्ढेकर ह्या मरा ी कविच्या कुट्ट पिवळ्या पहाटे - आखतो दैनंदिन - भोंगा हे कवितेची याद येता. समाजाचीं स्पंदनां वळखल्ल्या दोन सहृदयी लेखकांच्यो विचार-लहरी (Wavelength) ते भूगोलीक नदरेन कितलेंय पयस आसले तरी, कश्यो सारक्योच आसतात ताचें हें सुंदर उदाहरण.

'चिंचेंदवण्याक जाग आयली ती कोंब्याच्या सादार न्हय. सकाळच्या स वरार रातपाळयेची शिफ्ट सोंपली. तेन्नाशीं भोंगो वाजलो. रातपाळयेचे लोक दोळे चोळीत कामावयले पयसावले. संक कामार रूजू जावपा हांतुणावयले उठले, रातीं दोळ्यांच्या पातकड्यांकडेन एकठांय जाल्लो धुल्ल तांणी पुसलो...'

'नाजाल्यार मिर्गाच्या कुपांचो गडगड करो आवाज वार्जी भरतना जातालो. त्या वांवाळाची थोड्यांक संवंय जाल्ली. नवऱ्यांक मात दोळ्याक दोळो लागनाशिल्लो. कांळ्याचें जिणच्या एका आंगाचो तो आवाज आशिल्लो. पूण आज रातीं तें कांयच नाशिल्लें. काळखार इतली शांतताय मामकीच म्हारग जाल्ली...'

कोंव्याच्या मादार उठपाची आतां कोणांक संवंय नाशिल्ली. मिनाच्या गडगडान कोंवे तीनसना, मध्यान्नेर, फात्यार, खंयच्याय पारार साद घालताले. तांचेर आतां कोणाचो भरवंसो नाशिल्लो. अशे रितीन संतुलीत ग्राम-वेवस्थेचेर यंत्रसंस्कृतीन केल्लो बलात्कार आनी तातूंतल्यान ह्या पांचूय घटकांभितर निर्माण जाल्लो खवदळ म्हळ्यार अच्छेव . हे कादंवरींतली ग्रार्माण रुपकात्मक भास, देखीक पिकें जाल्यार पिकें - नाजाल्यार गुरू वसलो भिकेक वा घराची कळा आंगण सांगता , सगळो भश्टकार, खावपांत भश्टकार, पिवपांत भश्टकार, काम उद्येगांत भश्टकार. आतां कोणाचीं वियां कोणाच्या शेतांत किल्लत तें तो एक तळ्यावयलो जाणा.

कादंवरींत उवीं केल्लीं प्रतिकां, देखीक सांतोणाचें झाड (जें 'मैं समय हूँ' अशें म्हणत काळपुरसाचें रुप घेवन उवें जालां.) गावांतल्या वायलांच्या तळ्यावयल्या गजालींवरवीं दाखयल्ले भितरले प्रवाह, लोकवेदाचो आनी लोकजिणेचो केल्लो उपेग (देखीक दिवल्यां नाच), ऋतुंचीं वर्णनां आनी वदलत्या सैमाचीं रुपां दाखयताना आपली सुक्ष्म निरीक्षणशक्त आनी जीवसंपदा तशेंच वनस्पत संपदेच्या आपल्या गिन्यानाचो मुक्त हातांनी पूण औचित्यपूर्ण वापर हाका लागून ही कादंवरी एक दस्तावेज जावन पडल्या. ग्रामरचना कशी कोसळटा ताचें एकच उदाहरण म्हळ्यार म्हाल्याचें. तो जेन्ना खंड मागूंक वता तेन्ना ताची निराशा जाता. ती घडणूक ल्हवू - ल्हवू करुन आनी कादंवरींतल्या एका पात्राच्या कांय कांय गजाली कळनासताना शेणटात .. दोळ्यांहुजीर ह्या विधानाप्रमाण गांवच्यो एकेक वेवस्था कश्यो शेणटात ताचें दर्शन घडयलां. हे कादंवरीक सदसदविवेकवुद्ध आनी गांवचे परंपरेच्या राखण्या आवूचे व्यक्तिरेखेची लाविल्ली तुन्याद आनी मास्तराचे व्यक्तिरेखेची देग हाका लागून कादंवरी वाचप्यांच्या मनाचो थाव घेता. आनी कोंकणीच न्हय तर भारतीय साहित्यांतल्या प्रदेशीक साहित्यांत आपली मानाची सुवात निर्माण करता.

### वसंतोत्सव आनी दायज

वसंतोत्सव आनी दायज ह्यो दोन नवलिका १९८५ ह्या वर्सा उजवाडाक आयल्यो. पयलींच्या दोन नवलिकांपरस वेगळे विशय हाताळपी ह्यो नवलिका. वसंतोत्सव हे नवलिकेंत कामवासनांचें थैमान पळोवंक मेळटा.

एका गिरेस्त कुटुंबाची हीं कार्णी. उपेंद्रनाथ आनी मनोरमाबाय हांचीं भूपण आनी चारु हीं दोन तरनाटीं भुरगीं. जाल्यार तांगेर कामाक आशिल्लो हरीदाद हो जाणटो

मानाय. आपले गांवचे जात्रेक वचपाक मनोरमावाय सोडून हेर सगळींजाणा भायर सरतात. वाटेर गांवचे लोक तांची फटवण करतात. तीं विसव घेवंक राविल्लेकडेन एका पिंपळाक उजो पेटिल्लो तांकां दिसता. हो उजो पालोवपाखातीर भूपण फायरब्रिगेड हाडपाक वता. हेवटेन उपेंद्रनाथ आनी कोंडी धनगराची बायल गंगी तशेंच चारु आनी ते गांवचो एक पिसो हांची नदरभेट जावन तीं आपले कुडीची इत्सा भागयतात. ह्या सगळ्यांच्योच वासना उफाळून येतात. भूषण फायरब्रिगेड घेवन परतता तेन्ना हरीदाद ह्यो सगळ्यो घडणुको ताका सांगता. हरीदादाक तिथी मेजपाक आपली चूक जाल्या तें कळटा आनी गावांतलो उत्सव आजूच जालो अशें सांगून तो त्या कुटुंबाक सोडून गावांकडेन चलपाक लागता. सगळींजाणा घराकडेन परततात तेन्ना मनोरमावाय आनी उपेंद्रनाथाचो एक इश्ट नगरकर हीं दोगांय एक ंय सांपडटात. अशी ही मनशांमदल्या नर आनी मादीची काणी. हातूंत सगळेजाण एकामेकाची फटवण करतात, देखून सुरवेचे फटवणेचे प्रसंग ह्या कथानकाची फाटभूंय तयार करतात.

'पिंपळ पेटप' हें हांगा अशूभ आनी अघटीत अशें वासनेचें प्रतीक म्हण वापरलां. वयल्यान शांत आनी संथ दिसपी मनशाच्या काळजांत मात वासनेचो उजो धगधगत आसता आनी तो भायर येवपाची संद पळयत आसता हें बरोवप्याक सुचोवपाचें आसा. हें नवलिकेंत खंयच्याच एका पात्राक दोशी थरोवपाचें ना तर सगळ्यांक एकेच पायलेंत मेजल्यात. घोव-बायल, आवय-बापूय आनी भुरगीं, भाव आनी भयण हीं सगळीं नातीं वासनेच्या उज्यांत कशीं हुलपून वतात तें मनोरमावायचें कृत्रीम उलोवप, उपेंद्रनाथाचें गंगीक मेळप वा भूपणान गंगीविशीं चिंतप हातुंतल्यान दिश्टी पडटा. 'पेटिल्ल्या पिंपळाचें' रुपक ताचे भोंवतणच्या वांठारासकट उवें जाल्ल्यान तें खरेंच आशिल्ल्याचो आभास जाता. गंगाची अतृप्त व्यक्तिरेखा तशेंच हरीदादाची वाडिल्ले चलयेच्या वापायची चिंतेस्त व्यक्तिरेखा तशेंच पिशाचें शाणेपण आशयाक घटसाण दितात.

'दायज' ही नवलिका आशयाचे जायते पैलू घेवन येता. स्वातंत्र्याच्या झुजांत वांटेकार जावन बलिदान दिल्ल्या मुक्तिदाच्या कुटुंबाची ही काणी. पळोवंक गेल्यार इल्ली वास्तवांतली आनी इल्ली कल्पनेंतली. ताची विधवा बायल माई आनी तीन चलें असो संवसार. व्हडलो चलो दांतार, खरेंपणान सज्जन - गांवाभायर वेवसाय करता. मदलो चलो विद्यानंद - शाळेंत शिक्षक - समाजाचे नदरेन सज्जन जाल्यार धाकलो रणजीत - बेकार - नावाडगो - समाजाचे नदरेन बापायच्या कर्तुवांक काळें फांसपी.

मुक्तिदाच्या नांवान ताणे दिल्ल्या पैशांचेर चलपी शाळा - जंय विद्यानंद नोकरेक आसा. घराण्यांत व्हडल्या भावान धाकल्याचो खून केल्ल्याची परंपरा. मुक्तिदान लेगीत आपल्या धाकल्या भावाक पोर्तुगेजांची लाचारी आनी हेरगिरी करता म्हण मारिल्लो. देखून माई रणजीताक जपता, ताचे लाड करता. तो मुदारचो म्हण घाडी-भगतांक लागीं करता. पूण रणजीताच्यो नश्ट्यो करण्यो चालूच. चलयांचेर बलात्कार, लोकांक मारपेट, धमक्यो दिवप. ताचे धमकेवेल्यानच शाळेचें वेवस्थापन भिवून विद्यानंदाक शाळेचो हेडमास्तर करता. विद्यानंदाचें लग्न जातकच ताचे बायलेकडेन रणजीत चाळे करपाक लागता. मृदुलाची घोवाकडेन कागाळ करुन सोंसपाची व्यर्थ धडपड. माईक हें सगळें सोंसना जावन ती मृदुलेक आपल्याक घोवान स्वरक्षणाखातीर दिल्लो खंजीर दिता. मजगतीं आपल्या देरान - रणजीतान आपले इश्टिणीचेर केल्ल्या अत्याचारांची खबर आनी दुलू - बावराडेचेर केल्ल्या अत्याचारांची खबर मृदुलेक कळटा. तिचे सोंशिकतायेचो अंत जाता आनी निमाणे ती ताचो त्याच खंजीरान खून करता. नाट्यपूर्ण अशी ही काणी मनशां-मनशांमदलो फरक, अस्तुरेचीं विंगड विंगड रुपां आनी जिणेंतले ताण तणाव दाखयता. विद्यानंदाची भिजूड वृत्ती, विनयाची परीपक्वताय आनी ताका आशिल्ली परिस्थितीची समजिकाय, मृदुलेची सोंशिकताय, माईचो सुरवेचो पुताविशींचो कुड्डो मोग आनी उपरांत तिचेभितर जागी जाल्ली अस्तुरी, रणजीताची पडमूर वृत्ती, भगताची मुक्तिदावेली श्रद्धा आनी हतवलताय, अंगडीची लाचारी, बारयांतल्या येदूची अंतर्वेदना, दुलूचें धाडस ह्यो सगळ्यो मनशाभितरल्यो वृत्ती हे नवलिकेंत चित्रीत जाल्यात. मुक्तिदाची परंपरा माईकडल्यान मृदुलेकडेन पावपामेरेनचो खडतर प्रवास, मृदुलेन निमाणे घेतिल्लें महिषासूर-मर्दिनीचें रुप आनी ह्या सगळ्याक लाविल्ली स्वातंत्र्याची फाटभूंय हाका लागून नवलिकेंतलें नाट्य वाचप्याचें काळीज हालयता. स्त्री-स्वातंत्र्याच्या विचाराची बुन्याद हें नवलिकेक लावल्या.

## गुणाजी

दरेका कलाकाराचो कला-निर्मणेचो उत्कर्षाचो म्हण एक काळ आसता. त्याच काळांत तो कलाकार संख्येन आनी गुणान व्हड अशे कलेची निर्मणी करता. पूण उपरांत एकतर ताचेकडलें अणभवाचें भांडार उणें जाता वा ताची साधना बंद पडटा, जाका लागून ताची कला संख्यात्मक तशेंच गुणात्मक नदरेन थंडावता. पुंडलीक नारायण नायक हांच्या आत्मवंचना (१९९५) ह्या नाटकाउपरांत मदीं तांचे

हातसून दखल घेवपासारकी साहित्यकृती उजवाडाक येवंक नाशिल्ली देखून तांचे साहित्यनिर्मणेचो उत्कर्ष-काळ सोंपलो काय कितें? असो प्रश्न वाचप्यांक पडिल्लो आसतानाच गुणाजी ही नवलिकेक लागीं वचपी उंचेल्या साहित्यीक पांवड्यावेली दीर्घकथा कोंकणी ह्या (१९९८) वर्सुकी अंकांत उजवाडाक आयली आनी मनांतलो दुबाव पयस जालो.

'गुणाजी' हें एक प्रामाणिक आत्मकथन. तें फकत एकाच पात्राचेर आदारून आनी केंद्रीत जावन रचलां देखून ताका दीर्घकथा म्हणपाचें. नवलिकेंत अपेक्षीत आशिल्ली पात्रांची संख्या, आंवाठ आनी मुखेल म्हळ्यार जिणेंतली गुंतागुंत, तातुंतली complexity 'गुणाजी' हे साहित्यकृतींत नासली तरी एकाच मनशाचे जिणेंत एखादे घडणुकेक लागून इतले विचारतरंग उदेवंक शकतात. ते घडणुकेक लागून कुटूंव, शेजार, गांव आनी देशाच्या पांवड्यार संवेदना निर्माण जावंक शकता हें पळोवन वाचपी तटास जाता. सुरवेक सांगलां तेप्रमाण गुणाजी हें स्वकथन. एका स्फटीक - पारदर्शक (crystal-clear) आनी निरागस मनाच्या गुणाजी ह्या गुणवान राखण्यान आपल्याक राष्ट्रपतिचो ऍवार्ड घोशीत जाल्यापासून तो स्विकारपामेरेनच्या घडणुकांचें आनी त्या अनुषंगान आपले जिणेचें मनमेकळें आनी यथार्थ कथन केलां. तें सांगताना आपलें वा हेर कोणाचीय स्तुती वा निंदा तो करिना. ताचें मन नितळ आशिल्ल्यान जें घडटा तें आपले नदरेन आनी तांकीन पळयत ताची कांय फावटीं जमता तशी विस्कटावणी करीत ताणे सांगलां. ताणें केल्ल्या खंयच्याय विधानांतल्यान जर खंयचोय गैरसमज वाचप्याचो जाता जायत जाल्यार ताका ताचें विधान न्हय तर समाजीक परिस्थिती जापसालदार आसा. हाचें कारण ताचें परिस्थितीचें आकलन विशिश्ट जात, समाजीक पांवडो, अर्थीक पांवडो आनी विशिश्ट गांव जिणेंतल्यान जालां. गुणाजी लौकीक नदरेन अशिक्षीत. पूण तो अडाणी न्हय. आपल्या धंद्यांतली आनी हेर जिणेविशींची खोलायेन म्हायती ताका आसा. गोरवांची कुयदाद, तांचीं वखदां हांचेविशीं, पाडेलपणाविशीं, रेंव काडपाविशीं ताका गिन्यान आसा. तेभायर राखणेपण ताणें फकत धंदो वा उदरनिर्वाहाचें साधन म्हणूनच करूंक ना तर एक ध्यास वा एक व्रत म्हणून केलां. त्या धंद्याविशीं, गोरवांविशीं ताच्या काळजांत उपाट मोग आसा. आनी देखून आपल्याक इनाम मेळ्ळां तें कळटकीच तो पयल्यान पयलीं गोरवांकडेन वचून कृतज्ञताय व्यक्त करता. तशेंच दिल्लीक गेल्लो आसतना गोरवांचे यादीन आकूळपकूळ जावन, आयलेवगावर गोरवांच्या गळ्यांत घालून घेता. पुराय

साहित्यकृतींत ल्हान भुरग्याभशेन ताची आशिल्ली उमळशीक, धाडसी-स्वाभिमानी वृत्ती, आपल्या धंद्याचेर आशिल्लो मोग आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार वझऱ्यावरी नितळ मन हांचें दर्शन घडटा.

हे दीर्घकथेंचो मुखेल भर गांवची जीण आनी शारी जीण हांचेमदली तफावत, जिणेविशयक नदरेंतलो फरक आनी जीण-जगपाच्या साधनांतलें जमीन-अस्मानामदलें अंतर दाखोवपाचेर आसा. देशांतल्याच एका राज्यांतल्या एका गावांत गुणाजी रावता आनी ताचो देशांतल्या राजधानीतलो प्रवास कितलें फावटीं ताका अजापान हालयता? गुणाजीची विमानांतली वा हॉटेलांतली वागणूक पळोवन खपी त्यावेळार हांसून घेता पूण उपरांत मात तो चिंतपाक लागता, कितें खरें? विमानसुंदऱ्याचें भावना नाशिल्लें हांसप? तिणे केल्ले श्रद्धाविरयत नमस्कार? विमानांतल्या प्रवाशांच्या तोंडावयले सुतकी भाव? काय गुणाजीचें रांगडेंपण? ताची पोटतिडक? आनी गुणाजी वाचून सोंपतकच सगळेकडलें अविश्वासाचें वातावरण, आपलेभितरच रावपाची घुमी वृत्ती, भोगावळ आनी शिश्टाचार, हातूंत घुस्पल्ल्या लोकांपरस मनमेकळो, काळजांत भुतदयेचो वझरो घेवन जगपी, निश्पाप आनी प्रामाणिक असो गुणाजी च खरो अशें पट्टा.

हे दीर्घकथेंत गुणाजीचें निवेदनांतल्यान व्यक्तिचित्रण घडयनासताना ताचे वर्तणुकींतल्यान व्यक्तीदर्शन घडयलां. टॅक्सीचें दार मानशीच्या दाराभशेन घट वसलें, सगळ्यांनी केळीच्या चार्वटाभशेन हात हालयले, जागरांतलो निखणदार पांयाक दांडलां बांदून मांडार सहजतायेन चलता तशीं तीं चलतालीं (उंच खोटांचीं जोतीं घातिल्लीं चेडवां), नवरात्रांक केळीचे वगं कातरून मखर करतात तशी विमानाच्या तिकीटाचेर धवी खुणा आसली, अनंताच्या देवळांत भितर सरिल्लेभशेन जालें (ए.सीं.त भीतर सरतकीच). विमानतळामुखार - गोविंदभटालें सुपारी सुकोवपाचें खळें कांयच न्हू - एकसरयेंच कशें. एक अस्तुरी म्हाका दिवजांची सवायशीण कशी पांयां पडटा (air-hostess). हावें सोडून तिका कोणेंच वरें जांव म्हणूक ना. तशें म्हणपाक कितें दुड्डू पडटात? पूण गिरेस्तांक दानत ना म्हणटात तेंच खरें अशीं कितलीशींच वाक्यां जीं लेखकान गुणाजीच्या तोंडांत घातल्यांत तीं आशयाक अनरुप आसात. खरें म्हळ्यार विरोधाभास आनी विनोद निर्माण करपी हीं वाक्यां करूणा आनी विनोद हांचो सुंदर मिलाफ आसात. पुंडलीकबाब हांचो लोकजिणेचो आशिल्लो परिचय तर (हेर साहित्यांतल्यान घडला तसो) तीं करून दितातच.

नेभायर आधुनिकतेकडेन परंपरेंतल्यान पळोवपाचे तांचे नदरेक वाचपी उत्स्फुर्त दाद दितात.

ही दीर्घकथा वाचून सोंपतकीच एका दोळ्यांत करुणेचीं दुकां जाल्यार दुसऱ्या दोळ्यांत हास्य-दुकां निर्माण जातात हेंच हे साहित्यकृतीचें जैत म्हणूंक जाय.



## कवी पुंडलीक :
## भौसांतलो हांव जागोवपी आनी तिगोवपी राखणो

'जे न देखे रवी - ते देखे कवी' अशें म्हणटात. समाजमनांत कितें खतखतता, कितें खतखतूंक जाय? तें वळखून द्रश्टेपणान ताची काव्यांतल्यान आदींच अभिव्यक्ती करप हें कवीचें खाशलेंपण. समाज कूस वदलचे आदींच कवीक ताची सुलूस लागता. समाज न्हीद काडपाचो आसत वा न्हिदेचें संवंग घेवपाचो आसत जाल्यार ताचीय जाग कवीक आदींच लागता. 'किरकिरो' आनी 'माऊली' नांवाचीं दोन सवणीं आसतात. खरें म्हळ्यार सवणें एकूच आसता पूण तें आवाज मात दोन तरांनी काडटा. ताका जेन्ना अशुभाची सुलूस लागता, तेन्ना तें कर्कश आड्डता देखून ताका किरकिरो म्हणटात, जाल्यार जेन्ना ताका शुभ घडपाचें आसा हें सुचोवपाचें आसता तेन्ना तें गोड सुरान आड्डता देखून तेन्ना ताका माऊली म्हणटात. समाजनिष्ठ कवी आपल्या कवितांतल्यान अशेंच स्वर काडटना दिश्टी पडटा. तो त्या 'प्रहर-पक्षा' भशेन समाजाचो प्रहरी जावन राखण करता. पुंडलीक हो असोच समाजप्रहरी राखणो. तांच्या 'गा आमी राखणे' ह्या काव्य-झेल्यांतल्यान समाजीक परंपरेची, दायजाची, संचिताची आनी सामायेची राखण जाता.

पुंडलीक नायक हे समाजीक बांधिलकी मानपी कवी. पूण चुकून लेगीत तांच्या कवितांक प्रचारकी थाट ना हें म्हत्वाचें. हाचें कारण तांची कविता ही तांच्या अंतरआत्म्याचो आवाज जावन आसा. तांची कविता धगधगीत अणभवांतल्यान वा अनुभुतींतल्यान, समाजमनाकडेन समरस जाल्या उपरांत भायर सरल्या. तांणी समाजाच्या आत्म्याची अंतर्वेदना जाणून घेतल्या, ताच्या स्वासा-उस्वासाची तांका वळख आसा. ताचे हुंकार तांणी आयकल्यात तशेंच तांणी ताचे धेंकर लेगीत आयकल्यात. समाजाच्यो मर्यादा आनी सामर्थ्य, ताचीं बलस्थानां आनी मर्मस्थानां ते जाणात. देखून तांची

कविता अस्सल मातयेचो वास घेवन येता.

सुटके उपरांतच्या ज्या काळांत पुंडलीक नायक हाणी कविता रचपाक सुरवात केली तो काळ समाजाचे नदरेन आत्महीणपणाचो . स्वताचें गिरेस्त दायज, परंपरा, साहित्य, भास आनी संस्कृताय आनी इतिहास विसरिल्लो समाज परधिगो जाल्लो. स्वातंत्र्य आयिल्लें पूण तें मूठभर तथाकथीत उच्चभ्रुंच्या हातांतच गेल्लें. तळागाळांतलो समाज स्वातंत्र्य-चळवळींत नाशिल्लो अशें न्हय. पूण स्वातंत्र्य मेळटकीच मात हेंच काय तें स्वातंत्र्य? असो प्रश्न ताका पडिल्लो. ताचे दीसपट्टे जिणेंत व्हडलोसो फरक पडूंक नाशिल्लो. बहुजनसमाजाचें राजकारण आशिल्लें-पूण समाजकारण मात खंयच्याच पक्षान करूंक नाशिल्लें. वहुजनसमाजाक वेगळ्या-वेगळ्या विशयांचेर एकामेकांआड झुंजोवपाचें राजकारण मात नेटान चलतालें. भौजनसमाज मात दारिद्र्याच्या, अज्ञानाच्या आनी न्यूनगंडाच्या काळखांत बुडिल्लो आशिल्लो. हें अशेंच चलपाचें हो ताचो जिणे-स्वर जावन पडिल्लो. ताका जागृत करपाची गरज आशिल्ली. ताच्या हक्कांची आनी अधिकारांची जाणविकाय करून दिवपाची गरज आशिल्ली. तांच्या काळजांत अस्मितायेची कीट उत्पन्न करपाची आशिल्ली. तें आव्हान तंदेवेळार ज्या कांय साहित्यिकांनी घेतलें तांतलेच एक पुंडलीक. पूण हे समाजीक-पुनरूत्थानाचे चळवळींत ते आघाडीचेर पावले, हाचीं कारणां दोन. एक म्हळ्यार तांणी स्वता ती जीण अणभविल्ली; आनी दुसरें म्हळ्यार तांणी कितल्याशाच साहित्यप्रकारांनी लिखाण केल्लें. गोंयचे हे समाजीक स्थितीचेर चिंतन, मनन केल्याउपरांत आनी आपल्याक कितलेशेच प्रश्न विचारून जापो मेळोवपाचो यत्न केल्याउपरांत तें विचारमंथन तांणी कवितेच्या माध्यमांतल्यान लोकांसामकार दवरलें. देखून तांच्यो कविता मुळाव्यो दोन तरांच्यो :-

आत्मनिष्ठ आनी समाजीक आशय केळोवपी. आत्मनिश कवितांभितर तांणी स्वताकडेन केल्लो संवाद, स्वताकडेन विचारिल्ले प्रस्न, स्वताचेच जिणेचो केल्लो विचार वाचूंक मेळटा, जाल्यार समाजनिश कवितांमदी, समाजाक जागृत करपी, खर आशावाद जागोवपी विचार वाचूंक मेळटा. एकेच फावटीं ह्यो दोनूय प्रक्रिया कवी म्हणून तांचेमदीं चलतना दिश्टी पडटात :- एक स्वताक तपासप, सांसपप आनी दोन समाजाक जागोवप. दोनय प्रक्रियांभितर तांचेमदलो खर आशावाद (optimism) दिश्टी पडटा. चुकून एक दोन स्वर नैराश्याचे आयले तरी हो कवी उज्चल फुडाराविशीं स्वता आश्वस्त आसा आनी हेरांक धीर दिवपी आसा. प्रेम हो तांच्या कवितांचो

आनीक एक विशय. प्रेमाची, विरहाची आनी मिलनातले तृप्तीचीं दोनय रूपां तांणी बेस वरीं रंगयल्यांत. तांच्या मेजक्याच कवितांनी फकत निसर्गाचीं रूपां केळयिल्लीं दिश्टी पडटात. हेर चडशा कवितांनी निसर्ग येता तो मनशाच्या जिविताचो वांटो वा प्रतीक जावन.

पुंडलीक नायक हांचे कवितेंत बंड आसा, व्यवस्था परिवर्तनाखातीर मारिल्लो उलो आसा पूण तांचे कवितेंत आक्रोश वा आक्रस्ताळेपण ना. आसलीच जाल्यार वेदना आनी तळमळ आसतली पूण आरत्याचें परतें करपी वृत्ती ना. गोंयचे भुंयेचो अभिमान, गोंयच्या गिरेस्त दायजाविशीं आपलेंपण आनी स्व चो जाल्लो साक्षात्कार तशेंच अभिव्यक्तीची स्वताची अशी एक आंतरीक-उमाळे परगटावपाची कला हांकां लागून तांची कविता गिरेस्त जाल्या.

## पुंडलीक नायक हांच्यो आत्मनिष्ठ कविता

'म्हज्या घराची वळख' ही आत्मनिष्ठ कविता अर्थाचीं सावार कुसां घेवन अभिव्यक्त जाता. कवितेचें मुखेल वैशिश्ट्य म्हळ्यार ambiguity (भोवअर्थीपण). हे कवितेंत तें वैशिश्ट्य व्हडा प्रमाणांत दिश्टी पडटा. घर हें संस्कृतीक दायजाचें काय घराण्याच्या दायजाचें प्रतीक तें कवीन वाचप्यांचेर सोडलां. कवी घर कित्याखातीर सोडटा? तर घराची वळख करून दिवपाखातीर. ही वळख करून दिवपाखातीर भायर सरिल्लो आसतना घराचे वांशे करकरतात म्हणपाचें ताका कळटा. कितलेशेच मोह ताच्यो वाटो आडयतात. तातूंत घरचे गायचे दुदाची रूच आसा, आंगणातल्या चाफ्याचें रूप आसा आनी बापायची आनी आज्याची चिंता आसा.पूण हे मोह पयस केलेबगर ह्या घराची वळख कोणाक जावंचीना हें त्रिकाल सत्य आशिल्ल्यान कवी निर्धारान घराभायर पावल दवरता. कोंकणी चळवळींत पडिल्ल्या एका कोंकणी-मोग्याची ही काणी आगूं येता वा घर सोडून वचपी तरणाट्याची वा गोंय सोडून वचपी गोंयकाराची. अर्थाचीं सावार वलयां आपलेभोंवतणी गुटलायत ही कविता आत्मनिष्ठ अणभव उक्तायता. हांव गरवली हे कवितेंत लेगीत जिणेंतले गरोवणेचो अणभव कवीन मांडला. आपल्या आयुश्यांतले सपनांचे गरोवणेक वास्तवाचें धार्जिणे केन्ना लावूंक ना. आयुश्यभर मन लावन, खडतर प्रवास करीत दीस काडले, तरीयपूण वांट्याक खवळीच आयली. हो अणभव सांगतना कवी म्हणटा:- 'खडकावयली वसकण -

वळारध्यान गरवण . निमणे कवी स्वताकच प्रस्न विचारता, वास्तवाचें मोल नाशिल्ल्या सपनांची गरोवणी आपणे कित्याक आनी कोणाखातीर पळयली आनी आपल्याच मनाचें समादान करीत तो म्हणटा कि ही गरोवणी काळाचें रीण फारीक करपा खातीर आशिल्ली. 'कगयो' ह्या सुभापितसदृश कवितांतल्यान कवीन जिणेचो अर्क काडला.आपल्याक आयिल्ले कटू अणभव व्यक्त करताना कवी म्हणटा - जिणेतलो सपनां-घांस - रेंवटांतलो उदका-भास.

वा

गोरवां आसा-पूण-पागो ना - जीण आसा-पूण जैपत ना.

दांव हे कवितेंत लेगीत आपलें नशिव फळूं अशी प्रार्थना कवी करता :

दिसभरा पुंजी म्हजी एकाच खिणां फळूं.

जाल्यार 'सांवळ्यो' हे कवितेंत अत्यंत आत्मनिष्ठ अणभव उक्तायतना, कवी मनांत आयिल्ल्या खर यादींचो उल्लेख करता. तातूंत चडश्या उरफाट्या पावलांच्यो-विरहाच्यो यादी आसात हाची जाणविकाय ताका जाता. काल-आयज-फाल्यां हे कवितेंत कवी नशिवाच्या ताबुलफळ्याकडेन खेळून उज्वल फुडाराचो हावेस परगटायता. नशिवान दुखाचे फाडेंच दिल्लें आसलें तरी जिणेच्या खळ्यांत उजवाडाचीं सूर्यफुलां येवन पडटलीं अस्सो आशावाद कवीन उक्तायला. भूतकाळ उरफाट्या फांश्यांचो आसलो, वर्तमानकाळांतली जीण खामसूत्री जाल्ली आसली, तरी फाल्यां मात खळ्यांत सूर्यफुलांचो शिंवर जातलो अस्सो कवीचो हावेस सांगता. अशेंच कांय हेर आत्मनिष्ठ अणभव दोन कविता , आज कोणतरी , आडमोडणार , पेणे ह्या कवितांनी उक्तायल्यात.

**पुंडलीक नायक हांच्यो समाजीक आशयाच्यो कविता :** म्हजो वांगर वैल , आमी कोण , आजयेची काणी , पाडल्यांनो. आतां अशें सदळ रावप ना , वनवासी , देंठांत तुटिल्ले आमी , काळखाची पसय , ही पालखी , राखण्यांनो अश्यो सख्यें आनी गुणान गिरेस्त कविता पुंडलीक नायक हांणी रचल्यात. दोन तीन कविता सोडल्यार (देखीक- काळाची पसय, देंठांत तुटिल्लें आमी, वनवासी) हेर कवितांनी जिणेविशींची आनी अस्तित्वाची आसक्ती आनी मोग, सत्याविशीं आनी स्वाभिमानाचो आग्रो आनी अट्टहास, आपल्या उतरांविशीं आनी भाकितांविशीं प्रचंड आत्मविस्वास. उतरां-उतरांतल्यान व्यक्त जाल्लो आवेश आनी नेट. तशेंच अभिव्यक्तीची आगळीच तूस आनी ढब हाका लागून ह्यो कविता वाचप्यांच्या मनांत उमेदिचें.

उत्साहाचे आनी आत्मसन्मानाचे उत्फर्के जागयतात. वाचप्यांक आत्मभान हाडून दितात.

'म्हजो बांगर बैल' ही कविता म्हळ्यार आशय आनी अभिव्यक्ती हांचो एकसंघ सौंदर्यात्मक मिलाफ. जायतेफावटीं आशयाक अनुरुप असो आकृतीबंद सांपडना. पूण हे कवितेंत आशय आनी रूपबंध परस्परपुरक आसात. हे कवितेंत दरेका उतराक प्रतिमासृप्टींत व्हरपाचें कसब कवीन दाखयलां. बांगर बैल, दावें, गवण, गोंठो, दोंड, रूखा-झोपां, तिवे, धेंकर, पागो, जूं, नांगर-गुटे, कासरी-कानी, पुजा, पाडवो हीं एकेक प्रतिकां कवितेचो आशय गिरेस्त करपाक वावुरतात. गोंयच्या समाजांतलोच हो बांगर बैल - तरनाटो, रूढी, परंपरा, अन्याय, मर्यादा, बंदनां, लाचारी, आडखळी, संकश्टां, धेक, गुलामी हीं सगळीं दावीं तोडून क्रांतीचे तिबे लायत भायर सरला. तो शक्ति चेंच - आदीमायेचेंच रुप घेवन भायर सरला. देखून आतां तो आदींभशेन एका दिसाचे पुजेक भुल्लुसून वच्चो ना. निमाणेकडेन हो बैल आपल्या कुळाचो वारस आसा अशें कवी म्हणटा. एका जागृत जाल्ल्या समाजाचें यथार्थ दर्शन हे कवितेंत घडयलां. सादारणपणान होच आशय आतां अशें सदळ रावप ना हे कवितेंतल्यान उक्तायला. जाचें स्वातंत्र्य कोणेतरी बुड्डून व्हेलां, जाची आयजवेर फटवणूच जाल्या तो समाज आतां धाळ रावपाक सोदिना. एकदां दुदान तोंड भाजतकीच ताक लेगीत फूंक मारून पिवपाची वृत्ती बळावता.

समाजाक जागो करपाचे दोन मार्ग. एक बाबापुता करून, ताच्यांतले शक्तिची जाणविकाय करून दिवन, हालोवन जागो करप. हो मार्ग खऱ्यांनीच न्हिदिल्ल्या समाजाखातीर. पूण जो समाज न्हिदिल्ल्याचें आडेचें संवंग करता ताका मात दुसरो मार्ग. हो मार्ग ताका हिणसावपाचो, किंकोत करपाचो. शणै गोंयबाबांनी हो मार्ग आपल्या नाटकांनी वापरला. (देखीक पळयात मोगाचें लग्न - भाशीक उल्लेख) पुंडलीकबाब हांणी तो आपल्या पाडेल्यांनो तुमी पाडून चलात हे कवितेंत समर्पकरितीन वापरला. आमी कोण हें कवितेंत कवीन मातयेकडलें नातें जागयलां. आदीं सांगिल्लो आत्मसन्मान हे कवितेंतल्यान कवीन सादला. पूण हे वा खंयचेंच कवितेंत कवीन सुडाची भावना परगटावंक ना. गुन्यांव भोगोस ... ह्या अथांग काळजांत सुडाची किटाळय उसळना . आजयेची काणी हे कवितेंत काळाची महिमा सांगल्या. बदलत्या काळांत मुल्यां कशीं शेणलीं, सगळेकडेन फटवण, अंदाधुंदी, भ्रश्टाचार, चरीत्र्यहिनता, बटबटीतपण आयलां आनी जिणेंतली राजकुंवराचे काणयेंतली

कल्पकताय, सुंदरताय मोंपल्या हें कवीन तोको ह्या पक्षाचें प्रतीक घेवन मांगलां. हे कवितेक मनाक धुंद करपी एक लय आसा. वनवासी कवितेंत गोंयचो भुंयपूतच कसो रानांत पडला, तें सांगतना कवी म्हणटा :-

'आतां मठयेंचो गा धनी - धांयदिकां असो रानी'

तोच आशय देंठांत तुटिल्ले आमी हे कवितेंत आयला. आमी आमचीं मुळां विसरले, दायज विसरले देख्खून आयज ही लाचारीची अवस्था वांट्याक आयली. समाजाची जीण बारावल्या . ताका लागून, ताका आपलेभितरले शक्तिचो दिश्टावो जायना. देखुनच ताचे भोंवतणी काळखाचीच पसय पातळ्ळ्या. ती पयस करपाखातीर परंपरेची, दायजाची पालखी भितर घेतलेवगर पर्याय ना. गोंयच्या वैभवाची वळख पटिल्ल्या समस्त राखण्यांक उबी करात जाणभास, मोडभास असो उलो कवी मारता. त्या राखण्याच्या 'ग' म्हळ्यार 'आत्म्याक' घातिल्लो साद. तो सादोवपाची गरज कवी उक्तायता. व्यक्ती-व्यक्तीमदलो तो हांव जागो जालो काय मागीर समाजपरिवर्तनाक वेळ लागचो ना होच पुंडलीक नायक हांचे समाजीक कवितेचो मुख्य-स्वर आसा अशें म्हणूं येता.

पुंडलीकबाब हांच्या प्रेम वा निसर्ग कवितांचेंय रुप वेगळेंच आसा. केन्ना आवयविशींचो मोग, केन्ना अस्तुरेच्या देहाची निसर्ग-प्रतिकांतल्यान केळयिल्लीं रुपां (देखीक : कुळगरां वाडली माडी - चड कित्याक घेता धोल - सांवाळ बाये वचत तोल - कुळागरा वचत मोल). कृष्ण-राधा भक्तिचीं रुपां, प्रेयसीची वाट पळयताना प्रियकराचीं विंगड रुपां वा मिलनाचीं, तृप्तीचीं वा यादीचीं रूपां (देखीक : आज तें खंयूय आसूं - ही तांवशिल्ली आमोरी - ताच्या ओं ार अशीच सुजतली..) पळोवंक मेळटात. कवी केन्ना मोगिकेक थातारताना दिश्टी पडटा (तुजें पत्र पावलें) वा केन्नाय आपल्याच मनाची समजणी घालताना दिश्टी पडटा (तूं आयलेंना)

सैमाचीं सुंदर चित्रां पुंडलीक नायक हांणी कांय कवितांतल्यान काडिल्लीं दिश्टी पडटात. 'वळारी' , 'पावस' ह्यो कविता तेनदरेन म्हत्वाच्यो. केन्ना केन्ना सैमीक वदलांच्या रुपान कवी आपल्या मनांतले वदल लेगीत सुचीत करता. (गिमाचें मिर्गाक पत्र) जाल्यार केन्ना केन्ना तो सैमाच्या नाद-सुरावांगडा आपुणूय धोलतना दिश्टी पडटा (दर्याचें गीत). 'दर्याचें गीत' हें फकत गीत न्हय, जाल्यार, अद्यात्मीक पांवड्यावेल्यान, मनशान ताचे बुद्धीचे आंवाठाच्या पलतडीं आशिल्ल्या ब्रह्माचो घेतिल्लो तो सोद.

'देखणी दुराय' ह्या फिल्माखातीर तशेंच 'निर्वळा' ह्या टेलिफिल्माखातीर, तशींच कांय स्वतंत्र गीतांय पुंडलीकबाब हांणी रचल्यांत. 'सान सानुल्या' ही अर्थअपुरबाय आनी लयबद्ध अशी आल्लय, 'ज्या फुलांत गंध भरला' हें सुंदर भावगीत, 'नवचेतना येता फुलून' हो सृजनाचो उमाळो तशेंच 'घुडी लागली रे घुडी लागली' हें जैताचें गीत हीं पदां पुंडलीकबाब हांकां गीतकार म्हण मुखार पावलां मारपाक उर्बा दिवपी आसात.



## बाल-साहित्य कार पुंडलीक :
# कल्पकताय आनी विज्ञान हांचो सुंदर मेळ

पुंडलीक नारायण नायक हांचें उजवाडाक आयिल्लें पयलें वयलें पुस्तक म्हळयार 'रानसुंदरी' हें बालनाट्य (१९७४). तांच्यो नाट्य आनी काव्य ह्यो दोन प्रतिभाशक्ती एकठांय येवन घडिल्ली ही सुंदर काणी. ताचेउपरांत 'आळशांक वाग खातलो' (बालनाट्य), 'मनू' (किशोर नवलिका) 'गोंयचो पावस' (भुरग्यांखातीर लेख), 'शिंवाचो वळी' (बालनाट्य), 'गौरी आनी कल्परूख' (बालनवलिका) तशेंच 'बेकार भोंवडेकार' (बालनवलिका) हें बाल-साहित्य उजवाडाक आयलां.

'रानसुंदरी' हें बालनाट्य ताचो नाद आनी लय हांचे गोडीक लागून दीर्घ काळ यादींत उरता. ह्या नाट्याक लोकांकथेची बुन्याद आसा. एक म्हातारी आनी तिचो आळशी पोर हांची ही कथा. त्या पोराचें नशीब फळफळून ताका एक रानसुंदरी मेळटा आनी ताचें भाग्य उजळटा. तो गिरेस्त जाता. तें कळटकीच त्या गांवचो राजा ते रानसुंदरीक हातासपाखातीर थंय येता. तेन्ना आपली बुद्द वापरून ती रानसुंदरी राजाक तशेंच ताचेबराबर आयिल्ल्या म्हाल्याक मारून बडयता. निमणे म्हातेरेलो पोरूच राजा जाता. ही लोकांकाणी कवनांच्या वा गीतांच्या माध्यमांतल्यान तातुंतल्या नाट्या सकट कशी सादर जाता तें हे एकेच देखींतल्यान पळयात.

म्हातारी : बायल सोबीत आसा पुता खंय तिका दवरता आतां?

'घर आमचें खोपटी जेवंक ना ताटली वाटी'

'वांदूक येना तुका भोरे वायलेक आतां पोसशी मरे?'

ह्या नाट्यांतलें म्हालो हें पात्र ताच्या गभाव वैशिश्ट्यांसयत वरें चितारलां. आळशांक वाग खातलो ह्या बालनाट्यांत आळशी भुरग्यांक वुद्द शिकोवन तांकां उजू मार्गार हाडपी पी.टी. सराची हुशारकाय दाखयल्या. जाल्यार गोंयचो पावस ह्या लेखवजा निबंदाच्या पुस्तकांत विज्ञान, कल्पकताय, परंपरा आनी लोकश्रद्धा हांचो वेसवरो उपेग केला. हालीं उजवाडाक येतल्या बालसाहित्यांत विज्ञानाचें म्हत्व सांगतना परंपरेक आनी लोकश्रद्धेक उणे लेखपाचो वा फट थारावपाचो यत्न जातना दिश्टी पडटा. पूण ह्या पुस्तकांत मात पावस, ताचीं विंगड विंगड रूपां, ताचीं गावांतलीं नावां, पावसावेल्यो कविता, पावसा आदली तयारी, पावसाचो उपेग हें सगळें सांगतना विज्ञान आनी परंपरा हातांत हात घालून चलताना दिश्टी पडटात. (देखीक काणकोणच्या जरमाले रूखाचो उल्लेख). अशे तरेच्या पुस्तकांतल्यान योग्य ते संस्कार करपाची तांक आसाच, तेभायर तातुंतले विविधतायेक लागून तें वाचनीय आनी मनरिजवण करपी पुस्तक लेगीत जालां. 'मनू' ही किशोर नवलिका, ते पिरायेचेर आशिल्लें शिटूकपण, नवें कितेंतरी करपाची खुमखुमी, उमळशीक, धाडसाचे हावेस आनी कल्पकताय ह्या गुणांक पोसवण दिवपी आग्मा. किशोर-वाचप्यांक तांचेच पिरायेचो एक भुरगो मनू ज्यो करामती करता, जें धाडस करता, जी शिटूकसाण दाखयता आनी गांवाची सेवा करता तें पळोवन निश्चीत ग्रोशी जाता आनी तांचीय उमेद वाडटा. हें पुस्तक बरयताना विज्ञानीक नदर दवरून तें बरयलां. तेचप्रमाण लोकजिणेंतल्यो गजालीय व्हडा कल्पकतेन वापरल्यात. देखीक घावो जातकच हुस्केचो पालो लावप, रानांत वाट चुकतकच गोरवांचे फाटीं रावप आदी. भुतां-खेतां, देव-देवस्पणां, घाडी-भगत हांचेवयली कुड्डी श्रद्धा पयस मोखून मारून एक तर्कशुद्ध विज्ञानीक नदर भुरग्यांक योग्य रितीन पावोवपी हें पुस्तक कोंकणी बालसाहित्याक एक मोलादीक भेट.

अशे रितीन पुंडलीक नायक हांचें बालसाहित्य म्हळ्यार कल्पकताय आनी विज्ञान हांचो सुरेख मेळ. संस्कार करप, माहिती पुरोवप, मनरिजवण करतनाच मनाक गुल्ल दवरप (entertain) अशीं बालसाहित्याचीं मुखेल प्रयोजनां तें पुराय करता.



# निबंदकार पुंडलीक :
# लालित्याक विचाराची बसका

सुनापरान्त ह्या दिसाळ्याची गरज म्हणून पुंडलीक नायक हांणी पाजण ह्या माथाळ्याखाला सुमार २५० निबंद वरयले. तशें पळोवंक गेल्यार निबंद ह्या साहित्यप्रकाराचो जल्मच वर्तमानपत्रांची गरज म्हूण जाल्लो. सुरवेक पानपुरक वा पानभरपी लिखाण (fillers) आनी उपरांत वाचप्यांच्या उत्स्फूर्त प्रतिसादाक लागून एखाद्री गजाल , घडणूक , प्रसंग वा किस्सो वा विचार हांची विस्कटावणी, अशे रितीन पाश्चात्य आनी उपरांत भारतीय भासांनी लेगीत निबंद हो साहित्यप्रकार म्हण रूजलो, फुल्लो, फळ्ळो आनी नांवारुपाक आयलो. पुंडलीक नायक हांचे निवंद अशेच घडल्यात. पूण नाटकांत, कथेंत, कादंवरींत वा कवितेंत पुंडलीक नायक हांचे प्रतिभेक जसो चंवर आयिल्लो दिसता, तसो तांच्या निवंदांत मात दिसना. हाचीं मुखेल कारणां दोन. एक म्हळ्यार निवंदांत वरोवप्याक कथा-कादंबरी-नाटकांत घालपाक मेळटा तसो मुखवटो घालपाक मेळना. देखून कांय आत्मनिष्ठ अशे खर अणभव मेकळेपणान उकतावपाक शीममेर पडटा. दुसरें कारण म्हळ्यार पुंडलीक नायक हांचो साहित्यीक पींड नाटककाराचो. जाल्यार निवेदन हो निवंदाचो प्राण जावन आसा. हाचो अर्थ निवंदांत नाट्य येना अशें न्हय. पूण तें आयलें जाल्यार निवेदकावरवीं येता. देखून निवंद वरयताना जें साहित्यीक स्वातंत्र्य दरेकाक जाय आसता तें पुंडलीक नायक हांकां मेळूंक ना. हाचेभायर हे निवंद वरोवपाची वर्तमानपत्री गडवड, निवंदाचे विशय सुचतना आयिल्ली प्रसंगीकताय वा विशयाची उथळताय हीं कारणां लेगीत आसूं येतात.

ह्यो गजाली स्पश्ट केल्याउपरांत तांच्या कांय निवंदांचो विचार करूं येता. पुंडलीक नायक हांचे मावार निवंद सण, उत्सव आनी परवो हांचेसंवंदांतले आसात. देखीक नागडेपण होळयेदिसा दिसतलें ह्या निवंदांत गोंयांतले वदलते होळयेचीं रूपां लेखकान दाखयल्यांत. आयज शिगम्याचें जें शारीकरण जालां तें लेखकाक मान्य ना. चित्ररथांची सुवात रोमटांनी घेवप, गावांत शिगमो खेळोवपाचें सोडून शारांत शिगमो नाचोवप लेखकाक पसंत ना. शिगमो फुलपाक देवळांचो आसमंत आनी गांवचें संमीक वातावरण जाय अशें तांचें मत. नुस्तें येता! दांत पाजून रावात! ह्या निवंदांत

सुतापुनवेची परव, ताचेंफाटलो हेतू आनी आयज तिका आयिल्लें भोंगावळिचें रुप लेखकान दाखयलां. नुस्तेमारीच्या धंद्याक आयज कमर्शियल रुप आयलां - जाका लागून ज्या दिसांनी नुस्तीं तांतयां घालतात, त्या दिसांनी लेगीत आयज नुस्तेमारी चलता. हें वटवटीत रुप आदीं नुस्तेमारीच्या वेवसायाक नाशिल्लें, बरोवपी म्हणटा.

नरकासूर येता..सांवाळ कृण्णा  ह्या निवंदांत दिवाळीच्या उत्सवासंबंदान बरयलां. पयलीं लाटीचेर फोव कांडपाचे आवाज येतकच दिवाळी आयली म्हणपाचें कळटालें. आतां मात नरकासुराचो थातोमातो पळोवन दिवाळीची सुलूस लागता.  नरकासूर चड आनी व्हड जाल्ल्यान वावड्या कृण्णाक मात ल्हान जावन आपल्याकच सांवाळचें पडटा  असो थोमणो मिस्कीलपणान बरोवप्यान मारला. जाल्यार  भितरल्या दुस्मानाचो वध  ह्या निवंदांत आमचे कुडींत कितलेशेच महिशासूर मातल्यात ते मारपाची गरज उकतायतना, नवरात्रेच्या सोंपत्यार दसऱ्याक जल्माक आयिल्ल्या बुद्धाचीं उतरां ते सांगतात. बुद्धान म्हणिल्लें,  भायल्या दुस्मानाक कावार करचेपरस मनांमदल्या दुस्मानाक नश्ट करप गरजेचें . ह्याच निवंदांत झाडांची राखण करपाखातीर जाणटेल्यांनी शास्त्रांचो आदार कसो घेतलो तें देखींसयत दाखोवन दिलां.  चवथिचें वजें सुनेच्या माथ्यार  हातूंत लग्न जाल्ले चलयेच्या घरा वजें पावोवपासारक्यो रूढी आनी तांचो आग्रो समाजाक कसो जांच करता तें दाखल्यांसयत पटयलां. ह्या उत्सवांचेर बरयिल्ल्या निबंदांतलो उत्कृप्ट निबंद म्हळ्यार  शिवरात्र . ह्या निबंदांत परंपरीक मेरवाचे काणयेक लेखकान  आधुनीक  रुप  दिलां आनी आयच्या वन्यपशूहत्त्येच्या कारस्थानांचो उपहासीक निशेद केला.  हो पाडवो घणसावैलांचो  ह्या निवंदांत एक दीस वैलांची पुजा करप आनी उरिल्ले ३६४ दीस तांकां रावोवन घेवप हाचे फाटलें पौराणीक कारण आनी गोंयच्या पाडव्याचें चित्रण बरोवप्यान केलां.

समाजीक आशयांच्या निवंदांतल्यान लेखकान कितलेशेच विशय हाताळ्ळ्यात. लखमनायकाचो भूकवळी  ह्या  निवंदांत काटूवृत्तीचेर उजवाड घाला.  जाल्यार भिकाड्डेंपण कट्टेंत ना, वृत्तींत आसा  ह्या निवंदांत लाचारेचेर टीका केल्या. भिकेच्यो कितल्योशोच देखी बरोवप्यान दिल्यात जाचेवेल्यान ताची वाचनाची आनी स्मरणाची वृत्ती दिश्टी पडटा. गोंयांत भुरग्याक वा व्हड मनशाक देवाक वा देवीक सोडपाची प्रथा आस्पा, तिचेर  देवीक आंगवण - पोराक वणवण  ह्या निबंदांत पोंटतिडकेन आक्रमण लेखकान केलां. दरीद्र आनी अज्ञान हातांत हात घालून चलतात अशें सांगून घाडीपण, केंस वा जटा दवरप ह्या कुड्ड्या श्रद्धांचेर बरोवप्यान

वडी मारल्या. कपडे न्हेसप हें फकत कूड धांपपाखातीरूच आसना तर तातूंत सभ्यतायेचोय वांटो आसता. पूण आयची फॅशन मात आंग उक्तें वडोवपाची आसा. ताचे परिणाम सांगून  लज धांपपी कपडेच जेन्ना लज काडटात  ह्या निबंदांत लेखकान कपड्यांचें औचित्य सांगलां.

बायलांचेर जावपी अत्याचार, पुरूष-प्रधान संस्कृतायेंत चिड्डिल्लो बायलांचो आवाज ह्या प्रश्नाक लेखकान  बायलां सुदारल्यांत - दादले न्हय  ह्या निबंदांत वाचा फोडल्या, जाल्यार  भुरग्यांक सुण्या माजरांवरी सोडून दियात  ह्या निबंदांत मोडिल्ली कुटूंब-वेवस्था, वाडिल्ली वासना आनी विज्ञानाचो  गर्भपाता  सारक्या गजालीनी जावपी दुरूपयोग हांचेर टीका केल्या. समाजीक आशय केळोवपी एक बरो लालित्यपूर्ण निबंद म्हळ्यार  नेड्यांतल्यान पोंवळे मोखप . आयज कलेच्या नांवाखाला समाजाक कांयच उपेग नाशिल्ल्या कलांचो उदोउदो चल्ला ताचेर बरोवप्यान टिपणा करताना, समाजाक उपकारक अशाच कलांक उर्बा दिवपी राजाची काणी सांगल्या. जातपातीचेर, समाजांतले विशमतायेचेर जोरदार हल्लो करून आमकां  पुरसाच्यो देवळी न्हय - एकचाराचें मंदीर जाय  अशें बरोवप्यान म्हळां.  आमी फकत उत्सव-मोगी ,  आमी सुदारतात होंवळिको मात..   सैम म्हणजे वडिलांची भकपाची मिरास न्हय (तर भुरग्यांकडल्यान घेतिल्लें रीण आसा) ,  काळजांत जागो आसल्यार जागो मेळटलो  ह्या निबंदाच्या माथाळ्यावेल्यानच तांचो आशय मतींत येता.  भुरगीं भियेतात काय तांकां भेश्टायतात?  हो बालमानसशास्त्राचेर आदारिल्लो जाल्यार  नाक रिपेर करू येता पूण..   हो कोस्मेटीक सर्जरी ह्या विशयावेलो निबंद आसा.  मोसंवी म्हळ्यार व्हडलो लींवू  ह्या निवंदांत विकासाच्यो संकल्पना आजून शेंकड्यांनी मैल पयस आशिल्ल्या ग्रामीण वाठारांतल्या अज्ञानाचेर उजवाड घाला.  गोंयच्या सैमाची आमचेकडेन इश्टागत  ह्या निवंदांत बरोवप्याची प्रतिभा फुलारून आयल्या. गोंयच्या पावसाचीं कितलिशींच रूपां कोंकणीच्या विपूल शव्दसंपदेवरवीं पुंडलीकबाब आमचेमुखार उक्तीं करतात. गोंयचे ग्रामीण जिणेच्यो त्रिसुत्री गरजो म्हळ्यार  मठी, काठी  आनी  मिठी . ह्या तिगांचोय पुरूमेंत गोंयकार कसो करता ताचें सुंदर वर्णन ह्या निबंदांत केलां. गोयांत सैम आपलीं सगळीं विधायक रूपां हाडटा - पूण तो विनाशक मात जायना अशें सांगून गोंयच्या समाजान पर्यावरणाकडेन केल्लें दुर्लक्ष, राजकारणी लोकांचीं कारस्थानां आनी ताचे पर्यावरणाचेर जावपी परिणाम हांचेर वरोवप्यान उजवाड घाला.  जाल्यार  भुताची परंपरा, परंपरेचें भूत  ह्या निवंदांत आमी फकत जाणटेल्यांची मिरास

मिरयतात. तांचें नांव व्हड करून जगतात. पूण जेन्ना आमी कितेंय करपाचो प्रसंग येता तेन्ना मात आमी आमची कर्तव्यनिष्ठा दाखयनात. हाची खंत पुंडलीकबाब हांणी परगटायल्या. गाऊ पूर्वजांचें गूणगान हीच आमची वृत्ती जावन पडल्या, ते वृत्तीचेर खर टीका ह्या निबंदांत बरोवप्यान केल्या.

अशे रितीन विशयाची विविधताय आनी नवेंपण, आशयाचें ताजेंपण, देखी आनी दाखले हांची जोड आनी घट विचारांची बुन्याद हांकां लागून हे निबंद प्रसंगीकतायेची मर्यादा कांय फावटीं हुपूंक पावतात. इल्लोसो प्रचारकी थाट आनी उपदेशाचें माप घेवन आयिल्ले हे निबंद खीणभर काय जायना वाचप्यांक चिंतपाक लायतात. पूण प्रतिभेची देण लाविल्ल्या, गिरेस्त भाशीक संपदा आशिल्ल्या आनी अणभवांची खाण आशिल्ल्या पुंडलीक नायक हांचेकडल्यान हाचेपरसूय लालित्यपूर्ण, मितव्ययी, ल्हान माथाळ्यांच्या आनी चिरंतन विशयावयल्या निबंदांची अपेक्षा मात उरता.



## एकांकीकार पुंडलीक :
## जिणेच्या अंतीम सत्याचो सोद

नाटकावांगडाच एकांकी मळार लेगीत संख्यात्मक तशें गुणात्मक नदरेन पुंडलीक नायक हाणी आपली खेरीत सुवात निर्माण केल्या. आतांमेरेन तांचे 'गांवधनी गांवकार' (२ एकांकी), 'चौरंग' (५ एकांकी) तशेंच 'दिगंत' (४ एकांकी) हे तीन एकांकी झेले उजवाडाक आयल्यात. तशेंच देवाचे चोर ही एकांकी अप्रकाशीत जावन आसा. 'चौरंग' ह्या तांच्या झेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो हो तांच्या एकांकीचो भौमानच. एकांकींतल्यान लेगीत हेर साहित्याभशेन समाजीक, ज्वलंत विशयाचेर ताणी भाश्य केलां. एकेकडेन सगळें जग सुवार्थी, आत्मकेंद्रीत जाता आसताना गांवाखातीर आपलो जीव दिवंक फुडें सरिल्लो गांवकार, ताची श्रद्धा आनी लोकांचो ग्रामवेवस्थेवयलो विश्वास, त्या विश्वासांतल्यानच गांवकाराक मेळिल्ले अधिकार हांचें दर्शन 'गांवधनी गांवकार' हे एकांकीत पळोवंक मेळटा. हो गांवकार त्या काळाचे रितीप्रमाण मुरवेक जाती-भेद मानता, पूण निमाणे गांवाखातीर जीव दिवपी कुटूंबाची एकली-एकसुरी चली अनाथ जावंची न्हय म्हणून तिची जातपात

कुशीक दवरून तिका सून करून घेता. पूण हे एकांकींत मनशांपरस नियती प्रवळ आसता हें दोन तरण्या मोग्यांच्या मरणांतल्यान दाखयलां. काळखांतलीं पावलां हे एकांकींत लेगीत नियतीचें क्रूरपण, कठोरपण आनी ताका लागून तरणे जीव कशे हुल्पून वतात तें दाखयलां. मनशाचे जिणेचें खामसुत्रीपण आनी हतबलताय दाखोवपी आनीक एक एकांकी म्हळ्यार खामसुत्री .

वयल्या दोन एकांकींचो विशय आदल्या काळांतलो जाल्यार खामसूत्री हे एकांकींत आधुनीक काळांतलो विशय हाताळ्ळा. ऑफिसांतल्या मुखेल्याची चळिल्ली वासना, आपल्या हातासकयल्या चलयांकडेन ताचे संवंद येवप, ताणे गर्भपाताखातीर तांकां पैशे दिवप आनी ताणीय बी मोग, भावना बी गजाली विसरून, वेवहारीक नदरेन सहजतायेन ते जिणेचो स्वीकार करप हें आधुनीक जिणेतलें कटू-सत्य वाचप्याक थक्क करता. कला-निर्मितेचे प्रक्रियेंतले लेखक, दिग्दर्शक आनी प्रेक्षक अशे तीन घटक वापरून सादर केल्ली ही एकांकी, हे तिनूय घटक नाममात्र आसतात, निमणें कलाकृती घडटा ती नियतीक जाय तशी. पात्रां नियतीच्या तालार नाचत वतात आनी हे तिनूय घटक अजापान हो खेळ पळयत उरतात. तांच्या हातांत कांयच नासता. हो संदेश हे नवलिकेंतल्यान दिला.

'म्हासागरांतलें तारूं' हे एकांकींत खुरटिल्ल्या, सांवटेल्ल्या आनी आत्मसंतुश्ट व्यक्तिमत्वाच्या लोकांमदीं उंच सपनां आनी व्हड हावेस वाळगुपी एका तरनाट्याचो कसो घुस्मटमार जाता, ताका लोक कशे पिशांत काडटात तें पळोवपाक मेळटा. ताचे आवयची वा शेजाऱ्याची आशिल्ली अल्पसंतुश्ट आनी असमादानी वृत्ती, फकत पोटाची खळगी भरपापुरतें पुतान जोडचें अशी आवयची इत्सा आनी निमाणें जग भोंवून अणभवाचें अमृत चाखिल्ल्या वापायन पुताभितरली तांक वळखून ताका तारवार धाडपाचो घेतिल्लो निर्णय ह्या सगळ्यांतलें नाट्य रोमांचक रितीन उबें जालां. गरो आनी गरोवणेचें रूपक घेवन आयिल्ली ही एकांकी व्हड हावेसांची प्रतिश्ठापना करता. 'पाडें वांयत भांगर पिकलां' हे म्हणणेचो आदार घेवन वरयिल्ली एकांकी मनशाचो मुखवटो पिंजून ताचेपोंदचें जनावर दाखयता. जाल्यार हाचे उरफाटें खाटकागेर एक रात हे एकांकींत एका खाटकाच्या मनांत आशिल्लें मनीसपण दाखयता. 'पांज' हे एकांकींत परिस्थितीक लागून भुरग्यांक मानायपणाक लावपाची वृत्ती आनी आवयवापूय आसून लेगीत अनाथ जाल्ल्या भुरग्यांची आपले मायेचे सांवळेखाला सांवाळ करपी जाणटेल्याचें चित्रण आयलां. लोकांचे नदरेन चोर आशिल्ल्या ह्या मनशाच्या काळजांत

किनल्ली करूणा व्हांवना, तिचें दर्शन (एकांकीच्या आटापाक लागून मातशें घाईंत आनी वटवटीनपणान काय जायना) वाचप्यांक घडटा.

'एका जुंव्यार जंय' हे एकांकींत समाजांतल्या निर्द्रीस्त जनतेक जागी करचे खातीर तांकां आपल्या गुलामपणाक लावपी एक क्रांतीकारी दिश्टी पडटा. एकाद्रो समाज जेन्ना हालोंवनय जागो जायना, तेन्ना ताचेर गुलामपणाचीच वडी मारची पडटा. भायल्यान कितल्योय क्रांती जाल्यो तरी तो समाज बदलना. देखून शेंसार मारून जसो अवसर हाडटात, ते तरेन समाजाचेर गुलामीचें चाबूक मारून ताचे भितरलो आत्मो जागो करचो पडटा हें कालातीत सत्य एका जुंव्यावयल्या मनशाच्या काणयेंतल्यान वरोवप्यान सुंदर रितीन सांगलां. जाल्यार 'मर्णकटो' हे एकांकींत जिणेतलो अन्याय, अत्याचार हांकां लागून विटिल्ल्या तरनाट्यांक जिणेचो नवो मंत्र दिवपी मर्णाची काणी आसा. हें मरण ताचेभितरल्या भिजूडपणाचें, ताच्या नैराश्याचें आनी प्रतिकारहीण वृत्तीचें. हें मरण ताका एक नवो जल्म लावून दिता, तो जल्म स्वाभिमानाचो आनी ताठ मानेन जगपाचो.

'पावणी' आनी 'आनी एक पोर नागडेंच उरता' ह्यो एकांकी स्वतंत्र देशांतले लोकशायेंत घडपी घडणुको चित्रीत करतात. 'पावणी' गंभीरपणान एका सुटकेझुजाऱ्याचीं चलिल्लीं फकाणां, स्वातंत्र्यांत ताच्यो लोकांनी केल्ल्यो वकच्छायो, स्वातंत्र्यांत कितेंच मेळूंक ना म्हण फकत परिस्थितीक आनी सुटकेझुजाऱ्यांक गाळी घालीत आनी हात चोळीत वसपी समाज चित्रीत करता. जाल्यार आनी एक पोर नागडेंच उरता हातूंत सुरवेक विनोदी रितीन जाल्यार निमाणेकडेन गंभीरतायेन आयचे लोकशायेचें विडंबन केलां. लोकशायेंतली लाचारी, राजकारण्यांचीं कुटील कारस्थानां, भ्रश्टाचार, चमचेगिरी, विरोध करतल्यांचीं तोंडां बंद करपाचे मार्ग हांकां लागून सामान्य जनता मात विकासापासून कशी वंचीत उरता हाचें काळजाक हात घालपी दर्शन घडटा.

पुंडलीक नायक हांणी आतांमेरेन सुमार ३७ नभोनाट्यांचें लेखन केलां. चडशीं नभोनाट्यां तांच्याच मूळ कथांचेर वा एकांकीचेर वा हेर साहित्याचेर आदारीत आसात. 'आकाशमंच' हो तांचो नभोनाट्यांचो संग्रह उजवाडाक आयला.

अशे रितीन पुंडलीक नायक हांणी आपल्या एकांकींतल्यान मानवी जीवनाचें अंतीम सत्य सोदपाचो यत्न केला.



## नाटककार पुंडलीक :
## शेणत चलिल्ल्या मनीसपणाचो सोद

कोंकणी रंगमाचयेवेलो पुंडलीक नारायण नायक हो एक समर्थ नाटककार. कोंकणी रंगमाची वळीश्ट करपाचें तशेंच तिका स्वतंत्र रूप आनी निजाचो आशय दिवपाचें काम आपल्या १४-१५ प्रकाशीत नाटकांतल्यान ताणी केलां. आतांमेरेनचीं तांचीं नाटकां अभ्यासून पळेतकीच तांच्या नाटकांचीं कांय एकवटीत अशीं वैशिश्ट्यां नदरेंत भरतात. पयलें म्हळ्यार तांच्या चडशा समाजीक नाटकांनी एक आदर्श-पात्र आसता. नाटककाराचो नाटक बरोवपाचो उद्देश, हेत आनी प्रयोजन हें आदर्श-पात्र घडये लोकांमुखार मांडटा. देखीक राखण ह्या नाटकांतलें शंकर हें पात्र प्रचलीत भाटकारशायेआड आनी अत्याचारांआड वंड करता. आपले भयणीक (आनी घराण्याक) भाटकारांच्या बंदनांतल्यान मुक्त करपाखातीर शंकर वावुरता.
'देमांद' नाटकांत अशोक आपले भयणीक आनी स्वताक लेगीत आपल्या बापायच्या क्रूर; अत्याचारी पांजऱ्यांतल्यान मुक्त करता. 'चैतन्याक मठ ना' ह्या नाटकांत अंकुश गावांत वेवस्था-परिवर्तन हाडपाखातीर धडपडटा. 'दायज' नाटकांत मुक्तिदाची अन्यायाआड संघर्ष करपाची परंपरा ताच्या मर्णाउपरांत मृदुला फुडें चलयता. 'मुक्तताय' ह्या नाटकांत किशोर हो भाटकारालो चलोच भाटकाराचो शेक; अन्याय आनी भाटकारशाय ना करपाखातीर वावुरता. 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांतलो कोणतरी वायलांचेर जावपी अत्याचार; समाजांतलें कुडणाटेंपण, भिकाड्डेंपण, फटींगपण, हुकूमशाय, रूढीग्रस्तताय, वडेजाव, दुबावीपण अशे सावार दुर्गूण उक्ताडार हाडून ते नश्ट करपाखातीर वावुरता. हीं सगळीं आदर्शवादी पात्रां बंडखोर वृत्तीचीं, क्रांतीकारी, रूढी-कुड्ड्यो श्रद्धा माननाशिल्लीं, हजरजवाबी, अती उत्साही, रागीश्ट-कोपीश्ट अशीं आसतात. चड करून आपल्या घराण्यांतली वा वापायन घालून दिल्ली परंपरा तीं मोडटात. चडशे फावटीं ह्या पात्रांक यश मेळटा. तांचे सुदारणेचे यत्न फळाक येतात. पूण कांय फावटीं तांकां अपेस येता. (मुखेली - शवै शवै भौजनसमाज) जायते फावटीं अपमान सोसून लेगीत समाजाची विस्कटिल्ली घडी सारकी करपाचो यत्न हीं पात्रां करतात. देखीक 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांतलो कोणतरी .
पुंडलीक नायक हांच्या नाटकाचें दुसरें एक सामर्थ्य म्हळ्यार तांच्या नाटकांतले संवाद

(dialogues) प्रेक्षक आनी वाचप्यांक लेगीत आपणावांगडा ओढून व्हरपाची तांक ह्या संवादांभितर आसता. हे संवाद चडशे आर्त्याक परती जाप दिवपी वा आर्त्याक परतो प्रश्न विचारून वुचकळ्यांत घालपी वा तीरसट पूण वुद्धिचे कसवटिचेर घांशिल्ले चतूर संवाद आसतात. ते वाचप्यांक चिंतपाक लायतात. वयलेवयर दिसूंक विनोदी अशे हे संवाद आशयान मात खुवूच गंभीर आसतात. (देखीक म्हाजन आनी कोणतरी हांचेमदलो शेणिल्ले गजालीसंबंदांतलो संवाद) ह्या संवादाक लागून पुंडलीक नायक हांच्या नाटकाची फकत गतीच वाडटा अशें न्हय तर ताच्या नाटकाचो उत्कर्श (climax), तशेंच फुडें कितें जातलें हाची उमळशीक (उत्कंठेची पातळी) लेगीत वाडटा. ह्या संवादांक जायते फावटीं 'locked dialogues' (एकामेकांत घुस्पिल्ले संवाद) म्हणूं येता. एका फुलाच्या देंठान दुसऱ्या फुलाची पाकळी गुंथिल्लेभशेन हे संवाद सांखळेभशेन एकामेकांत घुस्पत वतात. ह्या संवादांच्या सामर्थ्याक लागून श्री विचित्राची जात्रा सारकेलें आशयसंपन्न आनी तंत्रीक वेगळेपण आशिल्लें नाटक परिणामकारक जावंक पावता. पुंडलीक नायक हांच्या नाटकांचें आनीक एक वैशिश्ट्य म्हळ्यार तांच्या नाटकांतलो कुटूंबीक संघर्श. बापूय आनी पूत वा आवय आनी पूत, भाव आनी भयण वा घोव आनी बायल, वा भाव आनी भाव हांचेमदले मानसीक, विचारीक वा केन्ना केन्ना शारिरीक संघर्श लेगीत तांच्या चडशा नाटकांनी पळोवपाक मेळटात. ल्हान सान गजालींचो वेधक, सूचक आनी रूपकात्मक असो उपेग हें ताच्या नाटकाचें आनीक एक वेगळेपण. देखीक 'राखण' नाटकाचो पखवाज , 'चैतन्याक मठ ना' नाटकांतलो वांद वा तळें, 'पिंपळ' नाटकांतलो पिंपळ, 'दायज' नाटकांतली वंदूक, 'रक्तखेव' नाटकांतलें तारू अशो जायत्यो देखी दिवं येतात. केन्ना केन्ना ह्यो ल्हान दिसपी गजालीच फुडें नाटकाचे आशयसुचोवणेचें काम करतात. (देखीक चैतन्याक.. नाटकांतलें तळें वा श्री विचित्राची जात्रा ह्या नाटकांतलो पैसो)

पुंडलीक नायक हांच्या नाटकांचे सर्वसादारणपणान तीन विभागांनी वर्गीकरण करुं येता.

१) समाजीक नाटकां :- भाटकार-मुंडकार, गरीब-श्रीमंत, ह्यो वृत्ती-प्रवृत्ती, यंत्रसंस्कृतीचे परिणाम, कुटूंबीक प्रस्न, राजकारण्यांची भ्रश्टाचारी वृत्ती ह्या विशयांचेर रचिल्ली हीं नाटकां समाजांतले विंगड-विंगड प्रस्न उक्ताडार हाडटात, तशेंच मनशांचो विंगड-विंगड पती प्रेक्षकांमुखार दवरतात. देखीक खण खण माती , राखण, देमान्द, मुक्तताय, दायज, आत्मवंचना, तिरंगी-चक्राचक्री, चैतन्याक मठ ना, परिक्रमा हीं नाटकां. हातुंतली कांय नाटकां प्रसंगीकतायेंतल्यान वयर सरुन चिरंतन प्रस्नांचेर नदर

खिळायतात देखून ती नाटकां (देखीक चैतन्याक मठ ना, परिक्रमा ) दुस-या विभागाक लागीं वतात.

२) चिरंतन प्रस्नांचेर वरयिल्ली नाटकां :- ह्या विभागांतल्या नाटकांक समाजीक मुल्य आसाच, पूण तीं प्रसंगीकतायेंतल्यान पुरायरितीन वयर सरून वैश्वीक आनी थळ-काळ-वेळेचें वंदन नाशिल्लो आशय केळयतात. देखीक श्री विचित्राची जात्रा, सुरींग, पिंपळ पेटला, सूर्य सांवट.

३) नियती-प्रधान नाटकां :- हातूंत मुखेलपणान नियतीच्या क्रूर - खेळांक लागून मनशांचे जिणेची लागिल्ली वाताहात दाखोवपाचो यत्न केला. देखीक रक्तखेंव, प्रेमजागोर.

पुंडलीकबाव हांच्या नाटकांविशींचे हे फाटभुंयेचेर, पानांचे मर्यादेक लागून, तांच्या फकत दोनूच नाटकांचो खोलायेन विचार करुंया.

## श्री विचित्राची जात्रा : - सुष्ट दुष्ट संघर्ष

'श्री .. जात्रा' हें नाटक बीनआंकी आसा. (continuous play or non-stop drama) ह्या नाटकाक पड्डे कित्याक दवरूंक ना हेविशीं उलयतना लेखकान एके मुलाखतींत म्हळां, खंयचीय गजाल वा घडणूक जेन्ना वाचप्याक वा पळोवप्याक एकदम सगळी सांगची अशें वरोवप्याक दिसता तेन्ना तो तें सांगपाचे रितींत खंयचोय खंड वा आडखळ दवरिना. तेच नदरेंतल्यान आपणे ह्या नाटकाक आंक दवरूंना . परंपरेपरस वेगळो मार्ग जेन्ना एखाद्रो लेखक आपणायता तेन्ना ताचीं जायतीं कारणां आसूं येता. ह्या नाटकाच्या कथानकाचे मागणेखातीर लेगीत हें नाटक बीनआंकी दवरप गरजेचें जाता हे लक्षांत घेवपाक जाय. नाटकाक आंक कित्याक दवरतात? हाचीं जायतीं कारणां आसूं येतात. नाटकांतल्या मानसीक वा शारिरीक संघर्शाक लागून प्रेक्षकांच्या मनार ताण निर्माण जाता. पेंचप्रसंगांतल्यान प्रेक्षकांच्या मनार जावपी हो ताण पयस जावपाखातीर वा उणो करपाखातीर आंकाची येवजण आसता. आंकाक लागून मेळिल्ल्या वेळांत पात्रांक विसव घेवंक मेळटा देखून, तेखातीर लेगीत आंक आसूं येता. तेचप्रमाण नेपथ्याक वदलपाक वेळ मेळचो हेखातीर लेगीत आंकाची निर्मणी जाता. 'श्री .. जात्रा' ह्या नाटकांत रचनाकार ह्या पात्राची येवजण केल्या, ही लेगीत आशयापरस तंत्राचोंच वांटो जाता. हाचें कारण नाटकाची फाटभूंय दाखोवपाचेंच कार्य हें पात्र करता. नाटकांत प्रेक्षक आनी नट हांचेमदीं आनीक खंयच्याय पात्रान येवन मेतर जावपाची तशी गरज नासता. कथेंत मात वाचपी आनी

कथाकार हाचेमदीं निवेदक नांवाचें एक पात्र आसता.

कथाकार → (निवेदक) → वाचपी

नाटककार → (पात्रां) → संवाद → (प्रेक्षक)

नाटकांत 'कथेंतल्या निवेदकाचें' काम पात्रांमदलें संवाद करतात. देखून 'रचनाकार' ह्या पात्राची कांय गरज आसना. पूण कांय फावटीं आपणालो नाटक रचपाफाटलो उद्देश आनी हेत, नाटकाची फाटभूंय, नाटकाचे थळ-वेळ-काळ चे संदर्भ आनी नाटक पळोवपाची नदर वा दृश्टीकोन ह्यो गजाली सांगपाखातीरूच खासा नाटककारूच रचनाकाराचो वा सूत्रधाराचो भेस करून, रूप धारण करून नाटकांत प्रवेश करता. 'श्री .. जात्रा' ह्या नाटकांतलो रचनाकार म्हळ्यार असोच मुखवटो वा रूपडें घालून आयिल्लो नाटककारच. आशयाचे नदरेन तो आसप वा नासप व्हडलेशें म्हत्वाचें न्हय. पूण तो प्रेक्षकांनी नाटक कशें पळोवचें हाची नदर मात दिता खरो.

'रचनाकार' हें पात्र ह्या नाटकांत वातावरण निर्मणेचें तशेंच थळ-काळ-वेळ-अवकाश ह्या परिमाणांचो बोध करून दिवपाचें काम करतात. मांड, तारवांनी येवपी मांडकार, गिरायकां, जात्रा उलगता आसतनाचो देखावो ह्या गजालींचो उल्लेख करून वयर सांगिल्ल्या परिमाणांचें सूचन करता.

नाटकाचे अखेरेक येवन तो समाजाक कोणतरीची गरज कितली तें सांगता. नाटककाराच्या मनांतली समाजांतल्या वायट वृत्ती-प्रवृत्ती विशींची अस्वस्थताय, तळमळ आनी खळवळ तो उक्तायता ह्या वेळार ह्या नाटकाच्या कलारूपाक वादा येता. खासा करून ह्या प्रस्नान म्हजी न्हीद खळ्ळ्या, तुमचीय न्हीद खळूं अशें निमाणें वाक्य ह्या पात्राच्या तोंडांत घालून ह्या नाटकाची सुरवेची कलात्मक मांडणी निमाणें प्रचारकी पांवड्यार पाविल्ल्याचो भास जाता. कोणतरीच्या तोंडांतल्यान दर एका देखाव्यांत आयिल्लो उद्देश, बोध, ताणे समाजांतल्या वृत्ती-प्रवृत्ती विशीं काडिल्ले चिमटे वाचप्यांक/पळोवप्यांक सुखयतात पूण रचनाकारा च्या तोंडांतलीं हीं निमाणी क्रांय वाक्यां मात प्रेक्षकांक जड वतात. नाटक सोपलें हो आनी आतां कितें सांगता? असो भाव प्रेक्षकांच्या मनाचेर उदेता. हें नाटक समाजीक प्रबोधनाखातीर रचलां हें सांगपाक रचनाकाराची गरज आसा अशें दिसना. ताचे आदीं घडिल्ल्या घडणुकांतल्यान तो संदेश वाचप्यांमेरेन वता. फकत मनीस सेमा येवप, फातर जावप ह्यो काल्पनीक गजाली स्पश्ट करपाखातीर रचनाकाराची गरज दिश्टी पडटा.

देखून 'रचनाकाराचें' योगदान ह्या नाटकापुरतें तंत्रीक गरजेखातीर आसा अशें

मानून घेवंचें पडटा.

ह्या नाटकाच्या तंत्राविशींचो आनीक एक विशेश म्हळ्यार नाटकाची रचणूक. ह्या नाटकाचें कथानक एक जीण वा एक सूत्र न्हय. ती एका व्यक्तीची, कुटुंबाचीबी काणी न्हय. ही काणी भौसाची, ताच्या विंगड विंगड सभावांची - वृत्तीची आनी प्रवृत्तीची - गुणांची आनी अवगुणांची. तेखातीरच्यो घडणुको वेगळ्यो - प्रसंग वेगळे आनी पात्रांय वेगवेगळीं. ह्या heterogeneous तत्वांक एकठांय बांदपाचें काम कोणतरी ह्या पात्राच्या आदारान केलां. अर्थार्थी एकामेकांकडेन कांयच संबंद नाशिल्ल्यो विंगड विंगड घडणुको कोणतरी ह्या ( 'त्या -त्या' घडणुकांकडेन कांयच संबंद नाशिल्ल्या) - पात्राच्या माध्यमांतल्यान एकठांय हाडून जात्रेचें एक, एकजीव आनी homogeneous रूप वाचप्यांमुखार हाडपाचो यत्न केला. हो रचनाबंध बरोवप्याची नाट्य-तंत्राची खोलायेन आशिल्ली जाण आनी फिशालकाय दाखोवन दिता. वेगवेगळे प्रसंग आसूनलेगीत नाटकाचें कथानक फुडें वता इतलेंच न्हय तर प्रेक्षकांच्या मनाचेर चडटो आनी एकवटीत परीणाम (impression) जाता. हें नाटकाचें जैत आनी नाटककाराचें कसब जावन आसा.

**श्री विचित्राची जात्रा ह्या नाटकाचो आशय**

'श्री.. जात्रा' ह्या नाटकाक एक जबरदस्त समाजीक अधिष्ठान लाबलां. समाजांतल्या विंगड-विंगड वृत्ती-प्रवृत्तींक expose करप, उक्ताडार हाडप, वाचप्यांच्या/प्रेक्षकांच्या दोळ्यांत अंजन घालप, ताका चिमटेच काडून न्हय तर वेळाप्रसंगार धुमके घालून वा वेळ पडल्यार खोंटो घालूनय जागो करप - हें समाजप्रहरीचें ब्रीद आनी वीर्त हे नाट्यनिर्मणेफाटल्यान आसा, तशे रितीन समाज जागो जालो, ताणे आपले गूण-अवगूण पळयले आनी तो खजील जालो, ताका पश्चाताप जालो काय मागीर ताचेभितर आशिल्ले अवगूण-वायट प्रवृत्ती गरज नाशिल्ल्या अवयवांभशेन गळून पडचे हो उद्देश हे निर्मणेफाटल्यान आसा. नाटकांत दाखयिल्ल्यो त्यो प्रवृत्ती अशो आसात :

१) फटींगपण २) नाडपण ३) अत्याचार ४) दुबावीपण ५) जातीची मिरासदारी ६) रूढीग्रस्तताय ७) कुड्डी-श्रद्धा ८) भिजुड्डेंपण ९) विकृती आदी. ह्यो वृत्ती-प्रवृत्ती सकयल दिल्ल्या देखाव्यांतल्यान/प्रसंगांतल्यान दाखोवपाचो यत्न केला.

१) पयलो जात्रेकार आनी दुसरो जात्रेकार हांचेमदलो संवाद

२) पालखेचो देखाव

३) भिकारी आनी समाजसेवक

४) दोंबाऱ्याचो देखाव

५) भुरगो आनी धनी

६) आडसा  च्या तरनाट्याचो देखाव

७) चली-बापूय देखाव

८) घोव-बायल देखाव

९) चली-संदीसादू देखाव

१०) कोणतरी आनी घोव-बायल देखाव

११) बापूय-चली आनी कोणतरी देखाव

१२) म्हाजनाचो पावणेचो देखाव

१३) कोणतरीचो पावणेचो देखाव

१४) कोणतरी-जाणटेलो देखाव

१५) देवाचे म्हूर्तिचो देखाव

हे सगळे देखावे 'कोणतरी' ह्या पात्राच्या रूपान गुंथल्यात. ह्या देखाव्यांनी कोणतरीचो प्रवेश एकतर सुरवेक वो निमाणकडेन जाता. ह्या प्रसंगांकडेन कोणतरीचो - तशें पळांवंक गेल्यार - कांयच संबंद आसना. पूण दरेके गजालींत ताचो हस्तक्षेप आसता. दरेके गजालीविशीं ताचें मत आसता. 'कोणतरी' हो एक पंचवीस वरसांचो भुरगो. पांच वरसांचो आसताना ताका बापायन सोडिल्लो. ताका आपले आवयविशीं मोग आसा. जाल्यार आपल्या बापायच्या नाकर्तेपणाची तिडक आसा. फटलीं वीस वर्सां धकंचपाटे खायत, अणभवाचें गाठलें गिरेस्त करीत, समाजाच्या खावपाच्या एक आनी दाखोवपाच्या दुसऱ्याच दातांविशींचो प्रचंड किंवाटो आनी क्रोध काळजांत घेवन, पुराय समाजवेवस्थाच बदलून वडोवपाच्या वंडखोर हावेसान हो 'कोणतरी' समाजाच्या नश्टेपणाची जात्रा उद्ध्वस्त करुंक भायर सरता. हो 'कोणतरी' म्हळयार नेमको कोण तें सांगूंक येना. पूण तो ह्या समाजाभितल्लोच - तुमच्या आमच्या मदलोच रागीश्ट पूण तितलोच भावूक, दिसपाक गवाळो / अर्दवट पूण तकलेन फीन (वेश असावा बावळा - अंतरी असाव्या नानाकळा) अत्यंत चिवट आनी सोशीक, सळसळत्या रगताचो हो तरणाटो. इंग्लिशींत somebody / any- body / anyone अशी उतरां कोणतरी ह्या उतराक लागींची आसात. खरें म्हळ्यार any body can become some body (कोणायच्यान 'कोणतरी' जावं येता) पूण प्रत्यक्षांत तें तशें घडना देखून 'कोणतरी' म्हळ्यार anybody न्हय तर somebody 'कोणतरी' ही लेगीत एक प्रवृत्ती जावन आसा. तें देवत्व वी न्हय. पूण आयचे स्वयंकेंद्रीत आनी

स्वयंवर्तीत जीणेंत ही प्रवृत्ती उणी जायत चल्ल्या. दिसपाक 'कोणतरी' हें आदर्श पात्र दिसता. पूण प्रत्यक्षांत तें तशें ना. दिसपाक तें हट्टी दिसता पूण तो ताचो स्थायीभावच आसा. आपलो जीव त्रासांत घालून समाजातल्या वृत्तीप्रवृत्तीचें भोंदू - रुप तो दाखयता.

ह्या नाटकांत नाटककाराक एखाद्री व्यक्ती दाखोवपाची ना, तर ते व्यक्तीभितल्ली प्रवृत्ती दाखोवपाची आसा. देखून ह्या नाटकांतल्या पात्रांक नांवां नात, तेचभशेन एका व्यक्तीचें दूख वा प्रस्न ह्या नाटकांतल्यान नाटककाराक दाखोवपाचें ना तर पुराय समाजाची वेदना आनी पुराय समाजजिणेचें दूख नाटककाराक दाखोवपाचें आसा. एका मनाचें न्हय तर समूह मनाचें (collective mind) दर्शन ह्या नाटकांतल्यान घडोवपाचो यत्न आसा आनी देखून mob-play म्हळ्यार समूह-नाट्याचें रूप ह्या नाटकाक आयलां. हें नाटक रचपाफाटल्यान एक तत्वगिन्यान आसा. तें मनीसपणाचें तत्वगिन्यान. तें मनीसपण कशें शेणत चल्लां ताचें वर्णन दरेका देखाव्यांतल्यान केलां. देवाधर्माच्या-श्रध्देच्या नांवान लोकांक फटोवप (मोड मागपाचो प्रसंग), (पालखी उरफाटी ओडप) धर्माच्या नांवाखाला अधर्म, आपले जातीचो समाजाचेर शेक चलोवपाखातीर उपेग करप, (म्हाजनाचो देखाव), दिखावुपणाखाला लोकांची फटवण करप (समाजसेवकाचो दिखावो), पैशांखातीर मनीसपण विसरप ( पैशाक मोल आसा तें तुका आसा? - भिकारी ), वालमजुरी निर्माण करप (धनयाचो प्रसंग), वायलांक भोगवस्तू म्हण पळोवप ( संदीसादू वा घोव हांचो प्रसंग) अश्यो जायत्यो देखी दिवं येतात. मनशाचें जिणेंतली विकृती वाडत चल्ल्या. मनशाचे जिणेक लागिल्ली ही कीड जीण पोंखरत आसा. ही विकृती साय पावणेर काडपाच्या प्रसंगांतल्यान दिश्टी पडटा. मनशाची जीण यंत्राफाटल्यान धांवत चलिल्ल्यान तिचें भुरगेंपण, तिची भावुकताय, तिची सौंदर्यवृत्ती, रसीकताय सगले यंत्रांच्या चक्रांमदी चिड्डून मनीस सत्वहीण आनी स्वत्वहीण जाला. (भुरगो आनी धनी हांचो प्रसंग)

हे सगळे प्रसंग प्रेक्षकांमुखार नाट्यमय-आघातांवरवीं ( dramatic shocks) येतात, पयलोच नाट्य-आघात पयल्या न दुस-याक फटोवपांतल्यान वसता आनी फुडें कितेंतरी विपरीत घडटलें हाची सुलूस मेळटा. निमाणें श्री विचित्राची मूर्त सकयल पडप हो निमणो आघात जावन नाटक सोंपता. नाटकांतले संवाद सुरवेक सांगिल्लेप्रमाण locked dialogues आसात. (देखीक बापूय आनी कोणतरी हांचेमदले संवाद). ह्या संवादांची भास उपरंग्धीक आशिल्ली दिश्टी पडटा. हे भाशेंतल्यान कोणतरी ह्या पात्राच्या मनांतलो तशेंच कोणतरी आनी हेर पात्रां हांचे मदलो संघर्श व्यक्त जाता.

जिणेंतल्या मुळाव्या आनी कूट, गूढ (mystic) प्रस्नांविशीं अंतर्मुख करून, वाचप्यांक / पळोवप्यांक विचारप्रवृत्त करप हें नाटकाचें मुखेल प्रयोजन. तें सादपाखातीर नाटककार लोकजिणेंतल्योच घडणुको, प्रसंग वेंचून काडटा. पूण त्यो घडणुको आनी ते प्रसंग तशाच्या तशे घेनास्तना नाटककार तांचें अनुसर्जन करता. देखून नाटक हें जिणेचें Reproduction न्हय तर Recreation जाता. ते नदरेंतल्यान हें नाटक जैतीवंत जालां अशें म्हणचें पडटा. अभिनयाक भरपूर वाव आशिल्लें हें नाटक, लोकसवावाचें अभिनयाच्या माध्यमांतल्यान घडयिल्लें परिणामकारक अशें दर्शन हे नाटकाचे व्याख्येची परिपूर्ती करता. ह्या नाटकांत भौसांतली एका मनशाची मानसिकताय आनी भौसाची मानसिकताय (mob psychology) ह्या दोगांचोय समर्पक उपेग वरोवप्यान केला. नाटकाचो उद्‌गमच देव-दानव संघर्शातल्यान जाला. हे लक्षांत घेतकीच, 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या नाटकांतलो कोणतरी आनी हेर पात्रांमदलो आनी समूहां मदलो संघर्श समजून घेवं येता, आनी देखुनूच ह्या नाटकाक सुश्ट आनी दुश्ट हांचेमदलो संघर्श अशे म्हणूं येता. परंपरेसावन पयस वचून आशयाचें नवेंपण आनी तंत्राचें वेगळेंपण घेवपी हें नाटक पुंडलीक नायक हांच्याच न्हय तर पुराय कोंकणी नाटकाक एक नवें मोड दिवपी आसा.

## आत्मवंचना

हाचे पयलींच्या नाटकांच्या विशयांपरस हें नाटक विशयाचे नदरेन वेगळें. गिरेस्तकायेक भुल्लुसून गेल्ल्यान एका कलाकाराची कला कशी मातयेभरवण जाता तें ह्या नाटकांत दाखयलां. श्रीमंतीक भुलून एका कलाकारान आपलेच जिणेची केल्ली आत्मवंचना.

'दीनानाथ' आनी 'गोपिका' हांच्या कुटुंबाच्या फरफटीची ही शोककाणी. दीनानाथ एका संगीत महाविद्यालयाचो वेवस्थापक जाल्यार गोपिका घरकान्न. तांगेर पल्लवी आनी पंकज हीं दोन भुरगीं. पल्लवी आनी तांच्या शेजारच्या सुकड्डमामालो चलो केदार हांची कॉलेजांतली इश्टागत. दोगांय संगीताची आवड आशिल्लीं. केदाराच्याच न्हय जाल्यार लागीं-लागीं सगळ्यांच्याच मनांत ताणी एकामेकांक जीवनसाथी म्हण मानचें ही इत्सा. पूण आपले संगीतकलेविशीं अभिमानापरस अभिनिवेश आनी अहंकार चड आशिल्ल्यान आनी गिरेस्तकायेंत जीण जगपाचो हावेस आशिल्ल्यान पल्लवी केदाराक सोडून आपल्या आवाजाचेर भाळिल्ल्या शारांतल्याच एका व्हड वेपाऱ्याच्या चल्यावांगडा - उद्धवावांगडा लग्न जाता. पल्ल्वीच्या लग्नाउपरांत केदाराक धक्को बसून तो

पिशांतूर जाता, सुकडूमाम मरता आनी पल्लवीचें लग्न एका गिरेस्तावांगडा करून दितना काडिल्लीं रिणां फारीक करपाखातीर पल्लवीचो भाव पंकज पायलट जाता. आपलो भाव पायलट आनी आपूण गिरेस्ताली बायल हें पळोवन प्रतिश्टेक बादा आयिल्ल्यान पल्लवी घरच्यांचो अपमान करता. निमाणे पल्लवीन आपल्याक सांगनासताना एका ऑर्केस्ट्राचें आपोवणें मान्य केलें म्हण उद्दव

कार्यावळ चलता थंय वचून ती बंद उडयता. ताका लागून पल्लवीचो अपमान जाता, तिका गिरेस्तकायेच्या कलामोगाचें खरें रुप समजता आनी ती घटस्फोट दिवपाचो निर्णय घेता, थंयच नाटकाचें कथानक सोंपता. ह्या नाटकांतल्यान गिरेस्त उद्धवाचो कलेवयलो तकलादू, दिखावू आनी प्रदर्शनी मोग दिश्टी पडटा, तेच प्रमाण गिरेस्तकायेचो झगझगाट, दिखावू मोग आनी आपले कलेक वाडोवपाची दुर्दम्य इर्पा हांका लागून पल्लवी आपल्याच जिविताची वल्गना कशी करता हाचें करूण दर्शन घडटा. ह्या नाटकांत निमाणेकडेन पल्लवीची कार्यावळ पळोवपाक खासा आयिल्लो केदार, कार्यावळ बंद पडटकीच परतून वता. पूण वता आसताना कॉलेजीचे कार्यावळींत तांणी दोगांनी मेळून गायिल्या जोड गीताची कॅसेट पल्लवीक भेट दिवन वता असो देखाव आसा. नाटक ह्या साहित्य प्रकाराक अचकीत, अनपेक्षित, अकस्मात घडिल्ल्या घडणूकांची अपेक्षा आसून लेगीत हो प्रसंग भडक, अतीरंजीत आनी एक वेगळोच कुडको कसो दिसता.

प्रत्यक्ष देखाव वापरचे बदला केदाराच्या आवाजाचो भास निर्माण करून काणी पूर्ण करूं येताली अशें दिसता. पूण नाटकाच्या तंत्राचे मर्यादेचे नदरेन ही चूक दोळ्यां आड करूं येता. वयलेवयर सादें दिसपी ह्या कथानकाक भितल्लीं जायतीं वारीक-वारीक तासां कुसां आसात. दीनानाथाचेर संवसाराचो गाडो चलयतना आयिल्लें हताशपण, पंकजाची सडेतोड पूण जबाबदार वृत्ती, उद्धवाचो गिरेस्तकायेचो नेट, मेघःश्यामाचें मनीसपण, गोपीकाबायचे काळजांतली गिरेस्तकायेची ओड, पल्लवीची उत्शृंखलताय, निकीची निलाद्री - निगरगट्ट वृत्ती अश्यो जायत्यो गजाली नाटकाक रंगत हाडटात. हें नाटक अत्यंत गतीन - वेगान सुरू जाता आनी सोंपता. आयच्या show – case – culture चेर हें नाटक परंपरीक रितीन वडी मारता. गरीब-श्रीमंत हांचेमदलें फकत सभावाचें आनी वृत्तीचेंच न्हय तर पुराय जीणेचे नदरेमदलें अंतर कितलें व्हड आसा तें दाखयता. तें गिरेस्तकायेचो मुखवटो पिनून उडयता आनी गरिबींतल्या अहंकाराक चेंचून उडयता.



# पुंडलीक नायक :
# समकालीन भारतीय कोंकणी नाटककार

प्रा. बाळकृष्ण कानोळकार

पुंडलीक नारायण नायक हो एक सर्वांगान आनी सर्वार्थान कोंकणी साहित्यीक. एक अश्टतासांचें कोंकणी साहित्य वज्र. कोंकणिच्या बावन्न कुळिंचो उद्दारी हो वांगर बैल. ताणे आपले ल्हान पिरायेचेरूच आपलो धेंक गाजयला आनी आपलीं शिंगां दाखोवन जाय तें पुजून घेतलां. कोंकणी साहित्यीक वावरामळाक तांचो नव्यान परिचय करून दिवपाची गरज उरूक ना. सुर्या जसो मळबाक तसो पुंडलीक कोंकणी साहित्याक आपसूक लाबला. शणै गोंयबाबांक आमी कोंकणीचो ज्ञानेश्वर म्हणून वळखतात. जाल्यार पुंडलीकाक कोंकणीचो तुकाराम म्हण लेखचो पडटलो. मराठी साहित्यमंदिराचो तुकाराम कळस जावन आसा. तोच मान पुंडलीकाचो कोंकणी सरस्पतीच्या मंदिरांत. ताचेविशीं दामोदर मावजो म्हणटा, '.. गोंयचे मातयेचो वास येवपी कथा घेवन पुंडलीक नायक जोगूल कसो लिकलिकलो.. पयलेच खेंपेक लोकांक कोंकणी भाशेच्या सामर्थ्याचो साक्षात्कार जालो. शणै गोंयबाबाली भासूय ओजस्वी आसली. शंबर नंबरी आसली. पूण पुंडलीकाले भाशेक शैलीची जोड मेळनाफुडें तिचें भांगर जालें.'

ह्या तरनाट्या साहित्यिकाचो आत्मविश्वास भोव जबर. तांचे एके कवितेंतल्यान हाची गवाय आमकां मेळटा. तो म्हणटा -

'आमी कोण
हाची जाप तुमकां काळूच दितलो
अशें आमी म्हणचे नात
ती आमीच दितले.
आमी, आमी न्हय जाल्यार
काडोन वतले.

हेच कवितेंतल्यान ताणे आपले कोंकणातले तांवडे मातयेलागीं आशिल्लें नाळ-नातें प्रगट केलां आनी आपणाली खरेली वळख पुर्णार्थान करून दितना तो फुडें वचून म्हणटा -

'तांबडे मातयेकडचें इमान
जाणी आजून घाणाक दवरूक ना,
ते आमी.'

'सवन काळाच्या हुंकाराचो संदर्भ ही कविता दिता. कर्तुबाची गवाय दिवपाची भास ही कविता उलयता.'

एक नामनेचो भारतीय नाटककार म्हूण पुंडलीकान नामना जोडल्या. समकालीन भारतीय नाटक बरप आनी नाटक चळवळीक ताणे आपल्या वावरान उर्बा दिल्या. समकालीन भारतीय रंगमाची ताणे समृध्द केल्या. समकालीन भारतीय नाटक साहित्याचो इतिहास कोंकणीच्या ह्या म्हालगड्या प्रतिभावंत नाटककाराची दखल घेतलेबगर पुराय जावंक पावचो ना अशें म्हळ्यार ती अतिताय न्हय. 'चौरंग' ह्या ताच्या एकांकी झेल्याक पुरस्कार भेटोवन ताच्या नाटकांमळावयल्या वावराचो साहित्य अकादमीन भौमान केला. कोंकणीच न्हय, हेर भारतीय भासा-भयणांमदें नाटकाखातीर हो पुरस्कार फाव जाल्ले भोंव थोडे साहित्यीक आमकां पळोवंक मेळटात.

ताच्या नाटका वरपाविशीं उलोवचे पयलीं वेस वरें जातलें, ताचे जिणेविशीं थोड्यो गजाली जाणून घेवप. कारण ताचो साहित्यीक पींड ह्या गजालींचेरच पोसला. ताचो जल्म गोयांतल्या फोंडें तालुक्यांतल्या वळवय गावांत जालो. वळवय हो आडकुशीचो पूण सुपुल्लो, सैमसंपन्न गांव. २१ एप्रील १९५२ हो ताचो जल्मदीस. तेवेळचे रितीप्रमाण आनी गरजेप्रमाण मुळावें शिक्षण मराठी भाशेंतल्यान घेवचें पडलें. फुडें माध्यमीक शिकप मॅट्रीकमेरेन मराठींतल्यान जालें आनी कॉलेजचें शिकप इंग्लेजींतल्यान जालें. हांगासल्ल्यान फुडें ताच्या आयुश्याच्या नाटकाचो म्हत्वाचो अंक सुरू जाता.

आकाशवाणी पणजी केंद्रार कोंकणी विभागांत तो पावलो. आनी ताच्या पुराय आयुश्याक एक अप्रूप मोडण भेटलें. ह्या विभागांत आसताना ताणे केल्ल्या वावराक ताच्या जिवितांत आनी कोंकणी भाशेच्या जैताच्या वावरांत भोव म्हत्वाचें स्थान आसा. गोवा कोंकणी अकादमीचे पालवी अध्यक्ष म्हूण ताणे केल्लो वावर देखदेणो आसा. कोंकणी राजभास आंदोलनाच्या काळार ताणे ह्या म्हायुद्धाचो सरसेनापती म्हण जैतिवंत कर्तुव गाजयलां. थोडेभितर सांगचें जाल्यार ताचे जिणेचो दर एक उस्वास

हो कोंकणी आनी कोंकणी भाशेच्या जैताचो आनी परजळीत फुडाराचोच ध्यास घेवन येता. कोंकणी मायेच्या ह्या पुतान तिची जैतिवंत घुडी आख्ख्या विश्वांत नाचयली. ताच्या 'श्री विचित्राची जात्रा' ह्या रेडीयो नाटकाक आस्ट्रेलियांतले नामनेचे संस्थेचो जागतीक भोवमान फावो जाला (१९८८). रेडीयो नाटक सर्तींत ताका भोवमानाचो धरिल्लो असो पयलो पुरस्कार दोन फावटी फावो जाला. 'मर्णकटो' (१९८०) आनी उपरांत 'महासागरांतलें तारूं' (१९८७) ह्याका दुसरे फावट.

कोंकणीच्या ह्या पुताक हांव 'पुरस्कारधर' अशें म्हणन. जेभशेन एखाद्र्या 'लक्ष्मीधरा' च्या आंगार अळंकार लिकलिकतात तेचवरी हाच्या आंगार विंगड विंगड पुरस्काराचीं माणकां,मोतयां, वज्रां लिकलिकताना नदरेक पडटात. कला अकादमी गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ, आकाशवाणी, भारतीय साहित्य अकादमी सारकेल्या नांवाजत्या संस्थांच्या पुरस्कारांचो आनी तसरिपांचो आम्पाव जाता. थळाव्या पांवड्यार, देश पांवड्यार आनी जागतीक पांवड्यार ताणे एकसारकोच सहज संचार केल्लो जाणवता. साहित्य अकादमीचो पुरस्कार ताका पिरायेच्या बत्तिसाव्या वर्सांचे ल्हान पिरायेचेर फावो जालो (१९८४). इतले ल्हान पिरायेचेर नाटकासारकिल्या साहित्यप्रकाराखातीर हो पुरस्कार फावो जावप हें भारतीय साहित्य मळावयलें एक अजाप म्हणचें पडटलें.

आतां कोंकणी राजभास जाल्या उपरांत लेगीत ताच्या वावरामदें खंड पडूंक ना. तिका अदिकादीक संपन्न करचेलो ताचो यत्न चालूच आसा.

पुंडलीक नायकाच्या खंयच्याय साहित्याचो विचार करतलो जाल्यार तो त्या त्या प्रकारच्या साहित्याचो एकसुरो विचार करप सगा जावचें ना. ताच्या खंयच्याय साहित्याचो रंग आनी पिळो जाणा जावन घेतलो जाल्यार ताच्या सावार साहित्याचो पट आनी पाट अभ्यासप्याच्या नदरेमुखार आसप भोवच गरजेचें आसा. ताच्या साहित्याच्या संवसारार एक उडटी नदर मारल्या. तातूंत साहित्यांतल्या सावार प्रकारांचो आस्पाव जाल्लो पळोवन काळीज धादोस जाता. कविता (गा आमी राखणे), संगितिका (रानसुंदरी), कथा (पिशान्तर, मुठय, अर्दुक), नवलकाणी (अच्छेव), नवलीका (बांवर, वसंतोत्सव, दायज), बालनवलीका (मनू), एकपात्री (छप्पन थिगळी येमवंत) एकांकी (गांवधनी गांवकार, चौरंग, दिगंत), रेडीयोनाटक (आकाशमंच), बालनाटक (आळशांक वाग खातलो, शिंवाचो वळी), नाटक (खण खण माती, रक्तखेव, राखण, सुरींग, सुर्यसांवट, देमान्द, मुक्तनाय, शबै शबै भोंजनसमाज, पिंपळ

पेटला, श्री विचित्राची जात्रा, चैतन्याक मठ ना, दायज, आत्मवंचना, परिक्रमा बी) हेभायर अणकार (काजी नजरूल इस्लाम, नानालाल), संपादनां (वेंचीक कोंकणी एकांकी, समकालीन कोंकणी कथा), समीक्षा (रंगपाट) अशें जायतें संख्येन आनी गुणानूय व्हड कोंकणी साहित्य ताणे निर्मिलां. 'देखणी दुराय' सारके जैतिवंत कोंकणी टेलिफिल्माची कथा, पटकथा, संवाद, गीतां बी सावार साहित्यीक आंगां ताणे समर्थपणान सांबाळ्ळ्यांत.

प्रारंभाक आपले साहित्यीक जीवनाची श्रीगणेशा मराठी भाशेंतल्यान कथा, कविता बरोवन करपी ह्या ल्हान पिरायेच्या व्हड कोंकणी साहित्यिकाचो हो चौफेर वावर पळोवन मन भुल्लुसून वता. ताच्या कांय साहित्याचो अणकार कांय भारतीय भासो आनी इंग्लेज भाशेंतल्यान जाल्यात. तातूंत तांच्यो कविता, कथा आनी 'अच्छेव' हे नवलकाणयेचो प्रमुख्यान आस्पाव आसा. ताचीं रेडीयो नाटकां, एकांकी आनी नाटकां अशींच अणकारीत जाल्यांत.

पुंडलीकाचें नाटक जाणून घेवचें म्हळ्यार ताच्या सावार साहित्याचो अभ्यासूय गरजेचो थारता, तेचवरी ज्या वाठारांत ह्या साहित्यिकाची बी किल्लली त्या वाठाराचो कॅनव्हास, रंगपट आनी गंधखुणो जाणून घेतलेबगर त्या साहित्याच्यो जल्मवेणो उमगुच्यो नात.

पुंडलीक नायकाचें साहित्य हें एकामेकांत भरशिल्लें साहीत्य. सादारणपणान दोन प्रकारचे साहित्यीक आमकां दिश्टी पडटात. एकेच एका साहित्यप्रकारालागीं एकनिश्ठ रावून - जांव ती कथा, कविता, नाटक वा कादंबरी - साहित्यनिर्मणी करपी साहित्यीक हो एक प्रकार आनी एकेच वेळार भौसाहित्य प्रकारांत निर्मणी करपी साहित्यीक हो दुसरो प्रकार. पुंडलीक नायक हो दुसऱ्या प्रकारांत आस्पाव जावपी साहित्यीक. तांची साहित्यनिर्मणी खूब्ब complex, (व्यमिस्त्र) सादेपणी अर्थाचें सुत हाताक लागप मुश्कीलीचें. पुंडलीकाचें तशेंच जालां. ताचे कवितेंत नाटक आसा जाल्यार नाटकांत कविता, कथेंत नवलकथा जाल्यार नवलकथेंत कथा, नवलकथेंत नाटक जाल्यार कथेंत रेडयो नाटक, अशेंतरेची गुंतवळ जाल्ली नदरेक पडटा. ताकाच लागून संतुस्ट जावंक नाशिल्ल्यान जावंये ताणे आपल्या साहित्याचें विविध प्रकारांतल्यान रुपकार केल्ले पळोवंक मेळटा. ( मराठी भाशेंत अशेंतरेचो अणभव चि. त्र्यं. खानोलकरांचे बाबतींत येता. ) देखीक पळयात, 'कासव' ही कथा आनी 'म्हासागरातलें तारूं' हें रेडियो नाटक, 'अच्छेव' ही कादंबरी आनी 'खण खण मातयो'

हें नाटक, ‘वसंतोत्सव’ ही नवलिका आनी ‘पिंपळ पेटला’ हें नाटक. ‘अच्छेव’ हे कादंवरीचें मुळावें नांव लेगीत ‘मीन पिकलां खाणयानी’ अशेंच आशिल्लें.

‘खण खण माती’, ‘सुरींग’, ‘शर्दे शवै भौजनसमाज’, ‘चैतन्याक मठ ना’, ‘श्री विचित्राची जात्रा,’ ह्या नाट्यकृतींचे आकलन लेखकाचे प्रतिभाशक्तीक तांक दिवपी सैमवाठाराच्या आकळणाविणे सफल जावंक पावचें ना.

तेच वरवीं ताचें ‘नाटक’ ह्या साहित्य प्रकाराविशींचे विचार लेगीत जाणा जावन घेवप ताचे नाट्यलिखणेच्या मूल्यमापनाच्या वावरांत योग्य थारतलें. ‘नाटक’ ह्या साहित्य प्रकाराविशींचे तांचे कांय विचार.

○ नाटक पळोवप आनी नाटक पारखप वेगळें. नाटक पारखितलो जाल्यार नाटकाच्या भितरल्या अंतरंगांत आमकां देंवचें पडटलें. नाटकाची पारखणी करतना कांय कस आमकां थारावंचे पडटले. अर्थात हे कस मानवी संस्कृतिनूच घडल्यात. *
नाटक हो एक साहित्य प्रकार आसा अशें म्हणचे परस तो एक दृक आनी श्राव्य प्रकार आसा अशें म्हणप चड योग्य.

○ खूब प्रसिध्दी आनी खूब पैसो ह्या दोन आकर्शणांक लागून जायते लेखक नाट्यलेखन करतात. तातूंतले जायते जाण सिध्दहस्त लेखक आसतात. कथा, काव्य सारख्या प्रकारांतल्यान तांणी जीवनाचें योग्य अशें दर्शन घडयिल्लें आसा. पूण रंगमाचये वयली तंत्राची जाण अर्दकूटी थरिल्लयान नाटकाच्या मळार तांच्या वाट्याक अपेसूच चड येता. रंगमाचयेर सदांकाळ वावुरपी दुसरे विशाल अशे तंत्रज्ञ आसतात. नाटक बरोवपाची हांकांय ओड लागता. नाट्य तंत्रांत फिट्ट बसूं ये अशी नाट्यनिर्मिती ते करपाक शकतात. पूण नाटकान जें जिवनाचें यथार्थ दर्शन घडोवपाक जाय तें तांचे कडसून जायना. जीण समजून घेवपाची तांची जाणूच उणी पडटा . . . . ज्या लेखकाक जिवनाची पुराय वळख घडल्या तोच तें जीवन रंगमाचयेर हाडूंक शकता आनी तातूंत तंत्राच्या आदारान नाट्य निर्माण करुंक शकता.

○ जीवन पुराय तरेन आकलून रंगमाचयेर हाडपाच्या नदरेन तंत्राच्या आदारान जातूंत नाट्य निर्माण केल्लें आसता अशी वरपावळ म्हळयार नाट्य संहिता.

○ समाज सुदारणेचें कंत्राट मेळ्ळां अशेंतरेन नाटककारान बरोवप फावना. तशें जाल्यार तो नाटकघराचें सभाघर करतलो.

○ नाटककाराकडेन विचाराचें भांगर आसता. पूण आकृतिवंधाचें कसब नासल्यार त्या भांगराचो अलंकार जावपाक पावचो ना.

- नाटककाराच्या व्यक्तिमत्वाचें पडबिंब नाटकांत पडलेबगर रावना.
- जे भाशेंत नाटककार नाटक वरयता ते भाशेचेर ताचें प्रभूत्व आसचें पडटा. भाशेंच्यो लकबी, मोडी - हाचें गिन्यान आसचें पडटा. विंगड विंगड समाजांमदल्यान येवपी विंगड विंगड पात्रांच्या तोंडात त्या त्या समाजाची वास्तवांतली भास (मोड) घालप.
- नाटकाची संहिता तयार करताना नाटककारान संवादावरोवर नेपथ्य, वेशभूशा, उजवाड येवजण, अभिनय ह्या दृश्य बाबींचो तेच परी संगीत आनी ध्वनीयेवजण हांचो विचार करचो पडटा.

वयल्या तांच्या नाटकाविशींच्या विचारांचो मागाव घेतल्यार अशें दिसून येता, एक नाटककार म्हण ताणे जी नामना जोडल्या ताच्या मुळसांत जायतो अभ्यास आसा, तपश्र्चर्या आसा. निखटे प्रतिभा शक्तीचो तो चमत्कार न्हय. ताका अभ्यासाची, जोडूय मेळ्ळ्या. आपूण जें 'नाटक' वरयतां ती 'निखटी साहित्य कृती' ना वा 'निखटो खेळूय' ना हाची जाणविकाय ताणें सतत बाळगिल्या. ताकाच लागून कोंकणी नाट्यबरपावळीच्या आनी रंगमाचयेच्या मळार नवेनवे प्रयोग करुन तातूंत जैत जोडपांत पुंडलीक यशस्वीय जाला. अशीच गवाय कोंकणी नाट्य वरप आनी रंगमाचयेचो इतिहास दीत रावतलो.

ताणें निर्मिल्ल्या एकूण साहित्यामदें ताची नाट्यबरपावळ खुपूच समृध्द - संख्येन आनी गुणात्मक नदरेंतल्यान लेगीत अशी आसा. उणी उणी म्हळ्यार सुमार पाव शेंकडो नाट्यबरपावळ ताच्या नांवार रुजू जाल्या. ताच्या पिरायेच्या मानान ही व्हड गजाल. अशें आसूनय फकत 'रतीब घालप' अशे तरेचें तिचें स्वरूप ना. सक्षम प्रयोगीक भारतीय नाटककार हीच तांची वळख / मुद्रा जाणत्याक जाणवत रावता.

ताचें नाटक वरप तरेकतरेच्या पतींनी विभागूं येता. देखीक एकपात्री, एकांकी, रेडियो नाटक, संगितिका, वालनाटक, नाटक आदी. आमकां हांगा तांच्या नाटकाविशींच न्हंय तर एकूणच नाट्यवरपावळीविशीं विचार करचेलो आसा, तरी लेगीत तांचें नाटक कांय प्रकारांमदीं विभागूं येता. देखीक उत्सवी, प्रयोगीक, सुखांतिका, सुखात्मिका, फार्स, शोकनाट्य, संगितिका आदी. तरी लेगीत ही विभागणी समाजीक, पुराणीक, इतिहासीक अशी करपाक मेळना हें मतींत घेवपाक जाय. तांच्या सगळ्याच नाटकाचो केंद्र विंदू हो मनीस आनी मानवी संस्कृताय आनी तांचे मजगती सासणासावन चलत आयिल्लो संघर्श आसा.

पूण एक मेदा आनी गोंय म्हूण हांव ह्या लेखा पुरतो तांच्या नाटक म्हळयार पुराय लांबायेचें नाटक-साहित्य हाचोच विचार करपाचो थारायला.

कथा. कादंबरी हे विशीं जायत्या जाणानी आपलीं मत्तां उक्तायल्यांत. ह्या साहित्य प्रकारा मजगतीं जायते विंगड विंगड प्रकार आशिल्ल्याची चर्चा आमकां पळोवपाक मेळटा. देखीक गांवगिरी, प्रदेशीक आदी. नाटकाचे बाबतींत अशी वर्गवारी करप शक्य जाल्लें ना. पूण पुंडलीक नायकाची नाटकां हाका आडवाद थरल्यांत. नाटकांय प्रदेशीक आसूं येता हाची गवाय आमकां तांच्या कांय नाटकांवरवीं मेळटा. तांच्या नाटकांनी प्रदेशीकता आयल्या पूण तांका रूढ अर्थान प्रदेशीक म्हणप समा जावचेंना, हाचें भान दवरचें पडटलें. तांच्या कांय उत्कृष्ट नाटकाचें चलन वा काया प्रदेशीक आसा जाल्यार तांची देख वा आत्मो विश्वीक जावन आसा. एकाच वेळार प्रदेशीक वा थळाव्या पांवड्यार तांचो खेळ चलता आनी नाटककार पुंडलीक नायकाक मानवी संस्कृतायेविशीं जें कितें सांगचें आसता आनी मनीस जिणेचें सुक्षीम जीवन दर्शन घडोवचेलें आसता ताचो खडेगांठ प्रत्यय आयल्या शिवाय रावना. जेन्ना तांच्या नाटकांतल्यान हो दोट्टी अणभव येता तेन्ना भौमानेस्त प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचे म्हण्णेची सार्थकताय लक्षांत आयलेबगर रावना. ते म्हणटाले, 'जें खरें प्रदेशीक तेंच विश्वात्मक.'

पुंडलीक नायकाच्या नाटकांतल्यान गोंयचो सैम, मनीस आनी संस्कृताय पुराय तरेन चित्रीत जाल्ली नदरेक पडटा. देखीक ताची खण खण माती ( मीना उद्येग), सुरींग ( रस्ते बांदपी किरीस्तांव गावड्यांची जीण ) शवै शवै भौजनसमाज ( गोंयचे भौजन समाजाची समाजीक, राजकीय आनी नैतीक स्थितीगती ) हीं नाटकां अभ्यासाचे नदरेंतल्यान वयल्या पांवड्यावयलीं आसात.

पुंडलीक नायकाक आपल्या नाटकांतल्यान कितें सांगपाचें आसा हाचें बेस बरें गिन्यान आसा. तेचवरी तें कशें सांगचें हाचेविशींचें तितलेंच बरें किंबहुना ते परसय अदीक बरें भान आशिल्लें अणभवाक येता. सगळ्याच नाटकांचे रचणुकेंतल्यान तांकां हे सादलां अशें म्हणू नज. पूण चडानचड नाटकांतल्यान तांकां तें सादलां. ताका लागून तांचीं नाटकां काव्याचे पातळीचेर पावल्यांत. तीं प्रतिकात्मक जावंक पावल्यांत. देखीक सुरींग, पिंपळ पेटला आदी 'काव्येपु नाटक रम्य' हाचो अणभव रसीकाक तातूंतल्यान येता.

आशयाचे नदरेंतल्यान पळेल्यार ताणें कोंकणी नाट्य लेखणींत क्रांतीकारक

वदल घडोवन हाडिल्ल्याचें कळटा. फकत मनोरंजनाच्या आनी उत्सवी पांवड्यावयल्या कोंकणी नाटकाक ताणें आशयधन करपाचो व्हड वावर केला. 'बाप्पा' आनी 'मावशीबाय' च्या वोवाळांत घुस्पल्ल्या फार्स वजा कोंकणी कॉमिक नाटकाक ताणें गंभीर रूपडें भेटयलें. गंभीरतायेन जिवनाकडेन पळोवपाचें नवें वक्त कोंकणी समाजाक वहाल केलें. पूण ते खातीर ताणें फकत शोकनाटकांच बरयलीं अशें न्हय ह्या उरफाटें तांचीं चडानचड नाटकां ही सुख नाटकांच आसात. आडवाद थरतीत इतलीं अल्प शोक नाटकां तांच्या नांवार आसात. सुखनाटक लेगीत गंभीर जीवन दर्शन घडोवंक सशक्त उऱता हाची देखूच ताणें आपल्या नाटक बरपांतल्यान भारतीय नाटक संवसारांत दिवन दवरल्या. ताणीं आपल्या नाटकांतल्यान केळयल्लो आशय विविध रूपडीं आसात. देखीक भूक आड नीती (खण खण माती), फातरांत पुरिल्ल्या कृत्रीम सुरिंगापरस अदीक शक्तीमान आसपी लीओच्या काळजांत न्हिदिल्ल्या सुरिंगाक आयिल्ली जाग (सुरींग) विकासाच्या नावान भौजनसमाजाची त्याच समाजाच्या फुडाऱ्यांनी चलयिल्ली पिळवणूक, नाडणूक (शबै शबै भौजनसमाज) खंयचोय विचार जेन्ना एके फासकेंत वंद जावंक सोदता तेन्नाच तो सोंपता. (चैतन्यांक मठ ना) आदी.

आपणाक जो आशय रसिकामेरेन पावोवचो आसा ताका न्याय दिवपी आनी उपकाराक पडपी अशे तरेची त्या त्या नाटकाची रचना. ताका लागून ताणें केल्ले सावार रचनाप्रयोग आनी ह्या आगळ्या वेगळ्या रचणूक तंत्राक लागून तांच्या नाटकांक लाविल्ली खरसाण. देखीक ताणें केल्ले कांय रचना प्रयोग पळयात : तीन आंकी विभागणीं, वास्तव चित्रण (खण खण माती) नाटकांभितर नाटक-खरें म्हळ्यार रस्तो नाटकाचो आकृतीवंद- (सुरींग), क़िर्तनकारी, लोकांकाणी कथनतंत्र (श्री विचित्राची जात्रा, चैतन्याक मठ ना), निवेदन (देमांद), जागर(शबै शबै भौजनसमाज), समांतर घडणुको (पिंपळ पेटला)

आपणाल्या नाटकांचो आशय वद्द रसिकांच्या मेंदवाक तोपचो आनी काळजाक ओंपचो हाची खवरदारी पुंडलीक घेता. तेखातीर सुयोग्य अशी पात्र येवजण तो करता. केन्ना केन्ना ही पात्र येवजण मेलोड्रॅमेटीक (मुक्तताय, देमांद) जाता. पूण हे कांय आडवाद म्हूण कडेक दवरल्यार ताणें केल्ली पात्र येवजण (वयर उल्लेख केल्ल्या ताच्या वेसवऱ्या नाटकांतली) खुव्व परिणामकारक जाल्या. ती प्रत्यक्ष, अप्रत्यक्ष आनी कांय वेळार तर तांच्या नाटकांमदीं सैमूच पात्र म्हूण वावूरतना नदरेक पडटा. देखीक सुरींग, पिंपळ पेटला, चैतन्याक मठ ना आनी सर्वसादारणपणान एका

आड एक अशें तंत्र ताणें संघर्श - मार्गीर तो मेकळो वा सुप्त आसूं- निर्मणी खातीर आपणांयल्लें पळोवपाक मेळटा. आनी ताणें तें व्हड कुशळतायेन खेळभर खेळयलां. देखीक कस्तूर, गोपी, रॉकसायव, धर्मा (खण खण माती), जुझे, मारयान, लीओ आनी मुकादम आनी ह्या चौगांयमदीं जयंत, अजय, अनिकेत आनी अचला (सुरींग) मॉव, अंकुश, आवू, भुरगो, वायल (चैतन्याक मठ ना), कोणतरी आनी दोंबारी (श्री विचित्राची जात्रा) नाथा, भुषण, कोंडी आनी गंगी, हरीदाद, चारूलता, (पिंपळ पेटला) भोलो (शबै शबै भौजनसमाज).

संवादावगर नाटकाचो रूपकार जावंक पावना. संवादांतल्यान नाटक उलयता, चलता, आकार घेता. संवादाचें यश भाशेच्या वळग्यार अवलंबून उरता. पुंडलीकाची कोंकणी अस्सल. 'मेणापरस मोव आनी वज्रारूपी कठोर' लेगीत. ताणें हाडल्या ती भास भौसाची. जिवी. सैमसुंदर. पूण इतल्यारूच तो थारना. जाय त्या जाग्यार तो भास जाय तें परीनी केळयता आनी विचार विकारांचो आपणांक अभिप्रेत आशिल्लो खेळ पात्रांच्या उलोवण्यातल्यान खेळयता. भाशिक अभ्यासाचे नदरेंतल्यान तांच्या खण खण माती (मीन उद्देगांतली भास), सुरींग (साष्टी गावडी कोंकणी मोड) शबै शबै भौजनसमाज (कोंकणी भौगाची भास). चैतन्याक मठ ना (संप्रदायीक कोंकणी), श्री विचित्राची जात्रा (कुवाड्यांची भास). पिंपळ पेटला (काव्यात्मक अळंकारीक भास), देमांद (वातावरण निर्मणी करपी भास).

पुंडलीक नायकाचे संवाद वरप नाटकांचे आनी पात्रांचे प्रकृती धर्माक अनुसरपी आसात. ते गतीशीळ, स्फोटक, संघर्शपूर्ण, लयदार, तुटके, दीर्ग आडांगी अशीं जायतीं रूपांनी घालून रसिकांक भुलयतात, तिडक हाडटात, मोग उत्पन्न करतात. पळयतल्याक / आयकतल्याक आत्मसोद घेवपाक प्रवृत्त करतात.

निमाणेकडेन पुंडलीक नायकाचे नाटकां वरपावळीचेर आशिल्लो देशी विदेशी, पूर्वसुरी आनी समकालीन नाटककाराच्या प्रभावाविशी थोडेभितर सांगून हो लेख सोपयतां. पुंडलीक नायकाचे नाट्यलिखणेचेर ज्या व्हड नाटककारांचो प्रभाव पडला तातूंत भरतमूनी. एरिस्टॉटल. जे.बी. प्रिस्टले, इबसेन, कालिदास. भालबा केळकार. खानोलकार. तेंडुलकार हांचो तंत्राचे नदरेन जाल्यार संवाद आनी भाशेचे बाबतींत, इबसेन. गडकरी. शेक्सपियर. शणै गोंयबाब हांचो. पात्र चित्रपाचे बाबतींत सोफोक्लीस ह्या ग्रीक नाटककाराचो प्रभाव जाणवता. कांय अर्विल्ल्या व्हड नाटककारांचोय प्रभाव तांचेर जाला. समकालीन भारतीय रंगमाचयेचो तांचेर जो प्रभाव आसा तातूंत मराठी.

बंगाली, हिंदी आनी कानडी रंगमाचयेचो वांटो व्हड आसा. बंगाली नाटककार बादल सरकार हिंदी नाटककार शंकर घोष आनी मोहन राकेश, मराठी नाटककार चि. त्र्यं. खानोलकर आनी सतीश आळेकार. जाल्यार कानडी नाटकाकर गिरीश कर्नाड ह्या ताचे समकालीन नाटककाराच्या कर्तूवाचो व्हड वांटो नाटककार म्हूण पुंडलीकाचे जडण घडणीत आसा आनी ह्या सगळ्यांपरस म्हत्वाचें म्हळ्यार तांच्या नाटकच न्हय तर सावार साहित्य निर्मणीचेर मोठ्या खरायेन आशिल्लो जर कोणालो प्रभाव आसत जाल्यार तो गोंयचे संस्कृतायेचो. गोंयचे संस्कृतायेनूच पुंडलीकाक नाटककार म्हूण घडयलो. ताचें नाटक म्हळ्यार गोंयचे संस्कृतायेचें म्होंवाळ वाळकः आनी ह्या वाळकान आयज समस्त संवसारभरच्या नाट्यरसिकांक आपल्या परिपरिच्या रुपङ्यांनी भूल घाल्या. आनी ताका लागून पुंडलीकाचे पावलेन कोंकणी नाटक आयज गोंयच्यो शीम मेरो हुपून विश्व भोंवडेर भायर सरलां. आमचें भाग्य व्हड म्हूण आमी ह्या कोंकणीच्या दिग्वीजयाचे साक्षीदार जावंक पावल्यात.



# पुंडलीक नायक :
# कोंकणी साहित्याची प्रगल्भताय

## प्रा. प्रियदर्शिनी सु. तडकोडकार

कोंकणी साहित्यांतलो पुंडलीक नायकांचो प्रवेश कवी म्हूण जालो. 'गा आमी राखणे' हो तांचो कविता संग्रह १९७० ते ७६ मेरेनच्यो कविता आस्पावन घेवपी. पूण कविते सांगातान ते एकांकी आनी कथा ह्या साहित्य प्रकारांतूय आपणाली प्रतिभा केळयताले. एखाद्रो बरोवपी असो एका साहित्यप्रकारातल्यांन दुसऱ्या साहित्यप्रकारांत उडी मारता आनी थंय थिरावता ना थिरावता म्हणसर दुसऱ्या प्रकाराकडेन वळटा. हाचेफाटलीं कारणां कितें हें पळयल्यार दोन गजाली दिसतात. पयलीं म्हळ्यार आपूण साहित्याचो खंयचोय प्रकार सहजतायेन हाताळूंक शकता हो आत्मविश्वास आनी दुसरी, लेखकाक अशे कांय अणभव येतात, आदीं आपणायिल्लो साहित्य प्रकार वापरप योग्य थरना. पुंडलीकूय ह्या अशाच कांय गजालींक लागून आपणाली साहित्य माध्यमां आनी प्रकार बदलत रावल्यात अशें दिसता. तरीकूय आतां ते बरोंच काळ थिरावल्यात ते नाटकांच्या मळार.

### कविता

नाटककार म्हण नामना जोडिल्ले पुंडलीक नायक कवी रूपान वाचप्यां मुखार तीन तरेच्यो कविता दवरतात. स्वातंत्र्य मुल्यांचो आविश्कार करपी, सैमाची आनी गावांची वर्णनां करपी आनी मोगाचे उत्फर्के उक्ते करपी.

पयल्या प्रकारांत 'म्हजो बांगर वैल, गोरवां, अशें मदळ रावप ना' ह्यो आनी अश्योच कांय कविता येतात. तातूंतल्यान कवीन आपणाल्या अस्तित्वाचो उदघोश केला. 'बांगर वैल' हें तेदेवेळच्या तरनाट्या समाजाचें प्रतीक. जो रूढींचीं, परंपरेचीं सगळीं बंदना तोडून उडोवपाक भायर सरला. 'बांगर वैल' ही कविता वाचतकीच तातूंतली प्रतिकां आनी काळाचो संदर्भ हो निखट्या गोंयच्या समाजामेरेनूच मेळटा असो दिसना. कवीक इतलो संकूचीत वाठार अभिप्रेत नासुंये. कवीन आपले हे कवितेक

एक वेगळेंच रुप दिवन तिचें प्रतीक निर्मिलें जाच्या आदारान ताणें प्रतिनिधीक रुपान आपल्या जिविताविशीचें लख्ख चित्र वाचप्यांच्या सामकार दवरलें. बैलाच्या ह्या प्रतिकाचो उपेग ताणीं निखट्या वर्णनाखातीर करूंक ना. आपले आदले पिळगेक भोगपाक लागिल्ले उतळताप आनी अंदल्लेंपण पयस करपाखातीर नवी पिळगी मुखार सरल्या हें दाखोवपाखातीर बैलाचें हें प्रतीक तांणी घेतलां. घडये हें तांचे पिळगेचें आत्मचरित्रच म्हळ्यार जाता. झेल्यांतल्या कवितांच्या वळी कणकणी किंवाटो उकतो जाला. चिड्डिल्ल्या, माड्डिल्ल्या गोंयच्या तरनाट्याचो हावेस तातूंतल्यान उक्तो जातना आयिल्लीं उतरां कोंकणीचे मातयेचो परमळ घेवन येता. तांकां जितलो नेट आसा तितलीच खरसाणय आसा. कविता सुघड आनी चैतन्यान भरिल्ली आसतकच ती वाचप्यांक पिशें लायतनाच तांका अंतर्मुख करूंक शकता.

'एका बांगर बैलान आतांच दावें तोडलां
बैल उबी दोंड हुपून गेलो
कासरे कानयेक बदना'

वा 'म्हज्या बैलाक किरोंवनी.' अशो वळी चैतन्यान भरिल्ल्यो आसात पूण त्यो विचार करूंक लावपीय आसात. 'वेदनांचो आख्खो दर्या मोन्यांनी पियेवपी' कवी 'तांबडे मातयेचें इमान जांणी आजून घाणाक दवरूंक ना' (आमी कोण) हें पुराय आत्मविश्वासान सांगता. तेन्ना ताचेफाटल्यान दिसता ती थळावे मातयेकडेन आशिल्ली कविची बांदिलकी, कोंकणी मनशाचें अणभवविश्व आनी ह्या अणभवाक खासा आपणाले शैलीन गिरेस्त करपाची तांक. तिचेमदीं घोग्यांनी कोंसळपाची शक्त आसा. हावेस, किंवाटो, तिडक, उपहास असल्या गुणांनीय ती भरिल्ली आसा.

'फुडले खेप आमी तकली आनी हातांचो गुणाकार करतले
आनी
फकत हातांचीं मनगटांच जमेक धरतले.'

वा

'गोरवां शेण हागपी
शेंण मस्तुवपी रीतभात नासताना
पूण तोंडांत केन्ना घालचींना' (गोरवां)

हातूंतल्यान कवीचे वैयक्तीक भावनेपरस समाजीक भावना ह्या झेल्यांत चड उत्कटतायेन व्यक्त जाल्ली दिसता.

'राखण्यांनो / परत एकदां / म्हजेखातीर / तुमचेखातीर / वडाखातीर / पिळग्यांखातीर / सरयांखातीर / परत एकदां / फटीं सोडून / मांडयेक मांडी लावन / वसात वडामुळांत / परत एकदां / उबी करात / जाण भास .. मोड भास..' (राखण्यांनो) ह्यो वळी आनी आनीक कांय वळी पळयल्यार 'गा आमी.. ' तली सगळी कविताच हे भावनेन भरिल्ली दिसता. अन्यायाआड झुंजपाची तिची प्रवृत्ती खासा कवीचीच देखून तां आपल्या अस्तित्वाची जाणविकाय पर्थून पर्थून करून दिता.

'हांव ही घुडी नाचयतां / ह्या भुजांच्या कोळांत
हो रगताचो आवाज / तुमकां आयकूंक येना..'

अशें विचारीत पिळगेक शिटकायता,

'तिचो आतां शिंवासनार बसपाचो वगत जालो.
आरत्यो म्हणात, चंवरां घालात
दिमी मोडात, मानो बागयात
ना जाल्यार घडासकट मूळय वतलें
तुमच्या मनीसपणाची एकूय कुरू उरचीना
ही पालखी भीतर घेयात..'

वेगवेगळ्या प्रतिमांनी नटून आयिल्ली ही कविता गोंयचे सासायेच्या जोगवणेची वळख सांगता. देखून ती सासाय आतां कोंकणी समाजाच्या सगळ्या पांवड्यांवेल्यान उलोवंक लागल्या. ती आतां मनीसपणाचो धर्म जागोवंक सोदता. तेखातीर हे कवितेची भास आजतागायत येवंक नाशिल्ली जाल्या. कश्टी कुळवाड्यांची भास आनी थळाव्या लोकगितांच्या छंदांची कलात्मकतायेन केळवणी करपी अशी जाल्या. 'वांगर वैला' ची कविता शक्तिची आनी मुक्ततायेची वळख करून दिवपी जाल्यार 'राखणे, गोरवां' हीं प्रतिकां राखपी वृत्तीची. 'आजयेची काणी, म्हजी आवय' ह्यो कविता म्हळ्यार कवीक आशिल्लो 'नोस्टालजीया' अशें म्हळ्यार जाता. वर्सां फाटीं पडटकच फाटीं उरल्यात त्यो तांच्यो यादी. मायेची उब आनी हुनसाणी सांगातना आवयमदीं आशिल्ली सुशीळतायेची कडकसाण आतां उरूंक ना हे जाणविकायेन कवी खंती जाता. आनी अशा मर्यादशील घराची वळख आयच्या समाजाक करून दिवपाखातीर कवीक घराभायर सरचेंच पडटा. आपणाल्या अस्तित्वाची जाणविकाय करून दिवपी हे कवितेसांगातान सैमाचीं आनी मोगाचीं स्पंदनां उक्तावपी कविताय ह्या झेल्यांत आसात. मोगिकेच्या येवपाच्या आश्वासनांचो, तिच्या सांगातान घेतिल्ल्या आनी घेवपाच्या खिणांचो अणभव, संवेदनां

हांचोंय आविश्कार ही कविता करता. कविच्या जिवितांत मोगिका येता तेन्ना तिच्या येवपान -

'बचकभर आबोल्यांकय / गंध फुटत
पोसोभर चान्यांतय / खळें भरत'

अशें दिसूंक लागता. मोग म्हळ्यार जिवीत फुलोवपी एक शक्त. मोग म्हळ्यार वंधन न्हय. ती एक उर्वा. आपणाल्या विकासाखातीर वाडत रावपाची तांक. मोगिकेन येतां म्हण सांगतकच वाट पळोवपी कवी आपणाल्या मनाचे स्थितीची तुळा खतखत्त्या आदनावेल्या धांपणाकडेन करता तेन्ना ताच्या पोंदच्या उदकाची हुनसाण अदीक जाणवता. आनी कविच्या रागाची खरसाण 'प्रत्येकाच्या घरांतलो ट्रान्झीस्टर वेसूर करूं येतालो - जण एकल्याच्या पावलाचो ताल चुकोवं येतालो' इतली वाडल्या हें अणभवाक येता.

'येवपाचें आसूनय तूं आयलेंना
हें एके परीन बरेंच जालें
तुज्या येवपाचें म्हत्व कळ्ळें'

कवीक आशिल्ले सैमाचे ओडीन सैमाचीं विंगड विंगड रूपां हातूंत केळयल्यांत. ताका 'मिर्गाचे उले चिप्प' भिजोवन वतात. तिचेवेल्या मोगाचें नातें 'जोगलावल्या दिठी'चें हें सांगतना तो केळम्याचें प्रतीक घेवपाक फाटीं सरना. ताच्या 'आत्म्याच्या वज्ररुखाक' पानां पानां कणकणी सपनां फुलतात. तीं 'उजवाडाचें नातें रुजयतच'. हें सैमाचेंच प्रतीक कविच्या दोळयांमुखार प्रत्ययाक येता.

अशे रितीन सर्वस्पर्शी जिणेची कविता पुंडलीक नायकांनी रसिकांमुखार हाडली तेन्ना तांचे जिणेंतल्यो प्रतिमा, तांची चमक आनी मर्म तशेंच काव्याचें अस्सलपण नदरेंत भरता. तांची कविता जिणेंचे निवरसाणींतल्यान फुल्ल्या, अन्यायाआड प्रकट जाल्या. तिचे उदरगती वेळार राजकी स्वातंत्र्य मेळ्ळें आनी नव्या विचारांचें वारेंय व्हांवपाक लागलें. ताका लागून ही कविता अशी रसरशीत जाल्या.

## नाटक

पुंडलीक नायकांचो मूळ पींड कवीचो आसूनय ते नाटक ह्या प्रकारांत चड रंगल्यान अशें दिसता. आपल्यो कांय कथा, नवलिका, हातूंतलें नाट्य, दृश्यरूपान तांणी माचयेर हाडलें. 'खण खण मातो, सुरींग' अशा समाजीक नाटकांसांगातानच 'दायज, शवै शवै भोंजनसमाज, चैतन्याक मठ ना' अशे तरेचीय नाटकां बरयलीं.

तातूंतल्यान अन्यायाची तिडक. स्वातंत्र्याआड येवपी बंधनांचो विरोध, मनशाच्या ढोंगी सभावाविशीं तिडक, समाजीक रुढींआड बंड अशे विशय येतात. कवितेंतल्यान हांचो प्रत्यय येता हाचो उल्लेख वयर आयलाच.

कोंकणी नाटकांची परंपरा खरेल्या अर्थान हालींची. पुंडलीक दांडेच्या 'ताची करामत' आनी 'निमित्ताक कारण' सावन ती सुरू जाली. अर्थात ह्या नाटकाचें तंत्र तेदेवंळच्या इब्सेनीयन नाट्यतंत्राचें. ताणें कोंकणी नाटकाची दिशाच बदलून वडयली. इतलेंच न्हय तर तिच्यो प्रेरणा आनी प्रवृत्तीय बदलूंक लायल्यो आनी गोंयचे माचयेर गोंयच्या नाटकाक रसिकांमुखार हाडलें. तांच्या उपरांत आयिल्ल्या पुंडलीक नायक, दिलीप बोरकार आनी हेरांनी कोंकणी नाटकांत संहिता आनी प्रयोग हे नदरेन आपली आपली नाममुद्रा उठयली.

पुंडलीक नायकांचें 'खण खण माती' हें नाटक रंगमाचयेर आयलें तें गोंयच्या समाजीक प्रश्नांक वाचा फोडीत. उद्येगीकरणाच्या आनी 'फास्ट मनी' चे आशेन गोंयचे समाजीक जिणेचो उणावत चलिल्लो पांवडो आनी अनितीमान समाजाकडेन चलिल्लो ताचो प्रवास ह्या नाटकांत दाखयला. गोंयच्या समाजाचें प्रतिनिधीक चित्र हांगा रंगयतना कामगार आनी धनी ही संकल्पना जंय जंय आसा थंय थंय ही दरी, ताण तणाव आसपाकच जाय हें स्पस्ट जायत वता. तातूंतलयानच आदर्श वातावरण कशें आसचें हें आदर्श आनी समाजवादी विचारसरणिच्या रॉकसायबाच्या आदारान बरोवप्यान चित्रायलां. तें पळयतकच बरोवप्याचो त्या काळांत आशिल्लो समाजवादाचो प्रभाव जाणवलेबगर रावना.

पयलें म्हळ्यार सर्वस्व समजुपी रॉकसायबाची बायल वाय आनी मनशांमदलो देव सोदपी आनी समानताय राखपाचो यत्न करपी रॉक म्हळ्यार गोंयच्या समाजाचें प्रतिनिधीक चित्र. तें उबें करताना बरोवप्यान एक प्रयोगच केला. 'मीन पिकलां खांडयांनी' हे नवलिकेचो हो नाट्यरूपकार. विशय, वातावरण आनी व्यक्तीदर्शनाक फाव तशी भासशैली ह्या नाटकांत तांणी पयलेंच खेप आपणायली. ताका लागून हें नाटक तेदेवेळार गाजलें तें भाशेच्या अश्लीलतायेच्या संदर्भांत. ताकाच लागून ह्या नाटकांतल्यान उक्तो जावपी आशय आनी समाजमनाफुडें उबो जाल्लो धोको मातसो धांपूनच उरलो अशें म्हणूं येत.

१९६० - ७० च्या दशकांत साबार साहित्याच्या मळाचेर प्रयोगशीळताय आनी नवेंपण ह्या उतरांचो वापर जातालो. आशय विशयाचे नदरेन नवे प्रयोग करपाची कृती

ह्या काळांत 'प्रयोग' शीळ समजताले. कोंकणीय हाका आडवाद नासली. अशा वेळार पुंडलीक नायकांचीं नाटकां आशय, विशय आनी भासशैलीचे नदरेन नवींच थरलीं. मात ही नवीनताय तेदेवेळार समाजांत जाताल्या त्या नवीन बदलांक लागूनच येवपाक पावली हें तितलेंच सत. मनशाचे जिणेंतली ही नवीनताय ही ताच्या साहित्याकडेन वा कलेकडेन समांतरताय दवरता. नवनाटक, नवसाहित्य वा नवकाव्य ह्या साहित्यप्रकारांक जें नवीनतायेचें विशेशण मेळ्ळां ताका विशिश्ट आनी म्हत्वपूर्ण अर्थ आसा अशें सु. श्री. पांढरीपांडे म्हणटात. हें विशेशण एका विशिश्ट आनी म्हत्वपूर्ण अर्थान 'अनन्तर्थसूचक' आसा अशें ताचें मत्त. जें निखटें कालिक नासून 'ज्ञानात्मक आनी भावनात्मक' आसता. आर्विल्ल्या साहित्याक नवीनतायेचें विशेशण लागलें तें दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजाउपरांत. फ्रायड, उद्येगीकरण ह्या गजालींउपरांत. तांणी मनशांच्या समाजीक संबंधांत आनी भावनात्मक संबंधांत भोवच बदल घडोवन हाडलो. होच बदल पुंडलीक नायकांच्या नाटकांतल्यान दृगोचर जायत आसा. 'खण खण माती' उपरांत 'रक्तखेव, सुरींग मुक्तताय, देमांद' अशा नाटकांची परंपरा तांणी निर्माण केली. समाज जिणेंत तांकां जंय जंय जुलूम, जबरदस्ती, न्याय दिसलो आनी ताचे फाटलें नाट्य जाणवलें तें तें उतरांनी वांढून दवरपाचें कार्य तांणी केलें. ह्या सावार नाटकांफाटल्यान पुंडलीक नायकांची एक विशिश्ट दृश्टी आसा अशें दिसता.

तांणी वेंचिल्ले विशय पळयतकच अशा विशयांच्या संबंदान आशिल्ली तांची वृत्ती आक्रमकच जायत गेल्ली दिसता. चिड्डून उरिल्लो दर एकलो मनीस तांच्या नाटकाचो नायक वा मुखेल पात्र जातना दिसता. तो मागीर समाजीक बंदनांनी अंदिल्लो आसूं वा कोणेय केल्ल्या समाजीक अन्यायान गांजून गेल्लो आसूं. आपणाल्या आवय-वापायच्या अनैतीक वर्तनांतल्यान आसूं वा तांच्या दुवळेपणाक लागून पोंदा पडिल्लो आसूं. ताचेविशींची एक सहानुभुतिची भावना वरोवपी काळजांत खंयतरी खोल रोमून बसला म्हणपाचें जाणवता.

हीं नाटकां विशिश्ट हेतू वाळगून वरयल्यांत अशें तांच्या संबंदान म्हणटकच वरोवप्यान तांचेमदीं प्रयोगशीळताय हाडल्या जाल्यार ती जाणविकायेनच अशें म्हणचें पडटा. नाटकांतली प्रयोगशीळता ही तातूंतल्या आशय आनी अभिव्यक्तीकडेन संवंद दवरता. ताका लागून वदललेली अभिव्यक्ती ही पोरणे संकल्पनेंतल्यान साकार जायना. तिचेखातीर कलाकृतिचें पोरणे आकृतीवंध सोडून दिवंचे पडटात. 'शवै शवै भौंजनसमाज' नाटकांत प्रयोगशीळ वृत्तींचें दर्शन जाता. अनुभुतिचे गरजेंतल्यान ह्या

नाटकान कोंकणी लोकवेदाचो आदार घेतलो आनी आपणामदले प्रयोगशीळतेचें दर्शन घडयलें.

राजकी मळावयलया अनाचारी आनी भ्रश्टाचारी वेव्हारांक मदीं दवरून ह्या नाटकाची उभारणी जाल्या. हांगा भोलो हो गांवगिऱ्या वाठारांतलो मनीस. राजकारणांत पडटकच आपणाल्या गांवभावांक विसरून वचून सुवार्थाच्या चपक्यांत सांपडटा आनी आपणालें मनीसपण कशें विसरून वता हो ह्या नाटकाचो विशय. पूण उपरांत असोच मनीस राजकारणाचो आनी समाजाचो वळी थारू येता. आनी आपणाली हार लिपोवपाखातीर तो दुसऱ्यांक पीडपाक उबो जावं येता असो अणभव ह्या नाटकांतल्यान पुंडलीक नायकांनी उबो केला. प्रयोगाचे नदरेन ह्या नाटकान पोरणे नाट्यरचनेची आयट स्विकारूंक ना. पुराय नाटकांत बरोवप्यान शब्द, नृत्य आनी संगीत लोकवेदी रूपात बांदलें. तेखातीर तांणी लोकमाचयेवेल्या विंगड विंगड कलाप्रकारांचो वापर केला आनी तातूंतल्यानय नाट्यबंदाची एक नवे तरेची शैली कोंकणीत निर्माण जावपाक लागल्या. नाच (धालो, फुगड्यो) संगीत आनी गद्य ह्या तिनांच्याय मेळांतल्यान कोंकणी माचयेर एक नवो आनी गतिशील प्रवाह सुरू केला अशें दिसता. ते नदरेन 'शबै शवै' चें कोंकणी माचयेवेलें आनी खासा पुंडलीक नायकांचे नाट्यशैलींतलें एक पेणें अशें म्हणनशें दिसता. ह्या नाटकांतलें लोकसंगीत आनी लोकांनाच तातूंतल्या आशयाकडेन आनी फाटभुंयेकडेन एकरूप जालां. कोंकणी लोकमाचयेक समजून घेवन तिचो लायिल्लो अन्वय आनी ह्या नाटकाचो आशय हे नदरेन हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेवेलें म्हत्वाचें नाटक थरतलें हातूंत दुबाव ना.

हाचेआदीं वरयिल्लीं 'मुक्तताय, देमांद आनी राखण' हीं तीन नाटकां वेल्या नाटकांपरस वेगळ्या स्वरूपाचीं आसात. ह्या नाटकांतल्यान भावसंवंद, तांकां लाविल्ली समाजाची आडकाठी आनी विशिश्ट समाजरचणूकेक लागून जाल्ले वळजवरीचे संवंद आनी संतत हांचे प्रश्न मांडपाचो यत्न केला. मनीस जिवितांतले वासनेचें रूप मुळांत वचून सोदपाचो यत्न 'वसंतोत्सव आनी दायज' हे नवलिकेच्या नाट्यरूपांतय केला. अत्यंत संयमीत पूण तितलेच तांकीन ह्या नाटकांतल्यान वासनेचें चित्रण करूनय तातूंत आदल्या नाटकांवरी भडकपण वा पोजडेंपण चडशें दिश्टी पडना. मनशाच्या मनाची खराय सोदपाचांच पुंडलीक नायकांचो हो यत्न तोखणाय करी सारको दिसता.

घराण्यांतल्या नात्यांतलो पीळ, मत्सर, गर्रावी ह्या भावनांचें चित्रण करपी 'सुर्यसांवट आनी देमांद' हीं नाटकां. ह्या नाटकांच्या माध्यमांतल्यान फटीचे प्रतिष्ठेचे

वडवाचार गाजोवपी वृत्तीचें, नवे-पोरणे पिळगेंतल्या मानसीक संघर्शाचें चित्रण वरेतरेन आयलां.

'श्री विचित्राची जात्रा' आनी 'चैतन्याक मठ ना' हीं नाटकां लोककथेच्या संदर्भाचो आशय आनी मुक्तछंदात्मक नाट्यरचना घेवन आयल्यांत. तीं बरयताना बरोवप्यान पात्रसंख्या, थळां हांचो चड पात्सो दवरूक ना. हीं कथानकां तांकां सुचलीं तीं घडये समाजामदीं पातळिल्ल्या नाकर्तेपणाक, आळसायेक लागून आनी जात्रा, फेस्तांसारक्या भौशीक वाठारांत आनी वावरांत चलतल्या अनिश्ट वृत्ती-प्रवृत्तींक लागून. ह्या दोनय नाटकांच्या निमतान परथून प्रयोगशील नाटकांच रसिकांमुखार आयल्यांत. स्वप्नदृश्यां आनी फ्लॅशबॅक तंत्र वापरून ह्या नाटकांतल्या प्रसंगांची येवजण तांणी केल्या.

पुंडलीक नायकांचीं नाटकां विचारांक जाग हाडटात. प्रयोगाचे आनी संहितेचे नदरेन प्रायोगीक आशिल्लीं नाटकां माचयेवेल्यो परंपरागत गजाली परतून नव्यान मांडपाचो यत्न करतना दिसतात. नव्या आशयाक नाट्यानुभवाचें रुपडें दितना लोकशैलीचो आदार घेवनय तिचे भकीक हीं नाटकां पडूंक नात. नव्या समाजाचे आनी नव्या स्पंदनांचें, उत्फर्क्यांचें चित्रण करपाक नवी भास आनी भाशेची रितूय वदलची पडली. ताका लागून ह्या सावार नाटकांतले संवाद ल्हान ल्हान आनी सोंपे पूण अर्थपूर्ण जाले. भाशेचें शब्दरूप संवाद हें ह्या नाटकाचें व्हड देणें. नव्या नाट्यसंहितांत - ('शवै शवै - श्री विचित्राची - चैतन्याक...') वांदेसूद कथानकाची वांदावळ कुशीक दवरून घटना, प्रसंगांक एके माळेन चित्रावपाची पद्धत हांगा आपणायल्या अशें दिसता. आनी बरोवप्याक सामान्य भौसाविशीं आशिल्लें आपलेपण तांच्या ह्या बरोवपांत परतून परतून दिसता.

ह्या सावार नाटकांतलें व्यक्तीदर्शन पळयल्यार मनशाच्या मनाचें सुक्षीम आनी अंतर्विरोधी अशें मन अदीक खोलायेन दाखोवं येतालें अशें जाणवता. तरीकूय ह्या नाटकांतल्यान उकतो जावपी जिविताचो अणभव वाचप्यांच्या मनाक उत्कटतायेन तेंकता हातूंत मातूय दुबाव ना.

## कथा

नाटकांइतलेंच मकसतायेन आनी विपुलतायेन लेखन केल्लो पुंडलीक नायकांचो दुसरो प्रकार म्हळ्यार कथा. हें 'पिशांतर, मुठय आनी अर्दूक' ह्या तीन कथांझेल्यांतल्यान जाणवता. पुंडलीक नायक हे मुखेलतायेन गांवगि-या भौसाचे आनी वाठाराचें प्रतिनिधीत्व करपी कथाकार. पूण तशें आसूनय संवेदनेच्या मळार ते गोंयच्या वाठारामेरेनच अडून

उग्नात. ही तांची खाशेलीयत. गोंयचे मातयेचो तांच्या कथांक येवपी परमळ व्यापक मनीसपणाक आपणाले वेंगेंत घेता. ७० उप्रांतच्या दसकांतले कथेंत तांगेली कथा जायत्या अर्थांनी केळयत आयिल्ली दिश्टी पडटा. तिचेमदीं गांवगिरें जिणेचें जीवसाणेन भरिल्लें जिवित अशें चित्र, थंयच्या शेताभाटांचे, तांतल्या कुळवाड्यांचें, पागपी पागे-यांचे आनी दर्याभोंवतणचे जिणेचें चित्र मानवी विकाराच्या प्रभावी दर्शनाची प्रभावळ घेवन तांचे कथेंत आयलां. पूण ती खंयच अश्लील वा मर्यादेच्यो शिमा हुंपपी अशी जावंक ना.

ह्या कथांनी वरोवप्याची आंतरीक तळमळ दिश्टी पडटा. वांगर वैलाचो कवितेंतल्यान दिसपी धेंक ह्या कथांनीय दिसता. ताका लागून समाजांत दिसपी असमानतायेआड ते पेटून उठ्टात आनी तिच्या वर्माचेर घाय घालपाक फाटीं सरनात. तेदेवेळार समाजाच्या परंपरागत नितीमत्तेचेरय घाय घालपाक ते अनमनूंक नात म्हणपाचें दिसता.

१९७० सावन ८० मेरेनची कोंकणी कथा जायत्या आंगांनी चंवरली. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान आयिल्ल्या जायत्या वरोवप्यांनी तिचें दर्शन विविधतायेन घडयलें. पूण विशयांचे नदरेन तिचें मळ मात व्हडलेंशें रुंदावंक ना अशें म्हणचें पडटा. अशा वेळार पुंडलीक नायक आपणाल्या वेगळेपणान नदरेंत भरतात. हें वेगळेपण म्हळ्यार पोन्न्यांत नवें सोदपाची, तेमाक बंधन म्हूण मानून ताचेच भोंवतणी घुस्पून न रावपाची तांची वृत्ती तशेंच साद्या विशयांमदल्यान जिविताचें नाट्य उबें करपाची तांची विलक्षण हातोटी. तेभायर तांच्या कथांमदीं येवपी वातावरण. जें तांच्या कथानकांचोंच एक वेगळावं नज असो वांटो जाता. तें वातावरण निर्मणेखातीर आयिल्लीं सैमाचीं वर्णनां हीं कथानकांचेंच एक आंग आशिल्लेवरी जातात. तांच्या सैमीक वर्णनांचे भाशेक एके तरेची लय आसता. थंय प्रतिमांचो वापर ते सूचकतायेन करतात.

तांचे कथेचें दुसरें वैशिश्ट्य म्हळ्यार तांचें व्यक्तिचित्रण. ह्या कथांतलीं पात्रां जिणेच्या पेण्यार तशीं सहजतायेन मेळनात. वरोवप्याक मनशाविशीं सहानभुती आशिल्ल्यान तांचीं चित्रणां नकसुदायेन रंगयल्यांत. देखून हीं मनशां जिवीं आनी ताजमाण आशिल्लीं दिसतात. तांचे 'हार' कथेंतलो कुळवाडी, 'वळजवरी' तलो अंतुलो आनी दादी. आनी असहाय चिरेकार हे नदरेन पळयल्यार जाता.

पुंडलीक नायकांची गाजिल्ली कथा म्हळ्यार 'कासय'. ती एक रुपककथा. जिवापाड जपिल्लीं जिणेंतलीं मुल्यां जिवाच्या अस्तित्वा खातीरूच एक दीस विकपाचो प्रसंग येता तेन्ना बिरवलाचे माकडिणीची याद आयलेवगर रावना. आनी दळिदी

जिणेच्या सूखदुःखाचे ताण लेखकासांगातान वाचप्यांच्या मनाचेर कांचवेवन पडूंक लागतात. पोटाखातीर लाचार जाल्ल्या क्षुद्र जिविताचो किंवाटो येवन मन संतापता. जाल्यार 'पाज्ज' कथेंतलो अणभव जिणेसंबंदान एके तरेची कोडसाण गांठीक लावपाक लायता. 'मोगाची धूव' निसर्गाच्या नेमान झपाटिल्ल्या दादल्याचे भकीक पडटना तिचे आवयची जाल्ली अवस्था मोट्या संयमान आनी सूचकतायेन दाखयल्या. अशा आनीक जायत्या बायलांच्या आयुश्यांतले विचित्र दूःखभोग तांच्या तिनूय कथांझेल्यांतल्यान वाचूंक मेळटात. मनशाक निरूपाय आनी अगतीक करून सोडपी कामप्रेरणेच्यो तांकी लेखकान जाणल्यात आनी तांचेंच प्रगटीकरण ह्या कथांनी जालां. संवेदना, भावना, विचार, ध्येयां, संस्कार, रितीभाती हांच्या आदारान मनीस घडटा. पूण ताची घडणूक ह्या सावार गजालींकडेन मेळ राखपी नासल्यार तो उक्तो पडटा. हाचें भान पुंडलीक नायकांक आसा. देखून कामप्रेरणेच्या संदर्भांतले भावानुभव उक्ते करपी जायते प्रसंग, व्यक्तिचित्रां तांणी रंगयल्यांत. हे संवेदनेक लागून मनशांमदल्या बदलत्या भावभावनांचें आनी घुस्पागोंदळाचें चित्रण ताणी केलां. (पाज्ज, मोगाची धूव, पारज, बळजबरी बी) पूण तें करताना वाचप्यांच्यो वासना चाळोवन घालपाचें काम मात करूंक ना. आपल्या पात्रांचें पतन दाखोवनय तांचेर आपणाली मखलाशी करना. उरफाटें तांचेकडेन सहानभुतीन पळयता.

## नवलिका

कोंकणी कथा साहित्यांत अशे रितीन भरीव आनी सकस भर घालून केळयिल्ल्या आनीक एका साहित्यप्रकाराविशीं वरोवप म्हजें कर्तव्यच थारता. तो प्रकार म्हळ्यार नवलिका वा कादंबरी. कोंकणी साहित्याच्या मळार नदर भोंवडायल्यार हो साहित्यप्कार व्हडलोसो चंवरूंक पावलो ना म्हणपाचें नदरेक येता. ताचीं कारणां खंयचींय आसूं, पूण अवघ्या चार नवलिकांनी कोंकणी नवलिकेच्या मळार आपणाली नाममुद्रा उठोवपी पुंडलीक नायकाचे लिखणेचें विशेश तांचे साहित्यसाधनेचे गवाय थारतात. 'बांवर, अच्छेव' आनी 'वसंतोत्सव आनी दायज' ह्या तीन नवलिकांतल्यान गोंयचे गांवगिरे जिणेचें उत्कट चित्रण तांणी केलां. जुवानपणाच्या हुंवऱ्यार उवे राविल्ल्या तरनाट्याच्या भावजिविताचें मनोविश्लेशण 'बांवरात' मेळटा. जाल्यार गोंयच्या समाजीक बदलाचो गांवगिऱ्या वठाराचेर जाल्लो परीणाम हाचो बारीकसाणेसयत 'अच्छेवांत' वेध घेतिल्लो मेळटा. समाजीक वास्तवाकडेन एकनिश्ठताय राखून वरयिल्ली कोंकणीतली पयलीच नवलिका म्हूण तिची खूप तांखणाय जाली. गोंयचे मुळावे संस्कृतीचीं तासां, तिचीं

सुखदुःखां, बदल हांचें चित्रण तातूंतल्यान नकगूदपणान आनी वास्तवाकडेन इमान राखून जालें. हाकाय लागून ती नवलिका गुणांची थारता. तातूंतली जीण आनी अणभव इतले अस्सल आसात, वाचपी निमाणच्या पानामेरेन खिळावन उरता. आनी तातूंतल्या पात्रांच्या सुखदुःखांत भरसून एकरूप जाता. गोयांत मिनाचो धंदो सुरू जातकच अर्थीक उदरगतीवरोदर नैतीक मुल्यांची घसरण सुरू जाली. आनी गावांत निर्मल जीण जगपी मनशांनी पयशांच्या चकचकाटांत आपणांक व्यसनांच्या आनी अनितिच्या आधीन केन्ना केले हे कळ्ळेंच ना. आपणांक आनी सवंद समाजाक लागिल्ली कीड कोणे केन्ना पळोवपाची तसदीय घेतली ना. होच विशय घेवन हे नवलिकेचें निवेदन जालां.

हे नवलिकेचो निवेदक हो खासा बरोवपीच. पूण निवेदनाच्या ओगांत तो खंयच व्हांवन गेल्लो दिसना. तटस्थ मितभाशीक निवेदक वाचप्यांच्या मुखार फकत 'फॅक्टस' दवरता. ताका लागून वास्तव जिणेचें चित्रण करपी अशी ही नवलिका आसूनय तिचेमदल्या मनोविश्लेशणाचो अणभव दर एका वाचप्याक आपणाले तांकीनच घेवचो पडटा. ह्या निवेदनाची दुसरी विशेशताय म्हळ्यार बरोवप्यान केल्लें सैमाचें वर्णन. नवलिकेचें गांवगिरेंपण ठळक जावपाक ह्या वर्णनाचो भोवच आदार जाला. त्याच सांगातान लेखकान ह्या वाठाराच्या संस्कृतीक तासांचेंय दर्शन तांच्या वर्सभर चलतल्या सणा परबांच्या निमतान घडयलां. तांच्यो समजुती, चालीरिती हातूंतल्यान साकार जावपी 'कोळंब' गांव वाचप्यांक वळखीचो, संवकळीचो दिसता तो बरोवप्याच्या ह्याच तंत्राक लागून. शेतांभाटांचीं कामां, काजी, आमुल्ल्यो चंवरतकच फाटोफाट येतात ते उत्सव आनी तांची वाट पळोवपी भुरगीं-वाळां-धालांचो उत्सव, ह्या सगळ्यांचो आनी तांच्या सांगातान येवपी शकून अपशकुनांच्या वर्णनांनी ह्या गांवच्या संस्कृतीक दायजाची वळख जाताच पूण त्या सांगातान ह्या गांवचे मानसीकतायेकडेन पळोवपाचो दृश्टीकोनय बरोवपी वाचप्यांक दिता. कोळंब वाचप्यांमुखार एका भौम मनाचें चित्र दवरता. आनी तातूंतल्यान जिणेचीं सावार तासां सहजतायेन उक्तीं जाल्लीं दिसतात. लेखकान तीं तपशीलान चित्रायल्यांत पूण तातूंत खंयच पाल्हाळ दिसना.

नवलिकेच्या सव्या प्रकरणांतल्यान गांवचे हें निर्मळ जिणेचेर तरंग उठपाक लागिल्ले दिश्टी पडटात. सुर्यफुलान जशी सूर्याचेर नदर दवरची तशींच मिनाच्या धंद्याचेर ह्या साबारांच्यो नदरो भोंवडूंक लागतात. शेतांभाटां पडंग पडिल्ल्याचें धंगण तांकां ना जाताच पूण शाळाय वशाड जावपाक लागिल्ल्याचेंय भान तांकां उरना. पुराय

गांव अधोगतीचीं सोपणां देवंक लागला म्हणपाचें दुःख आबू आनी मास्तराकय भोगता. पूण हीं दोन मनशां नवलिकेचीं मध्यवर्ती पात्रां न्हय. त्या त्या प्रसंगांत येवपी तें तें पात्रच तेदवेळार मध्यवर्ती जावन उरता आनी कथानकाची संमिश्रताय उक्तायताना नदरेंत भरता. 'अच्छेवाचें' साहित्यीक मोल वाडपाफाटल्यान वयल्या घटकांसांगातान आनीक एका घटकाचोय आदार आसा. तो म्हळ्यार तातूंतलें सभाव रेखाटन. वेगळ्या वेगळ्या पात्रांच्या सभाव दर्शनांतल्यान कथानकाचो प्रवाह मुखार वचत रावला. तीं पात्रां संवादाच्या माध्यमांतल्यान उवीं जातात. तांचे वरवीं बरोवप्याचें सुक्षीम अशे निरीक्षणशक्तीची आनी भाशेवयल्या हुकमतीची वळख पट्टा.

'अच्छेवा'च्या माध्यमांतल्यान पुंडलीक नायकान गोंयच्या समाजाचें चित्र दवरून शिटकावणी दिल्ली तो काळ चड पयस वचूंक ना. उद्येगीकरणाक लागून मनशाचो अधःपात जावं येता तो जिवीतमुल्यांची पडझड जावंक दिलीच जाल्यार. गांवजिणेची उदात्तताय, तातूंतली निर्मळसाण आनी नैतीकतायेचीं मुल्यां राखपांतच आसता. बरोवप्यान दिल्ले शिटकावणेचो आमी फावो तितले गंभीरतायेन विचार करूंक ना. हाचो पश्चात्ताप करपाची पाळी येवपाक आतां चड दीस उरूंक नात अशें दिसपाक लागलां, आनी बरोवपी हो द्रश्टोच आसता हें पटपाक लागलां.

पुंडलीक नायक हे प्रतिभासंपन्न नाटककार म्हूण गाजतात. अश्टतासी साहित्यिक म्हूण साहित्याचीं जायतीं मळां तांणी हुंपल्यांत. पूण प्रदेशीक बरपाचो बरो नमुनो म्हूण तांची दर एक कृती थारूनय संवसारीक पांवड्यावेल्या जिणेचो जिवो अणभव वाचप्यांक दिवपाची तांक तिचेमदीं आसा हें तांची दरेक कृती वाचतकच पट्टा.

पुंडलीक नायकांचे बरपावळीक वेस बरो न्याय दिवपाखातीर कांय प्रमाणांत 'नेटिव्हिझम' ह्या साहित्यिक संप्रदायांतली तत्वां चड उपकारक थारू येता. पूण तो अभ्यास करप हो ह्या लेखाचो विशय न्हय. ते निमतान वसाहतवादी विचारांचोय नव्यान विचार करपाची संद मेळटा. पूण तोय विचार वेगळ्या लेखाचोच.

पुंडलीक नायकांचे बरपावळींचो हो घेतिल्लो वेध. तांचे बरपावळीचें आकलन करूंक हो वेध घडये उपकारा पडूं येत.



परिशिश्ट

# पुंडलीक नारायण नायक

## जीवनपट

**जल्म** : २१ एप्रिल १९५२

**जल्मगांव** : वळवय फोंडें

**पत्तो** : वळवय फोंडें गोंय ४०३ ४०१

**अवगत भाशा** : कोंकणी मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश

### वेवसायिक आनी साहित्यिक वावर

| | | |
|---|---|---|
| १. | शिक्षक म्हणून नोकरी | (१९७२-७८) |
| २. | कोंकणी नाटकांचें दिग्दर्शन | (१९७७ ते १९८३) |
| ३. | आकाशवाणी, पणजी केंद्राचेर उप संपादक / सह संपादक | (१९७९) |
| | उपरांत लेखनाखातीर नोकरेचो राजिनामो | (१९८४) |
| ४. | सदस्य, राजभास सल्लागार समिति, गोंय सरकार | (१९९१) |
| ५. | उपाध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादमी, गोंय | (१९९३-९६) |
| ६. | सदस्य, पश्चिम क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्र, उदयपूर | (१९९२-९७) |
| ७. | सदस्य, संगीत नाटक अकादमी, नवी दिल्ली | (१९९३-९८) |
| ८. | सदस्य, कला अकादमी, गोंय | (१९९३-९६) |
| ९. | सदस्य, नेशनल बुक ट्रस्ट, इंडीया, नवी दिल्ली | (१९९७) |
| १०. | सदस्य, सल्लागार समिति, पणजी दूरदर्शन केंद्र | (१९९८) |

### गोंयच्या राजभास आंदोलनातलें योगदान

कोंकणी राजभास, गोंय घटकराज्य आनी घटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव ह्या मागण्यांखातीर स्थापन केल्ल्या 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' संस्थेचे निमंत्रक. (१९८५)

### पर्यावरण चळवळींत सहभाग

केरी, फोंडें, गोंय हांगाच्या नायलॉन ६,६ प्रकल्पाक विरोध करपाखातीर उबारिल्ले चळवळींत सक्रीय सहभाग. (१९९५)

## आकाशवाणीखातीर लेखन

१. पंचवीस वयर नभोनाट्यांचें लेखन आनी तांची पणजी, मुंबय, मंगळूर केंद्रांवयल्यान वितरावणी.

२. आकाशवाणीच्या राष्ट्रीय कार्यावळींत मर्णकटो, पांज, श्री विचित्राची जात्रा नभोनाट्यांची वितरावणी.

३. रूपक, संवाद, मालीका अशें विविध स्वरूपाचें लेखन.

## इनामां / पुरस्कार / गौरव

| | | |
|---|---|---|
| १. | कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय) पुरस्कार | १९७५,१९७८,१९७९ |
| २. | कला अकादमी राज्य साहित्य पुरस्कार, | |
| | 'रानसुंदरी' (बालनाट्य) | १९७५ |
| | 'अच्छेव' (कांदबरी) | १९७८ |
| ३. | अखिल भारतीय आकाशवाणी नभोनाट्य पुरस्कार, 'मर्णकटो' | १९८० |
| ४. | केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार, 'चौरंग' (एकांकी संग्रह) | १९८४ |
| ५. | भारतीय जेसीचो सर्वोत्कृष्ट व्यक्ती पुरस्कार | १९८६ |
| ६. | अखिल भारतीय आकाशवाणी नभोनाट्य पुरस्कार, | |
| | 'श्री विचित्राची जात्रा' | १९८६ |
| ७. | अखिल भारतीय नभोनाट्य लेखनसर्तींत पयलो पुरस्कार, | |
| | 'महासागरांतलें तारूं' | १९८७ |
| ८. | अकादमी ऑफ ब्रॉडकास्टींग आर्ट एन्ड सायन्स, चो पेटर्स | |
| | ऑस्ट्रेलियन पुरस्कार, 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटकाक | १९८८ |
| ९. | सर्गेस्त गुंडू सिताराम आमोणकार पुरस्कार | १९९० |
| १०. | पी. डी. कुडचडकार नाट्यलेखन पुरस्कार | १९९१ |
| ११. | पयल्या गोंय राज्य चित्रपट महोत्सवात 'देखणी दुराय' खातीर | |
| | सर्वोत्कृष्ट पटकथा पुरस्कार | १९९७ |
| १२. | अध्यक्षपद, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदः बावीसावें | |
| | अधिवेशन, बेळगांव | १९९९ |

**प्रकाशित पुस्तकां**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | रानसुंदरी | (बालनाट्य) | १९७४ |
| २. | गांवधनी गांवकार | (एकांकी संग्रह) | १९७५ |
| ३. | गा आनी राखणे | (कविता) | १९७६ |
| ४. | बांबर | (नवलिका) | १९७७ |
| ५. | पिशान्तर | (कथा) | १९७७ |
| ६. | मुठय | (कथा) | १९७७ |
| ७. | अच्छेव | (कादंबरी) | १९७७ |
| ८. | खण खण माती | (नाटक) | १९७७ |
| ९. | रक्तखेंव | (नाटक) | १९७९ |
| १०. | राखण | (नाटक) | १९७९ |
| ११. | छप्पन थिगळी येसवंत | (एकपात्री) | १९८० |
| १२. | चौरंग | (एकांकी संग्रह) | १९८२ |
| १३. | सुरींग | (नाटक) | १९८२ |
| १४. | आळशांक वाग खातलो | (बालनाट्य) | १९८४ |
| १५. | सूर्यसांवट | (नाटक) | १९८४ |
| १६. | वसंतोत्सव आनी दायज | (नवलिका) | १९८५ |
| १७. | देमान्द | (नाटक) | १९८६ |
| १८. | मुक्तताय | (नाटक) | १९८६ |
| १९ | शबै शबै भौजनसमाज | (नाटक) | १९८६ |
| २०. | पिंपळ पेटला | (नाटक) | १९८६ |
| २१. | श्री विचित्राची जात्रा | (नाटक) | १९८६ |
| २२. | आकाशमंच | (नभोनाट्य संग्रह) | १९८७ |
| २३. | मनू | (किशोर नवलिका) | १९८८ |
| २४. | अर्दूक | (कथा) | १९८९ |
| २५. | दिगंत | (एकांकी संग्रह) | १९९० |
| २६. | दायज | (नाटक) | १९९१ |
| २७. | रंगपाट | (नाटक नियाळ) | १९९२ |
| २८. | चैतन्याक मठ ना | (नाटक) | १९९२ |
| २९. | आत्मवंचना | (नाटक) | १९९५ |

| | | | |
|---|---|---|---|
| ३०. | गोंयचो पावस | (बालसाहित्य) | १९९६ |
| ३१. | शिंवाचो बळी | (बालनाट्य) | १९९८ |
| ३२. | गुणाजी | (नवलिका) | १९९८ |
| ३३. | गौरी आनी कल्परूख | (बालनवलिका) | १९९९ |
| ३४. | बेकार भोंवडेकार | (बालनवलिका) | १९९९ |

**अणकारीत साहित्य**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | काजी नजरूल इस्लाम | (चरित्र) | १९८५ |
| २. | नानालाल | (चरित्र) | १९८७ |

**संपादीत साहित्य**

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | वेंचीक कोंकणी एकांकी | (प्रातिनिधीक एकांकी संग्रह) | १९९२ |
| २. | समकालीन कोंकणी लघुकथा | (प्रातिनिधीक कथा संग्रह) | १९९७ |

**प्रकाशनाचे वाटेर पुस्तकां**

१. पाजण (निवंध)
२. परीक्रमा (नाटक)
३. प्रेमसागर (नाटक)
४. दीशटदौलत (नाटक)
५. तकली तड्डकी (नाटक)
६. नवचेतना (गीतां)
७. तिरंगी चक्राचक्री (नाटक)

**फिल्म / टेलीप्ले**

| | | |
|---|---|---|
| १. | जैत (कोंकणी टेलीफिल्म) कथा, पटकथा, संवाद लेखन | १९९१ |
| २. | रानसुंदरी (कोंकणी (टेलीप्ले) | १९९१ |
| ३. | मर्णकटो (कोंकणी टेलीप्ले) | १९९२ |
| ४. | स्वीकृती (कोंकणी टेलीफिल्म) संवाद लेखन | १९९३ |
| ५. | वधचक्र (मराठी विडीयो फिल्म) कथा, पटकथा, संवाद, गीत लेखन | १९९३ |
| ६. | देखणी दुराय (कोंकणी फिल्म) कथा, पटकथा, संवाद, गीत लेखन | १९९४ |
| ७. | सांगाती (कोंकणी टेलीफिल्म) गीत लेखन | १९९६ |
| ८. | मोनी गवाय (कोंकणी फिल्म) कथा, पटकथा, संवाद | १९९९ |



# पुंडलीक नारायण नायक
हांगेलें साहित्य

**कथा / नवलिका / कादंबरी**

• मुठय • पिशान्तर • वांवर • अच्छेव •
• वसंतोत्सव आनी दायज •
• अर्दूक • गुणाजी •

**कविता**

• गा आमी राखणे •

**नाटकां**

• खण खण माती • रक्तखेव •
• राखण • सुरींग • सूर्यसांवट • देमान्द •
• मुक्तताय • शवै शवै भौजनसमाज •
• पिंपळ पेटला • श्री विचित्राची जात्रा •
• दायज • चैतन्याक मठ ना • आत्मवंचना •

**एकांकी**

• गांवधनी गांवकार • छप्पन्न थिगळी येसवंत •
• चौरंग • आकाशमंच • दिगंत •

**नाटक समीक्षा**

• रंगपाट •

**बाल नाट्य / बालसाहित्य**

• रानसुंदरी • आळशांक वाग खातलो •
• शिंवाचो वळी • मनू • गोंयचो पावस •
• गौरी आनी कल्परूख • बेकार भोंवडेकार •

**संपादीत साहित्य**

• वेंचीक कोंकणी एकांकी •
• समकालीन कोंकणी लघुकथा •




कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

रु. २२५.००

Printed at New Age Printers, Santa Cruz, Goa. Ph 223924 & 222063